# जाग
## दिवाळी १९९९

वर्स २६ ◇ आंक ४ ◇ नव्हेंबर १९९९

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार

वावुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय

उजवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

अक्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

छापपी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

भायलें चित्र : डॉ. सुबोध केरकार

भितरलीं चित्रां : एकनाथ

वर्सुकी मोल : रु. १००/-

आंकाचें मोल : रु. ५०/-

जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
रूअ द साउदादिश्, पाजीफोंड,
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.

201 B Saldel Apts,
Rua de Saudades,
Pajifond, Margao
Goa - 403601

## ह्या आंकांत

### वैचारीक / ललीत लेख / निबंद


- दोन नेतृत्वां: एक संघटक, दुसरें विघटक
  — रवीन्द्र केळेकार
- आनंदयात्री! अण्णा
  — सुधा आमोणकार
- सोबीत सुंदरा वसुंधरा – अंदमान!
  — जयमाला दणायत
- लोकगितां: मुळचीं मंत्रगितां
  — जयंती नायक
- बेकारथवयी कोंकणी
  — अना म्हांबरो
- हांव आनी म्हजी कोंकणी चळवळ
  — दिलीप बोरकार
- ३१ डिसेंबर १९९९
  — पंढरीनाथ सुरसुरे


### नाटकुलें


- तलवार
  — एस्. डी. तेंडुलकार

## ...जवाडाचे परबे निमतान

विविधतायेन भरिल्लो हो खाशेलो वर्सुकी आंक वाचप्यां ...खार दवरतना आमकां खूब खोस भोगता.

आमगेल्या बरप्यांक लागुनूच हो आंक इतलो भरींव जावंक ...वला हांतूंत दुबावूच ना. आमगेले चिटिची वाट लेगीत ...ळे नासतना जायत्या जाणांनी आपणालें बरप आमचे कडेन ...ाडून दिलें. 'जागा' वयलो तांगेलो हो मोग सदां असोच ...रचो म्हूण आमी मागतात. तांचे आमी काळजासावन ...पकारी. डॉ. सुबोध केरकार आनी एकनाथाच्या चित्रां ...गर आंक इतलो सोबीत जावंक पावचोच नाशिल्लो. तांचेय ...ामी उपकार मानतात. जायराती दितल्यांच्या पालवा बगर ...जागा'चें हें धाडस करूंक तांकचेंच नाशिल्लें. आमी तांच्याय ...पकारांत आसात. 'तन्वी ग्राफिक्स'च्या राजेशबाब ...ाटीकारांचेय उपकार मानूंक जाय. दर वर्सा दोन-तीन ...ह्यन्यां आदीं सावन आमी दिवाळी आंकाचे तयारेक ...ागतात. आनी तरी निमाण्या वेळार आमकां राजेशबाबाचेर ...ण घालचोच पडटा...

ह्या आंकांत आमी अणकारा खातीर मुजरत एक खाशेलें ...लन दवरलां. भारता सारकेल्या भौभाशीक देशांत ...णकाराक एक खाशेलें म्हत्व आसा. भारतीय साहित्याक ...रेकवार मातयांचो वास आसा. आमच्याच भौरंगी ...ाहित्याची वळख मेळोवंक आमकां अणकाराचो आधार ...वंचो पडटा. हेर भासांनी साहित्यीक मळार कितें चल्लां ...चो अणकारा वरवीं आमच्यांनी थाव घेवं येता. तसो, ... भासांचे तुळेन आयज आमी खंय आसात ताचोय अणकारा ...वींच होलम घेवं येता. अणकार साहित्याचे वाडीक हातभार ...यता. इतलेंच न्हय. अणकार भाशेचे वाडिकूय आधार ...रता. अणकारांतल्यान भाशेक नवे संवसार, नवीं मळां ...कृतीं जातात आनी हातुंतल्यान अणकार करपी भास ...दीक तांकिवंत आनी प्रगल्भ जाता. 'जागा'न अणकाराक ...दांच म्हत्व दिलां. जमल्यार आमगेल्या नव्या वर्सा सावन ...ागस्ट २००० सावन) दर आंकांत अणकारा खातीर ... कोनसो राखून दवरुपाचो आमचो विचार आसा.

आमचो हो वर्सुकी आंक तुमकां सगळ्यांक मानवतलो ...ी आस्त बाळगितांत आनी, ही दिवाळी, नातलां आनी ... वर्स सगळ्यांक सुखाचें आनी समृद्धिचें वचूं अशें ...ातात.

— वावुरपी संपादपी


## कथा

- अहिल्या
  — चंद्रकांत केणी
- केन्ना केन्ना भुरग्यांकडसून देख शिकची
  — दामोदर मावजो
- मीर्गवालें
  — महाबळेश्वर सैल
- बापूय, पूत आनी हांव
  — शीला कोळंबकार
- म्होंव आनी मूस
  — गजानन जोग
- वंशकोंब
  — देविदास कदम
- मोनेळ माया
  — प्रकाश पर्येकार
- ताचो नाथ
  — मंगला शिवदास
- हावरट
  — मिलिंद म्हामल
- मोनीं दुकां
  — उदय गुडे
- भगवान
  — समीर झांट्ये

## अणकार

- अणकार
  — मुकेश थळी
- म्हजी व्यायामाची साधना
  — मूळ गुजराती: ज्योतीन्द्र दवे
- हांव एक बुद्धिजिवी
  — मूळ हिन्दी: शरद जोशी
  — अणकार: प्रभाकर नाडकर्णी
- शिमेरेशेची शीम
  — मूळ बंगाली: आशापुर्णा देवी
  — अणकार: माया खरंगटे
- गुन्यांव कोणाचो?
  — मूळ हिन्दी: रामदेवलाल श्रीवास्तव
  — अणकार: उदय देशप्रभू

## कविता

शंकर रामाणी, नागेश करमली, रमेश वेळुस्कार, प्रकाश पाडगांवकार, परेश कामत, राजय रमेश पवार, सुनिता शाह, सुफला गायतोंडे, पी. जी. कामत, नयना आडारकार, राजश्री म. सैल, पूर्णानंद च्यारी, अमिता गावणेकार, पी. एन्. शिवानन्द शेणै, मनोज नरेंद्र कामत, भालचंद्र गांवकार, शशिकांत पुनाजी, आर. रामनाथ, रोहिदास बाबुराव शिरोडकार, सु. म. तडकोड, सुनील पालकार, आनंद वर्टी.

# दोन नेतृत्वां

## एक संघटक, दुसरें विघटक

रवीन्द्र केळेकार



### १ – संघटक वल्लभभाई

मनीस मुखार कोण जातलो हें खंय तो पाळण्यांत आसतनाच ताचे पांय पळोवन सांगूं येता.

गुजरात राज्यांतल्या खेडा जिल्ल्यांत करमसद नांवाचो एक गांव आसा. ह्या गांवांत सवायशें देडशें वर्सां पयलीं एकूच शाळा आशिल्ली. गुजराती सातवे मेरेनचें शिक्षण हे शाळेंत घेवंक मेळटालें. मुखा वयलें इंग्रजी शिक्षण घेवपाक करमसदच्या भुरग्यांक सुमार सात मैल पयस पेटलाद नांवाच्या गांवांत वचचें पडटालें..

पेटलादची शाळा सकाळीं आठांक सुरू जाताली. हाका लागून करमसदच्या भुरग्यांक घरच्यान झिलमिलट्यार भायर सरचें पडटालें. पांच सात भुरग्यांनी एकठांय येवचें आनी खबरी करीत करीत चलून शाळेंत वचचें. वाट शेतांतल्यान वताली.

एक दीस भुरगे शाळेक वचपाक सदचे वरी झिलमिलट्यार भायर सरिल्ले. सदचे भाशेन खबरी करीत करीत वताले. चलून बरेच मुखार पावतकूच एकल्याक वल्लभभाई दिश्टी पडलो ना. ताणें संवगड्यांक विचारलें, 'आयज वल्लभभाई खंय? सगळे आमी वांगडाच तर भायर सरिल्ले. मदींच वल्लभभाई खंय घुसपलो?'

फाटल्यान नदर मारून पळेली जाल्यार, वल्लभभाई एका गुंड्या कडेन झगडटा! 'वल्लभभाई, कितें करता तूं थंय?' एकल्यान मोट्यान उलो मारून विचारलें.

'आयलों, मात्शे रावात', वल्लभभाईन जाप दिली. थोड्या वेळान वल्लभभाई येतकूच भुरग्यांनी विचारलें, 'तूं थंय कितें करतालो?'

'वाटेर एक गुंडो आडखळटालो... कितल्याश्या जाणांक तो आडखळ्ळा... तो वाटे वयलो काडून उडयतलों असो कालूच हांवें बेत केल्लो... ते प्रमाण तो काडून उडयलो...' वल्लभभाईन जाप दिली.

भारत भुंयेक स्वतंत्र करपाच्या झुजांत जे एका फुडले एक रथी म्हारथी जावन गेले तांच्यांत वल्लभभाई पटेल एक. स्वतंत्रतायेच्या रथाक आडखळी हाडपी वाटे वयले गुंडे पयस करपाचो वावर तांणी पोटतिडकेन केला. मागीर, हो गुंडो डॉ. खऱ्यांचो आसूं वा नरिमनांचो आसूं. तें कित्याक, सुभाष बोसां सारकेलो लोकप्रिय नेतो बेशिस्तीन चलपाक लागला तेन्ना ताची लेगीत आडखळ पयस करपाक ते अनमन नासतना फुडें सरल्यात.

स्वराज्य आयलें तेन्ना स्वतंत्र भारताचे पयले प्रधानमंत्री जावपाचें तांच्या मनांत आशिल्लें. तांचो तो अधिकारूय आशिल्लो. कित्याक, पिरायेन ते जवाहरलालां परस धा बारा वर्सांनी जाणटे आशिल्ले. कॉंग्रेसच्या पयले पंगतींतल्या फुडाऱ्यां मदीं ते 'सिनियरां'त मोडटाले. ते भायर, लोकप्रियतेंत ते कोणाच फाटल्यान नाशिल्ले. आनी कॉंग्रेस संघटनेचेर तर तांचो ताबो कोणाय परस चड आशिल्लो. पुणून स्वराज्य येवचे पयलींच स्वतंत्र भारताचे पयले प्रधानमंत्री जवाहरलाल जातले म्हणपाचें थरिल्लें. पिरायेन जवाहरलाल तरणे म्हूण आनी संवसारीक राजकर्ण कोणाय परस बरें तांकां समजता म्हूण. महात्मा गांधींनीय जवाहरलालांकूच तेंको दिल्लो. वल्लभभाई दुखावतले म्हणपाचो गांधींक अदमास नाशिल्लो. तांचे मुखार वल्लभभाईंच्याच जिवितांतलो एक प्रसंग आशिल्लो. वल्लभभाईंनी बारडोलीचो सत्याग्रह जिखून दाखयल्लो. ह्या सत्याग्रहाक लागून वल्लभभाई **सरदार** वल्लभभाई पटेल जाल्ले. तेन्नाच्यान देशभर लोकांचे जिबेर तांचें नांव घोळपाक लागिल्लें. इतलेंच न्हय, तर देशाच्या फुडाऱ्यांमदीं गांधी उपरांत दुसऱ्या नंबरार तांचेंच नांव लोक घेवपाक लागिल्ले. त्याच वर्सा कॉंग्रेसच्या अध्यक्षपदाची वेंचणूक आयिल्ली. मोतीलाल नेहरूंचो कार्यकाळ सोंपिल्लो आनी नव्या अध्यक्षा खातीर देशांतले सगळे कडल्यान वल्लभभाईंच्या नांवाची सुचोवणी जाल्ली. पुणून मोतीलाल नेहरूंक आपणाले गादयेर आपणाल्या पुताक बशिल्लो पळोवपाचो आशिल्लो. आनी पुताचोय दोळो ते गादयेर दसून राविल्लो वल्लभभाईंनी पळेलो. आपूण अध्यक्ष जालों जाल्यार बापाय परस चड पुताची उमेद खचतली. पूत निर्शेतलो अशें वल्लभभाईंक दिसलें आनी तांणी गांधींचे मान्यतायेन आपणालें नांव फाटीं घेवन जवाहरलालांचें सुचयल्लें. वल्लभभाई केन्ना सत्ये खातीर वा मान भौमाना खातीर 'पद' सोदपी मनीस नाशिल्ले. आयजूय तांकां स्वतंत्र भारताचे पयले प्रधानमंत्री जावचें-शें दिशिल्लें तें 'पदा' खातीर न्हय. भौमाना खातीर तर न्हयच न्हय. पुणून एक गजाल ते जाणा आशिल्ले: स्वतंत्रताये वांगडा शेंकड्यांनी वर्सांच्या बंदेपणाक लागून जल्माक आयिल्ली एक विकृतायूय आमकां दायजान मेळ्ळ्या. स्वतंत्र भारत आत्मविस्वासान फुडाराची वाट चलतलो जाल्यार दायजान मेळिल्ले हे



कृतायेचीं पाळांमुळां दयामाया बाळगी नासतना खणून काडचीं पडटलीं
ानी तीं खणून काडपाक भारताचो पयलो प्रधानमंत्री खंबीर आनी
णखर सभावाचो आसचो पडटलो. जवाहरलालांचो सभाव कणखर
ह्य. खंबीरपणान निर्णय घेवपीय न्हय. ते संस्कारी आनी सज्जन.
ोणाक दुखोवचे नात. तांचे कडल्यान असलें काम जावपाचें ना.
ाल्यार, आपणा कडल्यान जातलें अशें तांकां दिसतालें. आनी तें खरें
ाशिल्लें. पुणून आतां कळाव जाल्लो. जवाहरलालांचें नांव फाटीं काडून
धानमंत्री पदा खातीर वल्लभभाईचें सुचोवप आतां गांधींकूय जमपाचें
ाशिल्लें. म्हूण तांचे खातीर आमचे घटनेंत तरतूद नासतना
प-प्रधानमंत्रीचें पद गांधींनी मुजरत निर्माण करूंक लायलें.

गांधींच्या प्रभावांत ते १९१७त आयिल्ले. त्याच वर्सा अहमदाबादेंत
लेग सुरू जालो. लोक घरदार सोडून पळून वचपाक लागले. असल्या
ा आकांताच्या वेळार वल्लभभाईंच्या वीरत्वाक एके तरेचें आह्वान
ळ्ळें आनी झुजा मळार सेनानी झुजता तशे ते प्लेगा आड झुजले. तेन्ना
ावन गुजरातचेर जेन्ना जेन्ना संकश्टां कोंसळ्ळ्यांत तेन्ना तेन्ना ते संकश्टां
रतून लावपाक धिरान मुखार सरल्यात. सुके धाडी सारकीं सैमीक
ंकश्टां आसूं, सरकारी जुलूम आसूं वा सामाजीक विकृतायांक लागून
यर सरिल्ले संघर्ष आसूं, वल्लभभाईचे तेजस्वितायेक धार चडल्या,
ांच्यांतले वेवस्ता-शक्तीक संद मेळ्ळ्या. आनी ते आदले परस जैतवंत
ानी शक्तिवंत जावन आयल्यात. खेडा आनी बोरसद, गुजरातांतले
ोन तालुके. थंयच्या शेतकामत्यांचेर सरकारान अन्याय केल्लो.
ल्लभभाईनीं ताचो प्राणपणान प्रतिकार केलो. अन्यायाच्या प्रतिकाराची
ी नवी तरा गांधींनी देशामुखार दवरिल्ली तिचीं दोन प्रात्यक्षिकां तांणी
शा मुखार दवरलीं. ह्या अणभवाचे बुन्यादीर तांणी बारडोलीचो सत्याग्रह
तवंत करून दाखयलो. बारडोलींत जें जावं येता तें देशांत खंयूय जावं
ता, सगळे कडेन एकाच वेळार जावं येता म्हणपाचें तांणी दाखोवन
लें.

गुजराती लोक 'शामळुभाई' असो ते मेरेन लोकांचोय समज
ाशिल्लो, आनी खासा गुजरात्यांचोय आशिल्लो. 'शामळुभाई' म्हळ्यार
जाच्या प्रसंगार आंग काडपी आनी झुजा मळा वयलो पळून वचपी.
सलो हो समाज शूर नेतो मेळत जाल्यार कसो प्राणवान जावं येता हें
रडोलीच्या सत्याग्रहान संवसाराक दाखोवन दिलें. म्हत्वाचें म्हळ्यार
न्ना घरा भायर सरूंक नाशिल्ल्या 'पडदानशीन्' बायलांक लेगीत ह्या
त्याग्रहान मुखार हाडल्यो. तोफेच्या तोंडार उब्यो रावपा इतल्यो धीट
केल्यो. बायलो मुखार सरल्यो जाल्यार त्यो समाजांत केदो चमत्कार
करूंक पावतात हेंवूय ह्या सत्याग्रहान संवसाराक दाखोवन दिलें.

बारडोलीच्या सत्याग्रहा आदीं गुजराती भाशेंतल्यान 'वीरश्री' हाडपी
उलोवपां करूंक येनात असोय एक समज पातळ्ळेलो. गुजराती भाशेक
खासा गुजराती लोकूच 'शुं शां पैसा चार' करून हिणयताले. कांय
साहित्यकारांनी तिका साहित्याच्या पांवड्यार थोडो भोव भौमान जोडून
दिल्लो. पुणून वल्लभभाई पटेल बारडोली सत्याग्रहाचे नेते म्हूण मुखार
सरले तेन्ना गुजराती भाशेचें आगळें वेगळें एक आंगूय लोकांचे नदरेंत
भरपाक लागलें. वल्लभभाई साहित्यकार नाशिल्ले. पुणून ह्या सत्याग्रहांत
तांणी जीं गुजराती भाशेंतल्यान सगळे कडेन उलोवपां केलीं तीं गुजराती
भाशेचें सगळें तेज उकतावन दाखोवपी थरलीं. हीं उलोवपां शापून
आयल्यांत. गुजराती गद्य बरपावळिचें एक तेजस्वी रूप म्हूण लोक
तांचेकडेन आयज पळेतात. 'हांव मान कातरूंक दीन पुणून नाक कापूंक
दिवचों ना' हे तरेचीं सुभाशितां सारकीं वाक्यां वल्लभभाईंच्या
तोंडांतल्यान ते मुस्तींत भायर सरिल्लीं. तीं आयज म्हणीं सारकीं
गुजराती बरपावळींत चलपाक लागल्यांत. **सदभिः लीलया प्रोक्तम् शिलालिखितम् वाक्यम् –** 'तेजिश्ट मनीस सहज म्हूण जें उलोवन वता
तें फातरीर कोंरातिल्ल्या वाक्या भशेन उरता' ह्या अर्थाचें एक सुभाशित
संस्कृत भाशेंत चलता. ह्या सुभाशिताचें खरेपण वल्लभभाईंचीं भाशणां
वाचतकूच मनाक पट्टा. एका उलोवपांत ते म्हणटात, 'सरकार आमकां
ना करतलें? करूं दी. पांच पन्नास हजार लोक मेले कितें, उरले कितें,
देवाच्या संवसारांत कितेंच उणें जावपाचें ना. पुणून एक गजाल लक्षांत
दवरात, मणभर बीं जेन्ना जमनींत आपणाक पुरून घेता तेन्ना तें ना
जायना, खांडी भर पीक दिवपाकूच तें आपणालें बलिदान करता.' हे
तरेची वाणी आयकतूच खंयचो शामळूभाई झुजा मळा वयल्यान पळून
वतलो?

बारडोलीच्या सत्याग्रहांत सरकारी पंगडान कितलेशे अन्याय केले,
जुलूम केले. तिडक हाडपी करण्यो आशिल्ल्यो ह्यो सरकाराच्यो.
वल्लभभाईनीं बारडोलींतल्या लोकांत जी जागरुकताय हाडिल्ली तिका
तांणी मातशी फूंक मारल्यार पुरो आशिल्ली, ती पेट घेतली आशिल्ली
आनी सरकारी जुलमांक सरकारीच भाशेंत धा वांट्यांनी चड जाप
दितली आशिल्ली. पुणून वल्लभभाईंची नदर फकत जैताचेर नाशिल्ली.
तांकां सत्याग्रहाचो एक बऱ्यांतलो बरो मॉडेल, एक बऱ्यांतलो बरो आदर्श
देशा मुखार दवरपाचो आशिल्लो. अहिंसेच्या व्याकरणांतूच तांकां तो
चलोवपाचो आशिल्लो. तांणी खवळ्ळेल्या उचांबळ लोकांक सांगलें,
'सरकार आमकां खुबळावपा खातीर ह्यो आगळिको करता. सरकार
तापलां इतलोच हाचो अर्थ जाता. सरकाराक तापूं दी. तुमी तापूं नाकात.
तापिल्लें लोखंड आमकां बागोवचें आसा. आमचो तुतयो थंड आसूंक
जाय.'

वल्लभभाई जितले उर्बेन काँग्रेसचें राजकरण चलयताले तितलेच उर्बेन
गांधींची रचणुकी कार्यावळूय चलयताले. गांधींनी ही कार्यावळ सुरू केल्ली
विस्कळीत जाल्लो देश संघटीत करपा खातीर. मरून पडिल्ल्या देशाक
प्राणवान करपा खातीर. पोरणो समाज मोडून ताच्याच पोटांतल्यान एक
नवो समाज निर्माण करपा खातीर. ही कार्यावळ फकत सेवाधर्माची देख
दिवपी नाशिल्ली. थोंट्यां पांगळ्यांक आधार दिवपी, भुकेल्ल्या
तानेल्ल्यांक अन्न उदक दिवपी, उगड्या नागड्यांक न्हेसूंक दिवपी
'दये'ची कार्यावळ नाशिल्ली. ल्हान-व्हड, ऊंच-उणाक, आपलो पेलो
असल्या कुडक्यां कुडक्यांनी विस्कळीत जावन पडिल्लो समाज एका
हावेसान, एके निश्ठेन, एके उर्बेन एकठांय येवचो आनी एक नवी जीण

घडोवपाक मुखार सरचो ह्या उद्देशान ती सुरू केल्ली. वल्लभभाईंक हे कार्यावळिचें 'मर्म' समजल्लें. म्हूण ते काँग्रेसच्या राजकर्णा इतलेच हेवूय कार्यावळी कडेन एकरूप जाले. हे कार्यावळीन तांचे प्रशासकीय कुशळतायेक पोसवण दिली. त्या त्या कामा खातीर तो तो मनीस सोदून काडप – त्या त्या मनशा खातीर तें तें काम सोदून दिवप हे कलेंत ते एक फिशाल संघटक जाले. जाका ज्या कामार नेमला ताचेर पुराय पातयेवन तांणी कितल्याश्या निष्ठावंत कार्यकर्त्यांचें एक जाळ गुजरातच्या वाटारांत विणून काडलें. जिवाक जीव दिवपी हजारांनी कार्यकर्ते तांणी निर्माण केले. तूप आनी साकर फावऽ त्या प्रमाणांत घाले बगर लाडवांतलो रवो धरना तसो आपणाल्या सांगात्यांचेर मोग शिंवरावन तांच्या सूख-दुख्खांत एकरूप जाले बगर तांची निष्ठा मेळना हो गूण गांधीं भाशेन वल्लभभाईंच्याय आंगांत आशिल्लो. जाचेर एक फावट तांणी विस्वास दवरलो ताका तांणी केन्ना अंतर दिलें ना. म्हूण जे कोण तांच्या सांगातांत रावले ते अखेर मेरेन तांचेच उरले. तांकां सोडून कोण गेलो ना.

कांय जाणांच्या संबंदान नाका नाका जाल्ले अपसमज पातळटात. वल्लभभाई संबंदानूय अशेच कांय अपसमज पातळ्ळ्यात. वल्लभभाई म्हळ्यार शिस्त, वल्लभभाई म्हळ्यार निष्ठुरपण – एका उतरांत – वल्लभभाई म्हळ्यार Iron Man – लोखणाचो मनीस असो तांचे संबंदान एक समज पातळ्ळा. महादेवभाई देसाई तांगेले एक जिवाभावाचे इश्ट. गांधींचे सचीव म्हूण वावुरताले. तांणी आपणाल्यो दिसपट्यो बरयल्यात. सुमार वीस खंड उजवाडा आयल्यात. तातूंत वल्लभभाई संबंदान जायत्यो गजाली आयल्यात. ते खळखळून हांसतात, दुसऱ्यांकूय हांसयतात. व्हडल्या व्हडल्यांचीं फकाणां मारतात. खासा आपणालींय मारतात. तें कित्याक, गांधींचींय मारतात. तिंवूय तांचेच हुजीर, असवडयां न्हय. महादेवभाईंच्या दिसपट्यांतल्यान वल्लभभाईंचें जें चित्र मुखार आयलां तें पळेतकूच ह्या मनशा म्हऱ्यांत आमीय पावूंक जाय आशिल्लें अशें कोणाकूय दिसले बगर रावचें ना.

देश स्वतंत्र जाला त्या वेळार पयल्याच सरकारांत ते घर-मंत्री जाल्यात. तांकां घर-खातें मेळ्ळां. उप-प्रधानमंत्री पदा परस ताकां हें पद म्हत्वाचें लागलें. तांच्या सभावाक तें बेस बरें मानवलें. स्वतंत्रताये वांगडा देशांत रगताचे व्हाळ व्हांवपाक लागले. भाव भावांच्या जिवार उठिल्ले. परिस्थिती 'हाता भायर' गेल्या अशें सगळ्यांक दिसूंक लागिल्लें. वल्लभभाईन 'परिस्थिती' आपणा हातांत घेतली आनी थोड्याच म्हयन्यां भितर सगळें 'जाग्यार' हाडलें. तांणी समाजांतलीं बरीं तत्त्वां खंयचीं आनी वायट खंयचीं तीं पारखून घेतलीं. आनी बऱ्या तत्त्वांचो आधार घेवन देशाचे प्रगती-यात्रेंत आडखळी हाडपी वायट तत्त्वां खणून उडोवपाक सुरवात केली. भुरगेपणांत करमसदच्यान पेटलादचे शाळेंत वतना वाटेर येतल्या वतल्यांक आडखळ हाडपी गुंडो खणून भायर मारिल्लो तेच भाशेन हेवूय गुंडे ते भायर मारपाक लागले. धूर्त इंग्रज सत्येक आनी मुस्लीम लीगचे मस्तीक लागून स्वराज्याची वाट इतली घुस्पागोंदळाची जावन पडिल्ली की युगाचें कर्तुत्व करून दाखोवपी कणखर नेतृत्वाची देशाक गरज भासूंक लागली. वल्लभभाईंनी ती पुरी केली. जवाहरलालांच्या आंगांतल्या कांय दुबळ्या आंगांचो लाव घेवन व्हायसरॉयांनी सुरवातेच्या 'तात्पुरत्या' सरकारांत – interim governmentत मुस्लीम लीगेक आसपावन घेतिल्ली. ती पावला पावलाक काँग्रेसीक अडोवन दाखोवपाक लागली. वल्लभभाईंनी पळेलें, मुस्लीम लीग पाकिस्तान पाकिस्तान करता खरी, पुणून तिका खरेपणानशीं पाकिस्तान नाका, हिन्दू मुसलमानां मजगतचें



चाळीस आनी वीस प्रमाण मुखार करून बंगाल, आसाम, सिंध, पंजाब आनी शिमे प्रांतांत फकत मुस्लीम लीगेचोच शेक जाय आशिल्लो. म्हूण लीग 'पॅरिटी' मागताली. एक मुसलमान मत म्हळ्यार तीन हिन्दू मतां असो 'पॅरिटि'चो अर्थ जातालो. पॅरिटिचें तत्त्व मान्य केलें जाल्यार धा हिन्दू मतां म्हळ्यार एक किरिस्तांव मत, पंचवीस हिन्दू मतां म्हळ्यार एक दलीत मत हेंवूय मान्य करचें पडटलें आनी इंग्रजांक (कोंब्यांक झुजयतात ते भाशेन) एकामेकां आड झुजोवन सासणाचें हांगा रावंक मेळटलें, ह्या निर्णयार ते पावले. तांणी पाकिस्तानूच मान्य करचें अशें थारायलें. आनी जिनांचो दाव जिनांचेरूच उमथिलो. ज्या तत्त्वाक लागून देशाचें विभाजन जातलें त्याच तत्त्वाक धरून बंगाल पंजाब दोनूय वाटारांचें विभाजन तांणी जिनांक मान्य करूंक लायलें. काँग्रेस केन्नाच विभाजन मान्य करची ना हाची जिनांक खातरी आशिल्ली. 'पाकिस्तान अगर बनेगा तो मेरी लाश पर बनेगा' हें गांधींचें म्हणणें गांधी खरें करून दाखयतले हाचीय खातरी आशिल्ली. वल्लभभाईंच्या दावा मुखार जिनांचेंय कांय चल्लें ना, तशें इंग्रजांचेंय चल्लें ना. जिनांक आयुष्यांत कोणूय वस्ताद मेळ्ळा जाल्यार ते वल्लभभाईच.

मुस्लीम लीगेक 'जाग्यार' हाडले उपरांत वल्लभभाई संस्थानिकांक 'जाग्यार' हाडपाच्या उद्देगाक लागले. सुमार पांचशीं संस्थानां देशांत आशिल्लीं. इंग्रजांनी साटली पोटली कवळून वचपाची तयारी केल्या म्हणपाचें कळनाफुडें सगळे संस्थानीक व्हायसरॉयांक विचारपाक गेले, 'आतां आमचें कितें?'

'तुमच्यांनी भारतांतूय सामील जावं येता, पाकिस्तानांतूय जावं येता... तुमकां ही मेकळीक दवरल्या.' व्हायसरॉयांनी तांकां सांगलें. कांय संस्थानां 'आमकां भारतूय नाका, पाकिस्तानूय नाका, आमी स्वतंत्र रावतलीं' अशें म्हणपाक लागलीं. हिवूय मेकळीक तांकां मेळिल्ली. देश फुट्टा काय कितें असो भंय दिसपाक लागलो. हैदराबाद, त्रावणकोर, मैसूर, बडोदा, काश्मीरा सारकीं व्हड संस्थानां भोंवतणचीं ल्हान संस्थानां गिळून स्वतंत्र 'राष्ट्रां' जातात काय कितें, अशेंय दिसपाक लागिल्लें. वल्लभभाईंनी हिवूय परिस्थिती आपणा हातांत घेतली. अडचणी कितल्योश्यो उपरासून आयल्यो. वल्लभभाईंनी त्यो आपणाले 'वेव्हारी' बुद्दीन पयस केल्यो. कोणाच्याच मनांत कसलीच कोडसाण येवची ना हाची जतनाय घेवन तांणी भारत भुंयेंत आशिल्लीं सगळीं संस्थानां भारतांत विलीन

करून घेतलीं. कांय वर्सांचें काम तांणी कांय म्हयन्यां भितर करून दाखयलें. वल्लभभाईंक सैन्याचो वापर करचो पडलो तो फकत एकेच कडेन – हैदराबादेक. बाकिचीं सगळीं भासाभास करूनूच घेतलीं. आनी लक्षांत दवरूंक जाय, विलीनीकरणा उपरांत संस्थानीक वल्लभभाईंचे 'इश्ट' जाल्यात. कांय जाणांक तांणी गर्वनर केल्यात. कांय जाणांक राजदूत केल्यात. कांय जाणांक आनीक खंय धाडल्यात. देशाक घटमूट करपा खातीर तांचोय उपेग केला.

त्याच वेळार काश्मीरूय घेवन उडोवं येतालें तशें गोंयूय घेवं येतालें. पूण हे दोनूय प्रस्न जवाहरलालांनी आपणा हातांत घेतिल्ले. वल्लभभाई मदीं पडले नात.

आनी दोनूय प्रस्न धुंवरेंत उरले.

स्वराज्य मेळ्ळे उपरांत तीन वर्सां भितर तांणी हो वावर केला. देवान तांकां कांय वर्सांचें आयुष्य दिल्लें जाल्यार आमच्या रासवळ मळार विकृतायांचें रान मातिल्लें आमकां दिश्टी पडटा तें ते कातरून उडयतले आशिल्ले आनी आमची फुडाराची वाट कांट्यां-खुट्यां मेकळी जातली आशिल्ली हातूंत इल्लोय दुबाव ना.

पुणून देव सगळोच वावर एकल्याच कडल्यान केन्ना करून घेना, दुसऱ्यां खातीर राखून दवरता. वल्लभभाई आपणालें काम करून गेले. तांचे फाटल्यान आयिल्ले तांचें काम सारकें करूंक पावले नात. सत्या सगळ्यांक जाय आसता. राजकर्ण म्हळ्यारूच सत्येचो खेळ. पुणून कोण कित्या खातीर सत्येचो उपेग करता ताचेरूच तिचें रूप निंबून उरता. वल्लभभाईंच्या हातांत खूब मोटी सत्या आशिल्ली. पुणून जाका आपणालो म्हूण वेगळो संवसार नाशिल्लो – जो आयुष्यभर एक विरागी साधू कसो जियेलो तो सत्येचो वापर आपणा खातीर कसो करतलो ? वल्लभभाईंनी जाता तोंवेर बाबा पुता करूनूच सगळीं कामां केल्यांत. गरज पडल्या तेन्ना सत्येचो वापर केला. आनी तो निर्धारान केला. तांणी केन्ना कोणाचीं तोंडां शिंवलीं नात. लोक आपणाक कांय करूंक दिनात असो शीण काडलो ना. कोणाच्याच स्वातंत्र्यांक बादा हाडी नासतना ते आपणालीं कामां निर्धारान करीत गेले.

आनी कोणेंच तांकां नांवां दवरलीं नात.

वल्लभभाई निखटे सत्ताधीश नाशिल्ले. ते एक देशभक्त आशिल्ले. जे फकत सत्ताधीश आसतात तांची सत्या तांच्या मरणा वांगडाच सोंपता. वल्लभभाईंची सत्या तांच्या मरणा उपरांतूय चलत रावल्या.

## २ — विघटक इन्दिराजी

म्हाका सदांच दिसलां, इन्दिराजींनी प्रधानमंत्रीपद घेवंक जायनाशिल्लें. काँग्रेसिचें अध्यक्षपदूच सांबाळूंक जाय आशिल्लें. जाल्यार, काँग्रेसिची अवनत जावची नाशिल्ली आनी देशाचें राजकर्णूय धुळदशेक पावचें नाशिल्लें.

काँग्रेसिच्या अध्यक्षपदाची सत्या इन्दिराजींनी चाखिल्ली. केरळांतलें साम्यवादी सरकार तांणी अध्यक्षा आसतनाच उमथून उडयल्लें.

सत्येचेर कोणयचो तरी अंकुश आसूंक जाय. आनी सत्येर आशिल्ल्या मनशां परस हो अंकुश दवरपी मनीस व्हड आसूंक जाय. अंकुश नाशिल्ली सत्या खासा आपुणूय अवनतीक पावता आनी वांगडा देशाकूय अवनतिच्या फोंडांत धुकलून उडयता.

सत्ये भायर रावन सत्येचेर सत्या चलोवपी राजकर्ण आमच्या देशाक तरी नवें न्हय. श्रीकृष्णाच्या हातांत खंयच्याच राज्याची सत्या नाशिल्ली. तरूय तो ताच्या काळांतलो सगळ्यांत व्हड राजकर्णी आशिल्लो. ताणें पांच साम्राज्यां मातयेभरवण केल्लीं. पुणून खंयचेंच साम्राज्य आपणा हातांत घेवंक नाशिल्लें. त्या त्या साम्राज्याचे जे सभावीक वारस आशिल्ले तांच्याच हातांत तें दिवन तो कडेक सरिल्लो. एक सादो मनीस म्हुण्णूच तो आयुष्यभर जियेलो. आनी, तरी आसतना, राजा म्हाराजांचे सभेंत अग्रपुजेचो भौमान सदां ताकाच मेळटालो.

तो राजा म्हाराजां परसूय व्हड आशिल्लो.

महात्मा गांधींचेंय राजकर्ण हेच तरेचें आशिल्लें. जे काँग्रेसिच्या आधारान तांणी देशांत व्हडल्यो व्हडल्यो चळवळी चलयल्यो तिचे ते सादे चार आण्यांचे वांगडी लेगीत नाशिल्ले. तरी आसतना, काँग्रेस तांकां विचारून तांच्याच सल्ल्यान सगळे निर्णय घेताली. तीस वर्सां तांणी हेच तरेचें राजकर्ण केलें आनी अंतीं देशाक स्वातंत्र्यूय जोडून दिलें.

स्वराज्यांत ते राष्ट्रपतिपदारूय बसले नात. प्रधानमंत्रीपदूय तांणी हातांत घेतलें ना. (आर्विल्ल्या काळांत असलें कितेंच खंयच घडूंक ना.) तें कित्याक, राष्ट्रपतींक, प्रधानमंत्रींक ते केन्ना मेळूंकूय गेले नात. उरफाटे, राष्ट्रपती, प्रधानमंत्रीच तांकां मेळूंक येताले.

पाकिस्तानान काश्मिराचेर घुरी घाली तेन्ना गर्वनर जनरल म्हूण माऊंटबेटन आसतना, सरदार पटेल घर मंत्री आसतना, कॅबिनेट आसतना 'कितें करचें' काय म्हूण विचारपाक जवाहरलाल गांधीजींसरींच धांवन गेल्ले आनी 'मात कळाव लायनासतना काश्मिरांत पयलीं सैन्य धाडून दी' म्हूण तांचेकडल्यान बुद्द घेवन



परतल्ले. सैन्य धाडपाचो निर्णय कॅबिनेटिचो नाशिल्लो. गांधीजींचो आशिल्लो.

राजाजी सत्ये वयल्यान निवृत्त जाले आनी तमीळ भाशेंत रामायण महाभारताचीं अनुसर्जनां करपांत गुल्ल उरले तरूय तांचें राजकर्णांतलें वजन ना जावंक नाशिल्लें. उणेंय जावंक नाशिल्लें. 'स्वराज्य' नांवाचें इंग्रजींत एक सप्तकी नेमाळें मद्रासच्यान चलतालें तातूंत ते नेमान बरयताले. राजकर्णाचेरूच सगळ्यांत चड बरयताले. आनी जवाहरलाल, कृपालानी, लोहिया, जयप्रकाशां सारके ते मुस्तींतले सगळे राजकर्णी तें बारकायेन वाचताले. इतलेंच न्हय, तर देशांतलीं सगळीं मुखेल खबरेपत्रां Rajaji says अशें म्हणून तांचें म्हणणें दुसऱ्याच दिसा पयल्या पानार छापून हाडटालीं. राजाजींचो सगळ्यांचेर धेंक आशिल्लो. हो धेंक सत्येचो नाशिल्लो. तपस्येचो आनी त्यागाचो आशिल्लो. पयसलें पळोवपाचे तांचे नदरेचो आशिल्लो. तांच्या हातांत सत्या नाशिल्ली, पुणून सत्येचो अंकूश आशिल्लो आनी लोकशायेचे भलायकेचे नदरेन तोच सगळ्यांत चड म्हत्वाचो आशिल्लो.

सत्या हातांत घेनासतना सत्येचेर सत्या चलोवपाचो वावर फ्रान्सांत ज्यां पॉल सार्त्र सारकेल्या एका साहित्यकारान केला, इंग्लंडांत बर्ट्रांड रसेला सारकेल्या एका तत्त्वचिंतकान केला आनी भारतांत जयप्रकाशजीं सारकेल्या एका सेवकानूय केला. तिगूय सत्या हातांत नाशिल्ले सत्याधीश आशिल्ले. आनी संवसार हांच्याच मत्तांक तांच्या देशाचें मत्त मानतालो.

इन्दिराजींनीय हीच सुवात घेवंक जाय आशिल्ली. सार्त्र, रसेल, जयप्रकाश खंयच्याच राजकी पंगडांत रावी नासतना राजकर्णाचेर अंकूश दवरताले तशें इन्दिराजींनी करूंक जाय

आशिल्लें अशें म्हणिना. काँग्रेसिच्या अध्यक्षपदार रावनूच काँग्रेसिच्या मंत्रीमंडळांचेर अंकूश दवरूंक जाय आशिल्लो. मंत्र्यां परस – प्रधानमंत्र्यां परसूय – काँग्रेसिचो अध्यक्ष व्हड म्हणपाचें काँग्रेसी वांगड्यांक आनी देशाक दाखोवन दिवंक जाय आशिल्लें.

लोकशायेच्या विचारांत भारताचें हें मुळावें योगदान थरतलें आशिल्लें.

इन्दिराजींच्या आंगांत कितलेशे व्हड गूण आशिल्ले. भूवनेश्वराक एके सभेंत तांचें उलोवप रंगार आयिल्लें आसतना पयसल्यान कोणे तरी तांचेर एक गुंडो शेंवटून मारलो. गुंडो जिस्त तांच्या नाकाक लागलो आनी नाकांतल्यान भळऽभळऽ करून रगत व्हांवपाक लागलें. आनीक कोणाचोय जाल्लो जाल्यार आपशींच नाका कडेन हात वतलो आशिल्लो आनी तो व्हांवतें रगत पुसतलो आशिल्लो. इन्दिराजींचो हात नाका कडेन गेलो ना आनी तांच्या उलोवपांतूय खंड पडलो ना. लोहियांनी ही खबर पेपरांत वाचली तेन्ना ते अजाप भरीत जाले. 'बहादूर लडकी मालूम होती है, शायद कुछ करके दिखाये' हीं उतरां तांच्या तोंडांतल्यान त्या वेळार भायर सरिल्लीं. 'येन्ना तिचो विरोध करप ना... पळोवया, कितें करता ती... मागीर थारावंया' अशें तांणी आपणाल्या सगळ्या सांगात्यांक सांगुनूय दवरिल्लें.

इन्दिराजींच्या सभावांत ही 'बहादुरी' आशिल्ली तशें करारीपणूय आशिल्लें. कितेंय करचें थारायलें जाल्यार – केदोय विरोध जावं, कितल्योय आडखळी येवं – केले बगर त्यो रावी नाशिल्ल्यो. अप्रिय निर्णय घेवपाची तांच्यांत आशिल्ली तेदी तांक जवाहरलालजींतूय नाशिल्ली. ते भायर, कितें करूंक जाय आनी कितें करूंक जायना, हे विशिंचीं तांचीं मत्तां स्पश्ट आशिल्लीं. कितलींशीं वर्सां तांणी बापाय वांगडा भरवंशाची इश्टीण – confidant – ह्या नात्यान काम केलां. बापायचेर अंकुशूय दवरला. बांडुंग कॉन्फरन्सांत आशिया खंडांतले सगळे कर्णधार एकठांय आयिल्ले. जवाहरलाल आपणाक फकत भारताचेंच न्हय, तर आशिया खंडाचेय नेते मानताले. खंयच्या तरी एका प्रस्नाचेर चिनी प्रधानमंत्री चाउ-एन-लायांनी कितें तरी म्हळें आनी जवाहरलाल हांगा काँग्रेसींतल्या आपणाच्या सांगात्यांचेर केन्ना केन्ना उसळून उलयताले तशे थंय उलोवपाक लागले. इन्दिराजींचें कदेल तांच्या कदेला फाटल्यान आशिल्लें. जवाहरलालजींचो सदरो फाटल्यान ओढून 'पप्पू ज्यादती होती है' अशें म्हणून तांणी जवाहरलालजींक शिटकायल्ले. असलें काम फकत इन्दिराजींकूच जमतालें.

दुर्दैवान तांणी प्रधानमंत्रीपद हातांत घेतलें. तेंवूय अश्या वेळार कीं जेन्ना तांकां सत्ये वयल्यान काडपाक कितल्योश्यो शक्ती तांचे भोंवतणी एकाच वांगडा वावरूंक लागिल्ल्यो. खासा तांगेल्या काँग्रेस पक्षांतूच त्यो चड धुमशेणां कांडपाक लागिल्ल्यो. प्रधानमंत्रीपदाचेर मोरारजींचो दोळो आशिल्लो. मुदलांत ते ब्युरोक्रॅट. स्वतंत्रतायेच्या झुजांत पडचे पयलीं खंय तरी कलेक्टर काय कोण आशिल्ले. तांकां सिनियोरिटी-बिनियोरिटिचो निकश सगळ्यांत चड लागतालो. मोरारजीं फाटल्यान सदोबा पाटील, अतुल्य घोषां सारके काँग्रेसींतले म्हालगडे उबे राविल्ले. कामराज काँग्रेसिचे अध्यक्ष. पुणून म्हालगड्यांचे नदरेन 'ज्युनियर'. आपणाक हे म्हालगडे आटापा येवपाचे नात म्हणपाचें कामराजांनी पळेलें आनी तांणी इन्दिराजींचें नांव प्रधानमंत्रीपदा खातीर फुडें केलें. जवाहरलालजींचो प्रभाव सरसमान काँग्रेस वांगड्यांचेर अंजून आसा – चडांत चड तांचोच आसा – हें तांणी पळेल्लें. काँग्रेसींतले हे चार स म्हालगडे सोडून इन्दिराजींच्या नांवाक कोण विरोध करचो ना हाची तांकां खातरी आशिल्ली. तांणी इन्दिराजींच्या दाल्यांत आपणालें वजन घालें. आनी काँग्रेसींत फूट पडची न्हय म्हूण मोरारजींक उप-प्रधानमंत्रीपद दिवंक लायलें.

ह्याच खिणा सावन काँग्रेसिची अवनत सुरू जाली.

आर्विल्ल्या अर्थतंत्रांत use and throw म्हूण एक नेम आसा. धरूंया, आमी फस्क घेतलें. फस्काच्यो काडयो सोंपल्यो म्हणटकूच फस्काचें पेटूल आमी भायर काडून उडयतात. सिगरेटिचें पाकीट घेतलें. भितरल्यो सिगरेटी ओडून सोंपतकूच पाकीट कितलेंय सुंदर आसूं – दवरपा सारकेंय दिसूं – आमी तें भायर उडयतात. केन्ना केन्ना बॉलपेनां एक फावट वापरलीं म्हणटकूच मागीर तांचे रिफिलूय मेळनात. तिंवूय भायर उडयतात. जें कितें बाजारांत येता तें वापरून जातकूच हालिंसाराक भायर उडोवपा सारकें जावन पडटा. कांय जाण म्हणटात, आयज जे कंप्यूटर आमी घेतल्यात ते वापरून कांय वर्सां जातकर नवे येतले; आमचे भायर उडोवचे पडटले. अर्थनितिंतलो हो use and throw – वापरात आनी भायर उडयात – नेम इन्दिराजींनी राजकर्णांत हाडलो. जाचो जो उपेग जातालो तो करून जातकूच ताका भायर उडोवपाचो वावर तांणी हातांत घेतलो. प्रधानमंत्रीपद जोडपाक तांणी कामराजांचो उपेग केलो. कांय काळान कामराजांकूय तांणी भायर उडयले. कामराज अचळय म्हालगड्यांच्या गोपांत वचून पडले. झाकीर हुसेन राष्ट्रपती आशिल्ले. ते भायर पडले तेन्ना राष्ट्रपतीपदाखातीर वेंचणुको घेवच्यो पडल्यो काँग्रेस अजून फुटूंक नाशिल्ली. काँग्रेसींतले म्हालगडे इन्दिराजींचें 'चड जालां' अशें म्हण फकत तांचीं पाखां कापूंक सोदताले. तांणी नीलम संजीव रेड्डी सारकेल्या एका 'कडक मनशाचें नांव राष्ट्रपतीपदा खातीर फुडें केलें. इन्दिराजी तांचो दाव वळखल्यो. तांणी संजी रेड्डीच्या नांवाक तेंको दिलो आनी चंद्रशेखर कृष्ण कान्त, शशी भूषण सारकेल्या 'तरूण तुर्कां'क फुडें काडून दाव तांचेर परतिलो. वि पंगडान वी. वी. गिरींचें नांव फुडें केल्लें. तां वेंचून हाडले. काँग्रेस फुटली. म्हालगडे सगळे एके कडेन जाल्यार इन्दिराजी आनी तरूण दुसरे कडेन अशे काँग्रेसिचे दोन पंगड जाले. ज्या तरूण तुर्कांचो उपेग करून इन्दिराजींनी सत्या आपणा हातांत केंद्रित केल्ली त्या तरू तुर्कांकूय तांणी एक दीस भायर मारले. तेन्ना सावन एके काँग्रेसिच्यो दोन काँग्रेसी, दोनींच्या चार, चारांच्यो आठ ही प्रक्रिया सुरू जाल्या. दर्यांत तारूं फुट्टकूच ताच्यो फळयो जश्यो उदकार उफेत रावतात तश्यो ह्यो काँग्रेसिच्यो फळयो हिन्दी राजकर्णाच्या दर्यांत उफेत रावल्यात. केन्ना एका पक्षाच्या नांवान एकठांय येतात. केन्ना परत्यो फुटून वेगळ्यो वेगळ्यो उफेत रावतात. जनता पक्ष, जनता दल, जन दल (यू), राष्ट्रीय जनता दल, राष्ट्रवादी काँग्रे नांवांचे जे हजार पंगड आयज राजकी मळार दिश्टी पडटात त्यो काँग्रेसिच्या तारवाच्यो फुटिल्ल्यो फळयो. केन्ना कोण फुटून खंय वच केन्ना कोण कोणाक येवन मेळत, कांय सांगूंक येना. आनी सगळे हे अपेशी फुडारी आतां coalition has come to stay म्हूण लज भि कांय धरी नासतना सांगपाक लागल्यात. इन्दिराजींचेंच हें हिन्दी राजकर्णाक योगदान म्हणूंक जाय.

इन्दिराजींनी काँग्रेस फोडली तसो समाजवा पक्षूय फोडलो, साम्यवादी पक्षूय फोडलो. तें कित्याक, राजकर्णा पसून हजारांनी मैल पैस आशिल्लो सर्वोदय समाजूय फोडलो. निर्मला देशपांडे सारकेलेक हातांत धरून ताचेय दोन कुडके केले. एक जयप्रकाशां फाटल्यान गेलो, दुसरो विनोबांक दसून रावलो. ह्या तोडफोडिच्य राजकर्णाक लागून तांगेलें भितरलें जिवीत पोक जाल्लें, रितें रितें जाल्लें. ही पोकळसाण भरून काडपा खातीर त्यो धीरेन्द्र ब्रह्मचारी, मां आनं सारकेल्यांच्या नादाक लागल्यो, आनी

ापणाल्या 'संरक्षणा' खातीर गळ्यांत द्राक्षांच्यो माळो बी घालपाक लागल्यो. तांत्रीक' विधीय करपाक लागिल्ल्यो. ीवतणच्या संवसारांत पातयेवपा सारको कोणूच ा ह्या निर्णयार पावल्यो आनी घरच्या संजय ांधी सारक्या एका आडांगी पोरांट्याचे सुवादीन ाल्यो. आपूण खंयच सुगूर ना अशें तांकां दिसपाक लागलें. हे भितरले insecurity क ागून तांची सगळी शक्त, सगळी तांक, सगळी ोग्यताय आपणालें प्रधानमंत्रीपद 'सांबाळपा'च्या ्काच वावरांत तांकां खर्चुची पडल्या. वाटेर आडवीं आयिल्लीं नैतीक मूल्यांय तांकां माड्ड्ची ाडल्यांत.

इन्दिराजींनी उद्देगीक मळार खूब नव्यो ोवजण्यो सुरू करून देश उदरगतीक हाडपाचो ्यत्न केला, सैनिकी मळारूय देश कितलोसो ाटमूट केला. जो देश अन्न भायल्यान हाडटालो ो अन्न निर्यात करूंक लागऽ इतलो समृद्ध केला, सगळें खरें. पुणून आपणा फाटल्यान आमचे खातीर असो एक देश सोडून गेल्यात कीं जंय राजकी मळार चारित्र्यशून्य, सत्त्वशून्य, तत्त्वशून्य 'दादां'चोच शेक चलपाक लागला, आनी जो नितिचे नदरेन सामको रसातळाक पावला.

वल्लभभाईंनी देश संघटीत केल्लो. इन्दिराजींनी तो विघटीत करून आमकां दिला.

प्रधानमंत्रीपद घेवचे बदला तांणी काँग्रेसिचें अध्यक्षपद सांबाळून दवरिल्लें जाल्यार जितलेंय बरें तांचे हस्तुकीं घडलां तितलेंय त्यो दुसऱ्यां कडल्यान 'करून घेतल्यो' आशिल्ल्यो आनी आंतरीक जिवितांत सुगुरूय (secureय) रावंक पावतल्यो आशिल्ल्यो. मागीर काँग्रेस 'हिजड्यां'च्या हातांत पडची नाशिल्ली. आनी तांचेर 'माफिया'चो शेक चलचो नाशिल्लो. पुणून —

तांणीच एक फावट म्हळ्ळें, जो वागाचे फाटीर चडून बसता तो फाटी वयलो सकल देंवलो जाल्यार वाग ताका खावन उडयता. असुरक्षतेच्या अणभवांतल्यान आयिल्लीं उतरां हीं. इन्दिराजींक आपणा भोंवतणी आपणाक खावपाक, ना करपाक लोक टपून बसल्यात म्हणपाचें खोलायेन दिसतालें. लोकांच्या बरेपणा वयलो तांचो विस्वास साप्प उडून गेल्लो. हे नदरेन इन्दिराजी 'नास्तीक' जाल्ल्यो. आपणाक विरोध करता तो आपणालोच न्हय तर देशाचोय दुस्मान, आपणाली सायबजात्रा करून आपलें काम करून घेता तो फटींग, आनी बाकिचे सगळे अर्थ नाशिल्ले, कित्याक उपकारनात असले लोक अशें जेन्ना मनशाक दिसूंक लागता तेन्ना धरून चलूंक जाय, हो मनीस अश्रद्धः जाला.

आनी अश्रद्धा मनशांतले सगळे गूण मातये भरवण करून उडयता.

इन्दिराजींच्याच जिवितांत आमकां हें सत्य पळोवंक मेळटा.

* * *

अण्णान लेखिकेक बरयिल्ले एक पत्र

# आनंदयात्री ! अण्णा

सुधा सुरेश आमोणकार

अण्णा ! आमचो बापूय ! म्हळ्यार उपाट खोस ! जिणेंतलो एक एक खीण तो उमेदीन आनी खोशयेन जियेलो.

अण्णा, सामको सुखी मनीस ! पळेतल्याक दिसचें, ह्या मनशाच्या वांट्याक दुख्ख नाशिल्लेंच काय ? ताका तें आफुडलेंच ना काय ? काय, ताणें दुख्खाक म्हन्यांतच येवंक दिलेंना ? काय, तेंय स्थितप्रज्ञाभाशेन पचयलें ?

बापूय खरो, पूण सदांच आमचो इश्ट-सांगाती कसो. तरेकवार विशयांचेर मेकळेपणान उलयतालो. ''धर्म-जात पळोवचे बदला, आपल्यो आवडी-निवडी, हावेस हांचेकडेन साथ दिवपी जीवनसाथी सोदून काडचो'', अण्णा सदांच सांगी.

शिस्तिची ताका मनापसून आवड. पूण सगळी शिस्त फकत आपणापुरती. साद्या साद्या गजालिंनी लेगीत कितली शिस्त. माथ्यार गांधी टोपी घालतालो. पूण तिचें तोंक सारकें कोन करुनूच येवंक जाय आसलें. ताचे दर एके कृतींत एक आगळीच ग्रेस आसली. आगळीच लय आसली. ताचे आरमारींतल्यो ल्हान सान वस्तूय जंयचे थंय. अण्णाच्या स्पर्शाचें तांकांय व्यसन जाल्लें जावये. काळखांत लेगीत त्यो सारक्यो ताच्या हाताक लागताल्यो. लायट गेल्यार आमी दर खेपे मेणवात-फस्क सोदूंक धांवताली. पूण त्या किट्ट काळखांत लेगीत अण्णान थंडसाणेन मेणवात काडून लावची. दोळे उकते करचे पयलीं उजवाड मेळचो. ह्या गजालिंचें ताच्या नातवांक अजाप दिसऽ. एकदां माणकुल्या नातवान ताका म्हळें,

''अण्णा, दी मरे आमकां सगळ्यो आरमारींतल्यो वस्तू.''

''आरे बाबा, सध्या त्यो म्हाका लागतात मरे. म्हजे उपरांत तुकाच रे त्यो सगळ्यो.''

''तुजे उपरान्त म्हळ्यार केन्ना ?''

''हांव मरतकच रे.''

''मागीर, केन्ना मरतलो तूं ?'' त्या वेळार खळखळून हांशिल्लो अण्णा सामको दोळ्यांमुखार येता. मर्ण लेगीत हांसयतालें काय ताका ?

नाय म्हळ्यार आमी चौगांय भावंडां बेशिस्तच आसलीं. नदरेकच कांय वांकडें दिसऽ नासलें. एकदां सदचे भाशेन सांजचो अण्णा ऑफिसांतल्यान आयलो. दारांत पावनाफुडें ताणें म्हाका विचारलें,

''सुधा, वण्टीवेली गांधीजीची फ्रेम कशी दिसता ?''

''बरी दिसता.'' हांवें कांय न्हयशें करून म्हळें. थंडसाणेन बूट काडून, अण्णा कदेलाचेर चडलो, आनी तिरपी जाल्ली फ्रेम ताणें सारकी केली. दोळ्यांकय तयार करप म्हळ्यार तपश्चर्याच. म्हजी म्हाकाच लज दिसली. नदर कुशळ करपाक वावरूंक जाय म्हणपाची देख मेळ्ळी.

एक घडणूक तर तकलेंत सामकी घट रिगल्या. तेन्ना इश्कॉलांत शिकतालें. णववे यत्तेंत आसलें. त्या दिसा वर्सुकी परिक्षेचो निकाल लागचो आसलो. टिचरीन म्हजो २रो नंबर आयला म्हूण सांगनाफुडें हांव सामकें फुललें. ही गजाल पयली अण्णाक सांगची म्हूण हांव धांवत घराकडेन आयलें. दारांतच अण्णा व्हडलो फ्रीज देंवयतालो. म्हाका खोशयेचो धक्कोच बसलो. अण्णान हांसत म्हजेकडेन पळयलें आनी म्हळें,

''सुधा, तुजो नंबर बरो वयर आयला म्हूण तुका हें इनाम !''

अण्णा खरोच जादूगार काय ? कशें कळ्ळें हें ताका ? व्हड कुवाडें कशें जाल्लें म्हाका त्या वेळार. जायते फावटीं अशें घडटालें. आमचें मनांतलें अण्णान ज्युस्त वळखुचें आनी आमकां तें हाडून दिवचें. त्या खिणांतलो ब्रह्मानंद म्हाका अजुनय फुलयत आसता.

म. गांधी तर ताचो सामको जिवाभावाचो आदर्श. सामके तरणे पिरायेचेर, गांधी तोपी आनी खादी न्हेसपाचो ताणें सोपूत घेतिल्लो. आईक आनी आमकां भुरग्यांकय जायतीं वर्सां

खादी न्हेसची पडली. सदांच दाट कपडे घालून आमी वाजेल्लीं. अण्णान तें वळखलें. आपली तत्त्वां दुसऱ्यांचेर लादप ना इतली समजिकाय अण्णाकडेन आसलीच. अण्णान आमकां स्वदेशी मिलचे कपडे हाडून दिले. आपूण मात निमणे मेरेन खादीच न्हेसलो. गांधी संबंदान उलयतना तो आपणाकूच विसरतालो. तेन्ना ताचे दोळे सात्त्विक तेजान लिकलिकताले.

अजून याद जाता त्या दिसांची! नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संस्थेचो अण्णा सेक्रेटरी आसलो. सामको भार आयिल्लेवरी तो रात-दीस वावुरतालो. गोंय मुक्ती संग्रामाच्यो येवजणो राती-मध्यानराती मेरेन चलताल्यो. लुसियो रॉड्रीग्स, लावरा डिसोजा, फादर मास्कारेन्यस, काशीनाथ लाड, बाकीबाब बोरकार, अॅड्. डिसिल्वा, लॅम्बर्ट मास्कारेन्यस अशे जायते कार्यकर्ते सामके आवेशान उलयताले. तांच्या दोळ्यांमुखार एकूच ध्येय. गोंयची मुक्ती. आर्थीक पालवाच्यो येवजणो जावंच्यो, कार्यावळिंची येवजण करून तांचो वृत्तांत दवरचो, व्हड व्हड फुडाऱ्यांच्यो भेटी थारावच्यो. सकाळपसून रातमेरेन सदांच कसल्या न्हय कसल्या वावरांत गुल्ल आसपी आमचो अण्णा जाण्टेपणांत संथपणान गुळयांचीं पाकिटां तितलेच रसिकतायेन मांडटा आसतना पळोवन खूब काकूट दिसऽ. आपले वांगडा आईच्याय हातार गुळयो दवरपी अण्णा खुबशें कितें सांगून वतालो. 'अनंते ठेविलें तैसेचि राहावे' ही वृत्ती ताणें खऱ्यांनी आपणायिल्ली.

अण्णाचो पिंड खरो कलाकाराचो. जाका जाका ताणें स्पर्श केलो, जें जें आपणायलें, तें तें कलामय जालें. मुंबय आमी ल्हानशा फ्लॅटांत रावतालीं पूण आमगेर येवपी जण एकलो म्हणी, ''आरे, वसंतबाब सामको जादू केला मरे तुवें घरांत. बटन दांबलो, मेज जालें, फळी घाली बाज्ज जाली, खिळी ओडली खिणांत सगळें नाच जालें. वण्टी लेगीत उलयतात तुज्यो. पळोवन धादोस जाता जीव.''

एकेवटेन वणटीर ख्रिस्ताची म्हूर्त, दुसरे वटेन गांधीजीची, तिसरेर बुद्धाची आनी चौथे वण्टीर आजी-दाजीचो खासा अण्णान चित्रायल्लो फोटो. सगळे मांडावळींत रंगसंगती आनी सोबिताय.

अण्णा बांसरी बरी वाजयी. तबलेंय तो बरो जाणा आसलो. चित्रां पितारपांत तर अण्णा सामको कुशळ. फोटोग्राफी हो तर ताचो छंदच आसलो. अण्णा फोटोय काड्टालो, ते धुतालोय आनी व्हडलेय करतालो. येदीशी रांदचीकूड काळे पड्डे लावन खिणांत स्टुडिओ जातालो. आमकांय वांगडा घेवन बसतालो, फोटोंचेर भाश्य करतालो. वेळ कसो वतालो कळनासलो.

फोटो दाखयत तो म्हणी, ''हे तुज्या तोंडावेले भाव पळे कशे प्रसन्न आयल्यात. मनीस हांसतकच कसो सोबीत आनी तेजिश्ट दिसता, पळे.''

सदांच पिरंगुपी, खिणाखिणांत रागार जावपी आनी तोंड फुगोवन बसपी म्हाका तर एकदां अण्णान शॉकच दिलो. हांव रागार जाल्ल्या वेळार अण्णान झुप्प करून फोटो काडलो. म्हाका कळ्ळें लेगीत ना. दुसऱ्या दिसा सकाळींच 'सुधा, हो पळे तुजो फोटो' म्हणीत ताणें एक फोटो हातार दवरलो. तो पळोवन कच्च जालें. खिणभर म्हजो विश्वासच बसना जालो. तें हांव नासलेंच. सामकें विद्रूप तोंड. रागा उजान लाशिल्लें कशें. त्याच खिणाक हांवें केन्नाच रागार जावचें ना म्हूण निश्चय केलो.

अण्णाचीं बरीं बरीं चित्रां, व्हडले व्हडले फोटो व्हरून ताचे इश्ट सर्तिंनी इनामां मेळयताले. पूण अण्णा आपूण जावन सर्तिंनी केन्ना वांटो घेनासलो. एक दीस रावं नज जावन हांवें मुजरत विचारलें,

''बाकिचे इनामां मेळयतात, आनी तुमी कित्याक वांटो घेनात सर्तिंनी?''

''बाय, म्हज्या आनंदा खातीर करतां हांव. सर्तिंनी पडटकच खोसच ना जाता.''

फाविल्ल्या वेळांत आमकां सगळ्यांक घेवन अण्णा भारतदर्शन फेरी करी. जिणेंतलो दर एक खीण उमेदिचीं ल्हारां निर्मीत जगलो अण्णा.

म्हजें लग्न जालें, हांव गोंयां पावलें. मुंबयसावन शेंकड्यांनी मैल पयस! पूण आत्र्या-पयऱ्यान अण्णान पत्रां धाडचीं. ताचीं पत्रां सामकीं रोसाळ, म्होंवाळ. तीं पत्रां म्हळ्यार ताचो भावनात्मक आत्माविष्कार आसलो. जिणेविशिंचे विचार, मनीस सभावाचीं तासां, बायलांची तांक ह्या संबंदान अण्णा भरभरून बरयतालो. ताचीं मोगाळ उतरां फाटीवेल्यान ल्हवपीक हात ओडटालीं. ताचे जिणेंतले अणभव जिवे तट्टटीत जावन उलयताले. सार्थपणान तांचें चित्रण करतना, ताची अणभवांतल्यान फुलिल्ली भास साक्षात्कारी जावची. सारकी व्हड प्रतिभावंत बरप्याभांशेन. ताची दरेक चीट म्हळ्यार एकेक सुपुल्लो लघुनिबंधच कसो. केन्नाय दिसता, ताच्यो कांय चिटयो उजवाडा हाडच्यो. पूण भिडेस्त आनी प्रसिद्धीविन्मुख अशा ताच्या आत्म्याक हें निखालूस मानवचें ना हें येवजून म्हजे हात फाटीं सरतात.

५०-६० वर्सां मुंबयंत रावनय अण्णा अस्सल गोंयकारच जावन रावलो. कोणूय वळखिचो गोंयकार मुंबय आयल्यार ताका वचून तो मुजरत जेवंक आफयी. खासा आपूण वचून नुस्तें हाडी. सोयऱ्यांक जेवता आसतना पळोवन धादोस जावपी अण्णाचे दोळे अजून म्हजेमुखार जिवे तट्टटीत आसात.

रत्नागिरीक एके कार्यावळीक घरकाराक मुखेल सोयरो म्हूण आफयल्लो. बार्का फाटल्यान पोनेळ तशें हांवूय गेल्लें. कार्यावळ सुरू जाली. इतले म्हणसर एक तरणाटो तुरतुरीत आयलो आनी सट् करून ताणें म्हजे पांय धरले. हांव काचाबूल जालें. ताणें म्हळें, ''हो नमस्कार आमच्या अण्णाक हां! सुधाबाय वळखलें म्हाका? नरेश हांव! आयज बँकेचो मॅनेजर जालां तो फकत अण्णाक लागून. ताणें मेळोवन दिल्ले स्कॉलरशिपीक लागून हांव शिकूंक पावलों. म्हजो बापूय भुरगेपणांतूच गेल्लो तें तूं जाणाच. अण्णाच म्हजो बापूय!'' म्हणीत ताचे दोळे भरून आयले. ३० वर्सांनी मेळ्ळो तो म्हाका. अण्णाचे यादीन म्हजेंय काळीज भरून आयलें.

अण्णा एकत्र कुटूंब पद्दतीक खूब मानतालो. दुसऱ्याक जाता तो आधार दिवपांत ताणें आपणाक धन्यच मानलें. तीय एक नशाच! अप्रूप कशी.

'मदर्स अॅण्ड चिल्ड्रन्स वेलफेअर सोसायटी'चो तो सेक्रेटरी आसलो. पगाराचो दीस आसलो म्हूण पयशांचें पास्त घेवन ऑफिसांत वतालो, बसींत चडलो. इतले म्हणसर कोणेंतरी ताका धुकल्लो. पयशांचें पास्त सांबाळूंक गेलो आनी अण्णा तसोच बसिच्या दांड्याक हुमकळत उरलो. हाका लागून खांद्यापसून हात सुटलो – डिजलोकेट जालो. तसोच तो घराकडेन आयलो. कसलोच बोवाळ ना, पिरंगण ना.

'म्हजेवांगडा यो बाय' म्हणीत अण्णा सपणां देवंक लागलो. देंवतां देंवतां सगळी घडणूक सांगली. आमी सरळ डॉ. म्हसकराकडेन आयलीं. ताचेर अण्णाची खूब स्रद्धा आसली. अण्णान खबर सांगना बराबर दोतोरान आनी आनीक वेळ केलो ना. मुखार आशिल्ल्या कदेलाचेर अण्णाक बसूंक लायलो. अण्णाचे छातयेक ताणें पांय लायलो आनी अण्णाचो हात आपलेवटेन ओडलो. आनी सट् करून सोडलो. हूं काय चूं ना. ''शाब्बास वसंतराव'' म्हणीत ताणीं अण्णाचे फाटीर हात ओडलो. म्हाका कांय कळ्ळेंच ना. पूण अण्णाचे जगावेगळे सोंशिकतायेची पुराय कल्पना आयली.

अण्णा सुंदर चित्रां पितारी. रंगाचें पिशें आपल्याक आवयन कशें लायलें, तिणें आपल्याक रंगाची भास कशी शिकयली हाचें

साळ वर्णन अण्णा करी. तेन्ना तेन्ना तांच्या दर का उतरांतल्यान आवयबद्दलची स्रद्धा भरून गोतताली.

अण्णा सांगी, ''आई, काथ्याचे ब्रश करी. ातयेंत कुकूम, हळद, कोळसो घालून रेकतरांचे रंग करी. तिणें आपली अप्रूप माया ातूंत ओतली आनी म्हूण म्हजी जीण रंगयाळी ाली.'' हें सांगतना अण्णाचे दोळे कृतज्ञतायेन जिश्ट जाताले. आमचो आजो – दाजी, ण्णाचो बापूय अतिशिस्तप्रिय मनीस! 'घरांतलें सगळें वातावरण शिस्तिच्या दबाडग्या कयल. त्या वेळारय मॉंटेसरी पद्दतीन म्हजी ावय चलली. 'भुरग्यांचें मन फुलोवप ल्ल्यारूच देवाक पुजप' हीं तिचीं उतरां म्हज्या ाळजांत कोरांतिल्लेवरी आसात.'' अण्णा दांच सांगी. अण्णान आपले आवयचोच हो ोगाळ वारसो फुडें चलयलो. आमकां भुरग्यांक लांवरी वाडयलीं. आनी आमचीं इल्लीं इल्लीं पनां, आवडी निवडी, आंवडे फुलोवपांत खोस ानली.

भुरग्यांचे वाडदीस तर व्हडे उमेदीन मनयी अण्णा! एक दीस ताणें खासा आपणें सुंदर नक्षीकाम केल्ली कास म्हज्या हातांत दवरली. ांवें वेळ लायनासतना फोडली, भितर पळेत जाल्यार सुंदर रेशमी काळ्या रंगाचो, जरिची देग आशिल्लो घागरो पोलको. आपणेंच बरो कपड्याचो गुलाब करून लायिल्लो. आपणेंच डेझायन काडून, चुलतेकडल्यान शिंवन ेतिल्लो. पळोवन हांव भुल्लुसलेंच. आईचें ९ ारी कापड तें. म्हाका खूब मानवतालें. अण्णान नांतलें वळखलें. सगळ्या गजालिंनी रस घेवन दुसऱ्यांक खोशयेन न्हाणोवनी मनीस हो. म्हज्यान जातलें काय हें करूंक? अजून मेरेन म्हजे मुखार हो प्रस्न आसा.

आमची आजी एक खबर खूब फावटी सांगी. आनी दर फावटी तें सांगतना तिचो गळो भरून येतालो.

अण्णाक ती 'वसो' म्हणी. वसो भुरगेपणांत सावन शिकपाक हुशार आसलो. धारवाडाक मॅट्रीक मेरेन शिकलो. फुडल्या शिक्षणाखातीर ताका जायत्यो स्कॉलरशिपी मेळ्ळ्यो. चित्रां पितारपांत तर ताका जायतीं इनामां मेळ्ळीं. ताचो मास्तर मुजरत बोरयेक आयिल्लो ताच्या बापायक मेळपाक. ताणें वश्याक फुडल्या शिक्षणाक धाड म्हणून कितलें विनयलें. तुमकां कसलोच आर्थीक भार लागचोना. आपूण पळयतां तें, म्हळें. पूण वश्याच्या बापायन आयकलें ना. ''आपल्या भावाच्या भुरग्यांक फुडलें शिक्षण दिवपाची आपली आर्थीक परिस्थिती ना म्हूण हांव म्हज्या पुताकूय धाडूंक शकना'' अशें म्हणून दाजीन तांकां परतायले.



पूण अण्णान हे गजालिचो केन्नाच खेद मानलो ना. उलट ते म्हणी, ''एकत्र कुटुंबाचो मुखेल पुरूश ह्या नात्यान दाजीचें हें कर्तुप फावऽतशेंच आसलें. ना जाल्यार अनर्थ जावं येतालो. त्या वेळावेली परिस्थिती समजून घेवचीच पडटली न्हय?'' कितली ताची समजिकाय ही! दुसऱ्यांची भुमिका तितलेच तन्मयतेन समजुपाची ही तांक अण्णान कशी मेळयली काय?

ऑफिसांतल्यान येतकच अण्णा चुकयनासतना, धा मिनटां तरी आपले आवय म्हऱ्यांत बसतालो. तिका घटसाणिच्यो गुळयो दितालो. तीय खोशयेन उलयताली. ''आईचो हात फाटीवेल्यान फिरतकच म्हजो श्रमपरिहार जाता'', अण्णा सदांच म्हणी.

'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा', 'धर्मानंद ट्रस्ट', 'गोमंत भारती' हे सारकेल्या संस्थांनी वावुरतना, गांधीजी, नेहरूजी, धर्मानंद कोसंबी, विनोबाजी भावे, काकासायब कालेलकार सारकेले व्हड मनीस आपले जिणेंत आयिल्ल्यान आपूण खुबशें शिकूंक पावलों. संतजीवनाचें विश्वरूपदर्शन आपल्याक घडलें, अशें अण्णा जायते फावटी म्हणी.

एकामेकांक मेळून नातें वाडोवचें ह्या विचारांचो तो मनीस आसलो. वेळांत वेळ काडून तो सगळ्या आप्तइश्टांक मेळी. आमकांय वांगडा व्हरी. एक दीस हांवें वाजेवन म्हळें,

''अण्णा, तूंच दर फावटीं कित्याक मेळूंक वता तांकां? ते खंय येतात मेळूंक तुका? ते कित्याक तुजो उगडास काडिनात?''

अण्णान जाप दिली, ''बाय, तांकां मेळपांत म्हाका खोस भोगता म्हूण हांव वतां. म्हजो धर्म हांव चलयतां. तांणी कितें करचें हें हांव थारावपी कोण? तशी अपेक्षा बाळगप म्हळ्यार अपेक्षाभंगाचें दुख्ख पदरांत घालून घेवप! हय मगो?'' म्हजी चूक म्हज्या लक्षांत आयली.

आमी दोगी भयणी. आमकां चलयो म्हूणून अण्णान केन्नाच उणीं लेखलीं नात. आमकां चल्यांभाशेनच वागयलीं. आमी चल्यांपरस मातूय उणीं नात हो आत्मविस्वास ताणें आमकां दिलो. ताका लागून आमकां अप्रूपशें नैतिक बळगें मेळ्ळें. बायलांविशीं तर अण्णाच्या मनांत सदांच आदर आनी कणव. बायलांक फुडें काडपाक ताणें सदांच वावुरचें, बायलांच्या वावरांत पालव दिवंचो. बायलांचे तकलेवेलो भार उणो करचो म्हूण तर अण्णान सोमार ते आयतार मेरेनचें सकाळच्या नाश्त्या पसून रातच्या जेवणा मेरेनचें

वेळापत्रक करून लायिल्लें. दर आयतारा आमी सगळ्यांनी वांगडा बसून सप्ताकाचे तांदूळ वेंचचे, घरची नितळसाण करची. ही आयताराची कार्यावळ आमकांय सहजीवनाची खोस दिताली. आयतारची आमी आतुरतायेन वाट पळयतालीं.

म्हज्यो दोनूय मावळणी सदांच व्हडे उमेदीन सांगताल्यो, ''भुरगेपणांत जात्रेक दिल्ल्या एका आण्याचे अण्णा आमकां आंबाड्याक लावपाचे आंकडे हाडी. आमकां खूब खोस जाताली. कोणूच अशें करी नासले.'' तांचीं हीं उतरां अजून मनाक घटसाण दितात.

'परोपकारार्थ इदम् शरीरम्'अशीच आसली ताची जीण. दारार कोणूय येवं, आधार करूंक अण्णाचे हात सदांच फुडें. पावला कणकणी गरजूं विशीं काकूट आनी दया. तांचे खातीर कितेंय करपांत व्हड उमेद.

आई केन्नाय मोगाळ शीण काडी. ''तुज्या अण्णान म्हाका मूर्तिपूजा करूंक दिलिना. उपास-तपास ताका आवडनात. पूण तुका जाय म्हूण शंकराची म्हूर्त-पिंडी स्थापन करून, तुका इल्लो देवारोय करून दिलो. म्हाका तातुंतच समाधान.''

आमकां भुरग्यांक उमेद म्हूण अण्णा चवथीक गणपतीची ल्हान म्हूर्त हाडून सुंदर आरास करी. एका वरसा तर मुजरत तरेकवार रंगाच्यो साडयो हाडून ताणें सुंदर सजावट केल्ली. दिव्याज्योतिंनी ती खूब सोबीत दिसताली. तरेकवार फळांचीय मांडणी करी. फळां काडून मागीर बिल्डिंगेतल्या सगळ्या भुरग्यांक वांटी, खेळ करी. भुरगींय त्या म्होंवाळ खिणाची आतुरतायेन वाट पळयी. त्या दिसा आमी फळां घेवन यो जाल्यार कितें पळयतलीं! सगळ्यो नव्यो साडयो लासून गोबोर! सुंदर कार्पेट जळून तिका व्हडले बुराक पडल्यात. चुलतेचे दोनूय हात भाजल्यात. अण्णा तसोच परतलो. फार्मासींतल्यान वखद हाडून म्हाका चुलतेक लावंक लायलें. आमचें मन पडलें. पूण अण्णान तेच उमेदीन परती सुंदर आरास केली. उमेद हाडप आपल्याच हातांत आसा म्हणपाची देख मेळ्ळी.

आईक आत्मविस्वास दिवन फुडें काडपी अण्णान जाण्टेपणांत म्हाका एक दीस म्हळें,

''सुधा, म्हाका जें वाचून, शिकून मेळोवचें पडलें तें तुजे आवयन मेळयलां. तिची अध्यात्माची चाल खूब फुडें पावल्या. हांव मात पयल्याच सपणाचेर आसां.'' आपली मर्यादा तितल्याच सोंपेपणान ताणें जाणिल्ली.

ऐन तरणाटे पिरायेचेर अण्णाक गोड्या मुताचें दुयेंस जालें. तो ४० वर्सां सदांकाळ इंजेसांवाचो मारो हांसत हांसत झेलीत रावलो. कसलीच पिरंगण ना, तक्रार ना. निमाणे मेरेन मातपासून हाय खाली ना. जी उमेद तिशीर आशिल्ली तीच ७५व्या वर्साय.

हांवें एकदां अण्णाचेर लेख बरयल्लो. तातूंत म्हळ्ळें, आतां अण्णाक उणें आयकूंक येता. दिश्टी पडपय उणें जालां. म्हणून पासयेक वतना अण्णा आईक फुडें चलूंक लायता आनी आपूण फाटल्यान चलता म्हूण. अण्णान लेख वाचून म्हळें, ''बाय, तुजे आईक काळजाचें दुयेंस जालां न्हय? तिका कितेंय जाल्यार म्हाका कळचें ना म्हूण तिका हांव फुडें चलूंक लायतां.'' अण्णाच्या मनाचो अरळ पोंत जाणवलो आनी म्हजें काळीज हाललें.

एकदां अण्णाच्या इश्टान अण्णाक विचारलें, ''वसंतबाब, सगळ्या गजालिंनी तूं उमेदीन वावुरता. तुका हें जमता तरी कशें?'' अण्णान थंडसाणेन दिल्ली जाप अजून तट्टटीत आसा

''आरे, जें कितें वांट्याक येता तें म्हाका मानवता. गायतना, वाजयतना सूर-ताल भुलयतात, बरयतना उलयतना उतरां फुलयतात, रंगयतना रंग हांसयतात. भुरग्यां वांगडा उलयतना हांवूय भुरगो जातां, भुरग्यां वांगडा खेळटना म्हज्यांतलो बापूय जागो जाता, नातरां वांगडा आजो रमता. जेवण मांडटना नक्ष करूंक हात विसविसतात. हातांत झाडू आयल्यारय हांव खोशी जातां.''

अण्णा फकत एक प्रापंचीक मनीस नासलो. एके वटेन वेव्हारांतली कुशळताय घेवन, कर्मयोग्या प्रमाण चलतना, कलावंताच्या पावलान, स्थितप्रज्ञाची वाटचाल करपी खरेलो आनंदयात्री आसलो.

'हांतरुणार पडूंक जायना', अण्णाची इत्सा आसली. इच्छामरणच आयलें ताका. त्या दिसा नातिचो वाडदीस आसलो. नक्षीकाम करून प्रेझें उशा म्हऱ्यांत दवरीत अण्णान आईक म्हळें,

''सकाळीं उठय आं म्हाका. स्वाती कॉलेजीक वचचे पयलीं दिवंक जाय ताका ही भेट.'' आनी अण्णा न्हिदलो. तो सकाळीं उठलोच ना.

अण्णा गेल्यार आयज १४-१५ वर्सां जालीं. पूण चांटे पावलाक 'चालविसी हाती धरुनिया' अशीच म्हजी जीण अण्णामय जाल्या.

आतां नातरां वांगडा खेळटना तर अण्णाचो खिणाखिणाक खुबच उगडास येता. अण्णाचो खळखळपी हांसो म्हाका विचारीत आसता,

''बाय, आनंदयात्रेची वाट मेळ्ळी मगो तुका? नातरांवांगडा रंगाची भास उलय, सुरांचीं उतरां उलय. तूंय भुरगें जातलें. आनंदयात्रेची वाट तुका आपशींच मेळटली.''

* * *



# सोबीत सुंदरा वसुंधरा — अंदमान !

जयमाला दणायत

शाळा-कॉलेजींत आसतना जण एकल्याक
ड़ें-भोव तरी भविश्याचें पिशें आसता जावंये.
ड करून तन्न्या मनांत सपनां फुलोवन तांचें
र बांदचेलो येत्न करचेलो वा, सपनां सत्यांत
रावर्तीत करचेलो तो काळ आसता! आनी
खून धवधवीत म्होंवाळ फुडाराचें भविश्य
णएकाच्या मनांत सुवात धरून आसता.
न्नाच्या काळांत खंय खंय वाचून आयकून
ाणा आशिल्लें, पायांच्या बोटांचेर चक्रां
ासल्यार वा पायांच्या तळटार तीळ आसल्यार
ूब भोंवडी घडटा म्हणून ('पांयांक चाक
ागलां' अशें म्हणटात तें ताकाच लागून
ावंये.) पूण म्हज्या पांयांर ह्या चक्राच्यो कुरवो
ासुनूय अजून तरी म्हज्या मनासारको प्रवास
ावंकच ना. आंकवारपणांतूय ना, लग्ना मागीरय
! आमचें फकत 'बॉम्बे टू गोवा', 'गोवा टू
ॉम्बे' चालूच! पयलीं गोंयां आसतना हांवें घर
बय म्हणून आनी आतां मुंबय पावतकच म्हजें
ळार गोंयां म्हणून! देखून, 'अमुचें इथेंच
ढरपूर' म्हणून ताचेरूच हांवें समाधान मानचें.
य जाल्यार वर्सानवर्स इतलें तरी भोंवपी
तलीं जाणां आसात?

लग्न जातकीच हनिमुनाक लेगीत थंयचे थंयच माथेरानाक गेल्लीं. फकत चार दिसांक. आनी सोबीत गोंयच्या आंगाखांद्यार जल्म गेल्ल्यान म्हजे सारकेल्याक माथेरान म्हळ्यार 'किस झाड की पत्ती!' आनीक कोणय बँक ऑफिसर LTC बी मेळटा म्हणून काश्मीर, सिमला, कांयच न्हय जाल्यार उटी बँगलोराक तरी वचपाचो. पूण ना. सुटी ना. सोयऱ्यांगेर वचुंकच जाय, हें आनी तें! निमाणें आमच्या नशिबांत माथेरानच! बरें, मागीर तरी इतलीं वर्सां खंयय वचूंक मेळ्ळां? गोंयच्यान मुंबय, मुंबयच्यान गोंयां, ज्ञानबा तुकाराम करीत करीत वर्सां गेलीं. एकदां संवसार फाटीक लागलो म्हणटकीर तरांतरांच्या संकटांक आनी अडचणींक तोंड दिवंचेंच पडटा.
गुरवार-बाळंत म्हणून, मागीर भुरगीं मातशीं व्हड जातकीच वचचें अशें करतां करतां उल्लें तें उल्लेंच! दोन खेपो तर दीस थारावन बँगलोराक वचपाच्यो विमानाच्यो तिकेटी काडुनय कॅन्सल करच्यो पडल्यात. कांय अडचणी अशो अचकीत येतात आनी थारायिल्लो बेत तडीक व्हरूंक मेळना. थर्मामिटरांतलो पारो हातांत धरूंक येना, तसो. मागीर मन खिन्नटता. त्या खिणापुरती सगळ्या गजालिंची, जिणेची रुचूच गेल्लेवरी दिसता. पूण सदां सदां मरतल्याक कोण रडटलो अशी म्हण्णी आसा, तशी आतां मनाक ह्या सगळ्यांची इतली संवंय जाल्या — खेद खंत कांयच दिसना. आनी देखुनच पयलीं कांयच तयारी नासतना अकस्मात जेन्ना आमी अंदमानाक वचूंक मुंबय विमानांत बसलीं तेन्ना म्हाका कितली खोस जाली म्हूण सांगूं!

थंय वतनाय कितल्यो अडचणी आयल्यो म्हणून सांगच्यो? आमचो बेत आयकनाफुडें आयकतल्याची पयली प्रतिक्रिया अशी — ''शीऽऽ, सगळें सोडून अंदमानाकशीं वतात बाये? काळ्या-पाण्याचे ख्यास्तीर गेल्लेवरी!'' ''सांबाळात आं... थंय मलेरिया, प्लेग सदांकाळ आसता खंय.'' कितें हे एकेक गैरसमज आमच्या लोकांचे! ''आंवय आंवय, पळोवपासारकीं कितलीं ठिकाणां आसात. काश्मीर, सिमला, दार्जीलींग, काठमांडू, उटी, बँगलोर! अंदमानांत कितें दवरलां?'' अशेच सगळ्यांचे प्रस्न. आमीय बी खरें म्हळ्यार मद्रास, बँगलोर, म्हैसूर, उटी करपाचेंच येवजिल्लें. पूण बँकेचे खुस्तार वचपाचें. तातूंत

अंदमाना मेरेनचें अंतर सुट्टा. बँकेच्या पैशांनी येवपा वचपाचो खर्च सुट्टा जाल्यार वचचें अशें ठरलें. टीव्हीचेर बी अंदमानाविशीं म्हायती दाखयताले तें जालेंच. पूण मनांत खंयतरी स्वातंत्र्यवीर सावरकरांक जंय बंदखणींत दवरिल्ले ती भूंय पळोवचेली उमळशिकय आशिल्ली. पूण गेलीं म्हणून बरें जालें. 'सोबीत सुंदरा ती वसुंधरा' पळोवंक मेळ्ळी.

थंय वचचेलो मोसम तसो नव्हेंबर ते मायाच्या मध्यामेरेन. वचपाचे दोनच मार्ग – विमान ना जाल्यार बोट! पूण बोटीन येवपा वचपाकच खूब दीस लागतात, देखून आमी विमानान वचपाचें थारायलें. मुंबय सावन मद्रासाक वचून थंयच्यान पोर्ट ब्लेअराक वचपाचें आशिल्लें. मुंबयच्यान संक सुटिल्लें विमान मद्रास विमानतळार रातचें आठांक पावलें. पोर्ट ब्लेअरची फ्लायट आशिल्ली फांतोडेर पांचांक! म्हणटकीच ती रात मद्रासाकच काडची पडली. पूण मद्रास शारापासून विमानतळ पयस आनी अनवळखी प्रदेशांत. बेठीच रिस्क नाका म्हणून विमानतळारच रावलीं. परत येतना मद्रास पळोवपाचें थारायल्लेंच.

मागीर तांत्रीक बिघाड, फ्लायट लेट जावन थंयचे सगळे सोपस्कार सोंपून पावणे संक विमानान मद्रास विमानतळावेल्यान उड्डाण केलें आनी सवाथ आठांक सकयल ल्हान ल्हान पांचवीं पांचवीं बेटां दिसूंक लागलीं – मनाक आपशींच समजलें, पावलीं आमी अंदमानांत!

आमी आयकल्लीं रॉस आयलंड, बांबू प्लँट, फिशरी जेट्टी, मरीन जेट्टी (जेट्टी म्हणजे धको) अशीं जायतीं बेटां दिसूंक लागलीं मनासामकार! आनी मागीर दिसूंक लागली सेल्यूलर जेल! थंय जल्मठेपेची ख्यास्त भोगूंक धाडिल्ल्या सावरकरांक लेगीत हें बेट म्हणजे सामकें अप्सरेच्या बंगल्यावरी दिशिल्लें खंय! मागीर मजेंत भोंवडी करूंक भायर सरिल्ल्या आमचे सारक्यांक तर तें सर्ग कशें, भुंयेवेलें नंदनवन कशें दिसलें जाल्यार अजाप ना! बोट आनी विमान येवचेले दीस म्हळ्यार थंयच्या टॅक्सीवाल्यांची पर्वणीच म्हणूंक जाय. ४-५ कि.मि. लागशिल्ल्या जाग्यांनी वचूंक लेगीत मागीर ते ६०-७० रु. भाडें मागतात. पीक सिझनांत तर विचारपाचें ना. देखून थंय मजेक भोंवडेक वतल्यांनी बोल्स मातशें सदळ सोडिल्लेंच बरें! मागीर आनी खर्चाचो विचार करपाचो ना. सिझनांत तर रावंक जागो मेळपय कुस्तार!

विमान देंवतां देंवतां पावस शिरशिरलो. मोठो मनभुलोवणो देखावो दिसलो. सुर्याचीं सकाळचीं कंवळीं किरणां – तांतल्यान शिरशिरपी पावस धतरिच्या माथ्यार भांगराचीं रुप्याचीं फुलां रकयल्लेवरी भासतालो. विमानतळावेल्यान टॅक्सीकडेन वतासर आंगावेले कपडे लेगीत भिजले. पूण १५-२० मिनटांभितर आमी सुकीं सडसडीत जालीं. इतली हांगाची हवा सुकी! हांगा सदां दिसाक दोनदां तरी पावस पडटा. ताका लागून भूमायेचो पांचवो शालू बाराय म्हयने नवोताल्ल उरता. माती ना, धुल्ल ना, माड-माडयांचीं भाटां शिंपचेलो हुस्को ना. झाडां लायलीं की जालें. दोंगुल्लेचेर लेगीत माड माडयो आनी केळिंचीं झाडांय केदीं व्हड! कांय कांय झाडांचीं कांडां इतलीं रुंद, एकेच फळयेंतल्यान आठ-आठ जाणांक जेवचेलें मेज लेगीत घडूं येत, येदीं!

मुंबय सारकेल्या प्रदुशीत पर्यावरणांतल्यान थंय वतकीच शुद्ध हवा वा वातावरण म्हळ्यार कितें तें समजता. खरें म्हळ्यार आमचे सारकेल्या निजाच्या गोंयकारांक सैमाची ही पांचवीसाण नवी न्हय. पूण उत्तरप्रदेश बिहार उडिसा सारकेल्या सुक्या भागांतल्यान हांगा येतल्यांक वता थंय पातळिल्लो तो पांचवो रंग आनी भोंवतणचो दर्या भूल घालेबगर रावना. आमच्या मनाक भूल पडली ती थंय उबे रावल्यार खंयच्यानय दिसपी सोबीत नितळ दर्या उदकाची आनी त्या भव्य दिव्य रानांचे सोबितकायेची.

अंदमान-निकोबार हो कितल्याशाच ल्हान ल्हान बेटांनी एकठांयिल्लो एक ल्हान प्रदेश! नदर वचत थंय दर्याचें सोबीत निळें उदक आनी देगेवेलीं तीं पांचवींचार रानां दोळ्यांची तान भागयतात. १९३८ मेरेन अंदमान ब्रिटिशांच्या ताब्यांत आसलें. दुसऱ्या म्हाझुजावेळार १९४२ ते १९४८ मेरेन जपानी लोकांनी ताचेर राज्य केलें. ह्या वेळार सुभाषचंद्र बोसांनी अंदमानाक भेट दिल्ली हें खूब म्हत्वाचें म्हणूंक जाय. राजकीय नदरेन ह्यां बेटांचे पांच भाग केल्यात. उत्तर अंदमान, दक्षीण अंदमान, मध्य अंदमान, लिटल अंदमान, निकोबार आनी ग्रेट निकोबार. आनी ह्या सगळ्यांची राजधानी पोर्ट ब्लेअर.

१९८१त अंदमानची लोकसंख्या दोन लाख आसली. सगळोच ३५० ल्हान व्हड बेटांचो हो समूह! पयलीं हाका 'काळें पाणी' म्हणटाले. आतां ताकाच आनंदवन, नंदनवन म्हणून तोखणायतात! सैमाचो हाचेर भोव मोग. ताचेच कृपादृष्टिचो परिणाम म्हणून एके वटेन निळो निळो दर्या आनी दुसरे वटेन पांचवी पांचवी दाट झाडी – इशान्य मॉन्सून वारें हांगा पावस घेवन येता. दाट झाडी, सदां पावसाचो शिंवर हाका लागून हवेंत एके तरेची थंडाय सतत आसत
अंदमान हें सामकें उदेंतेक आशिल्ल्यान सूयं
पांचांक जाता तशीच सांजय साडेचार-पांचां
जाता. सांजेच्या चार-साडेचारांक काळोख पडपाक सुरवात जाता. स वरां जायमेरेन गु
काळोख जाता. फांतोडूय तशीच बेग्गीन जात.

पयल्या दिसा मजाच जाली. जनेलांतल्या खसखशीत ओत दोळ्यांत आयलें म्हणून उ
पळेत जाल्यार फांतोडेचीं पांच जाल्लीं. म्हाव
दिसलें, म्हजी घडयाळूच बिघडल्या! कित्या
भायर सामकीं ९-१० वरां जाल्लेवरी उजवा
दिसतालो. पूण सगळ्याच घडयाळिंनी पांच जाल्लीं. मजाच दिसली. भुरगीं लेगीत बेगीन उठलीं. बेगीन न्हिदप आनी बेगीन उठप हो म
हांगच्या सैमानच लोकांक दिला जातलो. देखू
तांची भलायकी बरी उरता. वचत थंय ताजें फडफडीत नुस्तें, शुद्ध हवा, निवळ नितळ उदक! एक मात खरें, हांगाचे लोक साप्प आळशी! इतली बरी हवा, सुपीक भूंय पूण मात्शे कश्ट घेवन भाजीपालो रोवन काडप न
ताचे पासत मागीर मद्रास जावं कलकत्त्यासा
येवपी विमान जावं बोटिंचेर अवलंबून रावप! हांगाचे लोक चड करून फकत तांदूळ आनी नुस्त्या हुमण जेवतात. भाजी-चपाती बी ना. मात आसा – केळीं, तरेकवार जातिंचीं, पांच
आनी हळडुवींच न्हय तर तांबडीं लेगीत आनी नाल्ल भरपूर! थोड्याभोव कश्टांची तयारी दाखयत जाल्यार बरी भाजी मेळुंयेत! कांय महाराष्ट्रीय कुटुंबां बी नोकरी धंद्यानिमतान हां
स्थायीक जाल्यांत. तीं मागीर आपणाल्या पोरसांनी भाजी बी लायतात. पूण विकत घेव
खावप एकूण म्हारगच पडटा.

थंयच्या पर्यटन विभागाचे बसीन थंय पाविल्ल्या दिसाच आमी हॉटेलाच्या रुमार व
सामान भितर उडयलें आनी भोंवपाक सुरवात
केली. पयल्यान पयलीं पोर्ट ब्लेअरचें ल्हानशें
सोबीत प्राणीसंग्रहालय पळयलें. ताचे भोंवतणीं
दाट झाडी आसा. ताका लागून पांजऱ्यांत आसुनूय जनावरांक रानांत आशिल्लेवरी दिस
जावंये. थंयच मानग्यांचें प्रजोत्पादन केंद्र आसा
पोर्ट ब्लेअराचें मनीसशास्त्रा संबंदिचें म्युझियम
त्याच दिसा पळयलें. निकोबारांतले राबी, ओंगे
जाखा शॅम्पेन ह्या रानवटी जमातिंच्या लोकांचे
फोटे, तांच्यो सदच्या वापरांतल्यो वस्तू, तांच्य
आंगाखांदार घालपाच्यो वस्ती हांचें तें म्युझिय
त्यो वस्तू पळेतकीच तांकां रानवटी कित्याक म्हणचें हो प्रस्न पडटा. वेताचे विणिल्ले खोंटले
फातरांच्यो शंखांच्यो-शिंपयांच्यो वस्ती इतल्यो सोबीत आशिल्ल्यो की आयच्या मॉडर्न बायलां

ल घालपाचो मोह जावचो. लाकडाच्या एकाच
डक्याचें केल्लें सोबीत व्हडें तर पुराणांतल्या
ग्रासारकें दिसतालें. ताचे मागीर मरीन
रुझियम पळयलो. हांगाचे शेल्स आनी दर्या
तल्या वस्तुंचो संग्रह खरेंच पळोवपासारको.
डल्या व्हडल्या कासवांच्यो फाटी, डॉलफिन्स,
र्क हांचे सांगाडे केदे व्हड! मेल्लीं नुस्तींय
टल्यांनी भरून दवरिल्लीं. खरें तर सरकाराक
गा एक बरें एक्वेरियम करप सहज शक्य
सा.

थंय पाविल्लीं त्याच दिसा सेल्युलर जेल
ळयली. सावरकराच्या वेळावेल्या सात भागांचे
बंदखणिचे तिनच भाग आज धड आसात
रे, पूण हे बंदखणिच्या पयलिंच्या
टोव्यावेल्यान तिचे सोबीत रचणुकेचो अदमास
ता. एका उगरमुपी कमळाभशेन! जेलराचो
गो मदीं आनी ताचे भोंवतणी सात पाकळ्यो
शो कुडी. एकेच वळेरेंत उब्यो आसात. एके
कळेंत १२३ सेल म्हणजे गुंफो. सावरकरांक
य १२३वे गुंफेंत दवरिल्ले आनी ६९८ हो
चो नंबर आशिल्लो. ब्रिटिशांनी १८९६त ही
दखण बांदूंक घेतिल्ली. १९०६ मेरेन
दकामाचें काम चलतालें. खुब्ब व्हड वणटी
शिल्ली ती व्हडली कादय पळोवन जिवाक
तरले भितर कितें जालें म्हणून सांगूं!
दखणिचो एक भाग राष्ट्रीय स्मारक म्हणून
तनायेन दवरला. भायले वटेन स्वातंत्र्य
निकांचे फोटे, ते वापरताले त्यो वस्तू, कपडे,
कां जाल्ल्यो ख्यास्ती हांचो संग्रह आसा.
मादा कोलू थंयच दवरला. त्यो वस्तू पळोवनच
ळे भरून येतात. कसो तांणी बाबड्यांनी हो
ळ सोंसलो आसतलो हें येवजुनच जीव
स्मट्टा. हांगाच तिसऱ्या माळ्यार कोनशाक
वरकरांची कूड आसा. थंय तांचो एक व्हडलो
टू तशेंच तांचेर काडिल्ली पोस्टाची तिकेटूय
रल्या. त्या म्हान स्वातंत्र्यसैनिकाची याद
नांत तेवत दवरून आनी तांच्या उगडासाक
मन करून थंयच्यान भायर सरलीं.

दनपरां दोनांक सुमार बसीन परत हॉटेलांत
डून सोडलीं. आनी सांजचीं लागींच भोंवचीं
ण थारावन आमी जेवन जीं न्हिदलीं तीं
यल्या दोन दिसांचें जागरण, भोंवडेचो शीण
वळावन एकदम काळोख जातकीच जागीं
लीं. मागीर थंयचे थंयच मातशे पांय मेकळे
रून जेवन खावन न्हिदलीं तीं दुसऱ्या दिसा
तोडेर पांचांक जागीं जालीं.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं साडे संक बस
यली. लागशिल्लीं दोन तीन बेटां पळोवन
शॅल्स कलेक्शन' हे दर्यावेळेर गेलीं. थंय ल्हारां
बरोबर सोबीत शंख शिंपयो वा शॅल्स येतात.
म्हणून ताका नांवूच शॅल्स कलेक्शन! थंय
इतल्यो सोबीत शॅल्स येतात की खंयच्यो
घेवंच्यो आनी खंयच्यो उडोवच्यो – 'घेतां किती
घेशील दो करांनी' अशीच कोणाचीय स्थिती
जावची. वेंचतां वेंचतां पुरो जाता. थंयच्यान
मागीर चिडिया टापू पळोवंक गेलीं. थंय खंय
तरातरांचे पक्षी दिसतात. आमकां कांय तो योग
आयलो ना. वेळ चड नाशिल्ल्यान मागीर
दुसरेकडेन गेलीं. परत दुसऱ्या बेटार गेलीं. परत
दुसरे वेळेर गेलीं. अर्थात ह्या ल्हान ल्हान बेटांची
आनी वेळांची नांवां म्हजे सारकेल्याचे तकलेंत
उरपाचीं नात. थंय वेळेर बरीच मजा आयली.
थंयच्या थळाव्या लोकांची लग्नाची एक
व्हंकलपावणी पळोवंक मेळ्ळी. थंयचे लोक हिंदी
बरी उलयताले. तांतले एके बायलेकडेन वळख
करून घेवन तांच्या रिती-रिवाज प्रथांविशीं मातशें
समजून घेतलें.

लग्न जातकीच दुसऱ्या दिसा वाजत गाजत
वऱ्हाड 'होर' म्हणजे न्हवरो-व्हंकल घेवन गंगेचे
भेटेक वेळेर येतात. थंय न्हवऱ्याचें बाशींग
देंवोवन त्या बाशिंगाची जोडप्याकडल्यान पुजा
करून घेवन नाल्ल आनी तें बाशींग घेवन पांच
जाण दर्यांत भितर व्हरून बुडयतात आनी
मागीर, बायल-म्हणिनाका, दादले म्हणिनाका,
एकामेकांक ओडुओडून दर्यांत नव्या
कपड्यांसकट बुचकळावन काडटात. बरीच मजा
आयली तें पळोवन!

जॉलीबॉय आयलंडांत आनीक एक मजेशीर
गजाल अणभवूंक मेळ्ळी. थंय वचून पोर्ट ब्लेअर
सावन बसीन वरभर पयस वाडूर हे दर्यावेळेर
वचचें पडटा. मागीर वाडूरसून जॉलीबॉयकडेन
बोटीन वचचें पडटा. वता थंय एका उल्याचे
वाटेर बेटांच बेटां. भोंवतणीं सोबीत सैम आनी
मदीं दर्याचें उदक – खंय निळें, खंय गाड निळें
तर खंय खंय पांचवें तर कांयकडेन धवेंफुल्ल!
प्रदुशण नाशिल्लें उदक सुर्याच्या कंवळ्या
किरणांनी रुप्यावरी लखलखतालें! उदकांत
वेगळें वेगळें ल्हानव्हड रंगयाळें नुस्तें. जॉलीबॉय
म्हऱ्यांत पावतकीच बोट मातशी भितर उबी
जावन ल्हान बोटिंनी आठ-आठ पंगडांनी वेळेर
व्हरून सोडलें. थंय थोडो सुसेग घेतकीच
दर्यावेल्या नुस्तेकारांनी दोगां दोगांक आपणाल्या
व्हड्यांत बसयले. तातूंत बसतकीच ते दोळ्यांक
लावंक एक वेगळेंच गॉगलशें दितात. उदकांत
तकली बुडयतकीच त्या गॉगलांतल्यान खोल
उदकांतलो जमनिचो तळ दिश्टी पडटा. रंगयाळें
नुस्तें, वेगळे वेगळे शॅल्स, कोरल्स, पोवळीं
सगळें सामकें स्पश्ट दिसता. उदकापोंदचो तो
खजिनो पळोवन कोणाचेंय मन धादोशी जाता.

हांगा येतकीच भुगोलांत शिकिल्ल्या
विषुववृत्तावेल्या दाट रानवटी प्रदेशाची याद
जाता. रानां आनी समुद्र हांचो सोबीत एकवट
आनीक खंयच घडचो ना. पोर्ट ब्लेअराक एक
फेरीबोट आसा. ती दनपरां अडेज-तिनांक सुट्टा
आनी सात बेटांची उडटी भेट घडोवन
साडेपांच-स मेरेन परत हाडून सोडटा. ही
उदकांतली भोंवडी भोव मजेशीर! थंय एका
बेटार गोळाक लावपाची ख्यास्त भोगयताले तो
जागो पळोवंक मेळटा. हांगाचीं आडसरां खाल्यार
मागीर आनीक खंयचेंच आडसर बरें लागचें ना.
इतलें गोड उदक आनी रुचीक कातली खंयच
मेळपाची ना.

अंदमानांतली 'चॅकम सॉ मिल' ही
आशियांतली सगळ्यांत व्हडली सॉ मिल. शंबर
वर्सां पयलिंचो तो लाकडांचो कारखानो.
समुद्रांतल्यान लाकडां उबारून तांचे जाय तेदे
कुडके, फळयो करून ते ट्रकांत भरी मेरेन सगळें
काम मशिनाचे मदतीन जाता. येदीं व्हडलीं कांडां
पूण ५-६ मिनटांभितर कापून ट्रकांत वचून
बसतात. पळोवंक मजा आयली. पूण मनांत भंय
– अशीं रानां कापून अंदमानाची मुंबय जावंक
कळाव लागचोना! थंयच म्हऱ्यांत व्हिमकोचो
फामाद फस्कां कारखानोय आसा. आमकां
हांगाचें रॉस आयलंड मात पळोवंक मेळ्ळें ना. हें
भारतीय नौदलाचे सद्दींत आसा. थंय वचपाक
परमिशन घेवचें पडटा. लॉंचिची वेवस्था ते
करतात. फकत पयशे दिवपाचे. थंय वचूंक पोर्ट
ब्लेअरसून २०-२५ मिनटां लागतात. पूण
आमच्या नशिबान आमी वतलीं आशिल्लीं त्या
दिसा कोण तरी गव्हर्नर येवपाचो आशिल्ल्यान
बाकिच्यांक प्रवेशबंदी आशिल्ली.

पोर्ट ब्लेअर हो दोंगरांचो भाग. थंय एक तर
आमी चडणी चडत आसतात नातर देंवत
आसतात. रस्ते व्हडले. सादें चलप लेगीत
ट्रेकिंग केल्लेवरी दिसता. ८-१० बेटां मेळून पोर्ट
ब्लेअरचें हें बंदर जालां. ह्या बेटांनी वचूंक ल्हान
लॉंची आसतात तर कांय बेटां पुलांनी
जोडल्यांत.

आमी परतिच्यो तिकिटी मुंबयच्यान
काडिल्ल्यो. पूण ओके करूंक नासल्यो.
थंयच्यान परत येवपाची तारीक तांचेर घाल्ली
नाशिल्ली. आनी थंयच्यान मद्रासाक वचप्यांची
इतली गर्दी, विचारपाची सोय ना! आमी थंय
गेल्लीं एप्रिलाच्या निमाण्या सप्तकांत आनी पांच
स दीस अंदमानांत काडून मागीर मद्रासच्यान
बॅंगलोर, म्हैसूर, उटी करून मुंबय परतुपाचो
आमचो बेत आसलो. पूण थंय शाळांक बी सुटी

तेन्नाच पडिल्ल्यान आनी शिक्षकांक पयलें प्राधान्य आशिल्ल्यान विमानाच्यो जावं बोटिच्यो कसल्योच तिकिटी मेळनासतना म्हयनोभर थंयच अडकून पडपाचो रंग दिसूंक लागलो. तितलो वेळ आमच्या हातांत आसल्यार कांय दिसचें नासलें. पूण तिकेटी मेळूंक कुस्तार जायनाफुडें भोंवडेचो सगळो मूड ऑफ जालो. आतां ही मजेची भोंवडी म्हणपाची सोडून 'काळ्या पाण्याची ख्यास्त' दिसूंक लागली. म्हत्वाचें म्हळ्यार, वळखिचे कोण नात. सोयरीं धायरीं लागीं नात. पयस खंय तरी रानांत वचून पडिल्लेवरी जालें. आनी देखुनच हाका भेट ताका मेळ करून वचपाची वेवस्था करूंक पुराय दोन दीस गेले. मद्रासच्यान बोटिच्यो वा विमानाच्यो तिकेटी मेळप कुस्तार म्हणनाफुडें कलकत्त्याक जाल्यार कलकत्त्याक वचुंया म्हणून स सात दिसांमागीर खंयची मेळटा त्या दिसाची तिकेट पयलीं बूक करून उडयली आनी सुटकेचो उस्वास सोडलो. तशें पांच स दिसांभितर सगळें पळोवन आमची हौस भागली. फकत रॉस आयलंड आनी कार निकोबारच्या रानांनी भोंवपाक मेळ्ळेंना. कारण थंय व्हरपी हॅलिकॉप्टर्स हेर कामांक लागिल्लीं. ताका लागून थंयच्या सगळ्या म्हायतिच्या फिल्मांचेरच समाधान मानचें पडलें आनी पळोवंक मेळ्ळें तेंच थोडें न्हय अशें म्हणत मनाक धादोसकाय भोगची पडली.

बाजारांत शंख-शिंपयांची खरेदी जाली. सोयऱ्यां खातीर थंयच्यान कितें न्हय कितें व्हरपाचें आशिल्लें. खरें म्हळ्यार अंदमान सोडन दिसनाशिल्लें. पूण थोडेभितर गोडी मानून भरिल्ल्या मनान विमानांत वचून बसलीं. विमान उडलें तरी जनेलांतल्यान सैमाचो पांचवो शालू न्हेसून नटिल्ले नवे व्हंकलेप्रमाण दिसपी ते सोबीत भुंयेक दोळ्यांत सांठोवन घेतिल्ल्यान पांचवी निळी शाल सोडूंक मन तयार नासलें. पूण विमान कलकत्त्याक देंवलें आनी सर्गांत पेंवपी मन भुंयेर तेंकलें. मागीर दोन-दोन दीस कलकत्ता, पुरी, मद्रास, तिरुपती, बँगलोर करीत सगळी दक्षीण आनी उत्तर भोंवडी एका धपक्यान करून – उडटी काय जायना, भोंवडी करून थारायिल्ल्या वेळांत आनी बजेटांत घरा परत आयलीं. एकूण जमना जमना करून योग आयलो आनी कॉलेजांतलें भविश्य एकदां तरी खरें थारलें.

* * *



# लोकगितां : मुळचीं मंत्रगितां

जयंती नायक

एके पिळगेकडच्यान दुसरे पिळगेमेरेन मौखीक परंपरेन चलत आयिल्लीं असंख्य गितां आज संवसारभर सांपडटात. हीं गितां रचप्यांचें नांव मेळना आनी तांचेर 'लोकांची' म्हळ्यार पुराय समुहाची वा समाजाची मालकी आशिल्ली दिसता. हे मालकेक लागुनूच तांकां आमी 'लोकगितां' म्हणटात.

लोकगितां समाजांतल्या अमक्याच वया-दर्जाचे अमकेच व्यक्तीन वा व्यक्तिंनी, अमक्याच कार्या-प्रसंगार गावचीं, हांचे सामाजीक निती-नेम आशिल्ले पळोवंक मेळटात. तीं आत्मसात करपाचेर मात कोणाची कसलीच आडखळ नासता. पूण दर एक लोकगीत खंयचे न्हय खंयचे चाली-प्रथेकडेन जोडिल्लें आशिल्ल्यान, आनी ह्यो चाली-प्रथा अमकेच जातिच्या वा दर्जाच्या लोकांकडेन संबंदित आशिल्ल्यान दुसऱ्या समाजांतले लोक तीं आत्मसात करूंक फाटीं सरतात. सांस्कृतीक सोयरीगत आशिल्ल्या दोन वेगळ्या संस्कृतायांच्या लोकांक एकामेकांच्या लोकगितांची बरीच तोंडवळख आसता. केन्ना केन्ना नकळटां तीं तांच्या उत्सव-कार्यांचे पंगतीकय वचून बशिल्लीं आसतात.

लोकगितां म्हळ्यार लोकसमुहाच्या भाव-भावनांचो आविश्कार. तांचे निर्मणेचो निश्चित काळ सांगप कठीण. तरी तातूंत वर्णनरुपांत मनीस संस्कृतायेचे जे अवशेश सांपडटात तांचेवयल्यान तीं प्रागइतिहासीक काळांत निर्माण जाल्यांत हें सिद्ध जाता.

मनशाक जेन्ना 'वाणी' गवसली तेन्ना ताका सगळ्यांत आदीं काव्याचो उमाळो आयलो अशें मानतात. ह्या वेळार ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लीं उतरां लय-ताल घेवनूच आयलीं. आपल्या मनांतल्यो भाव-भावना, विचार-उत्फर्के, उमाळे-हावेस बी ताला-लयेंत सांगनासतना सादे, सरळ आनी गद्य-पद्दतींत सांगपाची ताची वृत्ती उपरांतची. मानसीक आनी भौतीक विकासाच्या अतिउच्च अशा पांवड्यार उबो आशिल्ल्या मनशाच्या तोंडांतल्यान आजय अतिदुख्खाच्या आनी अतिखोशयेच्या प्रसंगार भायर सरिल्लीं उतरां लये-तालांतच आयिल्लीं पळोवंक मेळटात. हेंच सत्य काव्याक जिणेंत आशिल्ल्या ताच्या म्हत्वाची गवाय दिता.

वेद, ब्राह्मणग्रंथ, पुराणां, बौद्धपिटीका, जैनचुर्णा, उपनिषदां हे सारक्या प्राचीन साहित्य ग्रंथांनी लोकगितांचो बरोच उल्लेख मेळटा. उपरांत आयिल्ल्या अभिजात साहित्यांतय तांच्यो कुरवो सांपडटात. हाचेवेल्यान ह्या ग्रंथांचे निर्मणी जाल्ली त्या काळार वा ते आदीं साकून लोकगितां समाजांत घोळटालीं म्हणपाचें सिद्ध जाता. वैदीक काळार पुत्रजल्म, उपनयन, लग्न आदी शुभप्रसंगांनी पारंपारीक गितांचें गायन करताले अशी म्हायती मेळटा. अशा गितांक वैदीक साहित्यांत 'गाथा' म्हणटाले आनी तीं

गाप्यांक वा गायकांक 'गाथीन' म्हणटालें अशे उल्लेखूय मेळटात.

सगळीं लोकगितां 'गेय' आसतात. तांतल्या सुरांचेर सुरांचें अधिपत्य आसता. हे सूर सदे-सुटसुटीत आसतात. देखून पंगडांतले दर एक व्यक्तीक वया-मानाचो फरक करनासतना आत्मसात करप शक्य आसता. मणिपूर, त्रिपुरा आनी मध्यप्रदेश हांगाच्या आदिम जातींमदीं कांय लोकगितां अशीं आसात जातूंत उतरां नासतात. तातूंत फकत लयप्रधान स्वररचना आसता. ह्यो जमाती लोकनृत्य करतना अशे तरेचीं लोकगितां गायतात.

'मंत्र', 'गीत' आनी 'गीतकाणी' अशा तीन रुपांनी लोकगितां आज समाजांत वावुरतना आसतात. 'मंत्र' आकारान साप ल्हान आसतात. सर्वसादारणपणान चार ते स वळीं भितर ते मेळटात. गीत तेय परस व्हड आसता. तें मंत्रापरस चड गेय आसता. जाल्यार गीतकाणी चड प्रदीर्घ आसता. तातूंत गद्याचो भाग आसलो तरी सुरांचें चड साम्राज्य आसता. गद्यांतय एक लय आसता. मनशाक जाल्ली दिश्टबाधा, भुतबाधा आनी रेंचबाधा पयस करपाखातीर आज मुखेलपणान 'मंत्ररुपी' गितां गायिल्लीं पळोवंक मेळयात. 'गीत' हें सर्वसादारणपणान, लग्नकार्य प्रसंगार तशेंच थरावीक उत्सवांच्या वेळार गायिल्लें मेळटा. गिताचो आनी नृत्याचो घट संबंध. 'गीतकाणी' ही गीत आनी काणी हे दोनूय एकठांय मेळिल्ले अवस्थेंत आशिल्ली रचना. ती मुखेलपणान वेवसायीक लोकगायकच गायतना दिसतात. भाट, चारण, बंदी, कुशलव अशा विविध नांवांनी भारतभर अशे वेवसायीक कथागीतगायक सांपडटात. गोंयांत कुळंबी-गावडी जातींमदीं अशे वेवसायीक लोकगायक आसात. वैदीर जमातांमदींय ही परंपरा आसा; देव-देवतांच्यो गीतकथा गावप्यांक हांगा 'गाणेल' म्हणून वळखतात अशी म्हायती मेळटा. कांय गांवांनी कलवंत जातिचीं घराणीं 'गाण' अशें आडनांव लायतात अशीय म्हायती मेळटा. ह्या आडनांवाचोय संबंद ह्या घराण्यांतले गायन परंपरेकडेन लायतात. 'गाण' म्हणजे गावपी, गायक.

लोकगितां केन्ना बायलांनी तर केन्नां दादल्यांनी स्वतंत्रपणान गायिल्लीं सांपडटात. दादल्या-बायलांचीं जोड लोकगितांय कांय थळांनी मेळटात. ल्हान भुरग्यांचींच जायतीं बडबडगीतरुपी लोकगितां मेळटात.

देश-विदेशांतल्या लोकगितांचो अभ्यास केल्यार एक गजाल सामकी जाणवता ती म्हळ्यार, बायलांच्या लोकगितांचो आंकडो दादल्यांच्या लोकगितांपरस खुबच व्हड आसा. हाचें कारणय स्पश्ट आसा. बायल दादल्यांपरस चड संवेदनशील, चड हळवी, भावूक, धार्मिक वृत्तिची आनी सुंदरकायेची भोक्ती आसता. ती चड सर्जनशील आसता. घर-संवसार, भुरगीं-बाळां, आपलें कूळ-कुटूंब हे भोंवतणी दादल्यापरस ती चड घुस्पल्ली आसता. आनी म्हणुनच तिचेकडल्यान लोकगितांची चड निर्मणी जाल्या. कुटुंबाचें भरण, रक्षण आनी भरभराट ह्या तीन भावनांनी बायलांचीं सगळीं लोकगितां प्रभावीत जाल्लीं पळोवंक मेळटात.

लोकगितां निखट्या मनोरंजनाचें साधन वा माध्यम आसात म्हणपाचीं विधानां लोकसंस्कृतिच्या जायत्या अभ्यासकांनी केल्लीं आसात. पूण ह्या विशयाचो खोलायेन अभ्यास केल्यार हीं विधानां चुकिचीं म्हणपाचें होलमता. लोकगितां फकत मनरिझवणेचीं साधनां वा माध्यमां न्हय. 'धार्मिक विधी' वा 'धार्मिक आचार' हें तांचें मूळ रूप.

वैदीक संस्कृतायेचो असर आशिल्ल्या समाजांत धार्मिक उत्सव आनी लग्न-कार्य असल्या प्रसंगांर 'वैदीक मंत्र' जें कार्य करतात तेंच कार्य अवैदीक समाजांत लोकगितां करतात. म्हळ्यारूच सार्थ अर्थान लोकगितां हीं अवैदिकांचीं 'मंत्रगितां' वा 'मंत्र'.

ह्या संवसारांत अतिशक्तीमान आनी अचाट अश्यो कांय दैवी आनी अतिमानवी शक्ती अदृश्यरुपान सगळ्याक वावुरतात. ह्या शक्तिंचें संवसारांतल्या सगळ्या गजालिंचेर नियंत्रण आसता. दीस-रात, उजवाड-काळोख, पावस-वोत, जल्म-मरण... ह्यो धतरिवयल्यो सगळ्यो गजाली घडूंक ह्यो शक्तीच कारण आसात. तांचे कृपेक लागून हे धतरिचेर पावस-पाणी वेवस्थीत पडून धन-धान्याची विपुलताय जाता. ना जाल्यार औरां-दुकोळ येवन सगळोच तळतळाट जाता. मरी-म्हारोग येवन मनीसजातिचो संहार जाता. अशे कितलेशेच समज-विस्वास आदीम काळार मनशांमदीं आशिल्ले. देखून ह्या शक्तींक प्रसन्न करून घेवन आपलो कार्यभाग सादपाखातीर ताणें कितल्याश्या यंत्र-तंत्रांची निर्मणी केली. लोकगितां ही ह्या यंत्र-तंत्रांचे पुर्णतायेखातीर रचिल्ले मंत्र. हे मंत्र उच्चारपाची शक्त आनी ते वरवीं तंत्रां सिद्धीक व्हरपाचें कसब घराण्यांतल्या वा समाजांतल्या जाण्ट्या-जाणकार व्यक्तींमदींच आसता असो समज आशिल्ल्यान लोकगितांचें गायन मुखेलपणान जाण्टेच करतना दिसतात. तांचे फाटल्यान भुरग्यांनी हें दायज मुखार चलोवपाचें आशिल्ल्यान भुरग्यांक तांचें गिन्यान जावचें हे भावनेंतल्यान गायनाचे कार्यावळींत भुरग्यांकूय सहभागी करून घेतात.

आदीम काळार निर्माण जाल्लीं सगळीं यंत्र-तंत्रां यातुविद्येचोच एक भाग. यातुविद्येंतल्यानच लोकधर्माची उत्पत्ती जाल्या. लोकधर्माची कल्पना 'अभिजात' धर्मापरस खुबच वेगळी. अभिजात धर्माची निर्मणी खंयच्याय तरी एका विशिश्ट देवा पसून वा संता पसून जाल्या. हाचे उरफाटें लोकदैवतां लोकधर्मांतल्यानच उदेवाक आयिल्लीं आसात. मनशाच्यो मुळाव्यो अश्यो भौतीक आनी आत्मिक गरजो भागोवप आनी एकंदरीत ताची जीण नियंत्रीत आनी संयमीत करप. ह्या उद्देशांतल्यानच लोकधर्म जल्माक आयला. लोकधर्माच्या नियंत्रणांत यातुविद्येचो वांटो शिंवाचो. पर्यायान लोकगितांचेंय तातुंतलें म्हत्व अनन्यसादारण.

'सारक्यांतल्यान सारकें जल्माक येता' हें यातुविद्येचें मुखेल सुत्र. जी गजाल वा घडणूक घडची अशी अपेक्षा आसता ताची नक्कल करून संवसाराचेर नियंत्रण दवरपी शक्तीक होरायली जाल्यार इत्सीत फळप्राप्ती घडटा असो यातुक्रिया करतल्याचो घट भावार्थ. संतती जनन, तिचें पोशण आनी रक्षण ह्या तीन कार्यांभोंवतणी पुरायेन बांदून आशिल्ल्या आदिम समाजान निर्मिल्ल्या ताच्या लोकगितांनीय ह्या तीन मुखेल उद्दिश्टांच्यो कुरवो दिसतात. गितांनी येवपी विशय, प्रतिमा, प्रतिकां आनी साबार वर्णनां ह्या तीन कार्यांचे पुर्ततायेंतूंच घुस्पल्लीं आसात.

आपणालें अस्तित्व तिगोवन दवरपाखातीर आदीम मनशाक त्या काळचे परिस्थिती कडेन भोव कठीण असो संघर्ष करचो पडला. जल्म-मरणाच्या चक्रांत ताचेखातीर 'सृजन' वा 'नवनिर्मणी' ही गजाल खूब म्हत्वाची थारल्या. सृजन स्वताचें आसूं वा धतरिचें आसूं, ताचे खातीर दोनूय कार्यां गरजेचीं, मुळावीं. देखुनच यातुक्रियेच्या रुपांत ताणें निर्मिल्ल्यो भौसंख्य विधी-प्रथा सृजनाच्यो वा सुफळीकरणाच्यो विधी-प्रथा म्हूण जल्माक आयिल्ल्यो आसात आनी तांचे कडेनं संबंदीत आशिल्ल्या गितांनीय तोच भावार्थ भरिल्लो आसा.

जिविताच्या अस्तित्वाखातीर झगडपी आदीम समाज मातृप्रधान आशिल्लो. ह्या काळार मातृदेवतांचें वर्चस्व आशिल्लें. मनशाक जल्म दिवपी माता आनी तिच्या भुरग्यांच्या पोटरक्षणार्थ असंख्य जितापत-वनस्पत जल्माक घालपी धर्तरी दोगांयचेंय ह्या काळार नातें

जोडटाले. हांतल्यानच धतरिचें, म्हणजे मातृदेवतेचें पुरोहीतपण बायलमनशेकडेन आयलें. लोकगितांच्या माध्यमांतल्यानच बायलमनशेन हे देवतेकडेन संवाद सादलो, आपलीं आनी आपल्या भुरग्यां-बाळांचीं गाराणीं-मागणीं तिचेकडेन पावयलीं.

भुंयदेवतेकडेन संवाद सादपाचें माध्यम म्हूण वावुरपी लोकगितां आज दादल्यांनीय गायिल्लीं दिसतात आनी हाका कारणय आसा. काळ न्हंयेच्या प्रवाहांत जीं जायतीं स्थित्यंतरां समाजांत जालीं तांतलें एक म्हत्वाचें स्थित्यंतर म्हळ्यार बायलमनशेचो सकयल गेल्लो समाजीक दर्जो. ह्या कारणाक लागून तिची गांवच्या शासनांत आनी देव-देवळांत आशिल्ली आदली अधिसत्ता गेली आनी थंय दादल्यांचें शासन आयलें. हाका लागून आदल्या यातुक्रियांनी आनी धर्मविधिंनीय बदल जालो. देव-देवतांकडेन संवाद सादपाची जबाबदारी आतां दादल्याकडेन आयली आनी ताणें आपले हे कर्तव्यसिद्धीखातीर साबार लोकगितांची निर्मणी केली.. 'स्त्रीराज्य तें पुरूशराज्य' ह्या स्थित्यंतरांत पुरुशदेवांची संकल्पना उदेवाक आयली; तांचेंय म्हत्व वाडलें आनी सुफलीकरणविधिंनी गीतरुपांतल्यान तांचीय होरावणी सुरू जाली. ही होरावणी दादल्यांवांगडा बायलांनीय केली.

आदिमकाळ तो आयचो विज्ञानकाळ ह्या लांब प्रवासांत मनशान आपली कितलिशी भौतीक आनी मानसीक उदरगत केली. आपल्या आदीम जिणेमुल्यांची जतनाय करतनाच ताणें साबार नवीं मुल्यांय आपणायलीं. आदल्या अदृश्य देवांक ताणें मूर्त रूप दिलें. तांचेविशीं तरांतरांचीं कथा-मिथकां निर्मिलीं. आपलो दिसपट्टो ग्रास मेळोवपाचें एक तंत्र म्हणून घोलींतल्या वण्टिंचेर ताणें काडिल्ल्या crude चित्रांतल्यान आतां व्हडलीं व्हडलीं मंदिर-शिल्पां सजलीं, गांव-गाड्याची रचना बदल्ली, येणावळिच्या मार्गांतय बदल घडून आयलो. ह्या सगळ्यांचो परिणामय मोठ्या प्रखरपणान- लोकगितांचेर जाल्लो दिसता. तांच्या मुळच्या आशय-विशयांत बऱ्याच प्रमाणांत आज बदल आयिल्लो जाणवता. धार्मीक भाव-भावना उकतावपाचें एक माध्यम ही तांची आदली भुमिका कुशीक पडून काळजांतल्यो व्यथा, उमाळे, उत्फर्के व्यक्त करपाचें एक साधन म्हुणूय कांय लोकगितांची समाजान उपरान्त रचणूक केल्ली नदरेक पडटा. खास करून बायलांच्या लोकगितां संबंदान अशें चित्र चड पळोवंक मेळटा.

'विधीगितां', 'संस्कारगितां' आनी 'श्रमगितां' अशा तीन रुपांनी लोकगितां आज समाजांत वावुरतात. हांतलीं विधिगितां उत्सव-कार्यांतल्या विधिंकडेन संबंधित आसात. हातुंतलो मोठो वांटो नृत्यगितांचो. संस्कारगितां जल्म, पौंगडप्रवेश आनी लग्न ह्या तीन संस्कारांवेळार मुखेलपणान गायिल्लीं मेळटात. श्रमगितां घर आनी घराभायलो वावर करतना, कश्ट विसरपाखातीर आनी केल्ल्या कश्टांचें चीज मेळपाखातीर गायिल्लीं दिसतात. ह्या तिनूय तरांच्या लोकगितांचीं उद्दिश्टां वेगळीं आसलीं तरी तीं निश्चितपणान कसले न्हय कसले क्रियेकडेन संबंदित सांपडटात. त्या अर्थान सगळीं लोकगितां 'क्रिया'गितां आसतात.

लोकगितांच्या वयल्या तिनूय प्रकारांचो अभ्यास केल्यार एक गजाल होलमता, ती म्हळ्यार, धार्मिक विधीं कडल्यान कुशीक काडून लोकगितां तिगोवप शक्य ना. जीं लोकगितां समाजमानसांत स्थान आशिल्ल्या धर्मविधीं कडेन संबंधीत आसात तींच लोकगितां आज समाजांत मिरयतना दिसतात. आयचे स्थितींत श्रमगितांची परिस्थिती खुबच वायट जाल्या. श्रमपरिहाराच्या समाजांत तयार जाल्ल्या विविध साधनां वांगडा चडशीं श्रमगितां ना नपयत जाल्लीं आसात. संस्कारगितांचेंय म्हत्व आज मनशाच्या दिसपट्ट्या धांवपळिच्या जिवितांत बरेंच उणें जाल्लें आसा. विधिगितांचें म्हत्व आदले सारकेंच आसा अशेंय म्हणप योग्य जावचेंना. तरी हेर दोनूय प्रकारांच्या मानान तांचें स्थान आजुनय समाजांत बरेंच मानाचें आसा.

संवसारांतल्या अदृश्ट शक्तिंचेर सिद्धी मेळोवपाचे मंत्र म्हणून मुळाक लोकगितांची निर्मणी जाल्ली. उपरांत 'श्रम परिहार' आनी 'मनोरंजन' अशीं प्रयोजनां तांच्या सादरीकरणा कडेन जुळिल्लीं आसलीं तरी लोकगितां साहित्य आनी कलेचो एक सुंदर असो आविश्कार म्हणपाचें विसरूंक येना. ते भायर, समाजांत आजवेर घडत आयिल्ल्या बऱ्या-वायट गजालिंचोय तीं दस्तऐवज आसात. मनीस जातीन आजवेर मेळयिल्ल्या गिन्य, ची ही गंगा. देखून, लोकगितांचो सांबाळ जावप भोव म्हत्वाचें. आनी हे खातीर धार्मिक परंपरा समाजांत चलणुकेंत दवरपा खातीर आदीं वावुरचें पडटलें.

* * *

**दोन उतरां**

ह्या संवसारांतले सगळे लोक दोन वर्गांनी ...डटात: पयलो वर्ग कारबाऱ्यांचो. दुसरो, ...ारथवयांचो. कारबारी कारबार करतात. ...ारथवय बेकारथवयपण करतात. कारबाऱ्यांक ...न आसता. बेकारथवयांक तो नासता. देखून ...रबाऱ्यांखातीर शिकिल्ले सवरिल्ले लोक ...ारबारी कोंकणी' सारकेलीं पुस्तकां बरयतात. ...ारथवयां खातीर कोण कांय बरयना. देखून ...मकां हें पुस्तक – 'बेकारथवयी कोंकणी' – ...ोवपाचो उपद्व्याप करचो पडलो.

बेकारथवय चड उलयतात, थोडें बरयतात. ...किर्ते बरयतात तें पत्रांच्या रुपान बरयतात. ...ून ह्या पुस्तकांत फकत पत्रांच्या वेव्हाराचो ...रपाव केला.

सुसंगती हो गाढवाचो सद्गूण अशी एक ...रबूस इंग्लीश म्हण आसा. ती मतींत धरून ...मी ह्या पुस्तकांत जाता तितली विसंगती ...डपाचो येत्न केला.

कोंकणींतल्या ह्या पयल्या-वयल्या येत्नाक ...चपी उर्बेभरीत येवकार दितले अशी आस्त ...ळगितात.

— दोन बेकारथवय

**अर्पणपत्रिका**

जे बेकारथवय म्हूण जल्मले<br>
आनी बेकारथवय म्हूण मेले<br>
तांच्या पवित्र उगडासाक...

## पत्रलिखाण

**...त्रांचें स्वरूप:** पत्रां बरोवप ही एक तिरसुवाद ...ला. पत्र म्हळ्यार एकल्यान दुसऱ्याक ...णपाचें, दुशण दिवपाचें एक साधन. पत्र ...ळ्यार एके तरेचो विसंवाद. एकाद्र्या कुटुंबांत ...णाचेंय पत्र आयलें म्हणटकूच 'पाडा ...डेल्ल्यान पत्र कित्याक धाडलां, कोण जाणा!' ... उतरां अचूक आयकूंक मेळटात.

**...त्रांचो इतिहास:** संवसारीक पत्रलेखनाचो ...तिहास खूब व्हड आसा. व्यासान महाभारत ...ोवन घेवपाखातीर गणपतीक ज्या पत्रा वरवीं ...पोवणें धाडलें तें ह्या संवसारांतलें पयलें पत्र. ...ाच्यान कामधंदो आशिल्ले-नाशिल्ले सगळे ...क पत्रां बरयतात.



# बेकारथवयी कोंकणी

**अना म्हांबरो**

इतिहासीक काळांत कांय राजा-म्हाराजा झुजां करताले, हेर पत्रां बरयताले. झुजाच्या काळांत लेगीत कांय जाण घोड्यार बसून एका हातान तलवार चलयताले, दुसऱ्या हातान पत्रां बरयताले.

**पत्रांचे प्रकार:** पत्रांचे खूब प्रकार आसात. तांतले बेकारथवयांक जे हाताळूंक जमतले ते आमी हांगा दितात.

**आमंत्रण पत्रां**

'पत्र आसा थंय शीण आसा' अशी एक म्हण आसा. तिचो अर्थ, मनीस शीण काडपा खातीर पत्रां बरयता. ह्या पत्रांनी मोग धांपपाक आनी शीण उकतावपाक खूब वाव आसता. ह्या पत्रांनी आगरो आनी धमक्यो आसतात. (देखीक, 'तूं कसो येता तो पळेतां', 'तू आयलोना जाल्यार तुजो जिवूच काडटां', 'उंवाळून उडयल्ले वरी येनासतना रावूं नाका'.)

**आमंत्रण पत्रांचे नमुने:**
**नमुनो १**

॥ देंवचारा पाव ॥<br>
नमस्कार<br>
देंवचारा दयेन आमचो धाकटो<br>
वाचाविदाळ पोर<br>
**फोर्सुलो**<br>
हाचें लग्न<br>
**पातोळें**<br>
(श्री बाबुसो गांवकार हांगेली पारपोळ धूव)<br>
हाचेकडेन् शेनवारा १ जानेर १९९८<br>
ह्या दिसा करपाचें थारायलां.<br>
तुमी घरच्यांसयत ह्या सुवाळ्याक<br>
हाजीर रावचें. आशिर्वाद दिना<br>
जाल्यार जाता. केळवण दिवंचीच.

लग्नाची सुवात: गांवचो तिटो<br>
म्हूर्त: दनपारच्या कडार<br>
घरचो नामो: पाटो, रायबंदर, गोंय

नमुनो २ :

॥ म्हारवा पाव ॥

नमस्कार

आमी दोगांयनी आमचे पसंतीन आनी घरच्यांच्या विरोधाक जुमानिनासतना पळून वचून लग्न करपाचें थारायलां.

ह्या सुवाळ्याक आपयल्यार आमचे बराबर तुमीय त्रासांत पडटले. देखून जंय तुमी आसात थंयच्यानूच आमकां आशिर्वाद दिवचे.

चत्राय : आशिर्वाद म्हळ्यार केळवण न्हय हें मतींत धरचें.

बाबुली धोंड
अर्चना देसाय

लग्नस्थळ : सांगपासारकें ना
म्हूर्त : मेळटा तो
घरचो पत्तो : कुंडय, गोंय.

## घरावीं पत्रां

घराव्या पत्रांक ताळतंत्र नासता. हीं पत्रां कोणूय कोणाकूय बरयता. दोगांभितर कसलें तरी नातें आसतकूच जालें. हीं पत्रां पूत आवय-बापायक, पुतणयो बापोलयाक, आवय धुवेक, धूव आवयक, बापोलभाव तिपोलभयणीक, तिपोलभाव मावशेभावाक अशीं बरयतात.

**नमुनो १ : धुवेन आवयक बरयल्लें पत्र**

ताळगांव, गोंय
२ जानेर, १९९५

मोगाळ आईक नमस्कार

म्हजो घोव म्हाका मरसर मारता. तातुंतूच म्हाका सूख आसा. कित्याक मारता काय म्हूण विचारल्यार तो म्हणटा, बीं तशें भात. बाप्पाक विचारून म्हाका हे म्हणिचो अर्थ कळय.

तो खुबूच मारूंक लागत जाल्यार हांव 'आई तुझी आठवण येते' हें गाणें म्हणटां. मागीर तो ओगी रावता. ताका मराठी गाणीं खूब आवडटात. म्हाका लता मंगेशकराची एक कॅसेट धाड.

तुजें मोगाळ
विमल

**नमुनो २ : पुतान बापायक धाडिल्लें पत्र**

माडेल, चोडण, गोंय
३ फेब्रेर, १९९६

मोगाळ जाण्टेल्याक नमस्कार

खूब दीस जाले तुजी चीट ना. तुका कितें धाड भरल्या जाल्यार कळय. तुजी आनी जाण्टेलेची कटकट नाका म्हूण हांव हांगा येवन




रावलां. तूं मोडको खुरीस. हांगाच्यानूच पांयां पडटां.

म्हाका ५०० रुपया धाड. पदराक कांय नासल्यार रीण काड. पूण पयशे धाड.

शेजारच्या कुटुंबांतल्या लागोळ्याक विचारलां म्हूण सांग. जाण्टेलेक नमस्कार सांग आनी पयशे धाड.

तुजो मोगा
बुट्ट

**नमुनो ३ : भावान भावाक बरयल्लें पत्र**

जांबावली-गोंय
५-१-९३

मोगाळ वासू,

तूं म्हाका लेखिना. कसलोच पालव दिना. संतांनी म्हणून दवरलां, 'भाव तोची देव' हें मतींत दवर आनी म्हाका जेवंक खावंक घाल. म्हणटलो, 'हांव खंय सुखी आसां ?' हाचेर संतांनी म्हळां, 'जगीं सर्व सुखी असा कोण आहे ?'

तात्पर्य, म्हाका तूं जे पयशे दितलो ते म्हजें नातू तुज्या नातवाक फारीक करतलो.

तुजो पाडाखो भा
दि

**नमुनो ४ : भाच्यान मामाक बरयल्लें पत्र**

चिंबल, गोंय
९-३-९७

प्रिय दादामामा,

नमस्कार.

आमच्या पात्रांवाक – मिनैराक – घरांत वावराक एक मनीस जाय. तो दिसूंक मुखेलमंत्र्यावरी जाय. दीसभर ताणें घरचो वाव करूंक जाय. रातच्यो मिनैराक गजाली सांगूंक जाय. दरएके गजालीक तात्पर्य आसूंक जाय. नाजाल्यार मिनैर तापतलो. असलो मनीस मेळटा जाल्यार पळे. पगाराची काळजी नाका.

तुजो भा
का

चत्राय : घरावीं पत्रां हीं व्यक्तीगत पत्रां. 'कारबारी कोंकणी' ह्या पुस्तकांत म्हळां, असल्या पत्रांतली भास 'भावनीक वलसाणीन थपथपिल्ली आसता.' देखून ह्या पत्रांत अशे तरेची भास वापरल्या. पत्र हातांत पडनाफुडें तुगेलो हात वलो जातलो.

**घराव्या पत्रांच्यो कांय ओडलायण्यो सुरवाती**

१. तुजें पत्र वाचून हांव शेळेलों.
२. तुजें पत्र वाचून हांव कांचवेलों.
३. तुजें पत्र वाचून हांव खरशेलों.

४. तुजें पत्र वाचून हांव निरशेलों.
५. तुजें पत्र वाचून हांव किंळचलों.

### खाजगी पत्रां

खाजगी पत्रांचो विशेश हो: तातूंत खाजगी ...क नासता. देखून बेकारथवयांक तीं बरोवंक ...डटात.

**...नो १: वळख करून दिवपी पत्र**

म... पणजी-गोंय
...७-९८
संपादक, सुनापरान्त
नमस्कार.

तुमच्या दिसाळ्याक एका तिरसुवाद मनशाची ...ज आसा अशें आयकलें. देखून दादू नायकाक ...डटां. हरशीं दादू हो एक कर्मकट्टो मनीस. ...पू तुमी ताका आधार दिशात जाल्यात तुमच्या ...र्तमानपत्रांतल्यान तो खुबशा जाणांचें पाड ...तलो. देखून ताका संद दिवंची. उपकार ...ले.

तुमचो
वसंत करमळकार

### साहित्यिक पत्रां

'मांयक म्हळ्यार सुनेक लागता' अशें ...हित्यिकांचें नातें आसता. देखून तीं बरयतना ...र काळजी घेवंची पडटा. कटकट नाका म्हूण ...र बरयलीं नात जाल्यार साहित्यिक शिणटात.

**...नो १: साहित्यिक आशयाचें तिरसुवाद पत्र**

...यसूव-गोंय
...४-९८
...य तातू,

तुका साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार ...ळ्ळ्याची खबर आयकून खोस जाली. पुरस्कार मेळोवपा खातीर तूं ज्यो उचापती ...रता ताचें म्हाका कवतूक दिसता. हाका ताका ...गीं धर, पुस्तकांच्यो भेटो धाड, वर्तमानपत्रांक, ...डियोक, टीवीक मुलाखती दी, पुस्तकां ...जवाडायले उपरांत तांच्यो तारखो बदल... तुजे ...न सार्थकी लागले म्हूण परबीं!

तुजो
दामू

**...नो २: साहित्यिक आशयाचें भलायकी पत्र**

...नापावल, गोंय
...८-९८
...तोर काणेकार
...स्कार.

म्हाका खूब थंडी जाल्ली. तकलीय ...डटाली. तुमी सांगिल्ले प्रमाण तुमच्यो कविता वाचल्यो. गूण पडलो. थंडी बरी जाली. तकलीय फोडपाची थारली. बऱ्या दोतोराच्या वखदांत जो गूण आसता तो तुमच्या कवितांनी आसा. देव बरें करूं.

बरें मागून
उदय काळोखो




### परबीं पत्रां

हीं खरें म्हळ्यार लक्तुबायेन बरयल्लीं तोखणायेचीं पत्रां – अर्थ नाशिल्लीं.

**नमुनो १: नव्या घरांत गेल्ले खातीर परबीं**

करमळी, गोंय
७ माय, ९९

मोगाळ मानू

तूं नव्या घरांत गेल्ले खातीर परबीं.

तुजें घर बांदून जालें हें कळटकूच म्हाका खूब खोस जाली. हांवें कांय सुणीं घरांत हाडल्यांत. तांतलें खंयचें सुणें तुज्या घरार केन्ना चडोवंचें हो एकूच विचार सध्या म्हजे तकलेंत घोळटा.

बरें मागून,

तुजो इश्ट
शंकर

**नमुनो २: इश्टाक वाडदिसाचीं परबीं**

सावय वेरें, गोंय
१७ फेब्रेर, ९७

मोगाळ झंप्याक

तूं फायच्यान गद्देपंचविशींत वेता हें कळून खोस जाली. आतां तुज्यांतलो मनीस आनी गाढव एकामेकां पसून कुशीक काडप कठीण जातलें, हाका उपाय कितें? कांय ना. तरीय तुका परबीं.

तुजो जिवाभावाचो दोस्त
शाबू

### भेटकार्डां

**कांय ओडलायण्यो सुरवाती:**

१. कुस्क्या बायक
२. तिरसुवाद xxx क
३. फुलग्या बेबीक
४. हटमटवाळ्या xxx क
५. मालक्रियाद xxx क

**कांय ओडलायणे शेवट:**

१. तुजो अज्ञानी xxx
२. तुका विसरिल्लो xxx
३. तुजोच, लोखणाचो कुडको xxx
४. तुज्या हड्ड्यांतलो (कोणसो) xxx
५. तुजो दुस्मान xxx

### भेटकार्डांचे नमुने

**नमुनो १**

मोगाळ xxx क
आयच्या ह्या सोबीत म्हुर्तार
हांवें फकत इतलेंच मागचें
देवाचे अवकृपेन
तुका जें आयुश्य लाबलां
तें अशेंच फुकट वचचें.

तुजो xxx

**नमुनो २**

xxx क नमस्कार
दुर्जनाचें घर
शेजरा आसचें म्हणटात.
तुमकां शेजारी करून
देवान म्हाका हें भाग्य दिलां.
... उपकार आठयतां.

तुमचो xxx

**नमुनो ३**

म्हज्या मोगाळ गुरूक
म्हजे भितर अज्ञानाचें
पीक तुमीच पिकयलां
शाणेपणां सांगून सांगून
शाण्याचो देडशाणो
तुमीच म्हाका केला.

तुमचो विद्यार्थी xxx

## उपकार पत्रां

उपकार मानूंक जायते फावट उतरां उणीं पडटात. देखून कोणेंच कोणाचे उपकार मानचे न्हय. मानचेच पडल्यार...

**नमुनो: अभ्यासांत मदत केल्ले खातीर उपकार मानपी पत्र**

दिवाडी-गोंय
४-३-९९

मोगाळ राजू

कालूच एम्.ए.चे परिक्षेचो निकाल लागलो. हांव पयल्या वर्गांत पास जालों. हाचें सगळें स्रय तुका. दोन पेपरांक म्हजें नांव घेवन तूंच परिक्षेक बसलो. तीन पेपरांक कॉपी मारपाची वेवस्था तुवेंच केली. ज्या पेपरांत हांव खात्रीन नापास जातलों आसलों त्या पेपराचो परिक्षक सोदून काडून तुवें ताका लंच दिली. तुज्या येत्नांचें फळ म्हणून हांव पास जालों.

मुखार पी.एच्.डी. करतलों म्हणटां. विशय थारायला: 'विसाव्या शेंकड्याचे सोंपतेर रवीन्द्र केळेकार हांच्या गहन विचारांचे गोंयचे अर्थवेवस्थेचेर जाल्ले बरे आनी वायट परिणाम.' कसो आसा?

बरें मागून.

तुजो
पोबू

## बुजवण पत्रां

बुजवण पत्र बरयतले जाल्यार तें बरोवंचे पयलीं कोणाक तरी मरचें पडटा इतलेंच बेकार थवयांनी लक्षांत दवरपाचें. एकाद्र्याक आपल्या सोयऱ्यांक अशे तरेचें पत्र बरोवपाचें आसल्यार ताणें आदीं तांकां पत्र बरोवचें, तें पोस्टांत उडोवपाची वेवस्था करची आनी उपरांत मरचें.

**नमुनो: बापूय भायर पडिल्लेखातीर इश्टाक बुजवण पत्र**

रिवण, गोंय
१५-९-९६

मोगाळ तातू

तुजो बापूय गेलो... वायट दिसलें. पूण तूं वायट धरूं नाका. ह्या संवसारांत जो मनीस जल्माक येता तो मरताच. तुवें लक्षांत दवरूंक जाय, तुजो बापूय गेला ते आदीं तुज्या बापायचो बापूय गेल्लो. तुज्या बापायचो बापूय गेला ते आदीं तुज्या बापायच्या बापायचो बापूय गेल्लो (हें गांठवल कितलेंय लांबोवं येता). तात्पर्य, मनीस वतकूच ताच्या आत्म्याचें कितें करप तितलेंच आमी पळोवपाचें.

तुजोच
रोमटू

**आधारावळ**


१ गोमन्तोपनिषत् (पैलें आनी दुसरें खंड): शणै गोंयबाब
२ महाभारत: महर्षी व्यास आनी रवीन्द्र केळेकार
३ व्हंकलपावणी: चंद्रकांत केणी
४ कोंकणी शुद्धलेखनाचे नेम: गोवा कोंकणी अकादेमी
५ यमन: माधव बोरकार
६ गोंयचीं शिवराक खाणां जेवणां: अमीता नायक सलत्री




# समृद्ध आणि तेजस्वी
## नव्या युगात प्रवेश करु या !

# बलशाली आणि कणखर
## महाराष्ट्र घडवू या !

# नवी दिवाळी
## एकोप्याने साजरी करु या !



महाराष्ट्र परिचय केंद्र-गोवा ,माहिती व जनसंपर्क महासंचालनालयातर्फे प्रसृत दिवाळी ९९



इतिहासाचीं पानां : तीर-सुवादीक नदरेन

# हांव आनी म्हजी कोंकणी चळवळ

दिलीप बोरकार

ह्या वर्साच्या आगस्ट म्हयन्यांत जागाक २६वें वर्स लागलें. ह्या वर्सासावन 'जागां'त चार पानांची वाड करपाची वावुरपी संपादपेची भोव इत्सा आसली. पूण जागाच्या एकाय वांगड्यान जागाक एकूय नवो वांगडी जोडून दिलो ना आनी ही इत्सा भंगली.

ह्याय वर्सा वावुरपी संपादपेन 'तीर-सुवादीक कॉलम' आनी 'इतिहासाचीं पानां' मुखार चलोवप म्हूण थारायलें. (असले निर्णय खूब थोड्या लोकांक म्हळ्यार संपादप्यांक घेवंक येतात. म्हाका बरेंऽ दिसलें. बरें जावं हाचें.)

म्हजो कॉलम बंद केल्यार दुख्ख जावपाचें नाशिल्लें. (दुख्ख कसलें कर्माचें? अंका वांगडा फूल न्हय पाकळी मेळिल्ली जाल्यार गजाल वेगळी आशिल्ली. हांगा शिराप घेवंचे पडटात.) पूण 'इसिहासाचीं पानां' बंद केल्यार मात चिटमिटे पडपाचे. ह्या सदरांत म्हाका म्हजें आत्मकथन करूंक केन्ना संद मेळटा ताची हांव इतले दीस वाट पळयत आसां. पूण आत्मकथन करपी एक लेख बरोवन जातकच 'आनीक एक बरयल्यार जाता?' म्हूण फोन करतात आनी दुसऱ्या लेखा फाटल्यान तिसरोय लेख बरोवन धाडटात. इती वावुरपी संपादपी.

तरी बरें, संपादपेक तें कॉलम ह्याय वर्सा चालूच दवरचें अशी बुद्द जाली. ना जाल्यार जायत्या वावुरप्यांक आपलें कोंकणी चळवळीतलें कार्य आपले भितरूच दवरचें पडपाचें आनी कोंकणी खातीर त्याग केल्ल्या कितल्याश्या निश्ठावंत वावुरप्यांचो वावर काळाच्या पड्ड्या फाटल्यानूच उरून ना जावन वचपाचो.

कोंकणी चळवळिंतल्या वावुरप्यांचो आंकडो पळयत आनी दर एकल्याची तीन-तीन लेख बरोवन 'आत्मकथन' उकतावपाची आंतरीक इत्सा पळयत जाल्यार फुडलीं कितलीं तरी व हीं 'इतिहासाचीं पानां' भरून पुराय जावपाची शक्यताय तशी उणीच.

कोंकणी चळवळिचो इतिहास, चळवळिच्या वावुरप्यांचे लिखणेंतल्यानूच उकतो जावप भो म्हत्वाचें अशें वावुरपी संपादपेक दिसता तशें म्हाकाय दिसता. हांवूय एक कोंकणी चळवळि वावुरपी देखून ह्या कॉलमाक लागून थोडें-भोव आत्मकथन करपाची संद म्हाकाय मेळपाची आसा म्हूण हांव जाणां. पूण चळवळिंतल्या वावुरप्यांचे पयले फळयेचें आत्मकथन अजून पुराय जायना. ते फाटोफाट म्हजे पिळगेंतल्या वावुरप्यांची फळी आसा. ते उपरांत श्रीधर कामत, पूर्णानंद च्यारी, राजय पवार बी तिसरे फळी आपल्या वावराची यादी घेवन जागाच्या हुंबऱ्यार उबी आसा.

'इतिहासाचीं पानां' सदर सुरू जायत साव खुबशा कोंकणी वावुरप्यांनी आत्मकथन केलां. तातुंतल्यान कोणाक कशें आत्मतेज मेळ्ळें, कोणाक कसली दिक्षा मेळ्ळी, कोणें शिंवाचे

गोलींत कसो पांय दवरलो, तर कोणें कोणाक कसो घडयलो हें म्हजे सारक्यांक वाचूंक मेळ्ळें. आनी तें वाचतां वाचतां म्हजेय प्रतिभेक तेज चडलें आनी म्हाकाय आत्मकथन करपाची खुमखुमी येवंक लागली. पूण हांव पयलींच म्हज्या कॉलमाक दोन पानां घेतां. तातूंत आत्मकथनाक आनीक कांय पानां घेतलीं जाल्यार संपादपेचें मरण! 'इतिहासाचीं पानां' बंद जायत हो भंय. ते खातीर हांवें जागाच्या दिवाळी आंकाचो लाव उठोवपाचें थारायलां. कोंकणीच्या मळार मुखार पावतलो जाल्यार संद येतली म्हूण वाट पळोवप नासता; आपणेंच संद घेवन आपल्याकूच मुखार मुखार करपाचें आसता.

म्हजे डायरेंतल्या नोंदिंच्या आदाराचेरूच म्हाका घडिल्लो कोंकणीचो दिश्टावो हांगा कथन करतां. हांगा वाचप्यांनी दोन गजाली मतींत दवरूंक जाय. पयली म्हळ्यार, म्हाका पयलीं सावन डायरी बरोवपाची संवय आशिल्ली. रवीन्द्र केळेकारांची भेट जावंचे आदीं लेगीत. फरक इतलोच, आदीं ती हांव मराठींत बरयतालों. रवीन्द्र केळेकारांची भेट जाली तेन्ना सावन हांव ती कोंकणींतल्यान बरोवंक लागलों. डायरी बरोवपाची स्फूर्त रवीन्द्रबाबांकडल्यान मेळ्ळ्या बी अशें कांय न्हय (बाकिचे बरोवपी तशें सांगून रवीन्द्रबाबांक मस्को लायतात).

दुसरी गजाल म्हळ्यार ह्या आत्मकथनांत हांवें म्हज्या कांय सांगात्यांचीं नांवां, जांची मूळ डायरेंत नोंद आशिल्ली, तीं टाळून ते सुवातेर काल्पनीक नांवां घेतल्यांत. खरीं नांवां घेतल्यार लोक विनाकारण चवताळून प्रेसांव वाडोवन बसतात. आतां 'अमूक तो हांव आं!' म्हूण सांगपाक जायते जाण मेकळे, वा 'तो हांव न्हय' म्हणपाकूय मेकळे. फुडाराक कोणेंय 'कोंकणी चळवळिंतले शिलेदार' हाचेर संशोधन करपाचें मनार घेतलें जाल्यार ताका हीं काल्पनीक नांवां खरीं कोणाचीं हें जाणा जावपाची उमळशीक लागूं येता. तांणी ते खातीर म्हज्यो डायऱ्यो संदर्भा खातीर वापरूं येतात. (म्हज्या मरणा उपरांत त्यो पब्लिकाक उकत्यो दवरच्यो अशी हांवें म्हज्या मृत्युपत्रांत नोंद करून दवरल्या.)

### ७ जून १९७४

आयज म्हजो मॅट्रिकेचो रिजल्ट आयलो. पयलेच खेपे म्हजें नांव दै. गोमंतकाचेर आयलें. हांवेंय पयलेच खेपे वर्तमानपत्र हातांत घेवन म्हजें नांव परतून परतून वाचलें. तशेंच तें म्हज्या व्हडल्या भावानूय परत परत वाचून तें नांव म्हजेंच काय कितें म्हणपाचें पळेलां आसतलें! कित्याक, हांव मॅट्रिक पास जातलों अशें ताणें सपनांत लेगीत चिंतूंक नासतलें. पूण हांव पयल्या वर्गांत पास जाल्लों. भावानूच म्हाका म्हजें नांव सोदून काडून दाखयल्लें. इतल्या नांवां भितरलें एक नांव जावनूय म्हाका तें ठळकपणान दिसतालें. म्हज्या जिवितांतलो आनी गोंयच्या मराठी क्षेत्रांतलोय तो भाग्याचो दीस जावंक जाय. आमचे मराठी माध्यमांतले शाळेंतले हांव धरून पंचवीस भुरगे मॅट्रिकेचे परिक्षेक बशिल्ले. तातुंतले म्हजेसयत चोवीस भुरगे पास जाल्ले. 'हा कसा काय पास झाला?' अशें चेहऱ्याचेर दुबावी प्रस्नचिन्न हाडीत म्हज्या सगळ्या शिक्षकांनी म्हजें अभिनंदन केलें.

मराठी शिकलों म्हणून मॅट्रिक जावंक पावलों अशेंच सगळ्यांचें मत जालें. म्हाकाय तशेंच दिसलें. 'मराठीचे बोल कौतुकें' म्हणत हांवें आयज पुराय दीस मराठीचे उपकार मानले.

### २५ जून ७४

आयज मोहन रानडे धराकडेन भावाक मेळूंक आयलो. 'अरे, तू पास झालास म्हणून ऐकलें. बरं झालं बाबा, अस्साच मोठ्ठा हो. मराठीचे नाव वर काढ' अशें म्हणत ताणें म्हाका आशिर्वाद दिलो. हांव धन्य धन्य जालों.

'अरे, याला आता मराठीच्या सेवेत जुंपव. त्याची मराठी चांगली आहे.' रानडेन म्हज्या भावाक म्हळें आनी म्हज्या आंगार मुठभर मांस चडलें. ताणेंच म्हाका गोमंतकाचे संपादक माधव गडकरी हांची भेट घेवंची अशी मोलादीक सुचोवणी केली. हांवूय गडकरींची भेट घेवपाचीं सपनां रंगोवंक लागलों.

### २० जुलय ७४

धेंपे कॉलेजींत पयलें वर्स कॉलेज करपा खातीर येवन म्हयनो जालो. पणजे रावपी भावान आपल्यागेर रावपाची वेवस्था केली. आतां पणजेच रावप जालां. दिशिल्लें, पणजेचे लोक सुशिक्षीत. ते तरी मराठी उलयतले. पूण तेय कोंकणीच उलयतालें. कॉलेज मात इंग्लेजींतल्यान. म्हाका इंग्लेजींतलें ओ काय ठो कळना. वर्गांत गेल्यार न्हीद येता. एकूच मराठीचो वर्ग जंय कितें तें मातशें कळटा. घवी म्हूण कोण तरी मराठी शिकयता. मराठी कळटा. पूण तो शिकयता तेन्ना न्हीद येता. चड न्हीद बरी न्हय म्हूण हांव वर्गा भायरूच भोंवतां.

आयज मिरामारच्यान भोंवत भोंवत सांत इनेज पावलों. थंय म्हाका गोमंतकाची इमारत दिसली. संपादक माधव गडकरी हांकां मेळपाची अतृप्त इत्सा तीव्र जावन उफाळून आयली. धडधडट्या अंतस्कर्णान दोन मजले चडून संपादकाचे कचेरेंत गेलों. गडकरी जल्लो पळोवंचो तसो म्हजेकडेन पळोवंक लागलो. हांव म्हजें दैवत पळोवंचें तसो ताचेकडेन पळोवंक लागलों. ताणें म्हाका इंग्लेजींतल्यान कितें तरी विचारलें. म्हाका कळ्ळें ना. 'मला रानडेने धाडले आहे. मी आत येऊ?' अशें कितें तरी हांवें म्हळें. हांव मराठीचो भक्त हें ताणें वळखलें आनी नाईलाज जाल्लेवरी म्हाका भितर घेतलो. तागेली मराठी निमाणे मेरेन म्हाका समजलिना आनी मोहन रानडेन धाडला अशें म्हणटकच ताणें कपलाक आटयो घालून म्हाका बसूंक सांगलें. पूण रानडेन म्हाका कित्याक धाडला तें ताका सांगूंक म्हाका जमलेंना आनी ताकाय कळून घेवपाची इत्सा जालिना जावये!

'अपुरी' पसून मॅट्रिक मेरेन मराठी शिकून तिचो योग्य वापर करूंक म्हाका आज आयलोना म्हूण खूब खंत भोगली.

आयज मन निशेलें. पूण गडकरींक प्रत्यक्ष पळयलो म्हूण म्हाकाच सर्गाक हात लायिल्लेवरी दिसलें.

### ५ आगस्ट ७४

मराठीचे सेवेखातीर आयज प्रत्यक्षपणान आरंभ जालो. इतले दीस थारायतालों, मराठीक गोंयांत मानाची सुवात मेळोवन दिवपाखातीर कितें तरी करतलों. पूण कितें करचें तेंच कळनाशिल्लें.

आज कॉलेजींतले दोग भुरगे म्हणूंक लागले, मराठीच्या मोर्चाक या. तांकां कोणें घवीन सांगलें काय कितें कोणाक खबर! कितेंय जावं, मोर्चा जावंचे पयलीं म्हाका कळ्ळें तें एक बरें जालें.

आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर कोंकणीवाद्यांनी फकत कोंकणीच केल्ली. थंय मराठीय करची म्हूण सांगूंक मराठीचे फुडारी वचपाचे आशिल्ले. कॉलेज झक मारलें, पयलीं मराठी अशें थारावन हांव मराठीवादी मित्रांवांगडा आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर गेलों. थंय गोपाळराव मयेकार, टोपले, रा.पा. सामंत, जयसिंगराव राणे आनी दुसरे दोग जाण वाट पळयत उबे आशिल्ले. हातुंतल्या कोणाकूच हांव वळखनाशिल्लों. ते कोण काय म्हण खबर काडटकच तांचीं नांवां कळ्ळीं. हांवें तांकां हात दिलो. म्हाकाय हांव कोण तरी व्हडलो अशें दिसूंक लागलें.

ते स जाण आनी आमी तीग जाण असो णव जाणांचो मोर्चा आमी आकाशवाणीर व्हेलो. मोर्चाक वता आसतना हांव म्हजें हड्डें मुखार काडटालों. पूण घोशणा दिवंक लज दिसताली. सगळे तोंड धांपून ओगी आशिल्ले. हांव मात लज कुशीक सारून 'मराठीचा विजय असो', 'आकाशवाणीवर मराठी झालीच पाहिजे' अशें म्हणत आड्डतालों.

आकाशवाणी केंद्राचेर मात म्हाका भायर

रावचो पडलो. फकत पांच जाणांचें शिश्टमंडळ निवेदन घेवन भितर गेलें. शिश्टमंडळांत म्हजो आसपाव जावंचो अशें म्हाका मनांतल्यान दिसतालें. पूण सगळ्यांनी म्हाका कुशीक दवरलो.

भितर गेल्लें शिश्टमंडळ बऱ्याच वेळान भायर आयलें. तितले म्हणसर हांव भायर रावन घोशणा दितालों. तानेन म्हजो ताळो सुकिल्लो.

आमचे फुडारी भायर आयले आनी आमी सगळे घरा परतले. भितर कितें जालें हें कोणें म्हाका सांगलेंच ना. हांव सामको हिरमुसलों. ('हिरमुसला होणें' हाका म्हाका आतां कोंकणी उतर येना.) तरी पूण मराठीखातीर कितें तरी केलें देखून हांव धन्यधन्य जालों.

### ६ आगस्ट ७४

कालच्या मोर्चाची बातमी आयज दै. गोमन्तकाचेर आयली. मोर्चांत प्रचंड संख्येन लोक सहभागी जाल्ले अशें म्हणिल्लें. णव लोकांक प्रचंड संख्या म्हणटात म्हणपाचें कळ्ळें. हांवें म्हजें नांव खंय छापलां काय पळयलें. पूण फकत फुडाऱ्यांचीं नांवां छापून आयिल्लीं. कालच्या स जाणांचीं नांवां आनी तांच्या 'नेतृत्वाखाली मराठीप्रेमींचा प्रचंड मोर्चा' अशें बरयल्लें. म्हजें नांव घालूंक ना म्हूण हांव आयजूय 'हिरमुसला' जालों.

### १० सप्टेंबर ७४

आज पणजे गुरुनाथ पै मेळ्ळो. ताका कोणें तरी सांगलें खंय, हांव मराठीच्या मोर्चाक गेल्लों म्हूण. ताणें म्हळें, हांव पिशेपणां करतां. ताणेंच म्हाका कोंकणी आमची भास म्हणपाचें आयज सांगलें. ताचें म्हणणें, मराठींत खूब लोक आसात. मराठी मराठी करून जो फायदो जाता तो ह्या इतल्या मराठी लोकांक पावपाचो ना. कोंकणींत थोडे लोक आसात. थंयच म्हाका कितेंय फायदो जावं येता अशें ताणें सांगलें. म्हाका ताचें म्हणणें पटलें.

मोर्चाक णवूच लोक आसतना, सगळ्यांचीं नांवां छापूं येतालीं. अशें आसतना हे सच जाणांचीं नांवां छापतात हाचेवेल्यान म्हाका ते कसले तें कळिल्लें. आतां गुरुनाथ पैन सांगतकच ताची खात्री जाली.

आयच्यान डायरी कोंकणींतल्यान बरोवंक आरंभ करून हांव कोंकणीवादी आनी म्हजी भास कोंकणी म्हणपाचें हांवें मनांत थारायलें.

कोंकणी भास बरयतना ती बामणांचे भाशेंत बरोवपाची काय म्हजे भाशेंत हें गुरुनाथ पैक विचारपाक विसरलों.

### २१ सप्टेंबर ७४

गुरुनाथ पै म्हाका डॉ. र. वि. पंडित ह्या कविगेर घेवन गेलो. तो मळ्यांत बांबोळकार बिल्डिंगेंत तिसऱ्या माळ्यार रावतालो.

हांव हे आर्दी कवी-लेखक म्हणटात त्या लोकांक केन्ना मेळूंक नाशिल्लों. फकत गडकरीक मेळिल्लों. आतां कवीक मेळटलों म्हूण हांव उचंबळीत जालों.

आमी पंडिताच्या दारार मारलें. ''कोण रे?'' भितरल्यान खरखरीत आवाज आयलो.

''हांव तो. गुरुनाथ पै.'' पैन म्हळें आनी कोणेंतरी दार उगडलें.

''कितें रे? कित्याक आयला? यो.'' धवोफुल्ल लांब हातांचो शर्ट घाल्लो, वक्ल लायिल्लो मनीस दार उगडीत आमकां विचारतालो.

आमी भितर गेले तशें ताणें 'हो कोण?' म्हूण म्हाका पळयत विचारलें.

गुरुनाथ पैन म्हजी 'दिलीप बोरकार' म्हूण वळख करून दिली आनी हांव मराठी कविता बी करतां म्हूण सांगलें.

''बोरकार, म्हळ्यार खंयचो रे?'' म्हाका हात दीत ताणें विचारलें. हांवें गडबडत आगशीचो म्हूण सांगलें.

मागीर पंडित लागीं, सामको लागीं आयलो. कितें तरी खाजगी सांगता तशें तोंड सामकें लागीं हाडून मराठी आनी मराठीवाद्यांक गाळी घालूंक लागलो.

पंडितान म्हाका कोंकणीचें खूब कितें कितें सांगलें आनी 'कोंकणी भाशेचें जैत' हें पुस्तक वाचूंक सांगलें.

हांवें वाचतां म्हूण सांगून म्हजी सुटका करून घेतली. भायर सरतना ताणें म्हाका आपलो एक कवितासंग्रह भेट दिलो – 'म्हजें उतर गावड्याचें' पानभर आपली निशाणी करून. घरा येवन हांवें तो कविता संग्रह भरभरीत वाचून काडलो. फ्लॅटांत रावपी, चकचकीत कपडे घालपी भाटकारांक गाळी घालीत कविता करता, हांव गावडो म्हणटा तें पळोवन म्हाका पंडिताविशीं आदर दिसलो.

हांवेंय आज एक संकल्प केलो. हे मुखार हांवूय एक कविता संग्रह काडटलों. ताचें नांव लेगीत नक्की केलें – 'म्हजें उतर बामणाचें'.

### १० जानेवारी ७६

गुरुनाथ पै म्हाका आकाशवाणीचेर घेवन गेलो. कविता करपाचो कॉन्ट्रेक्ट दितां म्हूण सांगून.

म्हाकाच रेडियोचेर वचूंक लज दिसूंक लागली. हांव मराठीचो मोर्चा घेवन आयिल्लों हें कोणेंय पळयल्लें आसत म्हूण! पूण कोणूच म्हाका वळखलो ना. मराठी फुडाऱ्यांनी म्हाका आपल्या शिश्टमंडळांत घेतलोना हाचें म्हाका आज बरें दिसलें.

गुरुनाथ पै म्हाका नागेश करमली हांचेकडेन घेवन गेलो आनी तांचेकडेन म्हजी वळख करून दिली. तांणी हांव आणीबाणीचेर कविता करूंक शकतां अशें सांगलें.

आयज हांवें रेडियोखातीर पयली कविता रचली. 'सात पाकळ्यांचें कमळ फुललें'. रेडियोचेर म्हज्यो कविता येतल्यो आनी पयशेय मेळटले अशें तांणी म्हाका सांगलें. कोंकणीवाद्यांविशीं म्हज्या मनांत उपाट आदर भरून गेलो.

### २ फेब्रुवारी ७६

धेंपे कॉलेजींत तुकाराम शेट ह्या कविची वळख जाली. तो कॉलेजिच्या मॅगजिनाचो कोंकणी विभाग पळयतालो. हांवें म्हज्यो कविता ताका व्हरून दिल्यो. ताणें म्हाका कवितेचेर खूब कितें कितें सांगलें. म्हाका तो कितें सांगता तें कांयच कळ्ळेंना. तरीपूण ताणें म्हज्यो कविता घेवंच्यो म्हूण, तो जितलें सांगता तितलेंय म्हाका कळ्ळां अशें दाखयत हांवें मान हालोवपाचें काम केलें. म्हज्यो दोन कविता ताणें कॉलेज मॅगजिना खातीर घेतल्यो.

कविता दिवन हांव कॉलेजभर हड्डें मुखार काडून भोंवलों. म्हजे म्हाकाच हांव एक व्हडलो कवी असो भास जातालो.

देवा पाव. म्हज्यो कविता शेटीक पसंत पडल्यार पुरो. म्हजें भांगर जातलें.

### १५ माय ७४

नागेश करमलीन आयज म्हाका नोकरेक दवरलो आनी कोंकणीचेर म्हजें पोट भरूंक शकता हाची म्हाका खात्री जाली.

इतलीं वर्सां, न्हय, इतले म्हयने हांव मॅट्रिक पास जालों म्हूण नोकरे खातीर हेडलों. पूण प्युनाची लेगीत नोकरी कोणें दिलिना. पूण हांगा ह्या लोकांनी हांव मराठी शिकलां हें मात लेगीत मनाक लावन घेनासतना म्हाका आपलो मानलो. म्हजो कोंकणीवाद्यांविशिंचो आदर सामको दुप्पट-तिप्पटीन वाडलो.

फुडल्या म्हयन्यासावन शणै गोंयबाब जल्मशताब्दी मनोवपाचो निर्णय तांणी घेतिल्लो. नागेशबाब, पुंडलीकबाब, रमेशबाब, तानाजीबाब बी सगळे बसका घेताले. तेच बसकेंत म्हाका शणै गोंयबाब जल्मशताब्दी वर्साखातीर कचेरी-मुखेली म्हण दवरपाचो विचारूय जालो. ताचेर आयज निमणो निर्णय जालो. म्हजो आनंद मळबांत मावना जालो. ('आनंद गगनात मावेनासा झाला.' पाडपडूं! मराठीचो वास अजून वचना!)

घरा येतना एक शणै गोंयबाबाचो फोटो हाडून
ावयर लायलो. ताका फुलां घालून पांयां
डलों. कपलाक गंधाचो तिबो लायलो. (फोटवाक
य, म्हाका. शणै गोंयबाबावरीच.) माथ्याक
डासो रेवडायलो आनी आजन्म कोंकणीची सेवा
रतलों म्हणपाचो सोपूत घेतलो.

म्हाका च्या घेवन आयिल्ले आवयन तो फोटो
युस्त पळयलो. (तिका असल्यो गजाली
खड्योच दिसतात.) 'हो आनी कोण रे?' अशी
रा करून तिणें त्या फोटवाचेर आनी म्हजेर
दर मारली.

म्हाका तिची काकूट दिसली. तिका शणै
ंयबाब कोण म्हणटात तें कशें कळटलें? भोंगू
बडेचें.

म्हाका ह्या म्हयन्याच्यान म्हयन्याक दोनशीं
पया मेळपाचे. तातुंतले तिका पन्नास,
संखर्चाक पंचवीस. जेवणाक पाऊणशें. पंचवीस
पया च्या आनी सिगरेट आनी पंचवीस रुपया
वींग. हें सगळें घडलें तें ह्या शणै गोंयबाबाचे
पेन हें तिका सांगल्यार लेगीत खरें दिसचेंना हें
ंव जाणां आशिल्लों. वेल्यान बामणांक मात
ळी पडपाच्यो. म्हाका कोंकणीच्या नादाक
ायला म्हूण.

शणै गोंयबाबा, तांकां क्षमा कर.

**३ जून ७७**

ायच्यान शणै गोंयबाब जल्मशताब्दी सुवाळ्याक
ऱ्या अर्थान आरंभ जालो. सकाळींच उठून हांवें
यलीं घरांतल्या शणै गोंयबाबाच्या फोटवाक
लां घालीं आनी पांयां पडलों. भायर पावसांत
रीं धवींफुल्ल मोगरीं, म्हळ्यार मोगरे कळे
ाशिल्ले. हांवें ते पावसाची पर्वा करिनासतना
ाडले. तें ज्युस्त भयणीन पळयलें. वचून
ावयक सांगलें. तिची करंदाय सुरू. 'नाका
ाल्लें लागता हाका. काय बरे कळे आशिल्ले.
डयले ना किरमून?' तिगेलें भाशण आयकत
ायकत सुयेन कळे सुतार गुंतले आनी ते
ोटवाक घाले.

ह्या लोकांक म्हज्यो भावना केन्नाच
ळच्योनात.

सकाळीं बेगीबेगीन न्हेसून भायर सरलों.
ऑफिसांत वचूंक. बस चुकत म्हूण च्या लेगीत
तलिना. आवय बाबडी 'कितेंय खा पोरा, खा रे
कितेंय' अशें म्हणंत आशिल्ली. तिका दिसलां
ासुंये, आपूण मोगऱ्यांखातीर म्हाका उलयली
खून हांव रागान च्या पिनासतना गेलां...

हांवें तिका सांगूंक जाय आशिल्लें, आयज
णै गोंयबाबाचो जल्मदीस आनी म्हजी थंय खूब
रज आसा म्हूण. बाबडेक बरें दिसतलें
ाशिल्लें. ना तर म्हजेखातीर हे आदीं कोण
अडून उरिल्ले? जिवितांत पयलेच खेपे म्हाका
जापसालदारकेचें काम मेळिल्लें. थंय आनी मागीर
पोटा-पाणयाकडेन लक्ष दिवन वेळ होगडायलो
जाल्यार जालें मागीर.

स्टेजीर मेजां-कदेलां मांडपा पासून हॉलांतलीं
कदेलां पुसपा मेरेनचीं सगळीं कामां भेंड मोडून
केलीं. हें म्हजें घरचेंच कार्य कशें म्हाका दिसतालें.
त्या कामा मुखार दिसभर जेवणाची यादूच
जालिना. कोंकणी फुडाऱ्यांचीं भाशणां आयकुनच
पोट भरिल्लेवरी जालें.



आयज कार्यावळ सोंपले उपरांत हांव कोंकणी
म्हालगड्यां भोंवतणी गणयता आसतना रवीन्द्र
केळेकारांकडेन लागशिल्ल्यान वळख जाली.
तांकां हात दिलो आनी दिसभराची तकलास
खंयचे खंय नाच जाली. तांचे धवेफुल्ल खादी
कपडे पळोवन हांव खुबच भारावन गेलों.
फार्टीफुडें हांवेंय असलेच कपडे घालपाचो संकल्प
केलो. तांचेकडेन आनीक कितेंय उलोवचें अशें
दिसतालें. पूण दिसभराचो आंगावयलो धुल्ल
चुकून तांकां लागत म्हूण हांवच कुशीक रावलों.

**१० आगस्ट ७७**

आयज पेडण्यां लळितकाची कार्यावळ जाली. शणै
गोंयबाबाले जल्मशताब्दी निमतान. खूब जाण
कवी-कथाकार येवपाचे आशिल्ले. पूण आयलेच
नात. कितें करचें हो नागेशबाबाचेर प्रस्न पडलो.
ताणें म्हाका म्हळें, ''दिलीप, तूं कविता वाचता
मरे?''

प्रस्न आयकुनच हांव धन्यधन्य जालों. आनी
कार्यावळीक सुरवात जावचे आदींच ताळो सुकून
आयलो. काळीज धडधडूंक लागलें. केन्ना तरी
चान्स पडटलो ह्या हेतून हांव फाटले दोन म्हयने
कविता घेवन भोंवतालों. आयज तांचें भाग्य
फळफळ्ळें.

हांवें धडधडट्या अंतस्कर्णान कविता सादर
केल्यो. कविता सादर करचे आदीं हांव माचयेर
कदेलां मांडटालों. शणै गोंयबाबाचो फोटो
लायतालों हें थंयच्या दोगा चलयांनी पळयल्लें.
तांकां हांव मानाय दिशिल्लों जावंये. तांणीय हें
कदेल हाड, तें कदेल हाड म्हूण म्हाका ऑर्डींय
सोडिल्ल्यो. पूण म्हजें कविता वाचन जातकच
त्योच म्हजेकडेन हांसून पळोवंक लागल्यो. पूण
हांवें तांकां व्हडलेंशें कॅर काडलेंना.

दरेका लळितकाक आयचेवरीच कोण न्हय
कोण कवी-कथाकार येना आसतना रावल्यार
पुरो. आतां कविता करपाकडेन लक्ष दिवचें पडलें.

**१३ आगस्ट ७७**

पेडणेच्या लळितकाची बातमी आयज पेपराचेर
छापून आयली. तातूंत म्हजेंय कवी म्हूण नांव
आयिल्लें. बातमी परतून परतून वाचली. कवी
म्हूण म्हाका मान्यताय मेळिल्ली.

दिसभर म्हाका रस्त्यावेले सगळे लोक
पळयतात म्हणपाचो भास जावंक लागलो. हांवूय
हड्डें फुडें काडून चलतालों. पूण एकल्यानूय
म्हाका ते विशीं मात लेगीत विचारलें ना. पाड
पडिल्ले, मराठीय पेपर वाचिनात काय कितें?

सांजवेळचो कॉलेजींत गेल्लेकडेन निमित्त
करून मित्रांक लायब्ररींत घेवन गेलों. पेपर मुद्दाम
उकतो करून तांकां दिश्टी पडचो म्हूण तांचे
मुखार दवरलो. पूण दळदिरे भलतेंच कितें वाचूंक
लागले. अंताक रावूंक जायना जावन हांवेंच ती
बातमी तांकां दाखयली.

सगळ्यांनी म्हाका मराठी आशिल्लो तो
कोंकणी कसो जालो काय म्हूण धारेर धरलो.
कोंकणी मराठीची बोली. ती भास न्हय. ती
किरिस्तांवांची भास म्हूण म्हाका हिणसायलो.

कोंकणी फुडारी सांगतात तें फट आनी हे
सांगतात तें खरें?

कोंकणींतल्यो म्हाका येतात तितल्योय गाळी
तांकां घाल्यो. मनांतल्या मनांत. म्हजें नांव
पेपराचेर आयलां म्हूण दुस्वास हो. आनीक कांय
न्हय...

**५ नोव्हेंबर ७७**

रवीन्द्र केळेकार म्हणूंक लागलो, पुण्याक वच.
ताचो 'जाग' थंय छापूंक दिल्लो. तो छापून जाला
जाल्यार घेवन यो म्हूण सांगलें. कोंकणीचें काम.
ना कशें म्हणटलों?

हांवें पुण्याक वचपाची तयारी केली. आमचे

**४ नोव्हेंबर ८५**
आज दिवचले मिटिंगेक उलयतालों. ह्या दिसांनी आमच्यो गांवागांवांनी मिटिंगो जातात. १४ नोव्हेंबराक म्हा-मेळावो दवरला ताची ही तयारी. हांव नोकरेक दांडी मारून सध्या मिटिंगो करूंक भायर सरलां. काल पेडण्यां मिटिंगेक फातर खाले. आयज दिवचले कांदे आनी बटाट मारले. हांव मिटिंगेक येना म्हण सांगपाक्य भंय. चळवळिंतल्यान आंग काडलें म्हणटले. थोडेजाण म्हणटले, मराठीवाद्यांनी दुडू दिवन म्हाका फाटीं काडला.

आतां मार खावपा बदला दुसरो पर्याय ना. म्हालगडे सगळे दक्षीण गोंयांत कोंकणी समर्थकां मुखार मिटिंगो घेतात आनी ताळ्यो घेतात. म्हाका मात मार खावंक उत्तर गोंयांत धाडटात.

देवा सायबा, केन्ना एकदां १४ नोव्हेंबर येतासो जाला.

**१४ नोव्हेंबर ८५**
आज आझाद मैदानाचेर व्हडलो मेळावो जालो. कोण म्हणटा, ८० हजार लोक आशिल्ले. तर कोण म्हणटा एक लाख. ह्या कोंकणीवाद्यांक पयशे मेजूंक कळना तें कळना. लोकूय मेजूंक कळना.

प्रचंड संख्येन आयिल्ल्या लोकांमुखार भाशणां करूंक सगळे फुरफुरताले. ह्या म्हान फुडाऱ्यां मुखार म्हाका खंय चान्स पडपाचो ? तरी कोणेंतरी हांवें इतले दीस फातर खाल्ल्याची याद केली आनी म्हाका उलोवंक संद दिलीच. इतल्या लोकां मुखार एकलो नेहरूच उलयल्लो. आनी हांव आनी हेर कोंकणी फुडारी उलयताले.

हांव आयच्यान खऱ्या अर्थान कोंकणी फुडारी जालों.

**१६ जानेवारी ८६**
आमची चळवळ नेटान चलता. पूण सरकार कोंकणीक राजभास करिना. सगळे उपाय जाले. आतां निमाणो उपाय म्हळ्यार कांय जाणांनी आमरण उपोशण करपाचें. पूण आमरण म्हणटकच सगळे भिले. कोणूच फुडें सरना. शेवटीं दत्ता नायक आनी हांवें नांव दिलें. तसो शिवदासूय मुखार सरलो.

आमरण उपोशण म्हणटकच शिवदासाचे बायलेन रडून कुलकुलाट केलो.

म्हाका रडपी कोण नाशिल्लो.

**१७ जानेवारी ८७**
आयच्यान आमच्या उपोशणाचो पयलो दीस. हांव उपोशणाक बसतां म्हूण पेपराचेर छापून आयलें. आमरण उपोशण म्हळ्यार कितें हें आवयक कांय कळ्ळेंना. तिणें कांयच म्हळेंना. फकत व्हडल्या पुताक सांगलें, तो उपासाक बसता. ताणें म्हळें, बसूं. हे कोंकणीचे भानगडींत ताका फुडाराक उपासूच काडचो आसा. आतांच संवय लागता ती बरी.

ताच्या कुच्छित्री उतरांकडेन दुर्लक्ष करून हांव आझाद मैदानाचेर आयलों आनी उपासाक बसलों. दुसरो आनीक कोणूच नाशिल्लो. मागीर दत्ता आयलो तें पळोवन बरें दिसलें. शिवदासाचो दीस सोंपलो तरी पत्तो ना.

उपासाची संवय आशिल्ली देखून दीसभर कांयच दिसलेंना.

**२१ जानेवारी ८६**
उपासाचो आयचो पांचवो दीस. दत्ता आनी हांव आझाद मैदानाचेर न्हिदून आसात. लोक येवन येवन पळयताले.

आमचे मदलो एकलोय अजून कसो मरूंक ना म्हूण दुबाव घेताले. लोकां असवडीं खातात आसतले कितेंतरी. नातर खावपाची संवय आशिल्ले कोंकणीवादी केन्ना इतले दीस मरना आसतना उपाशीं रावंक शकतात ?

भेट दिवंक आयिल्ले तरांतरांचे दुबाव घेताले. आमी जिते आसात तें पळोवन अजापताले.

आमी उपास करतात आनी सरकार कांय केर काडिना म्हूण रागान कोंकणी समर्थकांचो आज मेळावो जालो. कोणें तरी फातर शेंवटिले. पोलिसांनी लाठीचार्ज केलो. कोंकणी फुडाऱ्यांची फाट घेवन घेवन तांकां मार घालो. खूब फुडारी, लेखक-कवी जखमी जाले.

**२२ जानेवारी ८६**
मरनासतना आयज आमरण उपास सोडलो. लोक आमी उपोशण सोडचें म्हूण हिंसा करतात अशें कारण दिल्लें.

खरें कारण आशिल्लें सरकार आमकां केर करिना हें. घरा येवन भरपूर जेवलों. भाव म्हणूंक लागलो, पळय कसो धडधाकट आसा. चोरून खाताले आसतले कितेंय. हांव मोन्यांनी जेवलों.

**१० जुलै ८६**
मराठी राज्यभाशा प्रस्थापन समितीचें आंदोलन सुरू जालें. मराठी राज्यभास करची हे मागणे खातीर. आमी जें करतात तितलेंय ते करताले. दिसलें, कोंकणी राजभास नाका अशें आंदोलन करचें.

**२९ नोव्हेंबर ८६**
दूरदर्शन केंद्राचें आयज उक्तावण. अजितकुमार पांजा येवपाचो आशिल्लो. आमी तर इतले दीस गोंय सामकें बंद केल्लें. फायरींग जावन लोक जखमी जाल्ले. तरी आमी चळवळ करतालेच.

दूरदर्शना मुखार आयज निदर्शनां केलीं. पुंडलीक, म्हाका आनी हेरांक पुलिसांचो बरोच मार खावंचो पडलो. दूरदर्शनवाले ह्याच वेळार खंय गेल्ले देवाकं खबर. निदान टीवीचेर तरी आमी दिसपाचे !

**४ फेब्रुवारी ८७**
विधानसभेंत कोंकणीचें बील हाडलें आनी पास जालें. कोंकणी ही गोंयची राजभास जाली. इतले दीस त्रास काडिल्ल्याचें सार्थक जालें.

चर्चिलानूय आयज म्हळें, दक्षीण गोंय बंद दवरून आपलेंय सार्थक जालें.

**१३ एप्रिल ८७**
कोंकणी राजभाशेचो जनक म्हूण ह्या दिसांनी हांव हड्डें मुखार काडून भोंवतालों. पूण आयज अकस्मात तें भितर गेलें. म्हाका कस्तुरबांतल्यान काडून उडयलो. खूब दीस शाळेंत नेमान आयलोंना देखून. पूण म्हाका कांयच दिसलेंना. आमी कोंकणी मनीस त्यागी, तेजिश्ट. असल्या गजालींक आमी भिनात. हांवें म्हळें, काडपाची गरज ना. हांवच राजिनामो दितां. कोंकणी खातीर इतलेंय करिना जाल्यार हांव कोंकणीवादी कसलो तर ? शणै गोंयबाब कितें म्हणटलो ? हांव नोकरी सोडून घरा आयलों. म्हाका हें दुख्ख कोंकणीच्या जैतामुखार कांयच दिसलेंना. जो मनीस फुडाराक इतिहासाचीं पानां भरपाचो आसा ताका म्हूण असलीं ल्हान दुख्खां घेवन बसप सोबता ?

* * *



# ३१ डिसेंबर १९९९

पंढरीनाथ श्री. श. सुरसुरे

३१ डिसेंबर १९९९. सदांवरी हिवूय सकाळ [illegible] आसली. सदांवरी सगळो लोक आपआपल्या [illegible]माक लागलो. दिसाची हुनसाण जाणवूंक [illegible]ाली. कोण मडगांवां कामाक गेलो. कोण पणजे [illegible]याक मेळूंक गेलो. कोण फोंड्यां सोयरीक [illegible]ोवंक गेलो तर थोडे कुसमणां फेस्ताक गेले. [illegible]का खंयच वचन दिसनासलें. आंगांत आळस [illegible]र्येल्लो देखून घरांतूच पासयो मार मार [illegible]ल्यो. उपरांत टी.वी. लायलो. खंयच्या तरी [illegible]ोधी पक्षाचो फुडारी व्हडा व्हडान भाशण [illegible]तालो.

''आज देशांत कितें चल्लां? जो तो उठ्ठा, [illegible]विसाव्या शेंकड्यांत वचपाच्यो गजाली करता. [illegible]ां कितें दिसता, एकविसावो शेंकडो म्हळ्यार [illegible]ळखुळो आनी आमचो देश म्हळ्यार बस? [illegible]ीं न्हिदांत आसतना १०० कोटी जनतेक [illegible]विसाव्या शेंकड्यांत बळजबरेन व्हरपी [illegible]ाधारी पक्षाचो आमी निशेध करूंक जाय. [illegible]मचो देश एकविसाव्या शेंकड्यांत वचूंक [illegible]ना. आमी संघटीत चळवळ चलोवंक जाय. [illegible]काश पाताळ एक करूंक जाय. गरज पडल्यार [illegible]्याळिचे कांटे उरफाटे घुंवडावंया. काळाची [illegible] थांबोवंया. १ जानेराचो सूर्य उदेवपाचो [illegible]डावंया, पूण खंयचेच परिस्थितींत एकविसावो [illegible]कडो नाका म्हळ्यार नाका.''

कोणें तरी म्हळें, ''बाबा तूं एकविसाव्या [illegible]कड्याचेर कोंत्र शें कित्याक उलयता?''

ताणें म्हळें, ''हांव कोंत्र? हांव कोंत्र न्हय. पूण [illegible]विसाव्या शेंकड्याचो भंय घालून सत्ताधारी [illegible] आमचें लक्ष विसाव्या शेंकड्यावेलें काडून [illegible]ोवंक पळयता ताका आमचो विरोध आसा.''

म्हाका अर्थ बरो कळ्ळो ना. विरोधा पक्षाचो [illegible]ारी एकविसाव्या शेंकड्याक विरोध आसाय [illegible]णटा आनी नाय म्हणटा म्हळ्यार प्रकरण बरेंच [illegible]क म्हणपाचें जाणवतालें.

''हाचेर उपाय कितें?'' लोकांचो आवाज.

''हाचेर उपाय एकूच. म्हाका मतां घालात. [illegible]याक मतां घालात. शुन्याक किंमत ना. पूण [illegible]ा शून्य खंयच्याय आंकड्या फाटल्यान उबें [illegible]ता तेन्ना ताका मोल येता. देखून म्हजें शून्य जेन्ना तुमचे फाटल्यान उबें रावतलें तेन्ना तुमकांय मोल येतलें. देखून तुमचीं मतां शुन्याक.''

विरोधी पक्षाच्या राजकारणा फाटल्यान आकांताचें कारस्थान आसलें. रेशनाचेर तांदूळ, गंव ना. ताचें ताका पडूंक नासलें. दिशींमाशीं पेत्रोलाच्यो दरो वाडटाल्यो. ताची ताका पर्वा नासली. म्हारगायेन पळस गांठला ताची ताचेकडेन जाप नासली. निमणें एकूच सत्य तो वदिल्लो – एकविसाव्या शेंकड्यांत वचपाचो रस्तो शुन्याच्या दारांतल्यान वतालो.

टी.वी. बंद करचो अशें दिसलें. इतल्यांत टी.वी. निवेदकान म्हळें, देशाचो प्रधानमंत्री राष्ट्राक उद्देशून उलोवप करतलो.

प्रधानमंत्री भावनावश जाल्लो. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो झरी व्हांवताल्यो. ताणें म्हळें,

''विरोधी पक्षाचे फुडारी तुमकां फटयतात. शुन्याक अर्थ कोणाचेय फाटल्यान रावतकच येता ही गजाल खरी. पूण शुन्याफाटल्यान शून्य रावल्यार कितें जातलें? विचारात ताका. तुमकां ताणें 'शुन्यां' केल्यांत. म्हाका म्हज्या देशाचें बरें लागना. २०व्या शेंकड्यांतलो कंप्यूटर १ जानेराक कोणाचेंच आयकुचो ना. १०० वर्सांचो मनीस ० वर्सांचो जातलो. धतरिचो इतिहास परत सुरू जातलो. राम, कृष्ण, बुद्ध परत एक फावट जल्म घेतले. धतरिचो रिपीट शो सुरू जातलो. आत्तांच एकामेकांची खबर घेयात. जीं कितें पातकां केल्यांत तीं गंगेंत न्हावन निवळ करात. जें कितें करचें उरलां तें करात. दान धर्म करात. पुण्य जोडात.''

प्रधानमंत्री वेंचणुके विशीं उलयनासलो. मतां मागिनासलो. हाचो अर्थ, हो मनीस खरो उलयता अशें खूब जाणांक दिसलें तशें म्हाकाय दिसलें. आतां विचारप कोणाक? एकविसाव्या शेंकड्याचो प्रस्न सोडयतलो कोण? निमणें धांव घेतली कम्प्युटराकडेन. कम्प्युटराचीं बटनां वयर सकयल केलीं. साक्षात देवान कम्प्युटराकडल्यान दर्शन दिलें.

''देवा, तूं आनी कम्प्युटरांत?'' हांवें अजापान म्हळें.

''हय पुता. जसो हांव चराचरांत, जिवा जिवांत वसलां तसो कम्प्युटरांतूय वसलां.''

''मागीर एकविसाव्या शेंकड्याचें संकट...''

''तूं भियेनाका. एकविसावो शेंकडो त्या प्रधानमंत्र्याचोय न्हय आनी विरोधी पक्षाच्या फुडाऱ्याचोय न्हय. हो शेंकडो म्हजो.''

''कसो?''

''तूं म्हजी याद कर. हांव तुका कम्प्युटरांतल्यान प्रसन्न जातलों.''

''म्हळ्यार नेमकें कितें?''

''विसाव्या शेंकड्यांतले लोक कम्प्युटरांत फ्लॉपी घालतात. एकविसाव्या शेंकड्यांतले लोक म्हजी अदृश्य याद घालतले. तुमच्या प्रस्नाक हांव जापो दितलों.

''देवा, खरें उलयता तूं?''

''देव सदांच खरें उलयता. धतरिच्या मळबांत पातकाचो फार जावपाचो वेळ लागीं पावला. उपरांत पुण्यायेची गंगा भारतांतल्यान संवसारांत व्हांवतली. तथास्तु.'' देवान म्हळें आनी अंतर्ज्ञान पावलो.

देवाक पळेत सावन मन भारावन गेल्लें. रस्त्यार येवन पासयो मारूंक लागलों. राधाबाय घागर घेवन नळार उदक भरूंक वताली.

''भाऊ, हांवें आयकलां तें खरें व्हय ?'' राधाबाय.

''कितें गे राधाबाय ?''

''हें – नळाक उदक येवपाक ना खंय. नुस्त्याक पडपा ना खंय. संवसार काबार जावपाचो आसा खंय.''

''राधाबाय, आतांच जावपाचें ना तें. ताका एक वर्स आसा. एकविसाव्या शेंकड्यांत जातलें तें.''

''मागीर आमचें कशें जातलें रे भाऊ ?'' राधाबाय रडूंक लागली.

''तूं भियेवंक नासा गे राधाबाय. म्हजी वयर मेरेन वळख आसा.'' हांवें मळबावटेन बोट केलें.

राधाबायक दिसलें, हांव घाडपण करून कसलो तरी उपाय काडटलों. तिणें वचून ही खबर मावशीबायच्या कानार घाली. मावशीबायक देव म्हळ्यार जालो. अंगारिका आसूं, विनायकी आसूं वा चवथ आसूं. मावशीबायले उपास तपास केन्नाच चुकले नात. अंदू मात तिका एकूय श्रावण आयतार पुजूंक मेळूंक ना. पयल्या श्रावण आयताराक सून सुटली. सुयेर जालो. तिसऱ्या आंताराक पयसुल्लो कोण तरी दायजी खंवसलो. सुतक जालें. निमण्या आयताराक मावशीबाय भश्टी. करतली कितें ? मावशीबायक दिसलें, आतां संवसार सोंपल्यार फुडले श्रावण कोण पुजतलो ? संकटा वेळार पयलो पावता तो शेजारी अशें म्हणटात. ह्या वेळारय मावशीबायक म्हजी याद जाली.

''पुता, मातशें पंचांग काडून पळय रे आतां श्रावण बी पुजूंक मेळटात जाल्यार. नातर हो जल्मूच फुकट वता असो दिसता म्हाका.'' मावशीबाय आपली काणी सांगताली.

''तूं भियेवं नाका गे मावशीबाय. कोणाक कांयच जायना. विसावो शेंकडो इतल्यांत सोंपना.'' 'Y2K श्रावणयोग' सांगला पंचांगांत. हे श्रावण पुजल्यार आयुश्यांत श्रावण पुजूंक नाका.

''बरें रे पुता, तुजें बरें जावं. तुज्या बायल-भुरग्यांचें बरें जावं. कोण म्हूण सारके सांगिनात. भट आपलीं शापोदां सांगतात. इतलो बरो योग आसा. हांकां मात आपली दक्षणा व्हड.''

सांज जाता म्हळ्यार 'Y2K श्रावणयोगा'ची खबर मावशीबायन पुराय वाड्यार पावयली. वाड्यावेले लोक ही खबर आयकून म्हजे अयस पयस घुटमळपाक लागले. एकविसाव्या शेंकड्यांत संवसार सोंपल्यार लेगीत आमचो वाडो वाटावतलो हाचो सार्थ विश्वास सगळ्यांच्या तोंडार उफेतालो. वाड्यावेल्या लोकांनी रोखडोच म्हाका पारार व्हरून बसका घेतली.

''ह्या अरिश्टांतल्यान सुटल्यार भावूक पंच म्हूण बिनविरोध निवडून हाडप.'' दत्ताबाब उलयलो.

''कितें दत्ताबाब, देशाक स्वातंत्र्य दिवपी xx राष्ट्रपिता जाल्यार स्वातंत्र्य वांचोवपी भावूक राष्ट्रपती तरी करूंक नाका ?'' पोकेबाबान दत्ताबाबाक विरोध केलो.

'पंच' करचो म्हूण सुरू जाल्ली म्हजी पावणी राष्ट्रपती, प्रधानमंत्री करचत चलताली. म्हजी देशाक आनी वाड्याक कितली गरज आसा हें पटोवंक कोणें तरी अर्दवर भाशण केलें. हांव वाऱ्यार हुडटालों. मनांत सपनेतालों. सांजवेळच्या थंड वाऱ्यार म्हजी मान हालताली. म्हाका न्हीद लागली.

कांय खिणांतूच हांव प्रे. क्लिंटनाच्या व्हायट-हावसांत पावलों. ताचे कुशीक ताचो पी.ए. उबो आसलो.

''सर, होच तो मि. नायक. ट्वेन्टीफर्स्ट सेन्चुरी स्पेशालिस्ट. हाणेंच एकविसाव्या शेंकड्याच्या संकटांतल्यान वाडो वांचोवपाचो थारायला. फुडें तो गोंय वांचयतलो आनी उपरांत इंडिया.''

''वेलकम मि. नायक. म्हजी अमेरिकाय वांचय.''

म्हज्या सपनांतलो क्लिंटन अमेरिका वांचोवंक कोंकणी उलयतालो.

''वांचयतां, वांचयतां. तूं कांयच भियेवंनाका प्रेझिडेंट ! पूण म्हाका एक सांग, तूं कोंकणी कशी उलयता ?''

''हांव शणै गोंयबाबांलीं पुस्तकां वाचतां.''

प्रे. क्लिंटनाचे जापेन म्हाका कच्च जालें. म्हज्या सपनांतलो क्लिंटन शणै गोंयबाब वाचतालो. कोंकणी उलयतालो. आतां तो आपूण कॅंब्रिज विद्यापिठांतल्यान कोंकणी घेवन एम्.ए. जाला इतलेंच म्हणपाचें बाकी आसलो.

''तुजी फी कितली ?'' क्लिंटनाच्या उतरांनी हांव जागो जालों.

''म्हाका अमेरिकेची तीन पावलां जमीन दी.'' हांव उलोवन गेलों.

''तीन पावलां कित्याक ? तीन हजार पावलां घे.'' प्रे. क्लिंटन म्हजेर उदार जाल्लो.

''छे. मेळटा म्हूण हांव कांयच घेना. फकत तिनूच पावलां दी.''

''चल दिली. घे मेजून.'' अशें प्रे. क्लिंटनान म्हळां मात, म्हजे कुडींत वामन संचारलो. पयल्या पावलांत अमेरिकेची भूंय म्हजी जाली. दुसऱ्या पावलांत अमेरिकेचो दर्या म्हजो जालो.

''म्हजें तिसरें पावल खंय दवरूं ?'' हांवें बीलाक विचारलें.

''दवर म्हज्या माथ्यार.'' बीलान म्हळें.

हांवें म्हजें तिसरें पावल दवरतकच बील बळी राजा जावन पाताळांत गेलो. आतां हिलरी आनी चॅल्सीचीं दुकां कोण पुसतलो ? म्हाकाच मुखार सरूंक जाय आसलें. इतल्यांत कोणें तरी म्हाका नेटान हालयलो. म्हजी तंद्री भंगली.

''कोण न्हिदला रे पारार ? उठ मरे. जागो ज मरे...'' गांवांतले तिगूय भीकमागे म्हजे मुखार रावन शंख मारताले. आशिकुशीक पोकेबाबय नासलो आनी दत्ताबाबय.

''पारावेलीं तीन तीन पावलां जमीन रातची न्हिदूंक आमी वांटून घेतल्या. तूं आनी तांचे अदीक वांटे करिनाका.'' तिगूय भीकमागे हात जोडून म्हाका विनयताले.

''कसली तीन पावलांची जमीन घेवन बसल्यात रे ? आतांच बील क्लिंटन तीन पावलांत पुराय अमेरिका दिवपाक तयार जाल्लें मदलेमदीं तुमी म्हाका उठयलो...''

भीकमाग्यांक हांव कितें उलयतां तें कळ्ळेंना हांव घरा वचूंक भायर सरलों. वाटेर अर्द न्हिदिल्लीं दोन सुणीं आपले भाशेंत म्हजी तवल मारतालीं.

''मनशाक म्हूण नाका जाल्लेंच पिशें लागला एकविसाव्या शेंकड्याचे आनी अधोगतिचें.'' पय सुणें उलयलें.

''हयवय. आतां इतले शेंकडे जाले. आमची शेंपडी वांकडी ती वांकडीच. कोण सारकी करत पळोवया एकविसाव्या शेंकड्यांत.'' दुसरें सुणें उलयलें. आनीक मात्सो मुखार पावलों. आंब्यार बशिल्लें एक कोगळां जोडपें आपले भितर उलयतालें. घोव बायलेक सांगतालो,

''कळ्ळें मगो, सांगतां तुका. एकविसावो शेंकडो लागलो म्हूण भुल्लुसून वचुंनाका. आमचे तांतयां घोंटेरांत दवरपाचीं.''

''हयवय. चल, चलू आयला तशेंच करपाचें. बायल कोगळान थोमणो मारलो.

मुखार वतां वतां गांवची इगर्ज लागली. नव्या वर्साक येवकार दिवंक लोकांची खेट जाताली. देशाचो प्रधानमंत्री आनी विरोधी पक्षाचो फुडारी खंयच्या बंगल्यांत न्हिदून घोरेतात काय ? मदीं एक विचार मनाक आफडून गेलो. म्हज्या दोळ्यांवेली न्हीद पुराय देंविल्ली. पोट भुकेन चुरचुरतालें. मनांत सुण्याचो आनी कोगळाचो प्र घर करून राविल्लो...

✻ ✻

# तलवार

एस. डी. तेंडुलकार



सवंगां : लेखक, लेखकाची बायल, आमीग, नवोदित कवी, सात-आठ तरणाटे आनी दोग मनीस.

(कोंकणी लेखक बाब रामदास रायकार हांगेलें घर. पड्डो उगडटा तेन्ना लेखक रायकार कितें तरी बरयत बशिल्लो दिसता. अचकीत ताची तनरी मोडटा आनी तो प्रेक्षकांकडेन पळयता. प्रेक्षकांक स्मायल दिता. उठ्ठा आनी प्रेक्षकांकडेन उलोवपाक लागता.)

**लेखक** : हॅलो ! म्हजें नांव रामदास रायकार. हांव लेखक. कोंकणी लेखक. म्हजीं आयज मेरेन सात पुस्तकां उजवाडा आयिल्लीं आसात. दोन काव्यझेले, दोन कथांझेले, एक कादंबरी आनी दोन नाटकां; इतलें हांवें बरयलां. कोंकणी भाशा मंडळ, गोवा कला अकादेमी हांचे सगल्यांचे पुरस्कार म्हाका मेळिल्ले आसात. आनी गेल्याच वर्सा म्हाका साहित्य अकादेमीचो पुरस्कारूय मेळ्ळा. कोंकणींत बरोवपाचो फायदो तो होच. साहित्य खंयूय पावूं, पुरस्कार मात फटाफट मेळटात. ना जाल्यार म्हजो बापोलयो आसा, रावता मुंबय. मराठींत बरयता. मोटो फामाद मराठी लेखक. आव्हां-गार्द म्हणटात तसो. धायेक कादंबऱ्यो ताच्या नांवार आसात. सगल्यो मौजान छापिल्ल्यो. समिक्षकांनी वाखाणिल्ल्यो. पूण आजुनूय ताका साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळूंक ना. आतां ताणें साठी हुपल्या. पूण आजुनूय ताका तो मेळूंक ना म्हळ्यार पळय. म्हणटकूच आमीच भाग्यवान म्हणचें पडटलें. म्हाका तर तो चाळिशी हुपचे पयलींच मेळ्ळा. साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळिल्लो तेन्ना म्हज्या बापोलयाचें म्हाका पत्र आयिल्लें. इतल्या ल्हान वयांत म्हाका हो पुरस्कार मेळ्ळो ते बद्दल तांणी म्हजें अभिनंदन केल्लें. तेन्ना हांवें ताका बरयल्लें, मराठी सोड, कोंकणींत बरय. साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार रोखडोच मेळटलो. देखीक, बाकीबाब बोरकारांक पळयात. एदो व्हडलो मराठी कवी. मराठींत जल्मभर बरयतालो पूण मराठींत तांकां तो पुरस्कार मेळ्ळा व्हय ? ना. निमाणो कोंकणींत तो मेळ्ळो. शंकर रामाणीक पळयात. सत्यकथेचो निश्ठावान मराठी कवी. श्री.पु. भागवतांक देव बीन मानपी. पूण मराठींत तांकां आजून मेरेन साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळा व्हय ? ना. तांकां तो मेळ्ळो कोंकणींत. जावं. आतां आमचो हो बापोलयो कट्टर मराठीवादी. म्हणूंक लागलो, आपूण मरसर मराठींतू बरयतलों. पुरस्कार मेळना जाल्यार उपकारता. आपूण पुरस्क मेळोवपाखातीर बरयना. बरोबर ताचें. पुरस्कार मेळोवपाखाती म्हूण कोण बरयना ! हांवूय बरयना. पूण मेळटात पुरस्कार तांव ना कशे म्हणटलों ! पुरस्काराक ना म्हणपाक हांव कितें ज पॉल सार्त्र न्हय. एदो व्हडलो नोबेल पुरस्कार ताणें न्हयकारल आतां हातुंतय परत आनीक एक गोम आसा. जो लेखक पुरस्का घेता, तो जितलो गाजना, तितलो पुरस्कार न घेवपी लेख गाजता, हें खबर आसा तुम्कां ? सात्रचिंच उदाहरण ढडढडी दोळ्यांमुखार आसा. लेखक म्हूण आपलो गाजोवाजो करपा अशेंय एक अस्तित्ववादी टॅक्नीक आसता. आतां साहित अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळो म्हळ्यार नांव जालेंच. पूण तितलेंच. पूण पयशांचो म्हाका कांयच फायदो जावंक ना. आत तुमी म्हणटले, तुका पंचवीस हजार मेळूंक नात काय कितें मेळ्ळे. मेळ्ळे म्हाकाच. पूण खाले बायलेन. म्हजेच बायलेन कितें सांगूं तुमकां पापयांनो ? पंचवीस हजार पळोवन बायल म्हणपाक लागली, आपल्याकडेन बाजुबंद आनी तोडे नात म्हूण जालें ! सगळे पयशे बायलेच्या बाजुबंदाक आनी तोड्यांक गेले म्हाका कांयच ना.

[बायल भितरल्यान येता.]

**बायल** : हांव आसां न्हय तुमकां !

**लेखक** : ही पळय आयली. आगे दाखय. दाखय लोकांक तुजे ते तो आनी बाजुबंद.

**बायल** : बॅंकेंत लॉकरांत दवरल्यात न्हय ते आमी ! राजा, सॉरी आं !

**लेखक** : सॉरी कित्याक गे बाये ?

**बायल** : कारण तुमी लेखक आनी तातुंतय बी कोंकणी लेखक म्हूण तुमची सदांच ढजा मारतालें हांव. रात-रातभर बरयतात तें पळोवन तिडकूच मारताली तुमची म्हाका.

**लेखक** : तरीय दोन भुरगीं जालींच मगे !

**बायल** : थोमणे पुरो आं. जावं, पंचवीस हजार मेळ्ळे आनी तुमी लेखक




म्हूण अभिमान दिसलो म्हाका.

: बेठो लेखक न्हय. कोंकणी लेखक.

: आतां फुडलो कसलो पुरस्कार मेळटलो तुमकां ?

: आतां ? आतां ज्ञानपीठ.

: ह्या वर्सा मेळटलो ?

: पळोवया.

: कितले पयशे ?

: पयशे ? पांच लाख !

: पांच लाख ? आवयस् ! एक फ्लॅट घेवं येता.

: तुका जाय मगे फ्लॅट ? घेवंया !

: मागीर ज्ञानपिठा उपरांत ?

: नोबेल !

: नोबेल म्हळ्यार ?

: नोबेल प्रायझ.

: कितले पयशे ?

: पन्नाशेक लाख तरी आसूंक जाय.

: [अजापान] पन्नास लाख ? म्हजें काळीज बंद बी पडचें ना न्हय ?!

: आगे, पयलीं मेळूं दी. मागीर तुजें काळीज बंद पडूं.

: खरेंच, तुमचेकडेन लग्न जावन जल्माचें सार्थक जालें म्हजें !

: जातलेंच. कोंकणी लेखक हांव. कोंकणींतलो प्रतिभावंत.

: हांव समजल्लें, लेखक भिकाड्डे आसतात म्हण ! म्हाका खंय गा खबर, बरोवन इतले पयशे मेळटात म्हूण. तुमी बरयत रावात. फास्ट बरयात. सगले ज्ञानपीठ, सगले नोबेल पुरस्कार तुमकां बेगीन मेळुंदी. नाजाल्यार एक करुंया —

: कितें ?

: सत्यनारायणाची म्हापुजा घालुंया.

: पुरस्कार मेळोवपाक ?

: हय. देवाक खूश केल्यार बेगीन मेळटलो. ते भायर हांव संतोषी मातेचेंय व्रत धरतां.

: आगे पापणी, हांगा देवाकूच खूश केले म्हूण जायना. मनशांक पयलीं खूश करचें पडटा.

[इतल्यान लेखकाचो आमीग भितर सरता. होवूय बी लेखक-कवी.]

**आमीग** : [भितर सरतां सरतां] कोणाक खूश करता रे बाबा ? आनीक एकदां साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार जाय काय कितें तुका ?

**लेखक** : आरे तूं ? यो, बस.

**आमीग** : [बायलेक] बरी मगे ?

**बायल** : हय तर. खूब दिसांनी उगडास जालो आमचो तुमकां.

**आमीग** : घेवची म्हटलें खबर तुमचे सारक्या व्हडल्या मनशांची.

**लेखक** : आमी केन्नाच्यान बाबा व्हडले मनीस जाले ?

**आमीग** : एदो व्हडलो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार जोडपी तूं. आमचे खातीर व्हडलोच तूं. पळय, तुजे इतलींच म्हजींय पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत पूण पयलीं पुरस्कार मेळ्ळो तो तुका. आमी आजुनूय तकातका वाट पळयतात.

**लेखक** : मेळटलो रे. धीर धर. ह्या वर्साचे यादींत तुजें नांव आसा अशें आयकतां. [बायलेक] बरी च्या कर गे आमकां !

**बायल** : हय, हय. [भितर वता.]

**आमीग** : खरेंच ?

**लेखक** : कितें खरें ?

**आमीग** : ह्या वर्साचे यादींत म्हजें नांव आसा ?

**लेखक** : हय. सामकी भितरली न्यूज.

**आमीग** : मेळटलो ?

**लेखक** : मेळुंकूच जाय.

**आमीग** : तुजो तेंको आसा मरे ?

**लेखक** : म्हजो आसाच रे. पूण कांय जाणांची खुशामत करची पडटली.

**आमीग** : करुंया रे ! पयर म्हजो मांव आयिल्लो. म्हणूंक लागलो, त्या तुज्या आमिगाक दिल्लीचो पुरस्कार मेळ्ळो मरे ! तुका आजुनूय कित्याक मेळना ? सामकी लज जाली रे म्हाका. म्हजें सोडून दी, पूण निदान मावोडेच्या लोकांक दाखोवपाखातीर तरी तो ह्या वर्सा म्हाका मेळुंकूच जाय.

**लेखक** : कितें आसता जाणा मरे, केन्ना-केन्ना नशिबाचोय म्हूण एक भाग आसता. निराश जावं नाका. मेळटलोच. सध्या नवें कितें बरयलां ?

आमीग : सध्या एक कादंबरी चल्ल्या. पन्नाशेक पानां बरयल्यांत रे, आनीक वीशेक पानां ॲड करून सोंपोवपाची चिंततां.

लेखक : म्हळ्यार दीर्घकथाच जाली.

आमीग : तशी पळोवंक गेल्यार दीर्घकथाच रे. पूण मोट्या टायपांत कादंबरी म्हूण छापपाची. शिवाय कोंकणींत कादंबऱ्यो साप्प थोड्यो, म्हणटकूच पुरस्काराखातीर तिचो चड विचार जावं येता.

लेखक : पूण छापतलो कोण? कोंकणींत धंदेवाईक प्रकाशकूच नात. लेखकानूच बरोवपाचें, लेखकानूच छापपाचें असो सगलो प्रकार चल्ला.

आमीग : 'राजहंसा'च्या प्रभाकर भिडेक म्हळां. पळोवया. म्हजी ही पयलीच कादंबरी. तूं मात्शी वाचून पळय!

लेखक : वाचुंया रे. दी हाडून.

[बायल येता. दोगांकूय च्याचे कप दीत –]

बायल : कितें तें?

लेखक : कादंबरी!

बायल : ज्ञानपीठ मेळूंक जाय अशेच पद्दतीन बरोवपाची ती.

आमीग : आगे, आजून म्हाका हांगा साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळूंक ना थंय ज्ञानपीठ खंय?

बायल : नशिबांत आसल्यार सगळें मेळटलें.

लेखक : [हांसत] बायलेच्या नशिबांत आसल्यारूच मेळटलें, जाणा मरे?

बायल : मात्शो वळखी-बिळखी वाडयात. बेठें बरें बरोवनूय कांय फायदो ना.

लेखक : भुरगीं आयलीं गे खेळून?

बायल : [भायर पळयत] तींऽऽ पळय खेळटात. खेळुंदी मात्शीं. नाजाल्यार येतलीं म्हाका त्रास दिवपाक. [वता.]

आमीग : [ती गेल्ले वाटेकडेन पळयत] प्रत्येक यशस्वी दादल्या फाटल्यान एक बायल आसता अशें म्हणटात तें फट न्हय!

लेखक : हें आतांच कित्याक येवजलें रे बाबा तुका?

आमीग : तुजे बायलेक पळोवन. नाजाल्यार आसा आमची बायल. संत तुकारामाचे बायलेसारकी सामकी अरसीक आनी कैदाशीण.

लेखक : आरे असल्या बायलांक मात्शे पैशे वाजोवन दाखोवंक जाय. रोखडींच जाग्यार येतात तीं.

आमीग : तेच तर कमी आसात. सोड. बरो उगडास जालो, तुज्या पुरस्कार विजेत्या पुस्तकाचेर त्या कानोळकारान खतखतीत टिका केल्या मरे! साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळपाचे लायकिचें तें पुस्तक न्हय अशें तो म्हणटा.

लेखक : आरे, जाका क्रियेटिव्ह लेखन करूंक जमना तोच निगाणो समिक्षक जाता हें खबर आसा मरे? हांव कानोळकाराक समिक्षक म्हूण मानीचना. सोंपलें. व्हडलें सिरिअस धरपाचें नासता तें. म्हाका पुरस्कार मेळ्ळो, ताच्या पोटांत दुखलें. म्हणटकूच अशें बरयतलोच तो. मेळ्ळ्यार ताका सांग, म्हज्या त्या पुस्तकाचो इंग्लेजींतल्यान अणकार जावपाचो आसा. कलकत्त्यासाकून आजूच विद्या पैचें पत्र आयलां. [खणांतल्यान पत्र काडून दाखयता] हें पळय!

आमीग : [हातांत घेवन वाचीत] खरेंच मरे! कॉंग्रॅच्युलेशन्स!

लेखक : सांग त्या कानोळकाराक. जळूं दी मात्सो.

[इतल्यान दारार एकोणीस वर्सांचो तरणाटो उबो. हो नवोदित कवी. दारार टकटक करता.]

लेखक : कोण?

कवी : कोंकणी लेखक रामदास रायकारालें हें घर न्हय?

लेखक : हय. कितें जाय तुमकां?

कवी : म्हाका रायकारांक मेळूंक जाय आशिल्लें.

लेखक : हांवूच तो. कितें आशिल्लें?

कवी : एक काम आशिल्लें. भितर येवं?

लेखक : यो, बस.

[कवी भितर येवन बसता. ताच्या हातांत एक फायल.]

कवी : म्हजें नांव शंभू आडपैकार. हांव कवी. कविता बरयतां. कोंक[illegible] अकादेमीच्या पयल्या चंवरांत म्हजो कवितासंग्रह सिलेक्ट जाल[illegible] रोखडोच तो उजवाडा येवपाचो आसा. तेन्ना तुमचे सारक[illegible] नामनेच्या साहित्यकारान जर म्हज्या कवितासंग्रहाक प्रस्ताव[illegible] बरयत तर ती खोशयेची गजाल थरतली.

लेखक : प्रस्तावना?

कवी : हय. तुमी दितलेच ही उमेद घेवन आयलां. हातबरप हाड[illegible] हांवें. [फायल लेखकाक दिता.]

लेखक : [हातांत घेवन चाळीत] 'उमाळ्यांचे सूर'!

कवी : संग्रहाचें नांव तें! कशें आसा?

लेखक : आसा बरें. कितलीं वर्सां जालीं तूं कविता बरयता?

कवी : दोनेक जालीं.

लेखक : सध्या काम कितें करता तूं?

कवी : शिकतां. बी.ए.क आसां.

लेखक : हूं! [चाळीत] तुज्यो कविता खंय प्रसिद्ध जाल्यात?

कवी : सुनापरान्त आनी राष्ट्रमतांत बी.

लेखक : तूं फकत कोंकणींतूच बरयता?

कवी : हय.

लेखक : मराठींत कित्याक बरयना?

कवी : [कांय ना सुचून] आँ? स्कोप ना.

लेखक : कसलो स्कोप?

कवी : कोंकणी आमची मायभास.

लेखक : [आमीगाकडेन बोट दाखोवन] हांकां वळखता?

कवी : हय. नरेंद्र कासकार न्हय? कथाकार. वळखतां. 'ललित[illegible] कार्यावळींत कथा सांगतना हांवें तांकां एकदां पळयला.

आमीग : म्हज्यो कथा तुका कश्यो लागतात?

कवी : बऱ्यो आसतात. तुमची फाटीं सुनापरान्तांत आयिल्ली 'देंव[illegible] आनी देव' ही कथा म्हाका भोव आवडिल्ली. तुमकां इतल्य[illegible] साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळूंक जाय आशिल्लो.

आमीग : जावं, तुज्या तोंडांत साखर पडूं. [खोशी जाता.] रायकार[illegible] तुमी कितें कितें वाचलां?

कवी : म्हळ्यार? सगळेंच. हांव रायकारालो फॅन. म्हणुनच तां[illegible] प्रस्तावना घेवपाक आयिल्लों.

लेखक : [फायल चाळटां-चाळटां पुटपुटत] बऱ्योच कविता प्राय[illegible] स्वरुपाच्यो आसात.

कवी : कितें म्हळें तुमी?

लेखक : ना, कांय ना. हांव बरयतां प्रस्तावना. बरेंच बरय[illegible] [आमिगाकडेन पळोवन हांसत] म्हज्या फॅनाक नाराज क[illegible] करतलों?

कवी : तर मागीर केन्ना येवं व्हरपाक? ह्या आठ-पंदरा दिसांभि[illegible] कवितांझेलो प्रेसांत वचपाचो आसा.

लेखक : यो, आठेक दिसांनी. बरोवन दवरतां.

कवी : उपकार जातले. बरें तर, येतां हांव. [आमिगाक] उगडास अ[illegible] दी. बरें. [वता.]

एकदम फालतू मरे कविता ह्यो. आयक. [वाचता.]

मूल म्हळ्यार फूल कशें
दोनूच पुरो
निरोध वापरात लोकांनो
दोनूच पुरो.

निरोधाची ॲडव्हरटायज करता काय कितें रे तो?

[हांसत] 'निरोध-कवी' अशी ताका पदवीच दिवंक जाय. आनीक एक मोस्त्र पळय. [वाचता.]

साईबाबा पाव रे
साईबाबा पाव
संकष्टां आयलीं म्हजेर
फास्ट फास्ट धांव

म्हाका एक सांग, इतल्या फालतू संग्रहाक प्रस्तावना बरोवपाचें तुंवें मान्य कशें केलें?

तुका समजुचें ना तें. आरे, हांव पडलों कोंकणी चळवळींतलो मनीस. हांव पयलीं कोंकणीवादी, उपरांतूच कोंकणी लेखक. कोंकणी भास वयर काडपाक सगळे तरेचें पुलितीक आमकां खेळचेंच पडटा. आरे, ताच्या तोंडार जर हांवें सांगिल्लें, तुज्यो कविता फालतू म्हूण, जाल्यार तो घडये कोंकणींत बरोवपाचें सोडून दीत. आमकां तेंच नाका. आमकां कोंकणीभक्त जाय, कोंकणी बरोवपी जाय. तांकां आमी दुखोवंक शकनात.

तूं म्हणटा तें बरोबर. पूण हाचो परिणाम असो जाता की एखाद्या फालतू कविचो एक झेलो प्रसिद्ध जालो आनी ताका कोंकणी भाशा मंडळाचो पुरस्कार बी मेळ्ळो म्हणटकच तो आपल्याक म्हाकवी समजूंक लागता.

समजुंदी रे! तांचो भ्रमनिरास करून आमकां कितें मेळटलें? आं, तूं म्हणटा तशें कोंकणी साहित्याचें लुकसाण जावं येता. पूण कोंकणी भाशेचो मात फायदोच जातलो. आनी आमकां तेंच जाल्लें जाय.

पूण—

राव. तूं आमचे कोंकणी चळवळींत चड वावरूंक ना. कारण तूं अर्दो मराठी आनी अर्दो कोंकणी. कोंकणी चळवळींत काम करनासतना तुंवें तुजें कोंकणी साहित्य प्रसयलां. म्हणुनच हांव जें कितें म्हणटां तें समजुपाक तुका थोडो वेळ लागतलोच. आतां येदोळ तूं साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार अजून आपल्याक मेळूंक ना म्हणून पिरंगतालो. तो अजून मेळूंक ना हाचें कारण तुजी अर्दी निश्ठा मराठी वटेन आसा, हेंवूय जावं येता. तूं मराठीय बरयता आनी कोंकणीय बरयता. आमचें तशें ना. आमी टोटली कोंकणीकूच समर्पित जाल्ले आसात. म्हाका पुरस्कार खूब बेगीन मेळ्ळो हाचें कारण हेंवूय आसूं येता. [हांसत] बरें साहित्य बरयलें म्हणुनूच पुरस्कार मेळटात अशेंय कांय ना. पुरस्कार दितना तुमची निश्ठाय पळयतात. आतां हें फकत कोंकणीकूच लागू जाता अशें ना. नोबेल सारक्या पुरस्काराकूय हेंच तत्त्व लागू जाता. आनी तो तेच पद्धतीन दितात.

तूं म्हणटा तें पट्टा रे. पूण म्हजे बाबतींत सांगचें जाल्यार, सध्या तरी हांव पूर्ण कोंकणीमय जाल्लों आसां. मराठींत तर हालीं कांयच बरयना.

पयर साहित्य सेवक मंडळांत महाराष्ट्रांतल्या त्या साहितियकांचें व्याख्यान आशिल्लें, थंय तूं आशिल्लो मरे! व्याख्याना उपरांत जाल्ले चर्चेंत वांटोय घेतिल्लो तुंवें. 'गोमंतकां'त नांव छापून आयिल्लें तुजें. वाचिल्लें हांवें.

**आमीग** : म्हळ्यार तूंय मराठी पेपर वाचता तर!

**लेखक** : निमाणो पेपरूच तो. वाचपाचो आनी रद्दीक उडोवपाचो.

**आमीग** : पेपराचें सोडून दी रे! आयचो पेपर फाल्यां रद्दी. पूण कोंकणी साहित्य जवळजवळ रद्दीच अशें कांय जाण म्हणटात.

**लेखक** : ते गोंयांतले मराठीवादी आसतले रे! जळटात ते आमचेर.

**आमीग** : मराठीवाद्यांचें सोडून दी. आमचे कोंकणींतलेय कांय जाण म्हणटात. पयर त्या काशिनाथ शांबा लोलयेकाराली एक कविता हांवें वाचली.

**लेखक** : तो अवचिन्न कवी मरे? ताची कविता खरी रद्दी म्हळ्यार जाता. कितें फालतू कविता रचता रे तो!

**आमीग** : ताचीच एक कविता. तुका वाचून दाखयतां. म्हजेकडेन तिचें कात्रण आसा. [बोटव्यांतलें कात्रण काडटा.]

**लेखक** : इतली म्हत्वाची तर ती?

**आमीग** : आरे, ते कवितेंत ताणें कितें म्हळां जाणा? आयक – 'लेखन करप म्हळ्यार मोटें दिव्य करप, हें खबर ना आमच्या कोंकणी लेखकांक, म्हणुनूच निर्माण जाता कोंकणी निसत्व साहित्य, खिरापतिच्या पुरस्काराखातीर.'

**लेखक** : हो लोलयेकार कविता बरयता म्हळ्यार कसलें दिव्य करता काय? हाचेच कवितेंत खरें म्हळ्यार सत्व ना. एकदम बुरसो कवी! सबंद कविता वाच रे! कितें अवचिन्नपणां बरयल्यांत तीं तरी पळोवया.

**आमीग** : आयक तर! [कविता वाचून दाखयता]

सलमान रश्दी जीव मुठींत घेवन भोंवता
जीव आसल्यार कादंबऱ्यो पचास
हें ताका खबर आसा
सलमान रश्दीच्या सपनांत अयातुल्ला खोमेनी
रश्दी उठ्ठा दचकून मद्यानरातीर
आनी सबंद रात चिंतत उरता की
कोणाचो जल्म जालो
आनी कोण मेलो

मिस्टर रश्दी,
लेखन करप म्हणजे मोटें दिव्य करप
हें खबर ना आमच्या कोंकणी लेखकांक
म्हणुनूच निर्माण जाता कोंकणींत निसत्व साहित्य
खिरापतिच्या पुरस्काराखातीर

पळयात,
सलमान रश्दी वेंग मारता सोलत्झनित्सिनाक
सोलत्झनित्सिन वेंग मारता मिलान कुंदेराक
मिलान कुंदेरा वेंग मारता तस्लीमा नसरीनाक
आनी तस्लीमा नसरीन म्हाका वेंग मारूंक सोदता

पूण हांव तिका दाखयतां
म्हज्या माथ्यार सतत हुमकळपी तलवार
आनी हांव वेंग मारतां तलवारीक.

**लेखक** : अब्बा, कापाझ मरे हो काशि! हो आपल्याक सलमान रश्दी, सोलत्झेनित्सिन, मिलान कुंदेरा, तस्लीमा नसरीन हांचेकडेन कंपेर करता काय कितें रे?

**आमीग** : कंपेर खंय? तो तांच्याकूय आपल्याक मोटो समजता. पळय मरे, तो कितें बरयता तो! सलमान रश्दी वेंग मारता सोलत्झेनित्सिनाक, सोलत्झेनित्सिन वेंग मारता मिलान कुंदेराक, मिलान कुंदेरा वेंग मारता तस्लीमा नसरीनाक आनी तस्लीमा नसरीन खंय काशिक वेंग मारूंक सोदता पूण तो तिची वेंग मारून घेयना. तो ह्या सगळ्यांक कुशीन दवरून ताच्या माथ्यार हुमकळपी तलवारीक वेंग मारता. म्हळ्यार हो केदो मोटो क्रांतीकारक कवी तो पळय!

**लेखक** : [तापून] हो मेलो तलवारीक वेंग मारतलो! एक नंबरचो भित्रो मनीस हो. आमी येद्द्यो व्हडल्यो कोंकणी चळवळी केल्यो, रस्त्यार आयले, मोर्चा काडले, गोंय बंद केलें, पुलिसांच्यो लाठयो खाल्यो. पूण हो चोर एक दीस तरी आयला आमचे वांगडा? एकदां तरी हाणें केन्ना पुलिसांची लाठी खाल्या? आनी हो खंय तलवारीक वेंग मारतलो! थू तेच्या! उतरां बरोवपाक सोंपीं. करून दाखय मरे!

**आमीग** : काशिनाथ शांबा लोलयेकार हें लेगीत ताचें खरें नांव न्हय खंय!

**लेखक** : बुरखेबाज कवी तो. असल्यांक भर चौकांत चाबकांनी फोडपाक जाय, उपरांतूच ताका कळटलें, तलवारीक वेंग मारप म्हळ्यार कितें तें!

**आमीग** : तलवार जाल्यार तलवार! बरी याद जाली तुजे ते कथेची. 'टेररिस्ट' नांव न्हय ते कथेचें? हय 'टेररिस्ट'. ती कथा बरोवन मात तुवें खरी तलवारीक वेंग मारल्या.

**लेखक** : म्हळ्यार?

**आमीग** : समाजांतल्या गुंडांचो दहशतवाद तुवें भितर ताकदीन रेखाटला. पूण भितर तुवें बेधडक ते शांती संघटनेचें नांव घातलां तें बरोबर जालां अशें म्हाका दिसना.

**लेखक** : हांवें फट कांयच बरोवंक ना. आनी एक लक्षांत दवर, हांव भित्रो न्हय. आनी तुज्या त्या लोलयेकारासारकी गांडींत शेपडी घालपी न्हयच न्हय.

**आमीग** : जाणा रे हांव. तुजीं चळवळींतलीं तीं मोर्चांतलीं भाशणां आयकल्यांत हांवें. तुमचे सारक्या दमदार लिडरां खातिरूच आयज कोंकणी वयर सरूंक पावल्या. बरें तर. आतां फुट्टां हांव. [उठ्ठा] आं, तें मात लक्षांत दवर.

**लेखक** : कितें तें?

**आमीग** : तें रे! साहित्य अकादेमीचें!

**लेखक** : हां, हां. तें. ओके.

**आमीग** : बरें तर. मेळुंया.

[लेखक दारामेरेन ताका सोडूंक वता. आमीग वता. लेखक दार बंद करून परत येवन आपल्या देस्कामुखार बसता. कागदां हेवटेन-तेवटेन चाळून कितेंतरी बरोवपाक लागता. इतल्यान दाराचे बेलिचो आवाज येता. एकदम कर्कश. लेखक उठ्ठा. आनी दार उगडटा. दारांत सात-आठ तरणाट्यांचो घोळको उबो. दार उगडिना बरोबर ते लोक लेखकाक धुकलुनूच भितर येतात.]

**लेखक** : [तापून] आरे, कोण तुमी?

**पयलो** : लेखक रामदास रायकार खंय?

**लेखक** : हांवूच तो! कित्याक?

**पयलो** : [लेखकाचे कॉलरीक धरून] जीव जायो मरे तुका?

**लेखक** : आरे, कॉलरीक सो धरता? कितें मॅनर्स आसात काय ना? आनी घरांत येवपाची ही अशी पद्धत? म्हज्या घरांत म्हजेरूच दादागिरी?

**दुसरो** : ए चूप! दांत पोटांत घालतलों. वळखता आमकां?

[इतल्यान बायल बोवाळ आयकून भितरल्यान येता.]

**बायल** : [काचाबूल जावन] कितें जालां? आनी हे लोक कोण?

**तिसरो** : तूं कोण गो? भयण हाची?

**बायल** : भयण? हांव बायल तांची. तुमी तांकां घेराव सो घाला?

**चवथो** : बरी सणसणीत आसा मरे!

**लेखक** : एऽऽ डिसेंटली उलय.

**पयलो** : ताका दाखय रे डिसेन्सी मात्शी!

[दुसरो फाड् व रून लेखकाच्या पोल्यार एक थापट लायता

**दुसरो** : कळ्ळी डिसेन्सी?

[लेखक सामको गर्भगळीत जाला. बायल रडूंक लागता.]

**बायल** : पांयां पडटां तुमच्या. तुमी चोरपाक बीन आयल्यात आस तर म्हज्यो सगळ्यो वस्ती तुमकां दितां. पूण म्हज्या घोवा सोडात.

**पयलो** : आनी कितें तुका धरूं? [हांसता] तुका आमी चोर दिसले आमी?

**दुसरो** : सांग रे ताका आमी कोण ते!

**तिसरो** : शांती संघटनेचें नांव आयकलां?

**पयलो** : आयकलां म्हणजे? नाजाल्यार ओगीच बरयतलो आसलो ? आमचेर! [लेखकाच्या माथ्यावेल्या केंसांक घट्ट धरीत] उलय 'टेररिस्ट' ही कथा बरोवपी तूंच मरे तो? [पॉज] उलय!

[लेखक भियेल्ले नदरेन ताचेकडेन पळयत आसा.]

उलय! [पॉज. लेखकाच्या दोळ्यांबरोबर थापट लायता.] उलय

**लेखक** : [लेखकाच्या दोळ्यांत भळभळीत दुकां] हय.

**पयलो** : कितें बरयल्लें तुवें ते कथेंत?

**लेखक** : [घुस्मटिल्ल्या आवाजांत] पूण ती प्रेमकथा आशिल्ली.

**पयलो** : खबर आसा. तुमी फालतू लेखक प्रेमाशिवाय आनीक कि बरोवंक शकतात? ते कथेंतल्या चेडवाचो भाव आमचे संघटनेच मेंबर अशें दाखयल्लें मरे तुवें?

**लेखक** : हय, हय.

**पयलो** : तो आमचेच संघटनेचो मेंबर कित्याक? काँग्रेसिचो कित्याक न्हय? बी.जे.पी.चो कित्याक न्हय? एम.जी.चो कित्याक न्हय? [पॉज. लेखक मान सकयल घालून ओग्गी.] उलय. [पॉज आमची संघटना गुंडांची संघटना अशें ते कथेंत एक वाक आसा मरे? उलय!

**लेखक** : हय.

**पयलो** : कोणें सांगलें? कोणें सांगलें तुका आमची संघटना गुंडांची संघटना म्हणून? उलय [पॉज].

**दुसरो** : एक मार रे कानसुलार!

**बायल** : नाका. मारूं नाकात तांकां.

**पयलो** : कोणें सांगलें तुका आमची संघटना गुंडांची संघटना म्हणून?

**लेखक** : [कसोबसो उलयत] कोणें सांगूंक ना.

**पयलो** : मागीर तुका कशें कळ्ळें?

**लेखक** : चूक जाली. बरोवपाक चूक जाली.

**पयलो** : कशी जाली?

[पॉज]

चूक जाली म्हणून बरोवन दिता तूं?

[पॉज]

उलय. [पॉज]

: हय. दितां हांव.

: घे. कागद, पेन घे. आनी बरय. [लेखकाक धुकलता. लेखक देस्काकडेन वचून कागद पेन काडटा.] बस थंयच. आनी बरय. आपणें 'टेररिस्ट' कथेंत शांती संघटनेक गुंडांची संघटना म्हळ्ळ्या तें चुकोन म्हळ्ळां. [पॉज] शांती संघटना गुंडांची संघटना न्हय. ती समाज सेवकांची संघटना. [पॉज] हांव शांती संघटनेच्या सगळ्या मेंबर्सांची मनापसून माफी मागतां.

[लेखक थरथरत्या हातान बरयता. सगळे फाटल्यान कमरार हात दवरून रावल्यात. बायल भियेल्ले नदरेन सगळ्यांक पळयत आसा. एक दीर्घ पॉज. उपरांत लेखक बरयल्लो कागद पयल्यामुखार धरता.]

वाचून दाखय कितें बरयलां तें!

: [वाचता] हांवें 'टेररिस्ट' कथेंत शांती संघटनेक गुंडांची संघटना म्हळ्या तें चुकोन पडलां. शांती संघटना गुंडांची संघटना न्हय. ती समाज सेवकांची संघटना. हांव शांती संघटनेंतल्या सगल्या मेंबर्सांची माफी मागतां. [पॉज]

: गुड! कागद दी. [लेखक कागद दिता. पयलो वाचता. उपरांत —] पूण सायन खंय रे तुजी? सायन कोण तुजो बापूय मारतलो?

[लेखक परत तो कागद घेवन धडपडत सय करता. कागद परत दिता.]

: गुड! आतां एक कर. गोंयांत म्हूण जितले कोंकणी, मराठी, इंग्लेज पेपर आसात त्या सगळ्यांक एक जायरात धाड. ते जायरातींत बरय की आपणें बरयल्ले कथेंत चुकोन शांती संघटना ही गुंडांची संघटना अशें वाक्य पडलां. शांती संघटनेबद्दल म्हाका आदर आसा. म्हूण तेबद्दल शांती संघटनेची हांव जाहीर माफी मागतां. [पॉज] कितें?

: धाडटां.

: केन्ना?

: आजूच धाडटां.

: फाल्यां आमकां सगळ्या पेपरांचेर वाचपाक मेळूंक जाय.

: हय.

: नाजाल्यार फाल्यां तुजी बायल रांड जावं येता. खबर आसा मरे?

: हय.

: हय कितें रे?

: ना.

: ना कितें रे?

: रांड जातली.

: तुजी बायल रांड जातली, कळ्ळें?

: लाग कामाक. चलात रे!

[सगळे दाराकडेन वचपाक भायर सरतात. पयलो थप्प करून रावता. फाटीं वळून पळयता.]

आनी एक. आमचे विरुद्ध पुलिसेंत जर एखाद्री कंप्लेंट तुवें केली तर तुका आनी तुजे बायलेक नागडी करून उबी चिरतलों. लक्षांत दवर.

[लेखक आनी बायल भिरांकूळ नदरेन तांकां पळयतात. ते वतात. बायल बेगीबेगीन वचून दार बंद करता. लेखक तकली धरून कदेलीर बसता.]

: गुंड, मवाली मेले!

**लेखक** : मोट्यान उलोवं नाका. आयकत ते. [पॉज] म्हाका इल्लें उदक हाड पळोवया. [बायल भितर वचून उदक हाडटा. दिता.]

**बायल** : पयर त्या बारवाल्याक सुरो तोंपिल्लो ती न्यूज पेपरांत वाचिल्ली तुमी? त्या खुनांत शांती संघटनेचोच हात आसा खंय!

**लेखक** : ओग्गी राव पळोवया. तकली भणभणल्या म्हजी.

**बायल** : आतां कितें? [पॉज] जाहीर माफी मागची पडटली पेपरांत. [पॉज] पूण तुमी तांचे विरुद्ध तशें बरयलेंच कित्याक?

**लेखक** : फकत एकूच वाक्य तें. त्या एका वाक्यान हें येदें व्हडलें म्हाभारत केलें.

**बायल** : पूण असल्या मनशांविरुद्ध बरयलेंच कित्याक?

**लेखक** : लेखनांत सत्य बरोवचेंच पडटा.

**बायल** : असलें जीव घेवपी सत आमकां बाये नाका. हांव सांगूं, तुमी लेखनूय बंद करात. नाका तें साहित्य आनी नाका तो पुरस्काराचो पयरो. जीव आसल्यार भीक मागून खावं येता. तुमची काय बरी एल्.आय्.सी.त सर्वीस आसा. तीच बरे भशेन करीत रावात. आयच्यान लेखन-बिखन बंद. सामकें बंद. तुमी बायल-भुरगेकार. तुमकांच जर कितें जालें तर आमी कोणाच्या तोंडाकडेन पळोवपाचें? बंद. सामकें बंद!

[इतल्यान परत बेल वाजता. दोगांय कांचवेवन दाराकडेन पळयतात. व्हडलो पॉज. परत बेल वाजता. बायल ल्हवूच उठ्ठा. दाराकडेन वचून सुलूस घेता.]

कोण?

['हांव तो फातर्पेकार' – भायल्यान आवाज येता. बायल दाराक चेन घालून दार किलकिलें करता.] कोण जायो?

**मनीस** : [भायल्यांतल्यान] कोंकणी साहित्यीक रामदास रायकार आसात न्हय?

**बायल** : हय. पूण तुमी कोण?

**मनीस** : [भायल्यांतल्यान] कोंकणी सेवा केंद्राचो हांव अध्यक्ष. पांडुरंग फातर्पेकार. रायकारांकडेन थोडें काम आसलें.

[बायल दार उगडटा. तशे दोग पन्नाशिच्या वयाचे मनीस भितर येतात.]

**बायल** : येयात. बसात.

[दोगूय जाण बसतात. लेखका सामकार.]

**मनीस** : [लेखकाक] नमस्कार. हांव पांडुरंग फातर्पेकार. कोंकणी सेवा केंद्राचो अध्यक्ष, आनी हो सदाशिव नायक. आमचो सेक्रेटरी. [सेक्रेटरी लेखकाक नमस्कार करता] आमचे संस्थेचो पंदरा ऑगस्टाक वर्धापन दीस आसा. [लेखक फकत तांचेकडेन शून्य नदरेन पळयत आसा.] त्या दिसा 'लेखकाचें सत्व आनी अभिव्यक्ती स्वातंत्र्य' ह्या विशयाचेर आमी एक परिसंवाद दवरला. ताचें अध्यक्षपद तुमी स्विकारचें अशी आमची इत्सा आसा. तुमी येशात जाल्यार आमकां मोटी खोस जातली. [लेखक कांयच उलयना. शून्य नदरेन तांकां पळयता.] येतले मू तुमी? [पॉज] तुमी कांयच उलयनात शे?

**बायल** : [सांबाळून घेत] तांच्या जिवाक बरें ना आज?

**मनीस** : अशेंऽऽ. दोतोराक बी दाखयलां मू? कांय नजो. फाल्यां येतात आमी. [उठ्ठात] बरें तर. [वचपाक दाराकडेन वतात. इतल्यान लेखक उठ्ठा.]

**लेखक** : रावात. [ते रावतात.] तुमच्या परिसंवादाक हांव येतलों.

**मनीस** : [फुडें येत] व्वा, व्वा, आमकां भरून पावलें. 'लेखकाचें सत्व आनी अभिव्यक्ती स्वातंत्र्य' हाचेर उलोवपाक तुमचे बगर आनी

दुसरी कोंकणींत अधिकारी व्यक्तीच ना.

लेखक : विशय कितें म्हळो? 'लेखकाचें सत्व आनी अभिव्यक्ती स्वातंत्र्य.' हूं. उलयतलों हांव ताचेर.

मनीस : पूण जिवाक जपात. वखदां बीन वेळार घेयात. तर थरलें न्हय? फाल्यां पेपरांत तुमच्या नांवासकट जायरात दितां.

लेखक : दियात.

मनीस : बरें तर! [हात दिवन वतात. बायल लेखकाकडेन पळयत उरता. दोगांयची नदरानदर जाता.]

लेखक : पळयत रावल्या शी?

बायल : तुमचें कांयच कळना म्हाका.

लेखक : एक ग्लास आनी थंड उदकाची बाटली हाड.

बायल : अजून आमोरी खंय जाल्या तर?

लेखक : जातली. आमोरी जातली. वेळ कोणाक रावना! चल हाड तूं. [डेस्कांतली व्हिस्किची बाटली भायर काडटा. मेजार दवरता. बायल ग्लास आनी उदक हाडून दवरता. लेखक ड्रिंक ग्लासांत रकयता. उदक घालता. बायल कुतुहलान लेखकाक उबी रावन पळयत आसा. ग्लास वयर करून लेखक प्रेक्षकांकडेन पळयता. प्रेक्षकांक पळोवन 'चिअर्स' म्हणटा आनी एक सीप मारता.] [पड्डो]

चत्राय : प्रयोगाखातीर लेखकाची परवानगी गरजेची. लेखकाचो पत्तो : एस. डी. तेंडुलकार, लोबोवाडो, थिवी, बारदेश, गोंय.

* * *

# अहिल्या

चंद्रकांत केणी



''नांव ?'' ताणें विचारलें.

''अहिल्या.'' तिणें जाप दिली.

''आयकल्ले भाशेन दिसता.''

ती निखटी हांसली. थोडिशी लजून. पांयांच्या आंगठ्यान जमीन खणची तसो यत्न करूंक लागली.

''अहिल्या ह्या उतराचो अर्थ कितें ?'' आपले तपासणे नदरेन तिका नियाळून घेतले उपरांत ताणें विचारलें.

''खबर ना.''

''नांव कळ्ळें... आतां वर्सां कितलीं तुका ?''

लजेन गाल अरळ जाले. सकलो ओंठ दांतांपोंदा चिड्डून ती पुटपुटली, ''तीस.''

''तीस म्हळ्यार थोडीं न्हय ! हे आदींच लग्न जाल्लें जाल्यार येन्नासर भुरग्यांची आवय जावपाची !'' ताणें म्हळें.

तिका तागेलें हें उलोवप रुचलें ना. दुसरो कसलोय प्रसंग आशिल्लो जाल्यार ती ताका सणसणीत जाप दिवपाची. तिच्या आंगाक स्पर्श करपी तागेली आशेल्ली नदर कोंकून काडपाची. पूण आयज ती लाचार आसली... आयताराच्या बाजारांत विकूंक हाडिल्ले बोकडेवरी... थंय ते बोकडेचो फुडार थारता. विकती घेतलो तिका पोसतलो ?... काय मारून खातलो ?

''शिक्षण ?'' तिगेल्या विचारांची सांखळी तागेल्या धेंगशा सारक्या प्रस्नान तुटली.

''धा यत्ता.''

''धावी पास ?...''

''ना. धावेक आसतना शाळा सोडली.''

''कित्याक ?''

''आई मेली !'' आवयचो उगडास येवन तिचे दोळे भरून आयले. दिसलें, आई आशिल्ली जाल्यार अशें जावपाचें न्हय.

''मेली ती तेन्ना मेली... आतां तूं कित्याक रडटा ?'' ताणें तिचीं फकांडां केलीं.

मनांतल्या मनांत ती तिडकीन फणफणली. पूण तिणें तिडकेक लगाम घालो.

''तरीकय तुज्या नांवाचो अर्थ तुका कळना ?'' ताणें म्हळें. ''आतां म्हजें नांव पुरुषोत्तम. म्हळ्यार उत्तम पुरुश. बऱ्यांतलो बरो दादलो तो पुरुषोत्तम. कळ्ळें ?''

तिणें निखटी तकली हालयली. पूण मनांतल्या मनांत ती हांसली. बऱ्यांतलो बरो दादलो असो आसता जाल्यार वायट दादलो कसो आसतलो काय, असो तिका प्रस्न पडलो.

संवाद खूब वेळ चल्लो. वाघाचे तावडींत सांपडिल्ले बोकडेसारकी तिची अवस्था जाल्ली. केन्ना काय सुट्टा अशें तिका जाल्लें. तशी ती धीट आसा. तीस पावसाळे तिणें आंगार घेतल्यात आनी पचयल्यात. असल्या दादल्यांकडेन कशें वागचें हें ती बेस बरें जाणा. मुळांतच ती डावखुरी. दादल्यांच्या गालार एक थापट मारलें जाल्यार त्या थापटाचो नेट कितलो आसता ताचो अदमास तिणें जायते खेपे घेतला. पूण आज ती लाचार आसली. तो तिच्या घरा आयिल्लो आनी वाघाचे घोलींत तिगेले मावशेन तिका धुकलिल्ली.

हातांत च्याचे दोन कप आनी खाणाची प्लेट आशिल्ली ट्रे. नर्व्हस जावपाची तिका संवयच ना. तरी कपाक कप आपटून आवाज आयलो तेन्ना आपले हात कडकडटात म्हणपाचें तिका कळ्ळें आनी कडकडप आडावंक मन घट करतासर हात अदिकच कडकडले.

कुडींतले टीपॉयचेर ट्रे दवरली आनी सदचे संवयेन अहिल्येन साडयेचो फाटलो पदर फुडें करून आपलें तोंड पुसलें. मागीर तिचे तिकाच दिसलें, ही असभ्य रीत जाली. तिणें पदराचें सुटूकं नाशिल्लें सूत ओडून तोडलें आनी पदर सारको करच्या यत्नांत तो ओडिल्ले भाशेन केलो. ते मेरेन तिणें तकली वयर करून पळोवंक नासलें. जेन्ना तकली वयर केली तेन्ना घुघमाचे दोन दोळे आपणाक घुरतात हें पळोवन तिचे छातयेंत कळ आयली.

निळ्या रंगाचो सूट आनी तांबड्या रंगाचो टाय. भायर दिसतालें तें धव्या शर्टाचें कॉलर ! माथ्यावयले केंस काळे आसले तरी तांकां कलप लायला हें ती मनांतल्या मनांत जाणा आसली. हालीं हालीं केंस वळोवंक हारशामुखार उबी रावली जाल्यार तिगेल्या माथ्यांत लेगीत रुप्याची एकाद्री रा चकचकता. तो उणेंच पन्नास-पंचावन्न वस पिरायेचो आसतलो.

घुरतां घुरतां तो हांसलो. टूथपेस्टींत जायरातींत चकचकचे तशे दांत चकचक मनांतल्या मनांत अहिल्येन म्हळें, ''दांत अ आसतले.''

पूण एक खरें. तो भुरगो दिसतालो. घुघमासा दोळे आसले तरी ताच्यांत एक भारदस्तपणा आर मावशेन पसंत केल्लो न्हवरो.

'न्हवरो' हें उतर आतां अर्थ वगडावन बस अशें तिका दिसलें. तरी जो बाशींग बांदून सव चडटा तो न्हवरोच. ताणें पसंत केली जाल्य ती उजवतली. मावशेले आनी बापायले सुस्व सोंपतले. आपूण तांच्या गळ्याक तेंकल्या हें ति कळटा. देवान तिका रूप दिलें ना; पूण घसघर्श आंगलोट दिलो. ल्हान पिरायेचेरच तिचें अ पळयतल्याचे नदरेंत भरतालें. आनी पर दादल्यांच्यो अधाशी नदरो तिच्या आंग रोंबताल्यो.

तिणें येवजिल्लें, कोणाचें तरी घर सांबाळपा आपलो जल्म आसा. मन हें आदींच भेरेल म्हणटकच भावनेचो प्रस्न ना. तिका तिची पसं कोणें विचारूंक नासली. पूण आतां पुरुषोत्तम पळयतकच अहिल्येक तो वायटसो दिसलो तिणें दोळे धांपून घेतले आनी देवाकडेन माग हाणें पसंत केल्यार पुरो.

मोनी शांतताय सोंपून ताणें तपासणी सुरू कें तेन्ना मात तिच्या मनांत राग खतखतूंक लाग तरी ती थंडसाणेन सगळें सोंसताली. मन म्हणटाली, एक खेपे तुजी बायल जावन तुज घरांत पावली म्हणटकच तुका कशी बुद्द शिकोव तें हांव जाणां.

तपासणी सोंपली. आनी ताणें विचित्र प्र विचारलो. ''हांवें तुका पसंत केली जाल्यार तु



...जातली ?''

...रगट्ट आसुनय तिका लज दिसली. नदर ...श घालून निखटी तकली हालयली. ताचो ...डें जालो तेन्ना मात ती फाटीं सरली.

...जाणा न्हय ?'' ताणें म्हळें. ''म्हजी पयली ...मेल्या. हांव तुका फटोवंक सोदिना. तुगेल्या ...म सांगिल्लें नासत जाल्यार आदींच सांगून ...ं. म्हजी दुसरी बायल म्हणून येवंक तूं कबूल न्हय ?... दोन वेळचें जेवण आनी इभ्रतिची ...ांव तुका दितलों. म्हगेर भुरगें ना. ती उणीव ...रून काडची अशी अपेक्षा... हे पिरायेंत ...ीन कुड्डो जावन न्हय, जाल्यार वंशावळ ...दवरपाचे भावनेन हांव लग्नाक कबूल ...''

...ी प्रतिक्रिया तो नियाळूंक सोदतालो. पूण ...ड आदलेवरीच निर्विकार उरलें. दोन खीण ...कांयच उलयलो ना तेन्ना तिणें नदर वयर ...ताचेकडेन पळयलें. तो तिका निरखीत ... नदरेक नदर मेळ्ळी आनी तिच्या तोंडार ...लललो.

...ा त्या हांशांत तिची जाप मेळिल्लेभाशेन ...ती भितर वचूंक वताली. ती जाणा, कुडिचें ...आसलें तरी भितरले वाटेन मावशी आनी ...णटीक कान लावन उबीं आसतलीं. तिका ...येतले देखूनच बापायन मावशेक मुद्दाम ...घेतल्या. जुळ्ळें जाल्यार ती भुरकुटून ...भयणिचें रीण फारीक केल्ल्याचें समाधान ...ळटलें. काल रातभर तिणेंच अहिल्येक ...पाचो यत्न केल्लो.

...नाबगर बायलेचे जिणेक अर्थ उरना. ...ी वांकडी नदर लग्न जायसर पिडटा. तुजो ...ाण्टो जाला. हांवूय मरून गेलीं जाल्यार ...ायनाशिल्ली एकली चली तूं कितें ...?''

...ी सांगता तें तिका खरें दिसतालें. नाय जाल्यार तिचे जिणेक आतां अर्थ उरूंक ना.

ल्हान पिरायेचेर तिणें मोग केल्लो. सगळें सूख भोगिल्लें. आतां तिका कसलीच उमेद उरूंक ना. तेन्ना, लग्नाक कबूल जाली म्हणून तिचें कसलेंच लुकसाण जावचें ना.

ती दाराकडेन गेली आनी ताणें परत उलो मारलो. ''अहिल्ये, राव. एक निमाणो प्रस्न उरला. म्हजी खबर हांवें तुका सांगली. पूण तूं इतलीं वर्सां आंकवार कशी उरली तें सांगलें ना.''

ह्या प्रस्नाची तिणें अपेक्षा करूंक नासली. खरी जाप दिवंक ती भियेनासली. पूण तिणें इतलेंच म्हळें, ''म्हजें नशीब. आनीक कितें सांगूं?''

कुडिचें दार उकतें करून ती भायर आयली. तिका कांय एक विचारिनासतनाच बापूय कुडींत गेलो, लग्नाचो म्हुर्त थारावंक.

पुराय मजकूर हांवें वाचून काडलो. आनी तो घेवन आयिल्ले लेखिकेक विचारलें, ''ही कथा पूर्ण जाली काय फुडली बरोवपाची उरल्या ?''

''फुडली कशी बरोवची तें म्हाका कळना. देखून तुका दाखोवंक आयिल्लीं.'' तिणें म्हळें.

म्हजे मुखार सुमार पन्नास वर्सांची जाण्टी बायल बशिल्ली आनी तीच ही कथा घेवन आयिल्ली. सामान्यतायेन कथा वाचून फाटल्यान निकाल कळयतां अशें हांव साहित्य घेवन येतल्या लेखकांक सांगतां. पूण ही बायल कशीच हालना जाली. मात्शी वाचून पळय, असो तिणें आग्रो धरलो देखून हांवें ती वाचली.

''कथा बरी आसा.'' हांवें तिका म्हळें. ''पूण ती हांव कशी पूर्ण करतलों ? तुजे तकलेंत आसा तें सगळें बरोवन काड, मागीर पळोवया.''

''तेंच कशें बरोवचें तें म्हाका समजना.'' तिणें म्हळें.

''तुका कितें सांगूंक जाय ?''

''सगळी कथा म्हाका सांगचेली आसा.''

येदोवेळ हांवें तिका तिचें नांव, गांव कांय विचारूंक नासलें. म्हाका ओगीच दुबाव आयलो, ही तिगेली आत्मकथा न्हय मू ? आनी हांवें तिका विचारलें, ''तुजें नांव कितें ?''

''कथेंत बरयलां तेंच... अहिल्या !''

हांवें अजापान तिच्या तोंडाकडेन पळयलें. थंय कसलेच भाव उदेवंक नासले.

''म्हळ्यार ही तुजीच कथा ?'' हांवें विचारलें.

''हय.''

''मागीर फुडें बरोवंक अडचण कसली ? जें कितें घडलें तें सगळें बरय.'' हांवें सुचयलें. ''तुजें त्या पुरुषोत्तमाकडेन लग्न जालें मू ?''

पदराआड लिपिल्लें मंगळसूत्र भायर ओडून तिणें म्हळें, ''हें ताणेंच म्हज्या गळ्यांत बांदलां. आज सतरा वर्सां सौभाग्याचो हो कुकूम ताच्याच नांवान लायतां. पूण आतां एक विपरीत घडणूक घडल्या. ताणें म्हाका सोडल्या...''

हांवें म्हळें, ''घरगुती झगडीं कथांनी कित्याक हाडटा ? कोणाय बरें मागप्याक मदीं घालून तीं पालय.''

''म्हाका झगड्यांचो हुस्को ना. म्हाका हें सगळें बरोवंक जाय. हांव लेखिका न्हय. इतलें बरयतकच म्हाका दिसलें, तें सगळें बरोवंक जमचें ना. देखून तुका सांगतां, तूं बरय.''

''हें बरयलें जाल्यार तुज्या घोवाची प्रतिक्रिया कितें जातली ?''

''जालां ताच्याक वायट आनीक कितें जावचें पडलां ? तो दुबावी मनीस. ताची प्रतिक्रिया कितेंय जावं. हांवच सांगतां, तूं बरोवन काड.''

''सतरा वर्सां तुवें ताचेकडेन संवसार चलयलो न्हय ?''

''हय. मुळांत तो जाणटो. आतां म्हातारो जाला. पूण ताका म्हातारचळ लागलां. म्हाका दुबावता आनी आपूण तिसरी बायल हाडपाचीं सपनां पळयता.''

अहिल्येन लग्ना उपरांत लेगीत केन्ना अहिल्या ह्या नांवाचो अर्थ समजून घेवपाचो यत्न करूंक नासलो. तिका गरजच नासली. तिचें लेखी नांव म्हळ्यार उलो मारपाचें साधन. नांवाकय अर्थ आसूं येता हें तिका केन्ना येवजूंकच नासलें आनी आपणाक नांव दवरता आसतना आवय बापायन केन्ना नांवाचो अर्थ समजून घेतिल्लो आसत अशें तिका दिसनासलें.

''म्हजें नांव अहिल्या'' अशी तिणें खबर सांगूंक सुरवात केली तेन्ना हांवें तिका विचारलें, ''आतां तरी तुका अहिल्या ह्या उतराचो अर्थ कळ्ळो ?''

ती हांसली. तिणें म्हळें, ''म्हज्या घोवानच म्हाका सांगलो. तो वयलेवयर म्हाका अहिल्येची खबर सांगता आनी ते अहिल्येसारकीच तूं अशें म्हणटा... पूण ती खबर मागीर सांगतां. आदीं म्हजी लग्ना आदली खबर आयकून घे.''

गोंयच्या स्वातंत्र्याची चळवळ निमाण्या टप्प्यांत पाविल्ली त्या अदमासाची गजाल. अंत्रूज म्हालांतल्या एका गांवांत अहिल्येचो जल्म जालो. ती आठवेच्या वर्गांत आसली आनी तांकां एक शिक्षक शिकयतालो. तरणो भुरगो शिकयता देखून शिक्षक म्हणपाचो. पिरायेन अठरा-एकोणीस वर्सांचो आसतलो. तो शिक्षक वेगळे तरेचो. तो भुरग्यांक काणयो सांगतालो, कवायती शिकयतालो. दोंगराचेर व्हरून देशभक्तिचीं गितां शिकयतालो, प्रभातफेरयो आनी झेंडावंदनाच्यो कार्यावळी करतालो. शाळा सुट्टकच ताच्यो ह्यो उचापती चलताल्यो.

पुर्तुगेजांचें राज्य आसलें तरी आडकुशिचो गांव जाल्ल्यान थंय कोणाची नदर वचना आसली आनी शिक्षक वेगळें कितें करता अशें गांवच्या लोकांकय दिसना आसलें.

शिक्षकाचें नांव अहिल्येन सांगलें पूण तें छापचें न्हय असो सोपूत घालो. तिणें म्हळें, ''शाळेंत ताका भुरगीं भाईसर म्हणटालीं आनी गांवचो लोकय भाईच म्हणटालो.''

भाई हो स्वतंत्रताये चळवळी कडेन संबंद दवरपी तरणाटो. आपले परीन तो लोकांच्या मनांत देशभक्ती जागोवपाचें काम करतालो आनी खर्चाक पयशे जाय इतलेच खातीर शिक्षकाची नोकरी करतालो.

अहिल्येच्या घरा फाटल्यान नाल्ल घालपाचें एक लॉज आसलें. थंयच तो रावतालो. आपल्या हातान रांदून जेवतालो. त्या दिसांनी घरांत अहिल्येची व्हडली भयण आसताली. ती अहिलेकडल्यानच थोडें जेवण भाईक धाडटाली.

''शाळा सुट्टकच हांव अभ्यास करूंक भाईगेर वचून बसतालीं. ताणें म्हाका शिकवण दिवची, होमवर्क जातकच गांधी, नेहरूंच्यो, सुभाष, सावकरांच्यो खबरी सांगच्यो.''

शिक्षक आनी विद्यार्थिनी हांचें नातेंच वेगळें आसता. जरी अहिल्या आंगान भरत वताली तरी ती भाईच्या बिराडाचेर वता वा ताच्या सांगातान दोंगराचेर वचून कवायती करता हाचें अहिल्येच्या बापायक कांयच दिसलें ना.

''पूण हांव मात भाईमय जावन गेल्लीं. ताचो सहवास म्हाका जाय जायसो दिसतालो. आमी खुबच लागीं आयलीं. ताणें म्हाका सांगिल्लें, ''तूं एस.एस.सी. पास जायनाफुडें आमी लग्न करुंया.''

पूण अहिल्या एस.एस.सी.च्या वर्गांत आसतना दोन विपरीत घडणुको घडल्यो. दोनूय घडणुको एकाच दिसा घडल्यो. तिगेली व्हडली भयण लग्न जावन घोवागेर गेल्ली आनी दोन दिसांच्या वायटान आवय संवसाराक अंतरली. निमाण्या संस्काराची तयारी चलता आसतना अचकीत पोलिसांची जीप तांच्या दारांत उबी रावली. सगळो गांव अहिल्येचे आवयच्या मर्णाक आयिल्ल्यावेळार दारांत पोलिसांक पळोवन काचाबूल जालो. त्या दिसांनी पोलीस म्हळ्यार लोक भियेताले. स्वतंत्रतायेचे चळवळीकडेन कोणालो संबंद पावता असो दुबाव आयल्यार लेगीत ताका पालमत्र्यांनी बडयताले. आंग फोडून रगत व्हांवयताले. खूब जाणांक जिवानिशीं मारून लेगीत उडयताले.

त्या दिसा पोलीस भाईक धरूंक आयिल्ले. कोणेंतरी भाईकडेन बोट दाखयलें आनी पोलिसांनी ताच्या हाताक बेडी घाली. उपरांत तागेल्या बिराडाची झडटी घेतली. कितलिंशींच कागदां, पुस्तकां जप्त केलीं आनी भाईक घेवन जीप गेली.

''सगळो गांव आमच्या आंगणांत आसलो. पूण एकल्यानय पोलिसांक आडायले नात वा एकलोय चुरचुरलो ना. जीप गेली आनी उपरांतच तांणी प्रेत उखललें.''

त्या प्रसंगाचें वर्णन करून अहिल्या हांसली.

म्हाका तो हांसो विचित्र दिसलो. ही बायल पिशी न्हय मू, असो दुबाव लेगीत आयलो. म्हज्या मनांतलो दुबाव तिका कळ्ळो आसतलो. तिणें म्हळें, ''जिणेंत इतले ताण सोंसल्यात की म्हजीं दुकां आटून गेल्यांत. तुका फट दिसतलें, पूण म्हाका रडूंक येना. गंभीर प्रसंगाचेर लेगीत म्हाका असो सुको हांसो येता. हांव फकाणां करिना.''

हांवें तिच्या तोंडाकडेन निरखून पळयलें. ती खरें उलयता अशें म्हाका दिसलें आनी तिची काकुळट दिसून हांवें विचारलें, ''खंयच्या वर्साची गजाल ही ?''

''१९५६ वा ५७ आसुंये.'' अहिल्येन जाप दिली. ''हांव तेन्ना सोळा सतरा वर्सांची आसलीं. ते उपरांत म्हजी शाळा बंद पडली. घर सांबाळपाची जापसालदारकी म्हजेर उरली. दीसपट्टी हांव मोठे आशेन वाट पळयतालीं, भाई परत येतलो म्हणपाची. तो परत आयलोच ना.''

भाईचेर आरोप आसलो की ताणें स्कुलाच्य आवारांत लायिल्लो पुर्तुगेज बावटो देंवोवन थं तिरंगी बावटो लायिल्लो. कोणेंतरी कागाळ केल्ल आनी पोलिसांनी भाईक धरून व्हेल्लो.

कांय दीस गांवचे लोक भाईची याद काडटाले उपरांत तेवूय विसरले. शाळेच्या व्यवस्थापकांनी सरकाराचें वायटपण नाका अशें येवजून एक 'पुर्तुगालद्रोही' शिक्षकाक नोकरेवेल्यान काडू उडयलो.

अहिल्या निकतीच वयांत येताली. कितें घडल तें तिका समजतालें. ज्या हारशांत रूप नियाळी राविल्ली तोच हारसो अचकीत जमनीर पडून फुट्ट गेल्लो. उकतेपणान रडपाचीय चोरी आनी आपल मन कोणाकडेनय मेकळें करपाचीय संद नासली.

पूण थोड्या दिसांनी तिका समजलें, तिका दीस गेल्यात. कोणाक सांगतली ? मावशेगेर वचून सग तिका सांगलें.

रातिच्या वेळार मावशी तिका घेवन पर आयली. तिच्या बाबाकडेन मावशेन उलोवणीं केलीं.

''तो जितो परत येतसो दिसना. आनी आयलो जाल्यार ताका पोलीस सुखान जगूंक दिवचेनात. ताचो विचार तकलेंतलो काडचो आनी अहिल्येच्या फुडाराचो विचार करून गोंयाभायर वचून गर्भपा करून घेवंचो.'' बापायन निश्कर्श काडलो.

अहिल्येचेर जोगूल कोंसळ्ळें. पांयापोंदची भूं फुट्टा अशें तिका दिसलें. पूण एक नांवरूप के उपरांत विरोध करपाची शक्त तिच्यांत नासली.

ती गोंयाभायर वचून आयली आनी पुरती बदलू गेली. आवय गेल्ल्यान घराची जापसालदारी आशिल्लीच. पूण जाल्ल्या आघाताक लागून त एकदम जाण्टी जाल्ली. अल्लडपण सोंपिल्लें. गांव लोक थोमणे मारताले. सूचक भाशेंत असभ्य उलयताले. एक एक उतर काळजाक घाय करू वतालें पूण परती जाप दिवपाचें मनोबळ तिच्यांत नासलें.

फुडाराचें चित्र खूबच अस्पश्ट आसलें. मावशी तिका समजायताली. लग्न करूंक तयार जा अशें सुचयताली. पूण ती कबूल जायनासली. एके भाशेन ती जिणेक उबगल्ली.

हेच अवस्थेंत आसतना गोंय स्वतंत्र जालें. आत तरी भाई परत येतलो अशें तिका दिशिल्लें. खू जाणांकडल्यान तिगेल्या बापायनच वासपूस केली. ताका पोलिसांनी चार चौगांमुखार धरून व्हेल्लो. पूण फुडें ताचें कितें जालें हें कोणाकच खब नाशिल्लें. कोण म्हणटा, ताका आफ्रिकेंत धाडिल्लो कोण म्हणटा, ताका मारून उडयलो. सुट झुजाऱ्यांचो मान-भोवमान जाता आनी आपल्य नायकाचो पत्तो लेगीत लागना. अहिल्या मनांतल्य

ागान फणफणटाली. तिणें थारायलें, आतां
रपच ना.

ले पूर्वजिणेची खबर सांगतासर अहिल्या
ान जाली. पूण उलयतां उलयतां तिचे भाशेक
आयिल्ली आनी उतरांची तिखसाण
ाली.

ो म्हजी पूर्वजीण. हे फाटभुंयेचेर फकत
क आनी बाबाक बरें दिसचें इतले खातीर
ग्नाक कबूल जाल्लीं. लग्नापसून सुखाची
च नासली. ह्या जल्मांत तें म्हज्या वांट्याक
देव विसरलो हें हांव जाणां. पूण विचार
जो इतले अपेक्षेन म्हजेकडेन लग्न जाला,
सूख दिवंक मेळ्ळें ना जाल्यार दुख्ख तरी
न्हय. पूण घडलें विपरीतच...''

ाचे आड तुजी कसली कागाळ? तो
ोट कित्याक घेवंक सोदता?''

ाका भुरगें जाय, आपलो वंश
ाखातीर... आपली पिराय, म्हजी पिराय
चारांतच घेना. दीसभर म्हाका हिणसायता,
म्हणटा. म्हज्यान सोंसूंक नज जाता...''

तो खऱ्यांनीच नवें लग्न करूंक सोदता?''

अशें तोंडान तरी म्हणटा. आतां बायलोय
ात रस्ताद आनी आंकवार चलयांचो आंकडो
ना... हांव जालें ना ताचेकडेन लग्न?
ल्या चलयांक दिसता, घोवाची बायल जावन
ते खातीर कसलोय दादलो उपकारता. तांचो
ना...''

ूण एकाद्रो भुरगो... जाय जाल्यार
तलोच तो पोसको कित्याक घेना?'' हांवें
लें.

ाका आपल्या रगताचो, वंशाचो चलो जाय.
भुरगें जालें म्हणून ताचें समादान जावचें
यले बायलेक ताणें अशीच पिडली आसतली
हांतूण धरून ती मेली. आतां म्हजे फाटल्यान
. पूण हांव ताचें आयकून घेना. परत्याक
देतां. देखून आयिल्ल्या दिसा घरांत आमचीं
चालूच आसतात. तो हिणसायता, चाळयता.
नस्ते आळ घालता... म्हजो दुबाव घेता...''

ुबाव? कसलो दुबाव?'' हांवें विचारलें.

ो आदीं म्हज्या नांवाची फोडणिशी करूंक
वाचन मंदिरांतल्यान पुस्तकां घेवन आयलो.
क्शनरी हाडली. डिक्शनरींत ताणें वाचलें, अहिल्या म्हळ्यार पडंग जमीन. सुरवेक तोच अर्थ घेवन म्हाका चाळयतालो. हांव वांझूट म्हणपाचें म्हजे आवयक खबर आसलें. देखून तिणें म्हाका अहिल्या अशें नांव दवरलें अशें म्हणूंक लागलो. म्हाका कड फुट्टाले. दिसतालें, भाईकडल्या संबंदांविशीं ताका सांगून उडोवचें. पूण बुद्दीन भावनेक लगाम घालो.''

''पूण अहिल्येचो उद्धार रामान केलो हें तुवें ताका सांगलें ना?''

''म्हाका खंय खबर आसलें? ती खबर लेगीत ताणेंच म्हाका सांगली. त्या कोशांत बरयिल्लें, अहिल्या म्हळ्यार गौतम ऋषिची बायल. मागीर ताणें गौतम ऋषी विशीं पुस्तक हाडलें आनी म्हाका वाचून दाखयलें. एकूण दोश अहिल्येचो. जाणट्या ऋषीक आपले बायलेचो दुबाव येता आनी तो तिका स्राप दिता देखून ती शिळा जावन पडटा... तिचो उद्धार रामान केलो... हो आपणाक गौतम ऋषी समजता आनी म्हाका दुबावता. हांवें म्हळें, दुसऱ्या दादल्या सांगातान वचपाचें आशिल्लें जाल्यार हांव हें सगळें सोंसपाचीच न्हय.''

अहिल्येची कुचमण म्हाका समजली आनी हांवें तिका म्हळें, ''खऱ्यांनीच बरे कथेचो विशय आसा. तुजी परवानगी आसल्यार हांव ती बरोवन काडीन.''

''ही काणी न्हय. खरी खबर. गौतम ऋषी आदल्या काळारच आसताले अशें न्हय. आजय आसात... पूण आज राम मात ना.''

म्हाका दिसलें, गौतम ऋषिची कथा हे अहिल्येकूय लागू पडटा. जाण्टेपणांत लग्न करून वंशावळ वाडोवंक सोदतल्या गौतम ऋषीकडेन आशिल्लें त्या तपान संचीत केल्लें पुण्य. पूण वाडटे पिरायेवांगडा आपलो देह थकून गेला हाची ताका जाणविकाय नासली. पुण्याक लागून ताच्या उतरांत मंत्रांची शक्त आयिल्ली पूण जाण्टेपणाचेर ताचेकडेन वखद नासलें. मरणाचे वेध लागले तेन्ना आपलो वंश वाडोवपाचो हुस्को ताका जालो आनी तो अहिल्येकडेन लग्न जालो. पुराणांतले कथेंत म्हळां, एक दीस न्हंयचेर न्हावन परत येतना ताणें अहिल्येच्या म्हऱ्यांत दुसरो दादलो पळयलो आनी तिका स्राप दिलो.

कथेचो उगडास जालो तरी हांवें अहिल्येक ती सांगली ना. फकत इतलेंच म्हळें, ''गौतम ऋषीकडेन पुण्याय आसली. देखून ताचो स्राप बादलो.''

''म्हगेल्या घोवाकडेन आसात त्यो पातकांच्यो गांठी.'' एकदम आवेशान तिणें म्हळें.

''आतां सध्या तुमी एकठांय रावतात काय ना?''

''हांवें ताका सांगलां, गळ्यांत मंगळसूत्र बांदून हांव ह्या घरांत आयल्यां. म्हाका ह्या घरांतल्यान भायर काडपची आसत जाल्यार तिरडे वयल्यानच काडची पडटली.''

''ताची प्रतिक्रिया कितें जाली?''

''रागान उसळ्ळो आनी म्हळें, 'आपूण वांझ ती वांझ. म्हजो वंश निर्वंश करूंक सोदपी राक्षीण.' तेन्ना मात म्हज्यान रावंक नजो जालें आनी हांवें ताका सांगलें, 'खरी खबर कळ्ळी जाल्यार तुज्या आंगार जोगूल पडटलें!' ''

हांव अहिल्येकडेन पळयत रावलों. आंगांत भार आयिल्ले भाशेन ती थरथरताली. तो प्रसंग तिणें तुटक उतरांनी सांगलो. तिणें आपल्या घोवाक सांगलें, ''जाय जाल्यार तूं म्हाका पातकी म्हण, पूण वांझ म्हणूं नाका.''

घोवान म्हळें, ''आतां तुज्या तोंडान तूं कबूल जाली हें बरें जालें. तूं व्यभिचारिणीच. व्यभिचार हें पातकच. आनी वांझ जावनय वांझ म्हळ्यार राग येता?''

''हांव वांझ न्हय. म्हजें नशीब फुटकें देखून म्हजें भुरगें वांचलें ना. तूं मात...''

इतले दीस उतरांनी झगडीं जातालीं. अहिल्येची जळजळीत भास आयकून पुरुषोत्तमान तिच्या तोंडार थापट मारलें. ती वळवळून भूंय पडली. ताचें तोंड सुटलें. ताणें म्हळें, ''हीं तुजीं लक्षणां हांव जाणां. तेन्ना त्या मास्तराबरोबर नाचली आनी आतां येतल्या वतल्या सांगातान किटकिट्टा.''

''आसत'', तिणें म्हळें, ''पूण हांव वांझ न्हय, आनी दादल्यान दुसरी बायल करप धर्मांत बसता आसत जाल्यार बायलेन दुसरो घोव करप हो अधर्म कसो जायत?''

अहिल्येची काणी सोंपली. जें कितें घडलें तें ती समाजामुखार दवरूंक सोदता. हांवें तिका सगळी खबर बरोवन काडपाचें उतर दिलें.

''एक काम करूंक जाय.'' तिणें म्हळें. ''म्हजो घोव पाताळ्यंत्री. छापून येवचे पयलीं ताका कांयच कळूंक जायना.''

''ताका कशें कळटलें?'' हांवें विचारलें. ''छापतना ताचें नांव हांव बदलतलों.''

''गौतम दवर.'' तिणें म्हळें. ''पूण म्हजें मात अहिल्याच आसुंदी.''

* * *

# केन्ना केन्ना भुरग्यांकडसून देख शिकची

**दामोदर मावजो**

कालच्यान मिथिलालें घुंविल्लेंच आशिल्लें. पुराय सप्तकांत रुप्याची देग घेवन येवपी एकच दीस म्हळ्यार जुम्मा. ताचीच काल वाट लागिल्ल्यान तें बेजारिल्लें. तातूंत आजून बाबू घरांत पावंक नाशिल्ल्यान बेजारसाणींत अदिकच भर पडली.

काल त्या मुत्तवान पनवत लायली. आयज कितें जालें तर?

राजेश वेळार गेलो ना काय मॉंटेसरीकडेन?

काय जर्मनीच्यान कितें खबर आयली म्हूण कळाव केलो?

ट्रॅफिकांत घुसपून बी वेळ जालो ना मू?

काय कालचे भाशेन आयजूय बी कोण मुत्तवा वां सुरता मेळ्ळो आडावपाक?

काल सकाळीं घरांतल्यान भायर सरतना काय बरो मूड आशिल्लो! राजेशूय फॉर्मांत आशिल्लो. आडखळ आशिल्लीच जाल्यार ती बुरख्याची. पूण ताचीय आतां संवंयशी जाल्ली. दुसरो उपावूच नाशिल्लो. सावदींत आनी भोव करून हांगा रियाधांत आंगार ती काळी काबाय आनी माथ्यावयल्यान तो दोळ्यांक जाळी आशिल्लो बुरखो घालेबगर भोवंकच जायना जाल्यार!

राजेश मोटार चलयतना ताचे कुशिच्या सिटार बसून प्रवास करपाक मिथिलाक खूब आवडटा. स दीस घरांत सारतकीर भायर भोंवपा खातीर ताच्या वांट्याक येवपी हो एकूच दीस. आनी बुरखो घालेबगर तर भायर सरूंक मेळना. आनी बुरखो घालून खबरो मारतना मर्दी पड्डो आशिल्लेवरी एक पैसावो जाणवता तो मिथिलाक मात्त मानवना. पूण मोटारींत बसतकीर बुरखो वयर काडूंक मेळटा ताचो ताका आनंद जाता.

काल जुम्मा आसुनूय राजेशान गाडी ऑफिसावटेन व्हेल्ली. तागेलेच कंपनीन रिसर्च फेलोशिपखातीर राजेशाची मुलाखत घेतिल्ली. इंटरनेटाचेर दिल्ले on-line मुलाखतिचो येन्ना म्हणसर रिझल्ट येवपाचो. हुसक्यान राजेश ऑफिसांत गेलो. ई-मेल उगडून ताणें पळयलें. इन-बॉक्सांत जेद्दा, कुवेत, अमेरिकेच्यान आनी जर्मनीच्यान लेगीत आयिल्ल्यो मॅसेजीस आशिल्ल्यो. पूण सगळ्यो अवांतर. ताका जाय ती नाशिल्ली. निर्शेवन तो कम्प्युटरांतल्यान लॉग आऊट जालो आनी मोटारींत बसलो.

"आजून ना?" मिथिलान विचारलें.

"ना."

"नासूं. फाल्यां येत. दुसऱ्या कोणाक कांय घेवंक ना न्हय?"

"कशें कळटलें? घेतलाय आसत." अशें म्हूण राजेशान गिअरा वांगडाच विशयूय बदलल "पयलीं बथा या न्हय?"

बथा देंवन तांणी मसाले, पापड आनी खोबऱ्याचो कीस घेतलो. भोंवत भोंवत अल रशीद सुपर मार्केटांत गेलीं. ह्या डिपार्टमेंटल स्टोअरांत भितर सरप म्हळ्यार जात्रेक गेल्ले वरी. तरा तरा मेळटात. आनी बाबूय बरो रमता अचकीत मिथिलाची नदर एका टी-शर्टाचेर गेलं क्रिमीश रंग आनी जून पांचव्या रंगाची कॉलर. बटनांचे सुवातेर दोरयो. मिथिलान सट्ट करून राजेशाचो हात धरून ओडलो. टी शर्ट काडून राजेशाच्या आंगाक लावन पळयलो. आनी घे म्हूण आगरो करूंक लागलें. इतल्यान धव्या झग्यांतलो तो अरब मुखार आयलो. राजेशाक आय.डी. कार्ड दाखोवन आपूण मुत्तवा म्हूण सांगलें आनी राजेशाकडेन आकामा मागलो. आकामाचेर राजेशावांगडाच मिथिलाचो आनी बाबूचोय फोटो आशिल्लो. खीणभर मिथिलाकडेन आनी पर्थून फोटोकडेन पळोवन ताणें हीच ती बायल म्हूण खातरी करून घेतल



ं तरिकूय कडक उतरांनी अरबी भाशेंत
ं – ''तुगेले बायलेक सारकें वागूंक कळना.
सांग, अशे तरेन दादल्याच्या हाताक
ओडप, आंगार पडप हें आमच्या नेमां
जाल्ल्यान तिचेर कारवाय करची पडटली.
पली वॉर्निंग समज. पर्थून अशें केल्यार
ां दोगांकूय – तिगांकूय पॅक करचें पडटलें.
समजता मू ?''
जेशान अरबींतच 'सॉरी' म्हळें.
-शर्ट थंयच उरलो. ''चल या आमी
', राजेशालो आवाज घोगरो जाल्लो.
लाक दिसलें, राजेश बेठोच नर्व्हस जाला
मोटारींत बसनाफुडें मिथिलान म्हळें,
पडिल्ले दळदिरे लोक हे. आनी
युगांतले कायदे !''
आनी हें जाणा जावनूय तुवें धा जाणांहुजीर
हात धरलो ?'' राजेश वितरागलो.
ना दुखावलें.
कितें घात जालो ? घोवाचोच हात धरलो

ूण तूं जाणा न्हय हांगा तसो धरूंक
म्हूण ?''

''जाणां. ते आपले बायलेक हात लायनात काय कितें ?''

''लायतात. पूण अशें प्रदर्शन करनात. तुका हांवें हजार फावटीं सांगलें, हांगा मर्यादेंत वाग म्हूण.''

वाद वाडटलो आशिल्लो. पूण कितें जालें तें होलमूंक नाशिल्ल्यान यदो वेळ बुचकळ्यांत पडिल्लो बाबू दोगांलोय आवाज तापिल्लो पळोवन आपुणच रडूंक लागिल्लो. आनी दनपरां 'हॉलिडे ड्रायव्ह इन' हॉटेलांत जेवपाक वचपाचो प्रोग्राम रद्द करून राजेशान मोटार बद्द अपार्टमेंटाकडेन व्हेल्ली.

राजेश तापता रोखडो खरो. पूण न्हिवताय तितलेच बेगीन. सांजचो भायर सरूंया म्हणपाक लागलो. पूण मिथिलाली घुंविल्ली तकली आजून थाऱ्यार येवंक नाशिल्ली. राग त्या मुत्तवाचो न्हय. थळावे आनी धर्मीक चालचलणुकेचे तांगेले नेम लोक पाळटात काय ना पळोवप हें तांगेलें कामच. ताणें आपणाले लागणुकेक धरून वॉर्निंग दिल्ली. त्या कामाक हाणें बायलेचेर तापप कित्याक ? अरब लोक बायलांक बुरख्याआड दवरतात आनी चारचौगांमदीं तांकां आफुडनात. खरें. पूण लोकां असवडीं बायलांकडेन कशे वागतात तें संवसार जाणा. सुपर मार्केटांत आपणें हात धरिल्लो राजेशाक सोंसलो ना मू ? घरांत येतकीर तरी ताणें म्हऱ्यांत ओडून वेंवचें आशिल्लें !... टिव्ही मुखार बस्सून रावलें मिथिला –चॅनल बदलीत – दोळ्यां सामकार येता तें पळयत.

रातीं जेवण जातकीर मात बाबून हट धरलो आयसक्रीम जाय म्हूण. मनांत आयिल्लें, राजेशाक सांगचें, तूंच वच ताका घेवन म्हूण. पूण मार्गीर मिथिलाय भायर सरलें. नायटिचेरच काळी काबाय लकयली. पूण मोटारींत लेगीत बुरखो धांपून मोन्यांनी बसून रावलें. पार्लरांत लेगीत बुरखो वयर काडलो ना.

''आतां काड न्हय तो वयर !'' राजेशान म्हळें तरी मिथिला थप्प रावलें.

राजेशान तीन कोन घेतले. एक बाबूक दिवन दुसरो मिथिलामुखार धरलो. जाल्यार हाताक हात तेंकत म्हूण मिथिलान वयरसून चिमटेन घेतलो. राजेश खो करून हांसलो. बुरख्याआड मिथिलाय हांसलें. पूण राग आयिल्लेवरी फाट केली आनी बुरखो वयर काडून कोन तोंडाक लायलो.

पांचवें वर्स लागलें तरी बाबू आजून आवय-बापायचे मदीं न्हिदता. काणयो सांगीत बाबूक न्हिदायता म्हणसर इकरा वरां जालीं. मिथिलाचो दोळो लागतासो दिसता म्हणसर राजेशानूय पुस्तक धांपून लायट पालयली. बाबूच्या भुजार मिथिलाचो हात आशिल्लो. राजेशाचो हात मिथिलाच्या हातार आयलो तेन्ना मिथिला वग्गी रावलें. ल्हवूच हात वयर वयर येवंक लागलो.

''आतां हात लायल्यार जाता दिसता ?'' मिथिलान थोमणो मारलो.

''पुरो गो आतां. एकलीं आसतना तुका केन्ना आडायलां ?'' राजेशान समजावणेच्या सुरांत विचारलें. ''सावदीत आसासर मातशें सोंस. फाल्यां आमी जर्मनींत पावलीं जाल्यार तुका कोण आडायतलो ?'' अशें म्हणून राजेशान ताका ओडलें.

''एऽ बाबू आसा हांगा'' मिथिलान ताणून धरलें.

''तो न्हिदला. आतां हांव तुजो राजा आनी तूं म्हजी राणी.'' अशें म्हणून राजेश बाबूवयल्यान सरून मिथिलाचे कुशींत रिगलो.

'आतां हांव तुजो राजा आनी तूं म्हजी राणी ?'... हींच उतरां स वर्सांफाटीं तीं दोगांय हनिमुनाक महाबळेश्वराक गेल्ली तेन्ना तो उलयिल्लो.

राजेशासारको देखणो, कर्तुपी इंजिनिअर भोव मेळिल्ल्यान मिथिला खूब खुशाल आशिल्लें. तातूंत हनिमुनाखातीर महाबळेश्वरांतलें थंडशितळ वातावरण. तीं राविल्लीं बऱ्या थ्री-स्टार हॉटेलांत. मज्जा आयिल्ली.

सांजचीं पासयेक म्हूण भायर सर जाल्यार हीऽ खेट लोकांची. मे म्हयनो जाल्ल्यान हॉटेलां भरून ओततालीं. ते गर्दैंत धा-एक वळखिचे गोंयकार लेगीत मेळ्ळे. आनी वातावरण कितलें प्रसन्न! शितळ वाऱ्याचें मंद ल्हार आयलें आनी मिथिलान ल्हवूच आपलो हात राजेशाच्या दंडाभोंवतणी घट धरून ताका आपलेवटेन ओडलो. राजेश सट्ट करून कडसरलो. हात सोडोवन हेवटेन तेवटेन पळोवंक लागलो.

''लोक पळयतात मगो. अशें घट धरूं नाका.'' राजेशान लजेल्लेवरी खालत्या सुरांत म्हळें.

मिथिला अजापून पळोवंक लागलें.

''कितें जाता हात धरल्यार ? आमी हनिमुनाक तर आयल्यांत.'' ताणें विरूस जावन म्हळें.

''तशें न्ही गो. पूण अशें लोकांमुखार...'' राजेशाक स्पश्टीकरण दिवपाक आयलें ना.

''बायल हांव तुजी लग्नाची.'' म्हूण ताच्या दंडाक चिमटो काडीत मिथिलान म्हळें.

''खरें गो. ना कोण म्हणटा ? पूण तें अशें जाहीर करीत कित्याक भोंवपाक जाय ? आमी सदचे भाशेन चलुंया.''

मिथिला वाद नाका म्हूण वग्गी रावलें. पूण राजेशाली विचारसरणी ताका मानवली ना. मुखार वतकीर चार पांच तरी जोडपीं हातांत हात घालून वा खांदार हात घालून घश्टत चलतना पळोवंक मेळ्ळीं. आनी मेळिल्ले खेपेक मिथिलान राजेशाचें लक्ष ओडून म्हणिल्लें – ''एऽ तांकां पळय.''

''तूंच पळय तें. हांव रुमार वतकीर दाखयतां तुका...'' राजेशानूय हांसत निश्ठून सांगिल्लें.

आनी खऱ्यांनीच रुमार पावनाफुडें दाराक खिळी घालून ताणें मिथिलाक घट वेंगेंत घेवन अश्शें म्हणिल्लें – ''आतां हांव तुजो राजा आनी तूं म्हजी राणी.''

आनी खऱ्यांनीच पुराय हनिमून भोंवडेर राजेशान मिथिलाक खूब खूब सूख दिल्लें.

पूण, हय. त्या सुखांतूय इल्ली मिठाकणी उणी पडिल्ली.

महाबळेश्वरांतली ती सांज. दोगांय आयसक्रीम खावपाक गेल्लीं. राजेशान 'कॉकटेल आयसक्रीम' घेतिल्लें आनी मिथिलान चोकोबार.

''शी ! बरें आसतलें म्हूण घेतिल्लें. सामकें बाबत.'' राजेशान तोंड वाकडें करून म्हळें.

''चोकोबार मात बेस्ट आसा. पळय...'' अशें म्हूण मिथिलान स्टीक ताच्या तोंडाकडेन व्हेली.

''हँ:! उश्टो मगो तो. तूं खा.'' तोंड फाटल्यान व्हरून राजेशान विटिल्लेवरी तोंड केलें.

मिथिलाक वायट दिसलें. बायलेचे तोंडचें म्हूण उश्टें आसता ?

''वा ! दादलो जेवतकीर ताच्या ताटांत बायलेन जेवल्यार उपकरता. बायलेच्या तोंडांतलें मात उश्टें ?'' मिथिलान वाद घालीत विचारलें.

''ना, ना. उश्टें तें उश्टेंच. म्हगेली आई बाबाल्या ताटांत जेवताली तेन्ना हांव तिकाय तेंच सांगतालों. सामकी बुरशी पद्धत ती.''

ते रातीकडेन राजेशाले वेंगेंत रिगतना ताणें आपणाचो उमो घेवचो अशें मिथिलाक बोमले देठासावन दिशिल्लें. ना तर आपणेंच फुडाकार घेवन ताचो ओंठ तोंडांत घोळोवन एक दीर्घ चुंबन घेवचें अशी खर इत्सा जाल्ली. पूण येदोळचो वाद येवजून 'फुडें केन्ना तरी' अशें म्हूण ताणें मन मारिल्लें.

हालिंच्या तरणाट्यांक हिन्दी-इंग्लीश सिनेमा पळोवन रोमान्स येवजता. पूण मिथिलाक आशिल्लें चुंबनाचें अप्रूप हें सिनेम पळोवन उपराशिल्लें न्हय. उगडासांच्या करणांत थालें लावन बंद केल्ली एक याद केन्ना केन्ना उसळून भायर सरूंक पळयताली आनी मागीर... राजेशान तसो आपलो उमो घेवचो अशें खरसाणीन दिसूंक लागलें.

ती यादूय तशी खूब पोरणी. मिथिलान निकतीच एस्.एस्.सी.ची परिक्षा दिल्ली. बापाय मुंबय कसलें काम आसलें. चार दीस मुंबय पळोवपाक म्हूण मिथिलाय बापायवांगडा मुंबय गेल्लें. दादर मामागेर राविल्लीं तीं. मामालो चल किशोर पवय आय्.आय्.टीं.त शिकतालो. मामी कितलें सांगलें मिथिलाक मातशें मुंबय भोंवडाव हाड म्हूण जाल्यार क्लासिचें निमित्त्य करून ताणें ना म्हळें. मागीर मामीबराबर थोडें भोंवलें तितलेंच. शेनवारा सांजचो मात मामाले सांगणे किशोर मिथिलाक घेवन नेहरू प्लेनेटोरियम दाखोवपाक घेवन गेलो. एका चल्यावांगडा एकट भोंवपाची मिथिलाची ती पयलीच खेप. काळजां म्हळ्यार खपखप म्हळ्यार हुरहूरशी जाणवतालें. किशोर दिसतालोय बरो – स्मार्ट आनी बुद्दीमान. प्लेनेटोरियमांत तीं तेंकून बशिल्लीं. काळखे शिंयाळे रातीं उकत्या मळबापोंदाक एक तरणाट्याक तेंकून बसलां ह्या विचाराच्या चेपणानच तें जडाविल्लें. किशोर एकासारको कानाकडेन तोंड हाडून मळबांतल्या अप्रुपांविशिंची फोडणिशी दितालो. फाल्यां लग्न जातकीर अशेंच आपूण घोवावांगडा भोंवतलें. असोच तोय कानांत फुतफुततलो. अशें चिंतून मिथिलाक खातखुतल्यो जाताल्यो. परतीं येतना रस्तो हुपपाचें नीब करून किशोरान दोन तीन खेपेक मिथिलाचो हात लेगीत धरिल्लो. किशोराले चलणुकेंत इतली सहजताय आशिल्ली की भायर सरतना तांचेमदीं आशिल्ली भीडमुर्वत परतीं घरांत भितर सरतासर पुराय मेटिल्ली.

उबाळान तानेल्ल्या किशोरान उदक मागलें. आनी मिथिलान उदकाचो पेलो मुखार धरलो तेन्ना पेल्यावांगडा ताणें हातूय धरलो. ल्हवूच मिथिलाक ओडून बगलेंत घेतलें. किशोरान वेंगेंत घेवप आपणाक आवडलें काय ना हाचो निर्णय जावचे पयलींच मिथिलाक ताणें घट धरलें. स्वास उशण जाले. नकळटना मिथिलाचे ओंठ विस्कटले. आनी फुडल्या खिणाक किशोराल्या ओंठांनी मिथिलाचो ओंठ चोखलो. एक वेगळोच अणभव, आगळीच रूच... जिब्बेक जीब तेंकली आनी अचकीत फुडल्या दाराची लॅच उकती जाल्याचो आवाज आयलो.

सट्ट करून दोगांय वेगळीं जालीं. किशोर

कांय घडूंक ना' अशे तरेन उदकाचो घोंट रीत भायर गेल्लो. मिथिला मात भितरसून लिलें. नकळटना आपल्या हातसून व्हडलो न्यां घडलो हे भावनेन तें आकुळपिकूळ ाल किशोराची ताका तिडक मारिल्ली. आनी मानामीलो आगरो मोडून दुसऱ्याच दिसा तें पार्गांगडा गोंयां परतल्लें.

तू ल्हवू ती गुन्यांवकारी भावना मेटली. फश इंजिनियर जावन अमेरिकेक पावलो. नाय ालर ताचेविशिंचें खिणयाळें आकर्शण रोखडेंच ोंपिलें. पूण त्या दिसाचो तो अप्रूप अणभव ट तींत उरलो. केन्नाय एकलें आसतना वा पावस्थेंत मिथिला तो उगडास काडून ाप्याच ओंठांवयल्यान जीब भोंवडायतालें, कलो ओंठ दांतांमदीं ल्हवूच दामतालें, अळंग ालें... फाल्यां लग्ना उपरांत हो सर्गसुखाचो णव मेळपाचोच आसा ही आस्त बाळगून तो ी घोळयतालें.

ा प्रत्यक्षांत तशें घडलें ना. राजेशाले रांचे संकल्पनेंत जशी कितें उम्याक वच नाशिल्ली. लग्ना उपरांत वर्स सरलें तरी जेन केन्ना ओंठांक ओंठ तेंकयलो ना. मां एक दीस मिथिलानच फुडाकार लो...

जेश त्या दिसा मुंबयच्यान परतल्लो. ो अरेबियांत एके जर्मन कंपनींत चीफ नियरच्या पोस्टाखातीर दिल्ल्या इंटरव्ह्यूंत वेंचून काडिल्ल्यान खूश आशिल्लो. ते दोगांयनी उत्सव मनयलो. खुशाल आसता राजेश चडच मुडांत आसता हें वळखल्ल्या ान राजेशाचे वेंगेंत रिगिल्लेकडेन ताच्या क ओंठ तेंकयले आनी ल्हवूच ताचें तोंड वन अळंग ओंठ ओंठार दवरले. राजेश ुंवडावंक लागलो तेन्ना दोनूय हातांनी तोंड रून मिथिलान ताचो सकयलो ओंठ ा घेतलो. ते बराबर नेट करून राजेशान धुकललें. ''शी: कितें करता गो, मिठू?'' थिलाले उमेदिचेर विरजण पडलें. पूण जाल्यार तें मिथिला कसलें?

शी कित्याक म्हणटा? म्हाका कीस दी प्लीज!''

ल्यार मिथिलाच्या पोल्याक ओंठ तेंकोवन ान 'च्यूक' करून आवाज काडलो. ''घे, तोंडांत तोंड घालप म्हाका आवडना.''

कित्याक अशें म्हणटा? पळय तरी...''

ा गो. म्हाका वीटशी दिसता. तो तोंडांतलो '' राजेशान नाक किलिशलें आनी ाचें मनच मोडलें.

ुगेलें म्हूण नाका जाल्लेंच. मोगान लागीं येतना तेन्ना तो नितू उरना. ताची गोडी वेगळीच आसता...'' मिथिलाक राजेशान मदींच तोडलें.

''तुका कशें कळ्ळें? तुवें केन्ना कीस घेतला?''

मिथिला वग्गी रावलें. राजेशाल्या उतरांनी दुबाव नाशिल्लो. 'तुवें केन्ना कीस घेवंक ना जाल्यार तुका कशें कळटलें?' अशा अर्थान तो उलयिल्लो. वाद वाडयल्यार मात राजेशाक दुबाव मारतलो अशें येवजून मिथिला तोंड बंद करून राजेशाचे सुवादीन जाल्लें.

राजेश पयलीं एकलोच रियाधाक आयिल्लो आनी तीन म्हयन्यांनी ताणें मिथिलाक हाडिल्लें. राजेशाच्या सांगातांत मिथिलान खूब सूख भोगिल्लें. बारीक सारीक किजिलां जालीं नात अशें न्हय. पूण नशिबाक दुशण दिवपासारकें कांयच घडूंक नाशिल्लें. इतलें की बाबूवेळार बाळंटेराक म्हूण कुळारा गेल्लें तें लेगीत राजेशाच्या हुसक्यान बाबूक तीन म्हयन्यांचें घेवन रियाधाक परतल्लें.

केन्नाय तोपतालीं तीं रियाधांतलीं बंधनां. बुरखो घालेबगर भायर सरप ना. जुम्माबगर सुटी ना. एकली बायलमनीस भोवंक जायना. घोवावांगडा चलतना लेगीत घोवा फाटल्यान चलूंक जाय. गार्डनांत गेल्यार दादले एकेवटेन जाल्यार बायलो दुसऱ्या अर्दान. भुरग्यांखातीर शाळा लेगीत चलयांक वेगळ्यो, चल्यांक वेगळ्यो. कांयकडेन तर मॉंटेसरी लेगीत अशो. धाकलो बाबू मॉंटेसरींत वता थंय मात चले चलयो एकठांय बसतात. फुडल्या वर्सा बाबू फर्स्टाक वतलो म्हणटकीर चल्यांच्या स्कुलांत. राजेशाक सांगूंक जाय, इंडियन स्कुलांत सांगून दवरूंया म्हूण.

बाबू आजून पावलो ना कसो म्हूण घडयाळ पळोवपाक आनी पीक पीक पीक हो वळखिचो हॉर्न कानार पडपाक एक जालें. मिथिला बेगबेगीन दाराकडेन आयलें. पूण दार काडपाक रावलें. नवेंच सावदींत आयिल्लें तेन्ना तें पयलो धडो शिकिल्लें. राजेशाची वाट पळयत दारांत राविल्लें. राजेश भितर सरिल्लो आनी फाटोफाट बेल वाजिल्ली. सावदीच्या धर्मीक पोलीस मुत्तवान राजेशाक स्पश्ट उतरांनी सांगिल्लें – बायलेक सांग, अशी उकत्या दारांत उबी रावन वाट पळोवप वा घोव भायर सरून वतना टाटा करप हें कायद्याआड जाता. पर्थून अशें केल्यार कारवाय करची पडटली.

राजेशाल्या पावलांचो आवाज लागीं पावनाफुडें बेलिची वाट पळयनासतना मिथिलान दार काडलें.

''कळाव कित्याक केलो?''

''बेठोच उशीर जायत गेलो. पयलीं ऑफिसाभायरच ॲक्सिडेंट जाल्ल्यान गाडी भायर काडटासर नाकापुरो जालें. आनी मागीर प्रत्येक सिग्नलाकडेन रॅड – दोन दोन मिनटां रावचें पडलें.''

''आजूय न्हिदून पडलो?'' अशें म्हणीत मिथिलान राजेशाल्या हातांतसून न्हिदिल्ल्या बाबूक काडून घेतलो.

''जर्मनीच्यान कितें ई-मेल बी आयल्या?''

''ना मगो. हांवें आतां आशाच सोडून दिल्या.'' बूट काडीत राजेशान सांगलें.

''तूं एक फावट विचार तरी मॅसेज धाडून!''

''ना मिठू. तशें करप एटिकेटीक धरून जायना.''

''एटिकेट्स काय नेटिकेट्स?'' राजेशाकडल्यानच शिकिल्लें उतर मिथिलान शेंवटिलें.

''सोड ती खबर. म्हाका वाड पळोवया बेगीन. आतां सायटीर वचचें पडटलें. येवपाक उशीर जावं येता आं! हुसकेवं नाका.'' अशें म्हूण राजेश उठलो. मिथिलान बाबूक तसोच व्हरून हांतुणाचेर घालो. आनी राजेशाक पयलीं वाडलो.

राजेश वचनाफुडें ताणें बाबूक उठायलो, कपडे काडले, न्हाणयलो जेवयलो आनी आपणेंय जेवन घेता म्हणसर अडेच वरां जालीं.

''आयज बाबूक कितें शिकयलें रे?'' अशें म्हणीत मिथिलान तागेलो बोटवो उस्तिलो. जाल्यार स्कूलबॅगांत एक रंगीत चित्रांचो बूक मेळ्ळो. बाबूलो कांय न्हय.

''बाबू, हो बूक खंयचो रे? टिचरीन दिला?''

''ना, ममी. तो मगे नसलिनालो. ताने दिला माका.'' बाबू म्हाका 'गो'च म्हणटा – राजेशालें आयकून. तरी बरें 'मिठू' म्हणिना, मिथिलान मनांत म्हळें.

''बाबू, दुसऱ्याले बूक अशे घेवचे न्हय आं!''

''हांवें काडूं ना. ताने दिला माका.''

''दिल्यार लेगीत – नो थँक्यू म्हणप आनी परतो दिवप आं! कितें म्हणप सांग?''

''नो तांऽकू.'' बाबून म्हळें आनी आपणेंच खूश जावन ताळी मारली.

''आनी हें कितें रे?'' मिथिलाक बोटव्यांत एक पत्रूय मेळ्ळें.

''तें मगे निचलीन दिलां. पापाक आनी मम्मीक दी खीं..''

उकतें करून पळय जाल्यार प्रिन्सिपलाचें पत्र.

"Dear Parents – तुमच्या भुरग्याचो misbehaviour तुमच्या ध्यानांत हाडून दिवपाखातीर तुमी दोगांनी भुरग्याक घेवन फाल्यां दनपरां बारां वरांचेर स्कुलाच्या ऑफिसांत चुकनासतना येवचें." अशा अर्थाचें तें पत्र वाचून मिथिला अजापीत जालें.

"बाबू, तुवें कितें केलें रे स्कुलांत?"

"ए, बी, शी केली."

"आनी कितें केलें? कोणाक मारलो बी?"

"ना ममी."

"मागीर? टिचरीक बी कितें म्हळें?"

"ना ममी. तिचलीनच माका उलयलो."

"कित्याक तर? तुवें कितें केलें?"

"नसलिनाच्या दोयांत मगे भू गेल्लो. हांवें फूऽ केलें..."

"मागीर?"

"तिचर माका पयस बस म्हनता."

मिथिलान येवजलें, बाबूक चड विचारचे परस फाल्यां टिचरीकच विचारिल्लें बरें.

हरशीं मिथिला टीव्ही पळयत वेळ सारता. पूण आयज टीव्हींत मनच रमना जालें. राजेश बेगीन आयल्यार पुरो अशें येवजीत मिथिलान वेळ सारलो. पूण हरशीं तरी बेगीन येवपी राजेश आयज चडच उसरां आयलो. आयलो तोय तिडकून आयलो.

"पाडा पडूं ह्या सुरतांचें."

"कितें जालें राजेश?" हें आनी कसलें नवें संकश्ट अशें येवजीत मिथिलान विचारलें.

"सायटीर वतना हायवेचेर सायडलायट दिनासतना लेन बदलली म्हूण तालांव दिलो. पीकपीक दिल्लो हांवें म्हण सांगल्यार लेट दिलो म्हणटात."

"मागीर?"

"ह्या तांगेल्या राज्यांत आमच्यांनी जाप काडूं येता? पांचशें रियालांक पडलो तालांव."

"भरले?"

"ना. फाल्यां भरपाचे. म्हणटकीर फाल्यां ऑफिसाकूय लेट."

पांचशें रियाल म्हळ्यार थोडे दुडू न्हय. पांच हजार रुपये. दुडू सांठावपाखातीर म्हूण ह्या देशांनी कामां करप. म्हणटकीर अशे तरेन वगडावचे पडल्यार राजेशाक वितराग येवप सभाविकच.

राजेश येनाफुडें ताका त्या पत्राची खबर सांगून आपल्या मनावयलो ताण ल्हव करपाक तटिल्लें मिथिला राजेश हातपांय धुवन पेपर घेवन बससर रावलें. मागीर सगळी खबर सांगून पत्र काडून दाखयलें. वाचून राजेशाल्या कपलार कितल्योश्योच मिरयो पडल्यो.

"काल तो मुत्तवा जालो. आयज हो सुरता. फाल्यां आनी कितें वाडून दवरला काय?" अशें म्हूण राजेश जेवपाक उठलो.

साडेचार वर्सांचो बाबू गैर वागलो म्हळ्यार अशें केलें तरी कितें? पूण कळपाक मार्ग नासलो. बाबूक विचारपांत अर्थ नासलो. बाबून कितेंय केलांच आसलें जाल्यार तेंय अबुद्दीपणानच आसतलें. पूण कितें तें—?

सकाळीं राजेशान ऑफिसांत फोन करून अर्द दिसाची रजा घेतली. पयलीं वचून काल चलन दिल्लें तें फारीक करून आयलो. आयलो तो खुशाल जावन आयलो.

"एक बरें जालें. म्हगेल्या लायसेन्साचेर रिमार्क आयलो ना. ना जाल्यार सदांकाळ नोंद उरपाची."

"जावं. दिसाची सुरवात तरी बरी जाली." मिथिलान आशेच्या सुरांत म्हळें.

दनपार येतासर सेकंद कांटो लेगीत जडाविल्ले भाशेन फुडें वतालो.

बारां पयलींच तिगांय स्कुलांत पावलीं. ज्युस्त बारांक प्रिन्सिपलान तांकां ऑफिसांत आफयलीं. माथ्याक गात्रा आनी आंगार अरबांचो तोप घाल्लो एक अरबाब थंय पयलींच बशिल्लो. कसलीच प्रस्तावना करिनासतना प्रिन्सिपलान दोगांकूय उद्देशून इंग्लीशींत सांगलें,

"We have a serious complaint about your son's misconduct."

राजेश आनी मिथिला गोंदळ्ळीं. काचाबूल जालीं. राजेशान अडेचो नेट काडून तोंड उगडलें. "What has he done, sir?"

प्रिन्सिपलान खीणभर त्या अरबाबाकडेन पळयलें आनी गंभीर सुरांत सांगलें – "Your son has kissed Mr. Shabud'din's daughter Nasreen."

राजेश तटास जावन आयकुपाकच उरलो. साडेचार वर्सांच्या बाबून नसरिनाचो कीस घेतलो – म्हळ्यार पापी घेतली. इतलेंच मू! भिरांत दिशिल्ली बाबून कोणाक बुरको बी काडलो काय म्हूण? वा कोणाक कितेंय अबुद्दीपणान तोपलें आनी रगत बी व्हांवलें काय? फकत पापी घेतली मू? पूण हो देशच असो. इतल्याच गुन्यांवाखातीर बाबूक बंदखणींत उडोवपाकूय फाटींफुडें पळोवचे नात. वा ताची ख्यास्त म्हूण आवय-बापायक पॅक करपाकूय उणे नात.

मिथिलाक मात तें पडून वचूंक नासलें. अचकीत माथ्यावयलें चेपण काडिल्लेवरी तें ल्हवपीक जाल्लें. तोंडार तर हांसो उदेवंक लागिल्लो. ल्हवूच मिथिलान दोळ्यांवयल्यान वयर काडिल्लो बुरखो सकयल ओडलो.

निरागसपणान हें सगळें पळोवपी बाबूचो हात हातांत घेवन लक्तुबायेन दामलो. राजेशाचो पू आसुनूय बाबून चारचौगांमदीं नसरिनाचो कीस घेतलो. मात्त कसली पर्वा करिनासतना —

"We can rusticate your child for this act." प्रिन्सिपलान कडक उतरांनी सांगलें "पूण पयली खेप म्हूण वगी रावतांव. तुमी ता समजायात. पर्थून ताणें असलो misconduct केलो जाल्यार आमी सोंसून घेवंचीं नात."

राजेशाक धीर आयलो. "I assure you that, sir. Thank you, sir." आनी त्या अरबा कडेन पळोवन राजेशान माफिच्या सुरांत म्हळें, "सॉरी, सर!"

सॉरी, माय फूट! मिथिलाक राजेशाचो राग आयलो. बाबूक घट वेंगेंत घेवन ताचें अभिनंदन करन दिसतालें आनी हो त्या अरबाक सॉरी म्हणटा!

थोडेभितर सुटलीं हे भावनेन राजेश मिथिलाक आनी बाबूक घेवन भायर सरलो. हरशीं मिथिला बाबूक फाटल्यान बसयता. पूण आयज तें बाबूक घेवन फुडेंच बसलें.

"बाबू, तुवें त्या नसरिनाक पापी दिली मरे?" मोटार स्टार्ट मारचे पयलींच राजेशान विचारलें.

"हय, पापा. पूण नसलिनान पयलीं माका दिली." बाबून निरागसपणान सांगलें.

'तशें करचें न्हय वा पर्थून तशें करूं नाका' असलें सांगपाक राजेशान तोंड उकतें करचे पयलींच मिथिलान बाबूक वेंगेंत घेवन विचारलें, "पापी गोड लागली रे बाबू?"

बाबू लजेलो आनी मानेनच हयकारलो.

"शाणो तो म्हजो." आनी मिथिलान ताका दुखसर मुड्डिलो.

"पुरो मिठू. तूं आनी ताची अपुर्बाय करता?" गाडी स्टार्ट मारून राजेशान विचारलें. "तरी वॉर्निंग दिवन सोडलीं म्हूण बरें. पर्थून केल्यार...'

"पर्थून करुंदीच. कितें करतले? चडांत चड स्कुलांतल्यान काडून उडयतले. ॲनी वे आनीक तीन म्हयन्यांनी हांगाच्यान वचपाचोच आसा तो. आमी ताका एकदम इंडियन स्कुलांतच घालुंया."

"ताका बरी देख दिवपाची सोडून तूं उरफा वाद घालता?" राजेशान स्पीड घेत म्हळें.

"केन्ना केन्ना भुरग्यांकडसून जाणट्यांनी देख घेवपाची आसता, राजेश." मिथिलान म्हळें. पूण येरादारिच्या बोवाळांत ताच्या कानार पडलें नासुंये वा ताका वाद घालपाचो नासुंये. गाडी फुडें वचत रावली.

घ पावतासर बाबू न्हिदून पडिल्लो –
चेरी. लॉक काडचे पयलींच भितर फोन
ल्लो. दार उगडून राजेश फोनाकडेन
त आनी मिथिला बाबूक घेवन बेडरुमांत
. बूक कॉटिचेर घालो आनी बूट काडून
टथंय आसा, राजेश धांवत भितर आयलो.
र्शताच्या मुखामळार भरून ओतताली.
थाच्या हाताक धरून लागीं ओडलें. घट
आंगार उखल्लें आनी घुंवडायत राजेशान
– ''गूड न्यूज मिठू – म्हाका फेलोशीप
व फॅमिलीसयत आफयला खंय. आतां
सगळ्यांनी जर्मनीक वचपाचें.''
थिलाय उचांबळीत जालें. खोशयेंत खो
सी.
राशाक घट वेंग मारून मिथिलान म्हळें,
ँक्स्, राज –'' आनी तांणें तकली ताच्या
क घश्टिली.
राशालेय हात मिथिला भोंवतणी आंवुळ्ळे.
'ानीक घट धर.'' मिथिलालीं उशण उतरां
ले कानपाळ्यांक आफुडलीं. पोल्यांक पोले
. उशण स्वास एकामेकांत मिसळ्ळे. ओंठ
ना विलग जाले.
इजो राज –'' मिथिलाल्या उतरांवांगडाच
ाले ओंठ ताच्या पोल्यांर उदेले.
ानय मिथिलाच्या पोल्यांक ओंठ तेंकयले.
नेसरून ओंठार आयले. मिथिलान ओंठ
ो. नकळटना राजेशानय मिथिलाचो ओंठ
रलो. एक अप्रूप अणभव, एक अप्रूप
री. दोनूय जिबो सळसळ्ळ्यो...
मी?'' बाबू उठून विस्फारिल्ल्या
नी तांचेकडेन पळयतालो. दोगांय सट्
कडसरलीं.
मी, कितें कत्ता?''
ं? कांय ना रे शाण्या. पापाच्या दोळ्यांत
गेल्लो.'' मिथिलान सांगलें.
पा, तुवें ममीक पापी केली?'' बाबून
रिल्ली पळोवन राजेश गणमणलो. पूण
हांसलो.
य. पूण पयलीं ममीन म्हाका केल्ली.''
नी मिथिला तृप्त मनान हांसलें.

* * *



# मीर्गवाल

**महाबळेश्वर सैल**

र्गन पातें सुटिल्लो घुरमो सारको करतां म्हटलें, ''मिर्गाचें आनी गर्भाचें कोणाच्यान जायना म्हणटात. पूण ती पळय री मिर्गाची खबर घेवन येयल्या, मिर्गेवाल पेरांब्याचो रथ जाला. आतां पावलो मीर्ग ''

ंय गे आई फुलल्या मिर्गेवाल ? म्हाका '', सुनंदान उमळशिकेन म्हटलें. र्गन शेतांतल्या एका बांदा वटेन हात न म्हटलें, ''ती पळय पेरांब्यार.'' दान पेरांब्यार पळयलें. काल मेरेन थंय ल रुखार चडून आसा हें खबरच नासलें. आज बारीक धव्याधव्या चंवरून रूख आसली. खरोच पेरांबो रथ करसो लो. सुनंदान एकदम ते वटेन धांव मारली. आडायत म्हटलें, ''आगो खंय वयता य न्हंयसरी बीन वयशी.''

''आई ल्हान गे हांव आतां, तूं अशी भियेवंक ?''

''ल्हान न्ही म्हणच हुस्को म्हाका. दीसभर न्हय धडयांनी ना तर झाडाझोपांनी हेडत आसता. पयर घराकडेन फाटल्यान सोरोप घेवन येयल्लें तूं.'' तरीय सुनंद शेतावटेन धांवलेंच. आई चिंतूंक लागली, अशें कशें इतलें अवजाळी फुलगें हें चेडूं. सोळा लागलीं तरीय भुरगेपणां वचनात. धा-बारा दिसां फाटीं अशेंच मळब भरून येयल्लें. पयलो पावस येतानाच वारो आनी मोड घेवन आयल्लो. वारो सगळें वयर सकल करीत सोंशेतालो. मळब तटतटांयच वाजतालें. विज्ज आरपार झगझगताली. विज्जेचे लोळ मळबा माथ्या वयल्यान भूंय मेरेन सूर मारिल्ले वरी येवन पावताले. सगळो लोक भीवन आसऱ्याक गेल्लो पूण हें चेडूं विज्जे वांगडा शेतांत नाचतालें. कानातोंडांत उजवाड भरिल्ले वरी उकत्या शेतांतल्यान धांवतालें.

अशें कशें हें चेडूं! आवयल्या पोटांत पिकिल्लें न्ही तर फुला वालीर फुलून येयल्ले वरी करता. सदां रानांवनांनी फुलां वालीर, झाडांर हुमकळत होटी फुलांनी भरून घेत आसता. खंयच्याय झाडार वचून बसता आनी थंयसान कूय घालता. झाडार चडून बसल्यार पाना ताळो खंयचो आनी चेडूं खंयचें कळना. परांब्या वटेन वयताना वाटेर शिवरामाल्या पोरसांत हो व्हडलो धवो दुदी वालीर लांबतालो. बारीक दुबळी वाल, तिका लांबपी व्हडलो दुदी. तो पळोवन सुनंदाक याद येयली, आई आज्जी केन्ना केन्ना म्हणटात, ''वाली फळ वालीक जड न्ही.'' आतां ते वालिची सुनंदाक अपुरबाय दिसली. तें वयर चडलें. हात लांबोवन तो दुदी पोशेवंक लागलें. ताचें आंग शिरशिरून येयलें. पयसुल्ल्यान कोणें तरी 'हडत्' केलें. ताणें



सामकी पेरांब्या सरीं मिर्गेवाली वटेन धांव मारली.

नाजूक बारीक बारीक आंगाची मिर्गेवाल. तिका माणकुलीं वाटकुळीं पानां. वाल बारीक धव्या फुलांनी पुराय भरिल्ली. तांकां निकतेच न्हाविल्ले ओले मातयेचो कसो परमळ येतालो. तीं बारीक धवीं फुलां मोगा पावसाच्या झडट्या थेंब्यांवरी दिसतालीं. फुलां रुखार बरींच वयर आसलीं. हुडक्यो मारुनूय हाताक लागनासलीं. तें फुलां सरीं पळयत कांय वेळ रावलें. तें चिंततालें, हीं फुलां केन्ना फुलिल्लीं? केन्ना बावतलीं? केन्ना झडटलीं?

ताणें घरा येवन आईक विचारलें, ''आई, तीं फुलां बेगीनच बावतात गे?''

''ना धुवे. तीं मिर्गाची वाट पळयत रावतात. मिर्गा पावसाच्या एकेक थेंब्या वांगडा सकल भुंयेर येतात.''

घराच्या आंगणा भायर पानांनी गडगंज भरिल्लो एक करमला रुख आसलो. थंयच्या आंब्या रुखाची एक खांदी अशी वाडत सकल सकल येत करमला रुखा मेरेन येवन पाविल्ली. तें सट्‌करून हुडी मारून आंब्याचे खांदयेर बसलें. मळबांत एकच काळें कूप दोंगरावेल्यान हुडकी मारून कशें वयर सरिल्लें. पांखां फुटिल्ले वरी तें काळीं आंगां सोडयत वयर वयर चडटालें. सुनंदान मनांत म्हटलें, हट्, जोर ना ह्या कुपांत. हें कितें मळब चडटलें आनी पावस झडयतलें! ताका अशें दिसूंक एक कारण आसलें, त्या कुपाचे कुशिकच कूप चुकयत सो सांजचो सुर्या पुराय उजवाडा सयत झगझगतालो. एके वटेन काळें कूप, दुसरे वटेन सुर्याचीं भांगरा किर्णां. त्या किर्णांनी त्या कुपाक भांगरा कूड दिल्ली. ताजेन त्या कुपान आतां आंग कवळून घेतलां अशें दिसतालें. सुनंद तो कुपांचो, सुर्याचो, भांगरा किर्णांचो मळबखेळ पळयत कांय वेळ तातूंतच बुडून गेलें. मगेर त पळयलें, तीं भांगरा किर्णां मुखावयले न्हंयंत देंवन येयल्यांत. उदका वांगडा खेळटात. आत तें न्हंयचो पुराय वाठार तानेल्ले वरी दोळ्यांत भरून घेतालें. न्हंय धडये वयलो सुपुल्लो रुर आदींच धवशा आंगाचो. आतां तो सांजच्या भांगरा वोतांत न्हाविल्लो न्हवरो कसो दिसता आजी सदांच बाबाक, दादाक म्हणटा, 'सुनंद एक न्हवरो बेगीनच पळयात रे.''

आतां हांव आजयेक सांगतलें, म्हाका सुप रुखावरीच गोरसो, वोतान हासतो न्हवरो जाय म्हण. तें आपणा भितरच इल्लें लजलें.

शाळा केन्नाच सुटिल्ली. हट्, ही कसली वण्ट्यो घातिल्ली शाळा म्हण आठवी जातकी ताणेंच शाळा सोडिल्ली.

खरें म्हटल्यार न्हंये तडी वयल्या

पां तें खेळतच तें वाडिल्लें. शिगम्याकडेन ले खापोंदाक खुब्ब सुपल्यो पडटाल्यो. त्यो त्थेवप आनी फू फूंक मारून वाऱ्यार अप सुपल्यो पिसोळ्यो कशो वाऱ्यार ताग्रो. सांवरी कापसाच्यो म्हाताऱ्यो वाऱ्यार कागल्यो म्हणटकीर तें थापटां वाजयत त्तान धांवतालें. धांवतां धांवतां घस्स करून यच्या उदकांत पडटालो. बंदरा कडच्या ळ पानांची सळसळ कानार पडटकीर तें हव वाऱ्यार हुबिल्ले वरी जातालें. मगेर तें कलेंच पिंपळा पेडार बसतालें. मुखाल्ली चे पलतडचो शेता दोंगरांत रिगिल्लो फाळ, मदीं मदीं बांद, तांचेवयले रूख, ऊंच दोंगर, दोंगरावयर काळीं धवीं कुपां. यल्यान आनीक आनी कितें आसा काय मोनें जावन चिंतूक पडटालें!

सान घरासरीं येताना वाटेर एक आंब्याचो आसलो. तो खेंजट कसो पुरूसबरच ज्जो. सारखी वाडच जावंक नासली. कोत गिड्डें खोड, विसकळ ताळयो. ताका क तोरय धरूंक नासलें. लोक म्हणटाले, मुळांत तळप आसा. तो तळपार वाडला ाची वाड जायना, ताका फळ धरना. दाक फातर तळप म्हटल्यार उबगण . तें फातरांकच भियेतालें. आजी केन्ना ली, ''म्हाका जिवाक बरें ना गो बाये, र फातर दवरिल्ले वरी दिसता.'' घरा दोंगुल्लेर चडून वयताना मुळासाक वाटेर रा वांव फातरा तळप लागताले. ताका ळपांतल्यान चलचें नाका दिसतालें. जीव वरी पावलां उडयत तें तळप पार करून लें. पार करून गेलें म्हणटकीर ताका सू लें. मगेर एकदम तें हरव्या, जित्या ोत झाडां झोपांनी भरिल्ल्या राना वटेन ारूंक लागतालें. केन्ना सपनांत तळप गडगडून येता अशें दिसतालें आनी तें टालें.

सांज जाता. सांजची काळखे सयेची गूढ ाय ताच्या काळजांत, मनांत भरता. तें तेर घुम्म मोनें जाता. मगेर आज्जे सरीं आज्जेक म्हणटा, आज्जे काणी सांग... ज्जी काणी सांगता. एक आशिल्लो राजा, ाशिल्ली राणी. तेंचें घर भरून दार लें. भाट भाटांत केळ कवाथो, झाड माड, कुंबो, नारींग तोरींग, फूल कळो, दसण बेल वाल गच्चून भरिल्ली. पूण तेंकां लो राजकुंवर...

यकून सुनंदाक कशेंशेंच जाता. काणी चेली ताची उमेदच मरता. तें सट् करून म्हणटा, ''कसलो गे तो राजा कपाळफुटको.'' आज्जी कांय वेळ ताचेसरीं पळयता. मगेर आज्जेचीं उतरां ल्हव विसकळ जायत वयतात.

तसोच चार दिसान मीर्ग झडूंक लागता. मिर्गेवाली वयलीं फुलां मिर्गाच्या एकेक थेंब्या वांगडा भुंयेर येतात. मिर्गेवाल परत आंग कवळून घेता.

हरन्नारी आनी शिरन्नारी पावस. न्हंयचें उदक पावला पावलांनी चडत वयता. तें कोणाक सांगिनासताना न्हंय वटेन धांव मारता. तरीय ताका दिसता, हो न्हंयचो हुंवार कांय सारखो भरून ओतपी न्ही. तें आठ णव वर्सांचें आसतना एक जगबुडिचो हुंवार आयिल्लो. तडी वयल्या घरांतलो लोक बोबो मारीत उदकांतल्यान सोताक ओडून घेत दोंगुल्ले वटेन धांवतालो. तडीवयलीं सगळीं घरां पडिल्लीं. धडेवयल्या पिंपळा रुखाची एक सत्री जाल्ली. सुनंदाक आतां निश्ठूरपणानशें दिसूंक लागलें, आतांय तसोच एक फावट हुंवार येवचो. सगळें बुडून वयचें. हांवें दोंगरार वचून बसचें आनी हुंवार पळोवचो.

तडीर उबो रावन गरय घालून बशिल्ल्या काशील्या रामान व्हडान उलो मारून सुनंदाक बेगिबेगीन म्हऱ्यान आफयलें. न्हंयतल्यान एक व्हडलें लाकडाचें नाट व्हांवन वयतालें. अर्द बुडिल्लें, अर्द उदका वयर. ताचे वयर एक व्हड नागसर्प फाडें काडून बशिल्लो. पुराय आंग ताणें नाटार सोडयल्लें आनी फाडें बचक येदें वयर केल्लें. तो नाटा वांगडा उदका धारेर ल्हव ल्हव व्हांवन वयतालो. सुनंद ताचे सरीं थीर पळयतालें. भितरल्यान एक अंतरीक आनंद. ताका सदांच अशें नागाचें फाडें, कोंब्याचें शेंकर, ताळयेर धोलपी तांबडे दसणिचें फूल पळोवंक आवडटालें.

उदका व्हाण न्हंयची तड कातरयत धांवताली. तो घस-घस आवाज येतालो. मदींमदीं भंवरे उठ्ठाले. वयल्यान इल्लोइल्लो पावस शेनेतालो. न्हंयच्या त्या धांवत्या अगड अक्राळ रुपान सुनंद सोताक शेणून घेवन बशिल्लें.

... न्हंयच्या वयल्या मोडणार मदींत एक ल्हान जुंवां आसलो. जुंव्यार चोंय वटेन रानटी झाडां आनी मदीं इल्लें शेत. थंय एक घर नासलें. एक खोप नासली. फक्कत झाडांनी वेडिल्लें तीन चार एकर शेत. येद्दी व्हडली सागर कशी न्हंय. मदीं तो जुंवो. आनी हांव तर इल्लें येद्देंशेंच. ताका दिसलें, ह्या हुंवाराच्या भारार न्हंय बळाटची आनी जुंव्यार पावचें!

... जुंव्यावयल्यान कोण एकलो व्हडें व्हलयत, न्हंयची धार कापीत पलतडचे तडीर वयतालो. सुनंदान मनांत म्हटलें, कोण हो, कोणाचेर असो सांवार येयला हुंवाराचे व्हाणींत व्हडें घालूंक? सुनंद वळखलें तरीय ताणें रामाक विचारलें, ''कोणें रे तें जुंव्यावयल्यान व्हडें काडलां? व्हड्यासयत न्हंयच्या भंवऱ्यांत घुंवतलो तो. तळाक पावतलो.''

''आगो तो पलतडचो वासू. जुंव्यार रोवणी चलता आसतली. ताका आनी वारें व्हाण लागता? मोडावांगडा झगडपी तो.''

वासून व्हडें पलतडचे तडीक लायलें. व्हडें थंयच्या एका झाडाक बांदून तो तडीर वचून उबो रावलो. हातांत व्हल्ल्या काठी आनी आंगान सामको उकतो. ताणें कमरेर कास्टी मारल्या काय मोटवी इल्ली चेड्डी न्हेसल्या कांयच कळनासलें.

सुनंदा वासूक बरें वळखतालें. पलतडच्या गांवांत लग्न करून दिल्ले तेगेले व्हडले भयणील्या वाड्यावयलोच तो. केन्ना सुनंद भयणीगेर गेल्यार तो तेका पळोवन दोळ्यांत, मिशांतच हांसतालो. तो असो हांसलो म्हणटकीर तो आपल्या आंगाक हात लावंक येता अशें ताका दिसतालें. तातूंत आनी सदांच आंगान उकतो. कमरेर इल्ली विंच्चभर चेड्डी, मुजी मेरेन कवळल्ली. उलोवप सामकें उणें. फक्कत दोळ्यांत हांसप. एक दीस तो उलयलो. भयणील्या कानांतच तो फुतफुतलो. ''व्हनये, हांव तुगेले हे बारकेले भयणीकडेन लग्न जातां.''

पूण भयणीन मात खूब व्हडल्यान घणघण घातलो. ''आगो सुनंद, हो वसवसो वासू तुजेकडेन लग्न जाता खंय. मागीर तुमी जुंव्यार घर बांदचें आनी उकत्या आंगानच भोंवचें. हो आंब्यारुखार वयर ताळयेर चडून तुका पिक्को आंबो काडून दितलो.''

सुनंद लजलें पूण धांवन गेलें ना.

पूण तें लग्न कांय जालें ना. तें मुखार कोणें व्हयलें ना. शेतकार, व्हडेकार, कास्टेकार वासू. आनी संवसार तर सामको पावला पावलार बदलूंक लागिल्लो, धांवंक लागिल्लो. तांचे जातिचीय एक गांठ पडिल्ली आसली. तागडी इल्ली वयर सकल जावची तशी जातय सकल वयर जाताली. वासूलो बापूय तांचेच जातिचो आसलो पूण तो एके देवळणी कडेन लग्न जाल्लो. सुण्याच्या नाकान जातिचो वास घेत भोंवपी हो लोक आनी लग्नाचें उलयतलो.

एक दीस गांवांत एक मुंबयकार घराबो येयलो. आपल्या पुर्वजांल्या म्होडक्या घरांत कांय दीस रावलो. तांचो झकपक पळोवन सगळे भुल्लुसले. मुंबयकार म्हटल्यारच अर्दी वोरं.

तातूंत ते आपलेच जातिचे. गांवचो लोक वास घेतालो. मुंबयकार तांच्या एका चल्याक आपलेच जातिची सोयरीक सांदताले.

गांवांत पिसो म्हादू पिनकरी घालून भोंवतालो. तो आदीं एका परक्या जातिच्या चेडवाकडेन मोग करतालो अशें म्हणटात. पूण तें तडीक गेलें ना. तो आतां केन्ना केन्ना व्हडाव्हडान म्हणटालो, ''आपलेच जाती मर्दी लग्न जावप म्हटल्यार भाव भयणींन लग्न जाल्ले वरी.'' एक दीस ताचे तकलेर कोणेंतरी फातर मारलो. ती कोंक बरेच दीस व्हांवताली.

आपलेच जातिच्या मुंबयकारान लग्नाक मागणी घातल्या म्हणटकीर कोणाले पांय भुंयेर तेंकना जाले. मुंबयकाराकडेन लग्न जावन सुनंद न्हंय तडीवयल्या सुपले रुखा पोनांतल्यान सोमतेंच मुंबयंत पावलें.

मुंबयंत गाडये वयल्यान देंवतकीर सुनंदाक कांय प्रस्न पडले. हांगा शेतांभाटां नात आनी हे लोक खातात कितें? हांगा न्हंय बांयो नात आनी हे लोक उदक पितात खंयचें? हांगा रस्तोभर धुंवर भरला आनी हे लोक श्वास घेतात कशे? मुखावयल्या ऊंच इमारतींक पळयतकीर तेका दिसलें, आत्तां कोण तरी वयल्यान निसरून पडटलो आनी सकयल आपटतलो. चोंयवटेनचो घो घो आवाज कानार पडटकीर सुनंदाक दिसलें, ह्या सगळ्या लोकांच्या कानांचे पड्डे फुटल्यात आनी ते 'हा हा' आवभाव करूनच उलयतात.

सुनंदान एक फावट घोवासरी पळयलें. तो विडी सिगार ओडिना तरीय ताचीं ओटां काळीं जाल्यांत. तो रातभर न्हिदला तरीय दोळे तांबडे जावन व्हांवतात अशे दिसतात. तो इतलो नेण्टो तरीय कमरेन फाटीन बागवल्ले वरी दिसता. आंगार गडगंज वस्त्रां आसात म्हण, ना तर तो बरगून काडिल्ले वरी दिसता. हड्डें बसलां. शिरंतरांचीं सुतां जाल्यांत. वासू वरी हाच्या हातांत व्हलें दिल्यार कितले वांव व्हडें व्हलयत काय हो? सुनंदान चोंय वटेन पळयलें. ताका दिसलें, चोंय वटेनचीं हीं अपंगूळ कशीं मनशां. फक्कत आंगार आंगभर वस्त्रां घालून धिगी दिल्ले वरी उबीं आसात. तीं भायल्यान भितरल्यान ताठ नात. मात्शें धुकलल्यार तीं भुंयेर ओमथीं पडटलीं.

परत तोच प्रस्न ताचे तकलेंत. खंयूच झाडाची इल्लीय सावळ नासताना हीं जियेतात कशीं? हांगा तर कांयच पिकना आनी हीं खातात कितें? पावळ्यो नाशिल्लो हांचो पावस गटारांतल्यानच व्हांवन वयचेलो.

घरा येयल्यार घर म्हणटा तें एक तळपाचें राकेश भुंयार. जिवीतभर ज्या तळपाक फातरांक तें भियेताले तेंच पांया पोनांत आनी वयर तकलेक आपटूंक येयल्ले वरी राविल्लें. रानांतल्या खडबडीत फातरा परस ताका हे शिमिटाचे गुळगुळीत फातर चड भिरांकूळ, चड उबगण दिवपी अशे दिसूंक लागले. वासून आपल्या जुंव्यार एक खोप बांदल्यारूय ती हेचेपरस कितली बरी जावचेली!

एका अजापाच्या फातरान, डांबरान, लोखणान उबो केल्ल्या संवसारांत येवन तें पडिल्लें आनी ते सगळे अजस्र सांगाडे पळोवन ताका थरथरो भरतालो. तें मनांत चिंततालें, हांणी रूख केन्ना पळोवंक ना, तरीय ते आंबे खातात, न्हंय बांय केन्ना पळोवंक ना तरी उदक पितात, शेतभात केन्ना पळोवंक ना तरीय शीत जेवतात. मूळ खबर नाशिल्ले कसले हे कर्मकट्टे लोक. रुखाचो हरवो पांचवो रंग पळोवंक नाशिल्ले हे आंबो कसो रुचीन खावंक शकतात?

हांगा शेतां तर नात आनी हे आयते बसून खातात खंयचे? शेतांत वावर केले बगर खावप पातक न्हू! देवा, आमच्या गांवांतल्या गरिबान पिकयल्लें लुटून हाडून तर खायनात मू हे?

तें रावता ते बिल्डिंगे सकयल लागिंच्यानच एक उकतो गटार व्हांवतालो. केन्ना तें बारीक नदर लावन बसतालें. हातुंतल्यान उदक तर व्हांवना. व्हांवता तरी कितें हें? केन्ना डांबर व्हांवता सो दिसप. केन्ना रेबो व्हांवता सो दिसप. वाऱ्यार केन्ना कुसड वास आंगार येयलो म्हणटकीर तातुंतल्यान मडीं व्हांवतात अशें दिसप. मागीर मात ताका कळ्ळें, ही मनशालीच घाण म्हण.

पूण एक दीस त्या गटाराचे देगेर बसून कांय बायलो वस्त्रां उमळटाल्यो. उपरांत आपल्या हड्ड्यावेलो पिनको पदर सकयल सोडून उकत्या हड्ड्यानच त्यो गटारांतलें 'उदक' न्हावंक लागल्यो तें पळोवन सुनंदालें काळीज धंवळिल्ले वरी जालें. सगळीं इंद्रियां आंवळून येयल्ले वरी जालें. तें रडलें. ताणें हीं मनशांच काय शारांतली हेर कोणय मोनजात बीन न्ही मू म्हण तांचेसरी बारीक पळयलें. ना. तांकां मनशाले आवयवरीच हड्डें, मोमे, चिंवां आशिल्लीं. हय, ह्या मनशाकच जल्म दिवपी आवयो!

ताची जिवितावेली स्रद्धा गेली आनी वानसाय गेली. गांवच्या न्हंयांनी हुंवारांनी उदक व्हांवन वयताना हांकां आंगार उडोवंक एक तांबयोभर नितळ उदक मेळचें न्ही? काय बरे हरवे ताजे गांव आसताना कित्याक हे रस्ते इमारती बांदून गच्चेन रावतात? पांय आसताना कित्याक हांकां पावला पावलार मोटारी लागतात?

आतां आतां ताका आपले गांवचे न्हंयचें खूबच याद येवंक लागली. सपनांत दिस्टां हुंवारांत बुडिल्ली पिंपळा रुखाची संत्री दिस लागली. दोंगुल्ले वयले तांबडे पिटकुळे फुल घोंस दोळ्यांमुखार हालूंक लागले. मनांत मोगापावसाचो मोगाळ दुदाळ शिंवर झडूंक लागलो. पूण दोळे उकते करून पळयल्यार कांयच ना. चोंयवटेन फातराचीं सुकीं भुंयार काळे रस्ते, मोटारिंची खेटाखेट, मनशांची खातोड, धांवपळ, धुंवर, बोबाट, मारामाऱ्यो

तेंवय आतां ल्हवल्हव सुकत गेलें. ताचीं ताची जुवानी, ताची गर्भपिशवी भितरले भि आंवुळिल्ले वरी जाली. ताका केन्ना दिसता गांवचो घराफाटलो भरिल्लो रुमडी रूख दिस्टीक पडल्यारूय हांव परत फुलून येन. म्हजो गर्भ तरतरून येत!

शारांत पाविल्ल्या एक दोन वर्सांत शारा सगळो उजो, धुंवर, कानाचे पड्डे फोडपी कर्कशपण, गरिबिचें हळशीक बुरशेपण ताचे भितर पुराय रिगलें. सगळ्यो मनसंवेदना आ जाल्ले वरी जाल्यो. गर्भपिशवेची ओलसाण सोंपिल्ले वरी जाली, रुतूचक्रय राविल्ले वर जालें. ताका परत परत दिसतालें, गांवचे शि उबें रावन घराफाटली पुराय दोंगुल्ली धिटयें भरून घेतल्यारच म्हजे कुडीर कळे परत फुलतीत!

लग्नाक चार वर्सां जालीं तरीय ताका ग रावनासलो. कुडिचो सडो जाल्ले वरी जाल्ल ताका आतां गांवच्या त्या तळपार वाडिल्ल्या खेंजट आंब्यारुखाची याद जाताली. जाण्टेले म्हणटाले तें खरें. 'तळपार वाडटकीर फळ कशें धरतलें?'

एक दीस मांयन म्हटलें, वंशाचो दिवो उजवाडाक घालूंक तुका लग्न करून हाडिल पूण तूं हें अशें वांजूट!

सुनंदाक शिट् जालें. ताणें म्हटलें, ''शारांतल्या ह्या धुंवरान सगळ्याक मर पड तुज्या पुताचे कुडिंतले जीव मेल्यात.''

अशें कशें उलयलें हें सूनचेडूं तें मांयक कळ्ळेंच ना. सुनंदाक दिसतालें, म्हजे कुडीव गर्भ धरचेलो शक्त आसा. पूण म्हाका ह्या धुंवरांतल्यान, फातराच्या रा[illegible]ल्यान भाय काडूंक जाय... भुरगेपणाक तें दर पयलो प चिंब भिजतालें. पयल्या पावसांत किल्लल्ली आंब्याची, काजुची, पेरिची, फणसाची, मोगें चिबुडांचीं रोपां एकठांय करून हाडटालें आन बागांत सगळेकडेन पुरून दवरतालें. एकादरें

ल्लें रोप दिसतकीर तें पिशें जातालें. आई
घोसाळेच्यो, पडवळाच्यो, दुदयाच्यो
वच्यो आसल्यार ताका आफोवन घेताली
ताच्या हातांत बियां घालताली. म्हणटाली,
धुवेन रोंविल्लें एक्कय बीं हारी वचना.''
नी आतां हांव हें अशें. खरें म्हटल्यार
आतां ताका आपल्या गर्भांत बीं
ेली ताळणीच लागिल्ली. पातलांगी दुदया
दुदी धोलताना, बांयकडच्या मावळिंगार
लांबताना सपना दिस्टांत दोळ्यांमुखार
लें. आपणेंय गर्भ रुजोवचो, आपलेय मोमे
टतटतून येवचे अशी आस्तच लागिल्ली.
ीच हांव पुराय शाबूत आसां, म्हज्या
जीव आसा, तेज आसा, म्हज्या हातान
यो बिंयो किल्लल्यात, रोप वाडल्यात,
फळां धरल्यांत आनी हांवच वांज कशें
लें? पूण धुंवरेल्ल्या ह्या पडींग फातरा
म्हाका गर्भ धरत अशें दिसना. सगळ्यो
मेल्यार, कुडीनच न्हयकार दिल्यार,
चरल्यार कोंब तरी कसो वाडटलो?
दीस ताणें घोवाक म्हटलें, ''आमी
या. न्हंय धडयेर शेतां खूब आसात.
, जाल्यार हेरांचींय रोवया. मेरो करुया,
वया, पाट घडोवन न्हंयच्या उदकान
भुरगीं जाय न्ही तुका? एक फावट दोन
ळीं जातलीं पळय.''
ाचें, शेताचें नांव आयकुनच घोवाक
मारिल्ली. ताणें कोच्चून म्हटलें. ''तूं
न आदींच वांज. तुज्या वांज हातान
जावचें ना. एक्क बीं किल्लेवचें ना. ताका
टचो ना.''
उतरां सुनंदाक खुबच लागलीं. काळीज
तळा मेरेन पावलीं. ना, हांव वांज न्ही.
आईल्या दारांतल्या चाफ्यावरीच हांव
. हांव दाखयतलें तुमकां म्हज्या गर्भाची
म्हाका शक्त आसतना हांव वांज म्हण
न धेवचें ना! तुमचींच बिजां करमेल्यांत,
यांत. शिरांचीं सुतां जाल्यांत. पूण हांव
पडींग वांजपणाचें वांटेकारी जावचें ना!
दीस ताणें आपली पोती भरली आनी
काडून तें बद्द घरा येयलें. ताणें मनांत
दर एक गर्भ रचणारेक, जावं मनीस
ोनजात, फाव ती सुवात, फाव तो काळ
नी आपले आवडिचो नर जाय आसता.
न आज्जयेन अशें मदींच कशें येयलें
हण विचारल्यार ताणें सांगलें, ''बाये,
गे गांव तो! झाडझोप, उदक पाणी
ो. हांव गांवचे यादीन धांवन येयलें गे.
आनी धांवडावं नाकात तुमी. परत आनी
हांव त्या सड्यार उजो खावंक वचें ना. रस्ते
आनी मनशान पांय दवरचेच न्ही.''

चार दिसांत ताणें गांवचो सगळो सैमसंबार काळजांत देंवोवन रिगोवन घेतलो. आतां ताका दिसूंक लागलें, म्हजे तकलेंत सनय वाजता, म्हज्या काळजार मोरापांखां भोंवतात. म्हजें गर्भाशय भुंयचाफ्या वरी फुलूंक लागलां. आतां तें कुडीन मनान पुराय अस्वस्थ. कोंब फुट्टाना बीं थरथरचें तशें तें थतरवितर जातालें.

न्हंयंतल्या त्या जुंव्यासरीं पळयतकीर ताका वासूची याद येताली. म्हजेसरी लग्न जाता म्हणटालो. वासू अजूनय त्या पांचव्या जुंव्यार शेत रोयतच आसा काय? ताणें जुंवो सोडून गेल्लो आसल्यार मात जगबुडी येतली.

एक दीस तें उठलें आनी न्हंय पलतडी भयणीगेर गेलें. तो वासूलोच गांव. पांच जण भुरग्यांली आवय भयण. भुरग्यांक जल्म दिवन भागिल्ली तरीय तुस्ट दिसताली. निमाण्या भुरग्याक दूद दितना आंग शिरशिरून आयलें म्हणटकीर ताच्या चेहऱ्यावेल्या शिरंतरांतल्यान घोळपी आनंद पळोवपासारको आसतालो.

पूण ताणें वासूविशीं कोणाक कांय विचारलें ना. तीन दीस सारकें तें न्हंयचे तडीर वचून बसतालें. पूण वासू दिसनासलो. कोणाक वासू विशीं विचारलें आनी तो गांव सोडून गेलो म्हण कोणेंय सांगल्यार आपणाक हेच न्हंयंत जीव दिवचो पडटलो!

एक दीस तो येयलो. उकतें आंग, उकतें माथें. हातांत व्हल्या काठी. तो येयलो आनी सुनंदाक नदर दियनासतना न्हंयंत देंवलो. व्हड्याचो पास सोडोवन व्हड्यार चडून ताणें व्हलें मारलें. पयल्या व्हल्याचो बुडूक् आवाज येयलो. सुनंद थाऱ्यार येयलें. तड देंवलें आनी धिमीभर उदकांतल्यान धांवत ताणें सोताक व्हड्यांत घालून घेतलें. व्हड्यांत चडसर तें कमरभर भिजिल्लें.

वासून ताचे सरीं बारीक पळयलें. मगेर म्हटलें, ''व्हडें तुज्या गांवांत वचना.व्हडें जुंव्यार वयता.''

सुनंद वोगीच रावलें.

''जुंव्यार घरदार, गवळ, मांगर कांय ना.''

आतांय सुनंद वोगी.

''हांव सकाळीं वयतां आनी सांजचो उजवाडाक परत येतां.''

सुनंदान सट् करून म्हटलें, ''तितलो वेळ खूब जालो.''

'थंय मनीसय कोण नात?''

''जाय कित्याक तर ते?''

वासू गोंदळिल्ले वरी जालो. सुनंद ताका धीट एकधारी नदरेन पळयतालें. थंयच व्हडेंभर घामेचो सो, पिकिल्ल्या फणसाचो सो वास पातळिल्लो.

सुनंदान मनावेलो ताबो गेल्ले वरी विचारलें, ''वासू, तुजें लग्न जालें?''

''कास्टी न्हेसून शेतांतलो चिखोल किरयतल्या वांगडा कोण लग्न जाता? गेले ते दीस. हांवय अशातशा कडेन लग्न जावचो नासलों.''

सुनंदान तेचे सरी आरपार पळेलें. नदरेंत गुठलावन घेतले वरी. वासून ल्हंवच म्हटलें, ''तुजें लग्न जालां. परक्याची अस्तुरी तूं.''

सुनंदान सडसडीत म्हटलें, ''आपले परके सोड. सत न्ही तें. गोरवां, हरणां, चितळावरीच आमी. एकेच खांदयेर फुलिल्ल्या फुलांक फळां धरिनात? मनशालें हेर सगळें जगप मोनजाती वरीच. आनी बायल मात एकल्याचीच आसूंक जाय. कांय खरें न्ही तें.''

आतां वासूक होलमलें, व्हड्यांत पातळिल्लो परमळ ताचे फुलते कुडिचोच म्हण. तो भोवच उचांबळ जालो. व्हडें तडीक लागलें आनी ताणें सुनंदाक हात दिवन तडीर घेतलें.

तीं त्या एकसुऱ्या जुंव्यार गेलीं. शेतांनी भोंवलीं, झाडांत गेलीं. झाडाच्या अडसराक गेलीं. लिक्क निळें मळब, आरपार उजवाड. पांचवो ताल्ल सैम, परमळीत वारो. सुनंदाक दिसलें, आपणें गर्भ रुजोवचो सुवाळो हांगाच मनोवन घेंवचो. तेचो वास घेत तें तेचे भोंवतणी गणमणलें. तेका सट् करून धुकलून दिलो आनी परत आपणा सरी ओडून घेतलो. आपली उकती कूड ताणें लिपयली. तें कुशीन सरलें, लजलें. ह्या खेळांत वासू मात खिणाखिणाक आक्रमक जायत गेलो. तेच्या ह्या आक्रमक तवनास दादलेपणाचेर ताणें आपली कूड हुंवाळून उडयली.

वयर उकतें मळब आनी आंगा सकल ओली जिवी धर्तरी. आडोस फकत पाना ताळ्यांचो. ताका दिसलें, धर्तरेची सगळी जिवसाण, फुल्लटपण म्हगेल्या गर्भांत रिगूंक लागलां.

* * *





# बापूय, पूत आनी हांव

**शीला कोळंबकार**



सांजवेळ.

म्हजो घरांत रांदचो बोवाळ.

घरांतलीं सगळीं सकाळीं भायर सरून वतात. तीं सांजेर येतात. सांजेर तांकां साग्रसंगीत जेवण नाका? तेन्ना, हो घरा आयलो काय ताका पयलीं च्या दितां. ताचे वांगडा दोन गजाली मारून हांव रांदूंक सुरवात करतां.

ही म्हजी सदांची संवंय.

आयजूय बी तशेंच जालें. हांवें रांदूंक सुरवात केली आनी दारावेली बॅल वाजलो.

'आतां आनी कोण आयलो काय' अशें चिंतून हांव दार उगडूंक गेलें. कित्याक, हांव रांदचे गडबडींत कितलेय उरूं, कोणूय आयलो, ना जाल्यार फोन वाजलो जाल्यार हो कांय तो उठून घेवपी न्हय. हातांतलें काम थंयच सोडून हांवेंच दार उगडूंक जाय. फोनूय हांवेंच घेवंक जाय. तं थकून आयिल्लो आसता. हांव घराच आसतां. म्हणजे तशें बेकारूच... दीसभर म्हाका कांय क आसना. तेन्ना हांवेंच वचून दार उगडलें.

दारांत हाचो मित्र सदादादा उबो आशिल्लो.

'यो यो सदादादा... बस...' हांवें ताका भित व्हरून बसयलो. उदक पिवंक दिलें. आनी हाक सांगूंक ताचे कुडींत गेलें.

'कोण आयला? म्हाका कोण सोदूंक आयल जाल्यार ताका हांव ना म्हूण सांग.' पेपरा वेली नदर काडिनासतना ताणें म्हाका सांगलें.

'पूण तुमचो मित्र आयला. आनी हांवें ताका तुमी घरा आसात अशें सांगून बसोवन घेतला.'

'तूं आनी एक... म्हाका पयलीं येवन विचारपाचें न्हंय?'

'...आतां दारांत आयिल्ल्या मनशाक कितें सांगपाचें? आरे बाबा, तूं मात्सो हांगा उबो रा हांव भितर वचून ताका विचारून तो घरांत आ काय ना तें तुका सांगतां...'

'तुका म्हूण अक्कल केन्ना येतली खबर ना. कोण आयला तें तरी सांगशीत?'

'सदादादा...'

'सदा आयला अशें सरळ सांग न्हय. कुवाड्यांनी कितें उलयता?'

'तो बेगीबेगीन उठलो. ताणें शर्ट घालो, पॅन घाली आनी भायले कुडींत आयलो.

हांव रांदचे कुडींत गेलें.

'आयकलां?' भायले कुडींतल्यान हाचो आवाज आयलो. शिताक आयदन दवरिल्लें. गॅ बंद केलो आनी भायर आयलें.

'कितें जालें?' हांवें विचारलें. हाणें दोळे मो करून म्हजेकडेन पळेलें. रांदतना हांवें साड्येच मिरयो वयर घेतिल्ल्यो. तेन्ना भितरलो घागरो मात्सो दिसतालो.

हांवें केंसावयल्यान हात भोंवडायलो आनी अचळ्य साड्येच्यो मिरयो सकयल सोडल्यो. नाजाल्यार मागीर म्हणपाचो, 'यो म्हणटकीच आयलें आपलें भायर भजर कशें...'

'पळे, सदा पेडे घेवन आयला. ताचो चलो दोतोर जाला तें तो सांगूंक आयला.'

'सदादादा, पेड्यांनी काम चलचें ना आं... आमकां पार्टी दिवची पडटली.' हांवें म्हळें.

'दिवंया पार्टी. तांतूंत कितें? पयलीं पेडे त घे...'

हांवें पेडे घेतले.

'सदादादा, कितें हाडूं? च्या काय काफी?'

'आगो, तूं ताका च्या, कॉफी कितें विचारत इतल्या तेंपान आयला तो. ताका जेवूंक वचुं

ो! शे!! जेवंक दुसरे खेपे येतां... आनी
यां, म्हाका च्याय नाका आनी कॉफीय नाका.
आसल्यार इल्लें सरबत मात करून दी.'
ाडापडिल्ले तेन्नाच लिंबू घरांत नासले.
त्यांत बॅल वाजली. मंदार – म्हजो चलो –
ावेल्यान घरा आयिल्लो. आतां हाका
ल वचून लिंबू घेवन यो म्हळ्यार हो
तलो. हांवूच सकयल वचून लिंबू घेवन
लें. सरबत करून दोगांकूय दिलें.
आत्तां तूं खंय गेल्लें?'
सकयल.'
कित्याक?'
रशींच.' लिंबू हाडूंक गेल्लें म्हण हाका कशें
? म्हाका तापोवपाक ताका तितलेंच निमित्त
तेंवूय बी दुसऱ्या लोकां हुजीर.
दादादा वचूंक भायर सरलो.
ांव सदाक स्टॉपार पावोवंक वतां.' हाणें
आनी म्हजेकडेन पयशे मागले. कालूच ताणें
ल्यान पयशे हाडून दवर म्हूण सांगिल्लें. हांवें
हाडून दिले.
ांवें तुका कितले खेपो सांगलें, शंबरांच्यो
हाडूं नाका म्हूण! थोड्यो धांच्यो नोटी
ाच्यो न्हय? आमगेर जाणा मरे सदा,
च अशें... एक सांगिल्लें कोण आयकना...
सांगिल्लें काम कोण सारकें करिना. बँकेंत
च न्हय हें... थोड्यो धांच्यो, थोड्यो
ांच्यो नोटी हाणें हाडपाच्यो न्हय? बँकेंतले
मागतात तशे पयशे दितात...'
ायज बँकेंत गर्दी आशिल्ली. तांणी दिले तशे
घेवन हांव घरा आयलें. पूण हें सगळें सांगून
उपयोग नाशिल्लो. हांव ओग्गी रावलें.
स्या सामकार हाणें अशें म्हणूं नाका, म्हजें
साप्प देंवलें.
ांव भितर आयलें. म्हजे फाटोफाट होवूय बी
लो.
..आतां शंबराची मोड कोण दितलो म्हाका?
खातीर आतां नाका आसतना कितेंय विकत
पडटलें.'
प्पा हे घे मोडचे पयशे.' मंदारान आपल्या
ांतले पयशे काडून दीत म्हळें.
हाका नाका.'
केत्याक?'
ुजेशे पयशे हांव कित्याक घेवं?'
प्पा, तुजे म्हजे पयशे अशें आमच्या घरांत
ं न्हय? हे पयशे तुजेय न्हय आनी म्हजेय
. मम्मी म्हणटा तशें हे पयशे आमचे...
आमचो सगळ्यांचो हक आसा. तूं आतां
तुजे पयशे अशें कित्याक करता? हांव
लागलों म्हूण! हांवें हे पयशे, हांव जोडटां

ते पयशे म्हजे अशें केन्ना चिंतलें ना... तेन्ना म्हाका दिसता, तुंवें ते घेतल्यार बरे...'

हाणें ओग्गी रावन ते पयशे घेतले आनी तो आपल्या मित्राक पावोवपाक म्हूण भायर सरून गेलो.

कितलो वगत जालो हाचो पत्तो ना. हांवें णव मेरेन वाट पळेली. मागीर मंदाराक विचारलें, 'बाबू, तूं जेवता?'

'ना. पपाक येवंदी.'

हांव भायर बाल्कनींत वचून हाची वाट पळेत बसलें.

'ममा, तूं हांगा कित्याक बसल्या? भितर यो मगे. टी.वी. पळोवंया.'

'नाका रे! आसूं!'

'पपान कितें कितें म्हळें म्हूण तुका वायट दिसलें न्हय?'

'ना रे! तें सदांचेंच हाचें. तातूंत नविदाद कसली?'



'ममा, पपा कितें कितें म्हणून तुजेर राग काडटालो न्हय, तो राग तुजेर नाशिल्लो. तो पपाचो राग म्हजेर आशिल्लो. पूण आतां हांव व्हड जालां, शिर्विस करतां. तेन्ना पपा म्हाका कांय म्हणूंक शकना. म्हणून तर तो तुजेर तापलो.'

'पपाचो राग आनी तुजेर?'

'आगे, हांव बारावी पास जाले उपरांत पपाक दिसतालें हांवें सायन्सीक वचचें, दोतोर जावचें. पूण हांव कॉमर्साक गेलों. सदाकाकालो दिपू आनी हांव वांगडचे न्हय? तो दातोर जालो आनी हांव दोतोर जालों ना. ताचो पपाक आयिल्लो हो म्हजेवेलो राग... अर्थात खंयच्याय बापायक दिसतलेंच न्हय आपल्या पुतान दोतोर नाजाल्यार इंजिनियर जावचें म्हूण! पूण सगळ्यांक हें शक्य जायना हें पपाच्या लक्षांत येना. तेन्ना तूं ओगीच पिकार जावन मनांत वायट धरूं नाका...'

हांवें अजापून मंदाराकडेन पळेलें. हो मंदार... आतां व्हड जाला. कालचो इल्लोसो भुरगो हो आतां खऱ्यांनीच व्हड जाला. हाचें भुरगेपण अजून सारकें शेणलेंच ना. आनी हो इतलो शाणो केन्नाच्यान जालो तर? आनी हें म्हज्या लक्षांत कशें आयलें ना? ताका इल्ल्याशा भुरग्याक जें कळ्ळें तें म्हाका कशें कळ्ळें ना?

म्हाका ल्हानपणांतलो मंदार येवजलो. हो केन्नाय गोंयां बी गेल्यार वतना ताका सांगतालो, 'बाबू, हांव दोन दीस घरा आसचो ना. तेन्ना घरांत लक्ष दी आं... न्हिदतना सगळीं दारां सारकीं लायल्यांत काय ना तें पळे...' आनी मंदार बापायलें जिस्त आयकतालो. रातीकडेन दाराच्यो खिळयो बी सारक्यो घाल्यात काय ना तें स्टुलार उबो रावन पळेतालो. आनी दुसऱ्या दिसा शाळेंत वतना म्हाका सांगतालो, 'ममा, दार सारकें लाय. लॅच ऑफ कर. कोणेंय बॅल वाजयली जाल्यार कोण काय म्हूण पयलीं विचार. मागीर चेन लावन दार उगड. आनी वळखिचो मनीस आसल्यारूच मागीर दार उघड.'

शाळा जातकीच कॉलेजींत वचपी मंदार... केन्नाय खंय वचचें जाल्यार तो म्हजे बराबर येतालो. ट्रेनीन वचचें जाल्यार तो म्हाका सांगतालो, 'थंय इंडिकेटरा पोंदा उबी राव. हांव तिकेट घेवन येतां.' मंदार ल्हान आसतना म्हजो घोव म्हाका सांगतालो, 'तूं बाबूक घेवन इंडिकेटरा पोंदा उबें राव. हांव तिकेट घेवन येतां.'

कॉलेजींत वचपी मंदार सदांच म्हज्या फावोरार उलयतालो. बापायल्या फावोरार केन्नाच उलयनासलो. एक खेपे ताणें म्हाका विचारलें, 'ममा, तुंवें पपाकडेन लग्न कित्याक केलें? तुंवें तुजे खातीर बरोसो लायफ पार्टनर सोदून काडपाचो न्हय? कितें ही तुजी जीण? तूं इतली सुसंस्कृत... इतली शिकल्या... तुका कितें लायफ आसा? तुजें म्हूण तुका कितें आसा? कितें ही तुजी जीण? घरांत बसून रावप... वेल्यान पपालीं उलोवणीं खावप? तूं पपाक ओगी कित्याक रावता? परत्याक परतें कित्याक दिना? तुंवें जर लव्ह मॅरेज केल्लें जाल्यार सुखी जावपाची...'

म्हाका हांसो आयलो. हांव हांसतां तें पळोवन तो तिडकलो.

'हांसता कित्याक गे तूं?'

'हांसूं नाका जाल्यार कितें करूं? हांवें लव्ह मॅरेज केल्लें जाल्यारूय अशेंच जावपाचें. निमाणें, भारतीय दादलो घोव जालो काय सगळें विसरता... ताका याद आसता ती फक्कत आपली जापसालदारकी. आपले फामिलीक सुखी दरवपाचीं सपनां तो पळेता... त्या सपनांत घुस्पता. त्या सपनांची ताका धुंदी चडटा.

•

# म्होंव आनी मूस

गजानन जोग

ज्या मनशाची उंचाय चडांत चड पांच फूट जातली असो येसो, आनी ताडमाड ऊंच असो गांवचे शिमेवयलो घोटिंगाचो रूख ह्या दोगांयची एकच काणी. घडणूक म्हज्या ल्हानपणांतली. इतलीं वर्सां जालीं तरी आयज लेगीत आमच्या गांवचे लोक, चड करून चडेली आनी पाडेली, येसो आनी घोटींग हांचे काणयेची याद काडटात आनी आवयो आजून भुरग्यांक येशाची देख दितात! तो घोटींग आजून तस्सो शिमेर उबो आसा. इल्लोसो वाडलाच. आजून ताच्या आंगाखांदार म्होंवाचे मूस मालीं करतात आनी, आजुनय तो येशा भशेन झाडार चडपाक फुरफुरपी भुरग्यांक आव्हान दीत आसा. आनी येसो?...

भुरगेपणासावन ती म्हूर्त आजून सारकी दोळ्यांमुखार आसा. वांवभर ऊंच. आंगान गुळी कसो. चलतना पोवटांचे, जांगाचे पेटके नकसूद हालताले. झाडार चडटना तर ताच्या आंगांतले सगलेच स्नायू मेजून घेवचे. ताचे सादे चालींत लेगीत बेस बरी लय आसली. रंग उठून दिसपाइतलो काळो. ताचो भेस ठरलेलो. तांबडो, हळडुवो ना जाल्यार बारीक उब्या आडव्या रिस्कांचो पांचव्या कोराचो हातकापो बुशकोट. कमराक वाल्याची लंगोटी आनी तिचो लांब शेव कमराभोंवतणी गुठलायल्लो. खोबरेलान चकचकपी बारीक केंस — ते सदां उबेच आसताले. आनी केंसां परस चकचकपी काळे काळेच जांबळां कशे दोळे. हे दोळे ल्हान भुरग्याचे कशे लिकलिकताले.

मड्डाच्यो पांच कुणग्यो येसो पेरतालो. पूण शेत-भाट दिसवड्यान खणप असलीं कामां येशाक व्हडलिंशीं मानवनासलीं — झाडार चडटालो, पणस-आंबे, केन्नाय गरजेक सुपारी-नाल्ल देंवयतालो. पूण तो खरेपणान पाडेली नासलो. आमगेर जाल्यार, जेन्ना तो माडार चडला तेन्ना बाबाक विचारुनच ताणें शेली देंवयल्यात. ताका पाडेल्याक आसता ती नाल्लांची परिक्षा नासली.

ताका मानवतालें आनी आंगाक लागतालें तें एकूच काम — कोणाक जमना त्या झाडार चडप. तो एक स्पेशालिस्ट चडपी आसलो. चडून जिवावयलीं कामां करपी. ताकाच लागून घरार लकून आयिल्ले माड आनी झाडां कापून अचळय कुशीक काडपाच्या कामाक ताका आपयताले. तरीपूण ताचें खरें कसब पळोवपाक मेळटालें तें ऊंच अटंग्या भिल्लमाडांत, घोटकांक लागिल्लीं मोट्या म्होवा-मुसांचीं कोनगीं देंवयतना. एकाच झाडाक खूब म्होंवाचीं मालीं आसतात तेन्ना तीं काडपाचो धोको वाडटा. एक मालें काडटना ताची इल्ली लेगीत सुलूस दुसऱ्या माल्यांतल्या मुसांक लागली जाल्यार मागीर कितें जाता ताची याद काडल्यार लेगीत आंगार कांटो उबो रावता. चवताळून कोनग्याचे मूस आंगार येतात तेन्ना मेळत थंय ते कुसां रोमून रावतात. कान नाक तोंड दोळे — कितेंच तांच्या तोंडांतल्यान सुटना. एकेक मूस चाबतना शेंकड्यांनी कांटे तोपून वयल्यान मीठ-मिरसांग लावची तशें भगभगता. आनी अशा वेळार कोनगें काडपी झाडार ऊंच खंय तरी खांचींत अडचून उबो आसता.

आमचे शिमेवयल्या ताडमाड ऊंच घोटकाक तशीं दर वर्सा मोट्या मुसाचीं कोनगीं लागतालीं. दोन गांवांचे शिमेर आशिल्ल्या त्या झाडाक लोक देंवचाराचें झाड म्हणटाले. झाडाच्या मुळांत कांय लोक घुडयो लायताले; कांय जाण विडी, पान, पैसो दवरताले. कांय जाण सूर-रोंट घालताले. मागीर फुडें गांवांत रस्तो पावलो तो ह्या झाडाच्या मुळांत वोल्त घेवन गांवांत देंवलो. आनी, ट्रकांनी येतना वतना लोक थंय पांयां पडपाक लागले. केन्ना कोणूय विडो नाल्ल दवरपाक लागलो.

रस्तो जाल्याबराबर कोनगीं धरपाचें बंद जातलें अशें लोक म्हणटाले. पूण जालें उरफाटें. रस्तो जालो त्या वर्सा सात, ताच्या फुडल्या वर्सा तशींच आठ काय णव कोनगीं धरलीं. आनी येत्या वेत्याचे नदरेंत भरपाक लागलीं. पूण दोनूय वर्सां तीं काडपाचो यत्न करपी येशाच्या आनी हेरांच्या तोंडांत म्होंव पडलेंच ना. पयल्या वर्सा दोन दिसां भितर म्होंव खावन मुसांनी झाड सोडलें. दुसऱ्या वर्सा मिरगा आदिंचो पावस सेगीत आठ दीस झडलो. आनी येशा वांगडा म्होंव काडपाक कोणूच तयार जायना जालो. झाड पावसान बुळबुळीत जालां म्हणपाक लागले. पूण खरी गजाल म्हळ्यार, ते देंवचाराच्या झाडार चडपाक भिताले. तशें तें झाड आमचे शिमेर पडटालें. बाबान आपूण तुजे वांगडा येतां अशें येशाक सांगलें, पूण ताणें तें आयकलेंना. 'भाटकाराचें काम तर तें?' अशें विचारुन येसो हांसत रावलो. खऱ्यांनीच तें क कोणाकूय जमपासारकें ना. जेन्ना कोनगें झाडपाक सुरवात जाता तेन्ना दरएके किटोळे वांगडा कितलेशेच मूस सकयल देंवतात आनी सकयल उबो आशिल्लो मनीस तांच्या तडाख्याक सांपडलो जाल्यार सोंपलोच म्हणपाचो.

तिसऱ्या वर्सा मेजून बारा कोनगीं चारांय खांद्यांक मेळून धरलीं. तातुंतलीं दोन मोटेल सरपटया खांद्यांक धरलीं. दोन रस्त्या वटेन खांद्यांक धरलीं आनी वयल्या बेचक्यांतल्या खांदयांक एकदोन अशीं धरलीं. तीन कोनगीं वांवापरस व्हड आंवाठाचीं. सकयल्यान पळयल्यार लेगीत पणसुलायेद्या म्होंवा शिशा आकार दिसतालो.

गांवभर त्या दिसांनी तीच खबर चलताली गांवांत कोणेंतरी उठयल्लें — तिसऱ्या वर्साय म्होंव काडपाक मेळपाचें ना. देंवचाराचो कोप जाला. कोणूय काडपाक गेल्यार कितेंय तरी आझेर जातली. येसो कसो त्या झाडार धेंप मारता तेंच पळोवया. तो गांवचे मर्जेभायर क थंय वयता तेंच आमी पळयतले अशें कांय म्हालगडे म्हणपाक लागले. भटजीन आनी घाडयान लेगीत झाडार चडचें न्हय म्हण सां अशी एक वदंता वाऱ्यार गेली. ह्या वर्सा मात कोनगीं देंवयतलोंच अशें येशान आदींच सांगि लोक उलयताले तें आयकून ताची तकली तापली. तो सामको बाण कसो आमगेर आय येना फुडें ताणें आपलें तोंड वाऱ्याक दिलें.

'लोकांचेर येयला सांवार! कितेंय भरभर न्हंयचेर, काजींत, कोळमेचेर, तीच खबर. म काडपाक गेल्यार खंय आझेर जातली! हेंच्य सपनांत देंवचार येवन सांगोन गेलो? म्हाका कशें तर सपन पडोंक ना? हांव सदांच को काडपी. तेणें कितें तें म्हाका सांगपाचें न्हूं? मू काका?'

'खरें रे बाबा, खरें.' आमच्या बाबान हां सांगलें. फुडें म्हटलें,

'आरे येशा, मेळून मेळून कळसोभर म्हों मेळत. कित्याक इतलो बोवाळ करपाचो? देंवचाराचें झाड म्हणटात न्हय? समज, वि

आमं उणें घडलें जाल्यार ताका जापसालदार कोण? झाड तशें आमचे शिमेंत पडटा...'

ताका, तुका जापसालदार म्हणचो ना हांव. म्हाग्रा सोताच्या जिवार काडटलों हांव कोनगीं. शें. शे... तुजेर कित्याक तर जापसालकी? आा म्होंव म्हणशी जाल्यार चार कळशे मेळाकूच जाय! एक थेंबो उणो जाल्यार तुज्या पोंदसून वयतलों, हां!'

मगीर बाबान पंचांग काडून दीस पळयलो.

'आज आनी फाल्यां नाका. आयज अमास. फायाय दीस बरो ना... परां काडात तीं कोणीं!'

नाना काका, परां चड पैस जाता. आयजूच देंतां. काळखे रातिचीं कोनगीं काडप सोंपी. आज चड करून पावस नासतलो. रातच्या धा वरेर धेंप मारतां. ते मेरेन ट्रक घोळपाचे ातात न्हूं! चट्टेर दिव्याचो फोक सारको प्रकार पडटा, खबर आसा न्हूं म्हाका! अशा उजवाडाक लागून जायते फावटीं भोगलां आं!' येसो हांसलो आनी ताचे वांगडा सगलीं जां लेगीत.

ताका ना म्हणप जिवार आयलें अशें बाबान नीर सांगलें. ते भायर बाबा सदांच सांगतालो, ती कितेंय करात, निमाणें जावपाचें आसता जाता!'

त्या घेवन येसो तयारेक लागलो. राजू, तोप, द्यो, कोनगीं झाडपाक लागता ती सोडणाची हें सगळें सामान लागीं करपाक लागलो. ी भुरगीं ती सगली तयारी दोळ्यांत तेल न पळयतालीं. ते रातीं घडपाच्या त्या गाची काल्पनीक चित्रां पळोवपांत आमी गुल्ल ल्लीं.

रातच्या आठांक सुमार येसो, बाबुराय, रथ आनी जानू आमगेर येवन पावले. ते खंय गूच येवपाक तयार नासले देंवचाराच्या ान. पूण येशाचे ते वांगडी. चौगांकूय पळोवन ान म्हटलें,

'कोण भिता रे देंवचाराक! सगळे जाण यले मरे येशा.'

'येवंक ना ते. हाडल्या तेंकां बळयां वोडून.' ान म्हटलें.

'हो आसा तो देंवचाराफुडलो देंवचार!' यांतल्या एकल्यान म्हटलें आनी सगले खो हांसले.

'येशा, तुमी मागीर येवन जेवतले मरे? न भायर येवन विचारलें. घरे खातले ां?'

नाका नाका. घरे नाका काकी.' येशान ले. 'एक बरोसो वालो काडून दवर हां, म्होंव गाळूंच्याक.'

'आरे, आदीं काड म्होंव, मागीर गाळुंया' अशें म्हणत आई भितर गेली.

सगलो सरंजाम घेवन चौग जाण भायर सरले तेन्ना साडेणव वरां जावन गेल्लीं. बाबान आमकां सगल्यांक न्हिदपाक सांगून बरो धेंगसो घातिल्लो. पूण हांवें ल्हवूच आईक सांगलें. पैस वयल्या गारफा मुळांतूच उबो रावपाचे बोलयेर तिणें म्हाका धाडलो. भायर लेगीत घरांतले भशेनूच गरमेन गदगदतालें. मळबाचो कोर धुंवरेल्लो, निळोसो दिसतालो. कुपां ल्हव ल्हव अस्तमतेकडल्यान फुडें सरतालीं. मीर्ग लागीं पाविल्लें. चुकून खंय एक पावसाचो थेंब झडटालो.

आमी झाडालागीं पावता मेरेन कितलेशेच जाण रस्त्याच्या दोनूय वाटांनी ओग्गी उबे आशिल्ले मेळ्ळे. मेजल्यार सगळे मेळून पन्नास जाण तरी आसले. आनीक कांय लोक येताले. कांय वळखिचीं भुरगींय आसलीं. मर्तें आतें आनी वांगडा धूव विठाय आसलींच. हीं दोगां खंयच्याय चौगजाण जमतात त्या जाग्यार सदांच दिसतालीं. देवळांत, जात्रेक, सप्ताहाक, पावणेक, नवें करतना, होळयेचे राती, गांवांत कितेंय आसा आनी हीं दोगां थंय नात अशें केन्नाच जायनासलें.

येसो आनी जानू हाताक राजू घालून घोटकाच्या मुळांत वचून घोटकाक पांयां पडले. ते वयर चडपाक लागले तशे तशे लोक लागीं येवपाक लागले. फुतफुतपाक लागले. सकयल आशिल्ल्या बाबूरायान आनी दशरथान 'शूऽऽ' करून सगळ्यांक ओगी केले. येशाची फजेत कशी जाता तें पळोवंक सगळे आयिल्ले. तांच्या फुतफुतपी आवाजावयल्यान आतां कितेंतरी भलतेंच घडटा अशें म्हाका दिसलें. विचित्र भंयान पूण एके वेगळेच उत्सुकतायेन म्हजें मन उचंबळ जालें.

वयर दोगांनी सुंबाच्यो चुडी लायटरान पेटयल्यो त्यो म्हाका स्पश्ट बऱ्यो दिसल्यो. चुडिंनी तांणी मालीं झाडपाक सुरवात केली. शेंकड्यांनी किटोळ्यो पेटून सकयल देंवपाक लागल्यो. किटोळे कणकणी मूस सकयल देंवपाक लागले. सकयल्या काळखांत मेळत ते वस्तूक घांस मारून रावले. निळ्या मळबाचे फाटभुंयेर मुसांची खिणाखिणाक बदलपी अशी एक चक्राकार नक्षी भोंवपाक लागली. मुसांच्या गूं गूं सुरान वाटार भरून गेलो. धा जाणांनी एकाच बराबर कसलो तरी मंत्र परतो परतो म्हणचो तसो धीर गंभीर आवाज येवपाक लागलो. तो आवाज आयकुनूच कांय भुरग्यांच्या काळजांत धडधडपाक लागलें.

मर्दीमर्दी 'बालदी बांद - ओड - देंवय - सोड - वयर ओड' असलीं उतरां फकत घोटिंगाच्या झाडाकडल्यान आयकुपाक येतालीं. अशें सादारण बरें पाऊण वर गेलां आसतलें.

'जालें. आतां हेंऽ तें बारकेलें एक उरलां तें देंवयतां हांव. तूं देंव सकयल जानू.' येशाचो आवाज आयलो.

हांव ल्हव ल्हव घोटका लागीं पाविल्लों. पूण कोणें पळोवचो न्हय म्हणून एका झाडाफाटल्यान लिपिल्लों. मुसांच्या गूं गूं आवाजावांगडाच लोकूय आतां व्हडल्यान फुतफुतपाक लागिल्ले.

इतले म्हणसर तिस्का वटेन एका ट्रकाचो आवाज आयलो. पैसुल्ल्यान उजवाड झाडाचे तेंगशेर पडपाक लागलो.

'पळात अचळय बालद्यो घेवन!... ट्रक येता... उजवाडाक मूस उठ्ठले. आनी मागीर आमचो निभाव ना.'

'पूण हो तोप आसा मरे... इतलो जड जाला तो!'

'तो हांव उबारतां. तुमी फुज्जो काडात.' सकयल देंवून येसो आंग सांसपीत तोपाकडेन गेलो. तो समरझेचें रांदपाचो व्हडलो तोप उखलना जालो. ल्हवूच फुडें येवन हांवें उखलपाक हात घालो.

'धर धर बाबल, तूं कित्याक पावलो हांगा? मूस चाबुंना मरे तुका? धांव मार घरा. हो पळय ट्रक पावलो.' म्होंवान भरिल्लो तो वासाळ तोप घेवन येसो काळखांत नासोच जालो. फाटोफाट हांव अदमासान गेलों. मागीर ट्रक थंय पावलो आनी थांबलो. घोटकामुळांत पडिल्ल्या पानांक लागून ड्रायव्हराक म्होंव काडप चल्लां हाचो वास लागिल्लो. ट्रकाचे लायटिचो झोत मजा पळोवपाक जमिल्ल्या सगळ्यांचेर पडलो आनी मुसांनी तांचेर एकूच घुरी घाली. कोणाक धा, कोणाक पांच, कोणाक पंदरा मूस लागले. पोरां-तोरां, जाण्टीं-नेण्टीं, सगळीं जिवाच्या आकांतान बोवाळ करीत ट्रककाराक आनी येशाक गाळी मारीत धांवपाक लागलीं. म्होंवाचो तोप आमगेर दवरून येसो लोक पळटात तें पळोवपाक धांवतच रस्त्यार पावलो. व्हडल्यान आड्डून म्हणपाक लागलो, 'देंवचाराची भिरांत घालतात म्हाका! सभाग्यांनो, खायात आतां म्होंव बरें पोटभर. खायात तोल्ली...! धांवात, धांवात जीव मुठींत धरून. मज्जा पळोवंक येयलेले! मुसांनी माल्लेलीं इंजेसांवां तुमकां सदांच याद उरतलीं! तुमचे परस ते म्होंवाचे मूस बरे...!'

* * *



# वंशकोंब

देविदास कदम

'आई गेऽऽ, येदनां सोंसूं जायना रे देवाऽऽ! जायनाऽऽ!'

वैजिणीन धीर दीत म्हळें, 'मातशें सोंस, जालें. थोडोसोच तेंप...!'

वाड्यावेली यमूनमामी कुसमाल्या कंबरार फाटल्यान हातान रगडटाली. तिणें आपल्या सदच्या मायेस्त आवाजांत म्हळें,

'आवयपण सोंपेपणान मेळना पुता. असले भोग सोंसुनच मेळोवंक जाय तें! व्हड भाग्य पुता तें अस्तुरेचें...'

कुसमाच्यान वेणो सोंसूं नजो जाताल्यो... नजो जावन तें मदींच व्हडान किंळाचतालें, दांत-ओंठ चाबतालें...

वाड्यावेल्यो एक्कान एक बायलो थंय एकठांय जाल्ल्यो. कांय जणी बाळंतकुडींत बशिल्ल्यो, जाल्यार कांय जणी वासरेर. कांय जणी भितर भायर करताल्यो. कितें जाय, नाका पळेताल्यो. कुसमाले तळमळे जणएकलेच्या तोंडार उदेल्ले.

मांव विश्राम वासरेर आराम खुर्चेर ओग्गी मोनो कसो बसून आशिल्लो. म्हऱ्यांतच फाटले घरची अप्रूप आज्जी बशिल्ली. व्हदळ सावन ती विश्रामाक दुशणां दीत आसली.

'फुलट बाळ्टेर! कितें म्हण ओगी आसा, देव जाणां! कारवारा व्हरचो सोडून ह्या आडगांवांत वैजिणीर पातयेवन आसा. देवान निरंकारानच राखचें!'

विश्रामाचेर ह्या उलोवण्याचो कसलोच परिणाम नासलो. अप्रूप आज्जी जाणा आसली, विश्राम एक नंबर भितरले गांठिचो. आपल्या मनांतलें कोणाक सांगपी न्हू! मनाक मानवता तेंच करपी.

धनंजया बायल सुनंदा नंजा मुडली घेवन भितर वयताली. अप्रूप आज्जेन मदींच हटकि

'अगो, वैजीण कितें म्हणटा...?'

सुनंदा कांय उलयली ना. ओगी उबी राव

'भुरगें आडवें बी ना मूं...?'

'देवा खबर! भोव तरास जातात तेका! तळमळे पळोवं नजो...'

'गांच फुलून येयलां...?'

अप्रूप आज्जेन हें विचारतकीर, पंचविशेक वर्सां पिरायेची ती बायल भोव शरमेली. तिका दिसलें, ही आनीक हांगा वासरेर बशिल्ले कडे दादल्यां मुखार नाका जाल्लें कितें विचारता? आनी ती तोंडाक पदर लावन तशीच भितर गे

'हांवच चयन येतां...' अशें म्हणत अप्रूप आजी कमरार हात घेवन उठली आनी

ळंतडींत येयली.
'..गो, गांच फुलून येयलां गो...?' तिणें
जेणा विचारलें.
वैरग ओग्गी.
कुस काल रातीं बारां सुमारा पिडा जाता
ण ळमळटालें, तें अजून मेरेन तळमळत
सरा आतां सांजेचे पांच वाजूंक येयिल्ले.
शीाळंत पिडा कोणाक चुकल्या? पुणून
समो उतळताप, पिडा हिसपाभायली. सोंसूं
जो वन तें मनगटाक घांस मारतालें.
ढ्दत वचून खिणांतच दोळे वरशे करतालें.
गांत जायत्यो बायलो गुरवार-बाळंत
ल्या. अशे तरेचे तरास जाल्ले कोणें पळोवंक
सर ना म्हळ्यार, फाटल्या तेंपार
टभायाल्या चेडवाक अशेच तरास भोगिल्ले.
शेंच हुयेली मारतालें. तेका तेन्ना भुरगें
डयेयिल्लें, मागीर घे बोवाळ जाल्लो.
न कारवारा व्हरप जाल्ल्यान पोर वांचिल्लें.
सळ्यांकूच कुसमाचे काळजेचो घोर
गिलो. हरीभार देवाचेर घालून, आनी
जांचेर पातयेवन सगळीं ओग्गी आसलीं.
चं दिसां फाटीं अप्रूप आजयेन विश्रामाक
णिलें, 'अरे, पोरालें पोट भारी व्हड दिसता.
ेशट जालां आसुंये. तूं तेका बाळंतपणाक
ावरूं नाका. कारवारा सरकारी आस्पत्रेंत
ळट बाळंटेर पोरालो. काळ सांगून
.' पुणून विश्रामान कानामनार घेवंक
ा
ाचे रिती प्रमाणें कुसमालो हो पयलो बाळंटेर
रा जावंक जाय. पुणून, कुसमालें करतलो
ा?
शीं विश्राम ह्या खिणाक भोव बोवाळूंक जाय
ो. ताका खोस भोगूंक फावो आसली.
तो स्थितप्रज्ञ कसो दोळ्यां मुखार दिसता
यत ओग्गी. वाड्यावेलीं मनशांच
टालीं, सगळे तरेची काळजी घेतालीं. कोण
ली आवय जाल्ली, कोण मांय जाल्ली,
भयण जाल्ली, कोण नणंद जाल्ली.
समाक लग्न करून ह्या घरांत हाडिल्लें तेन्ना
विश्रामान म्हणिल्लें, 'पुता, हांवूच तुजो
, हांवच आवय, हांवच मांव आनी हांवच
हांव तुगेलें सगळें सगळें करतलों...'
र, आयज ह्या खिणाक तो कोण
ो...?
शीं जाल्यार सुनेचे हे उतळताप आनी हाल
न, तो ताका कारवारा व्हरची ताकतीक
आसलो. भटागेर वचून चीट करून, ताच्या
त बांदता आसलो. जावचें आशिल्लें
, अशें येवजून अशे तरेन ओग्गी रावता
आशिल्लो...?

भितरल्यान सून आड्डताली,
'मामा... म्हाका कारवारा व्हरा... म्हज्यान सोंसूं नजो... नातर दोतोराक हांगा हाडा... म्हजें पोट कापा...'

आयकतल्याचें काळीज कळवळटालें. दोळ्यांत दुकां येतालीं. विश्राम मात निबरसाणेन काळीज घट्ट करून बशिल्लो.

... आनी कुसमालो घोव? रामनाथ ताचें नांव. खंय आशिल्लो तो...? जशें काय घरांत कांयच घडूंक नाशिल्ले वरी सदचे भाशेन गोरवां घेवन रानांत गेल्लो. चरोवंक!

रातीकडेन पोटांत जावंक लागिल्लें तेन्ना कुसमान पयले सुवातेर घोवाक उठयिल्लो. तो बाबडो बुडबुडीत उठिल्लो. बायलेन पोटांत जाता म्हण सांगतकीर, 'हांव तुका जिन्या कसाय करून दिवं...?' म्हण विचारूंक लागिल्लो. बाबड्याक बायलेक पिडा जाता हेंवूय कळूंक नासलें. बायलेन मागीर समजावन सांगतकीर ताणें बापायक उठयिल्लो, मागीर वचून कुश्टाक उठोवन, बोवाळ घालीत वाडोभर भोंवन सगळ्यांक उठयिलीं. आनी उपरांत सकाळ जातकीर हो बोवाळ सुरू आसतनाच आपल्या सदच्या नेमां प्रमाण गोरवांक घेवन रानांत गेल्लो. पर्थून दनपारां येवन, सांजेचो पर्थून गेल्लो. ताका बाबड्याक कोणेंच 'अरे, बायलेक पिडा जाता आनी तूं खंय वयता?' म्हळें ना आनी ताकाय तें समजलें ना. आपल्या नेण्टेपणासावन करत येयिल्ल्या कामाचो नेम ताणें आजूय सोडलो ना.

कोण म्हणटात, आवय मेल्ल्या दिसा सुदीक तो गोरवांक सोडूंक गोठ्यांत गेल्लो. कोणाची तरी ताचेर नदर गेली आनी ताणें मागीर बेगीबेगीन वचून हाका हाताक धरून घरांत हाडून बसयलो.

रामनाथ जल्मा सावन मतीमंद आसलो. ताचे भितर कितें तरी उणेंपण आसा हें ताका पळयतकीर ज्युस्तच समजतालें. सामको बावळट. उकडिल्ल्या आंब्या भशेन तोंडवळो. एक दोळो बेठोच मोठो आनी दुसरो अर्द धांपिल्लो कसो. हाचेन तो सकयल पळयता काय मुखार पळयता, कांय कळनासलें. तकली गोल गरगरीत. ताचेर तायट उब्बे काळे केंस. आंगलोटान मध्यम उंचायेचो. किडकिडीत. उलयतना तोंडांतल्यान उतरां जड भायर सरतालीं. एकेक फावट तो कितें उलयता हेंवूय कळना आसलें.

रामनाथ विश्रामाक एकलोच पूत. सुरवेक सुमार वर्सां मेरेन विश्रामाक भुरगेंच नासलें. विश्रामय आवय बापायलो एकलोच. मुखार वंशावळ चलोवंक कोण तरी जाय आसलो. विश्राम आनी विश्रामा बायल घोर चिंतेंत आसतालीं. उपास-तापास, जप-तप, सांगणी-आंगवणी सगळ्यो करतालीं. निमाणेकडेन हो जालो. जालो तो असो जालो. तीन वर्सां मेरेन चलनाच आसलो. मागीर ल्हव ल्हव चलूंक लागलो. चार वर्सांर उलयलो. पिरायेच्या धा वर्सांर शाळेंत गेलो. पिरायेच्या सोळा वर्सांर कशे भाशेन तीन यत्ता शिकून ताणें शाळा सोडली.

हरशीं घरचो, शेताभाटाचो वावर तो बेस बरो करतालो. शेतां कसप, मेरो लावप, कडमुले करप जिस्ताजिस्त आसलें. बागांत एक बोंडो वा एक शेंलें पडूंक दिना आसलो. बाग सामकी निवळ दवरतालो. गोठ्यांतलो गोरवांचो वावरूय तसोच. शेण काडून गोठो निवळ करप, गोरवां सोडप-बांदप. गायचें दूद मात तो केन्नाच काडूंक वचना आसलो. एक दीस खंय तो गायचें दूद काडूंक म्हण गेल्लो, गायन लाथच मारली. तेन्नाच्यान हाणें ह्या वावराचो धसको घेयलो. आनीक एके गजालीक तो थर्त भियेतालो. झाडां-माडांर चडूंक! पडून मरत म्हण! तो नेण्टो आसतना, तांच्या भाटांत वावर करपी सुब्राय झाडावेल्यान पडून मेल्लो ताणें पळयिल्लो.

आपलो पूत सगळो वावर करूंक शकता म्हण बापायन पुताक वावर करूंक मात दिलो ना. फकत गोरवांक सोडप, चरोवंक व्हरप, आनी बांदप होच वावर ताणें पुताचेर सोंपयिल्लो. ताकाय कारण आसलें. रामनाथान नेण्टेपणांत एक दीस किर्तनकारा कडल्यान आयकलें, 'कृष्ण सदांच गोरवां राखूंक वयतालो!' जालें! हाकाय आपूण कृष्ण जावंया अशें दिसलें. हाणें बापायकडेन हट्टच धरलो, 'हांव सदांच गोरवां राखूंक वयतलों!' बापायनय येवजिलें, वयता जाल्यार वचूं! ते निमतान तरी हेरांत मेतेर जावं आनी मातसो सुदारल्यार सुदारूं! पुणून, तो कसलो सुदारता...? उरफाटो, हो हेर राखण्यां खातीर फकाणांचो विशय थारिल्लो. ताका ह्या वावराची इतली आदत पडिल्ली, तो ताचे दिसपट्टे जिणेंतलो एक नेम थारिल्लो. तो नेम सोडूंक तो कसोच तयार नासलो. घडये ताका तो वावर आपल्या दादलेपणाचें एक व्हड कर्तुब कशें दिस.

विश्रामाल्या शेतांभाटांचो हेर वावर कुश्ट पळेतालो. कुश्ट रामनाथाले पिरायेचो. सुब्राय मरतकीर विश्रामान कुश्टाक हाडून दवरिल्लो, तेन्ना तो धा वर्सांचो आसलो. आवय-बापूय नाशिल्लो पोर तो. आतां आंगलोटान लांब-रूंद जाल्लो. तो सावळो आनी देखणो आसलो. आंग कोरोवन काडिल्ले वरी पीळ पडिल्लें आनी तिकतिकीत. वेल्यान सकयल मेरेन एकसारको. आंगाक कसलेंच धोंग ना, पोंग!

•

घरामुखाल्ल्या बागांत कुश्टा खातीर इल्लेंशेंच दोन कुडिंचें घर काडिल्लें. तातूंत कुश्ट रावतालो. बाकिचें सगळें जेवप-खावप विश्रामागेरूच आसलें. ताचो हेर खर्च, कपडे-लत्ते विश्रामच पळेतालो.

कुश्टालें लग्न जावंक नासलें. कोण करतलो ताचें लग्न...? विश्रामानूय मनार घेवंक नासलें. आपल्या पुताचें लग्न मात ज्युस्त वेळार करचें विश्रामाक बेस बरें कळिल्लें. तेंवूय हर तरेचे वटवटे सोंसून!

रामनाथालें लग्न करप सोंपें आसलें ?

ताका कोणूच चेडूं दिवंक तयार नासलो. विश्रामाक तर आपलो वंश मुखार व्हरूंक जाय आसलो. ताणें सगळे कडेन आपल्या सोयऱ्यांक-समदिकांक सांगून दवरिल्लें, 'कोणूय बरेंऽ चेडूं तुमच्या तल्लासाक आसल्यार सांगा.'

सगळ्यांक ताणें एकूच सांगप, 'म्हगेल्या पुताली बायल जावप म्हळ्यार एक खूब बियां जमणिची आनी चार नाल्लांभाटांची धनीण जावप. राणये भशेन रावतली. कांयच उणें पडचेंना...'

पुणून ताका कोणाकडल्यानच जाप मेळ्ळी ना.

निमाणे कडेन हुळगेच्या मावशेभावान ताका हें थळ दाखयलें. मावशेभाव केरवडी जात्रेक गेल्लो. थंय ताका ह्या चेडवाचो तल्लास लागलो.

चेडूं गरिबागेरचें.

आवय-बापूय नाशिल्लें.

बापूय खंय ही धूव बाळशें आसतनाच भायर पडिल्लो. तो खूब पितालो. दीसभर तातूंतच. एक दीस हिसपा भायर पिलो. चड जालें. सुद्दसुम्रत वचून पडलो. तातूंतच सोंपलो.

हें धायेक वर्सांचें आसतना आवय गेली. जोराचें निमित्त. कुलकुल्यान खंय जोर येतालो. पयऱ्यान येवप. दोन-दोन कांबळी आंगावेल्यान घायल्यारूय आटापना आसलो. जोरांचेर कसलीं कसलीं गांवठी वखदां केलीं. गूण कांय येवंक ना. जावचें तें जालेंच. धायेक दिसांत खेळ काबार.

चेडवाक बापोल्यान ल्हानाचें व्हड केलें.

आवय आसतना शाळेंत वचून चार बुकां शिकिल्लें तितलेंच. मागीर बापोलया बायलेन घरा वावराक जाय म्हूण दवरून घेयलें आनी शाळा आपशींच बंद जाली.

वावराक मात तें सामकें वागीण, शिटूक. आंगलोटानूय कणातर कशी लांब-रूंद. दिसूंकय सोबीत. कातीन गोरें.

खरें म्हळ्यार तें रामनाथाल्या गळ्यांत पडचेंच न्ही आसलें. आवय-बापूय नाशिल्लें पोर जाल्ल्यान पडलें. वयार येयिल्लें चेडूं बापोल्याकूय जड जाल्लें. ताका केन्ना एक फावट कोणाच्याय गळ्यांत बांदल्यार पुरो जाल्लें. हरवें सोदतल्याक भाजिल्लें मेळ्ळें म्हणटात तशें ताका हें थळ आयतेंच चलून येयिल्लें मेळ्ळें आनी ताणें दोळे धांपून 'हां' म्हळें... चेडो कसो, कितें, कांयच विचारूंक ना. ना चेडवालीय सम्मती घेवंक ना. चेडूंय हेरांले हंगांत पडिल्लें. ताकाय आपूण एक फावट कोणाचेय सुवादीन जाल्यार पुरो जाल्लें. बापोलयो करता तेंच व्हड समजून तें ओग्गी जाल्लें. तरीय ताका भोवन भोवन दिस, चेडो आपल्याक पळोवंक कसो येवंक ना ? ताचे बापोलभयणिलो घोवय असोच चेडूं पळोवंक येवंक नासलो. तो मिलिट्रींत आसलो. ताचे आवय बापूयच पळोवन गेल्ले. लग्नांत पळयल्यार, घोव गोरो पिट्ट. राजकुंवर कसो! रामनाथ असो आसतलो अशें ताणें येवजूंकच नासलें. लग्नांत ताणें ताका पळयलो आनी ताचो आवरोच हुडलो. ताका खीणभर दिशिल्लेंय, सयावेल्यान धांवत वचचें आनी काळी न्हंयंत स्वताक घालून घेवचें. आपली पुराय फटवण जाल्या. मागीर, ताणें स्वताक थातारिल्लें. मन घट्ट केल्लें. हे आपल्या नशिबाचे भोग; आपल्या नशिबांत जर असलो घोव बरयला जाल्यार ताका कोण कितें करतलो ? अशें येवजून, स्वताचें समाधान करून घेयिल्लें.

विश्रामान सुनेक भांगर शिरंगार घालून हाडिल्लें. तागेले बायलेलें भांगर आशिल्लें. थोडें भांगर...? गळ्यांत गांठलें. मुगां माळ, वटाण्या माळ, हातांक गोट-पाटल्यो, कांकणां, भुजाक बाजूबंद, कमराक चांदयेचो कमर पट्टो. ते भायर नाका-कानांचें, तकलेचो भांग तिळो आनी आंबाड्याक फूल. ते भायर लक्ष्मीहार आनी तोडे जादा केल्ले. सुनेक आंगार कितेंच उणें पडूंक दिवचें न्ही हें ताणें आदींच थारोवन दवरिल्लें. तो म्हणटालोय तसोच, 'हांव म्हगेले सुनेक लक्ष्मी कशी सखयल्यान वयर मेरेन भांगरान शिरंगारून हाडटलों.'

ताणें सुनेक नांव सुदीक 'लक्ष्मी' दवरिल्लें. उलो मात सगळे ताचे आवयच्या घरच्या नांवान, 'कुसूम' म्हणच मारताले.

कुसमाल्या बापोल्यान मात कुसमाक कांयच घालून दिलें ना. आंगावेलो चिकोल काडून उडयिल्ले भशेन दिलें. ताणें आदींच विश्रामाक सांगिल्लें, 'हांव कांयच दिवंक ताकचों ना. आनी ह्यान फुडेंय चेडवाचें वजें, हाड-व्हर, बाळंटेर, कांयच करचों ना. सगळें तुवेंच पळोवन घेवचें पडटलें. तशें आसल्यार चेडूं दितां. ना जाल्यार आसूं तें!' आनी विश्रामान तकली हालोवन 'हां सायबा!' केल्लें.

विश्राम सुनेक भोव बरें करतालो. ताका कितें जाय, नाका, आपूण जावन विचारतालो. सुनेन कितेंच सांगिल्लें विश्रामान ना म्हणप ना. ताग हरेक उतर कोंदल्यांनी झिकप. तो ताका सग वटेन खूश दवरूंक सोदतालो. तो जाणां आस आपूण ह्या पोराले परिस्थितिचो लाव घेवन ह सोबीत पोराक हाडून, आपल्या शारपिशा अ पुताच्या गळ्यांत बांदलां. एके तरेन आपणें ता फटवण केल्या. ताका सगळे वटेन खूश दवर गरजेचें.

कुसूमय आपल्या मांवाक बापायचे सुवात पळयतालें. ताची बरे भशेन चाकरी करतालें. सुनेचे जापसालदारकेन घर सांबाळटालें.

थोड्या दिसां भितरूच तें शेतां-भाटांतय वावरूंक लागिल्लें. मांव म्हणटालो, 'बाय, तु फकत वेव्हार पळोवचो. वावर करप आळांनी' ताचेर सुनेन जाप दिवप, 'शेत-भाट आमगे आळांलें न्ही! तांचे वांगडा आमी घोळल्यारू तेमी सारके घोळटले. ना जाल्यार, आळान हाळच!' असल्या उतरांनी मागीर मांवाच्या आंगार मुठभर मांस चडटालें.

पुणून एक गजाल मात ताच्या मनाकडेन खातालो. कुसमालें घोवाकडेन वागप ताका दिसना आसलें. ताणें जाणिल्लें, सुरवे साकू कुसूम घोवाक पळोवन नाराज आसा. बेठेंच उठ्ठना-बसतना घोवाचेर केबरें काडटा, र करून ताच्या आंगार येता. तोवूय करतालों तशेंच. बायलेचे फाटल्यानच रावप. जात्रेंतल हाडिल्लें नवेंच खेळणें पळोवन भुरगें जशें व तशें करप. तें वचत थंय ताचे फाटल्यान व 'खंय वयता...?' म्हण विचारप. 'हांव येत म्हणप. कितेंय काम करूंक लागल्यार 'कि करता...?' करप. 'हांव करूं...?' म्हणप. च्या करूंक लागल्यार 'साखरे डबो काडून दिवं...?', 'च्या पाल्या डबो काडून दिवं. म्हण डबे काडून दिवप. च्या जावचे आदीं बश्यो धुयन मुखार हाडून दवरतालो. ताचे म्हण तो कुसमाक मदत करूंक सोदतालो. कुसमाक ताचें तें मदत करप अजिबात मा आसलें. तें मागीर धेंगसो घालीत म्हणटालें कित्याक बेठोच हांगा म्हजे भोंवतणी गणम ओगी वचून बस एकेकडेन...!' तो मागीर वचून बसतालोय. पुणून, खीणभरांतच तें, विसरतालो आनी पर्थून येवन कुसमा भोंव गणमणटालो.

एक दीस तर ताणें मजाच केल्ली. लग पांचच दीस जाल्ले. कुसमान न्हायन आप आंगावेले कपडे काडून एके बालदेंत घालू मोरेंतच दवरिल्ले. घोवालें, मांवालें न्हायन जातकीर सगळ्यांलें एकेच पटीन धुयल्या अशें येवजून तें हेर कामांत गुंथल्लें. कुस

त्या रामनाथ न्हावूंक गेल्लो. हाणें कितें
न्हायन जातकीर आपले कपडे आपुणूच
गेली संवंय. हाणें आपल्या आंगवस्त्रां
समालेय पुराय कपडे, भितरलीं
बी बेस्स निवळ करून धुयलीं आनी
ळणेर व्हरून सुकोवंक घायलीं. कुसमाक
थोडी भिरभिरी मारूं ना...!
लीं जायतीं खेबडां ताच्या हातांतल्यान
. मागीर कुसमाक हांसचें, तिडकवचें
चें म्हण कळना आसलें. तें ताचेर पिकार

उरफाटें, विश्राम पळयतालो. कुसमालें
डेन वागप भोव म्होवाळ आसलें.
ान ताका पाचारतालें. जेवचे-खावचे कडेन
रून व्हाडटालें. ताका कितें जाय-नाका
लें. तागेल्यो आवडी, आवंडे विचारून

ाकय कुसमाक ह्या घरांत हाडत सावन,
त आपल्या मायेमोगाचो कोण तरी
अशें दिसूंक लागिल्लें. इतले दीस ताका
आपल्या धनयाचें आनी आपूण तांचो
इतलेंच खबर आसलें. जाल्यार, आतां हें
ापलेंच घर कशें दिसतालें.
शेतांत-भाटांत वावर करतना कुसूम
गडा आसतालें. आपले परीन ताच्या
हात दितालें. विश्रामाक हें मानवना
तो मागीर कसलेंय नीब काडून ताका
आपयतालो. बेतेंच कसलेंय काम दिवन
ंथून दवरतालो.
वयतात तशी कुसमाली आनी कुश्टाली
चडच घट्ट जायत गेल्ली. दोगांय
ां वांगडा सदळ वागतालीं. हांसतालीं,
टालीं, एकामेकांलीं फकाणां करतालीं.
दीस मुखावेल्या बागांत, माडांक उदक
लें. कुश्ट उदकाक वाट करून दिवंक आळें
तालो-सोडयतालो. कुसूम आनी रामनाथ
खारूच उबीं आसलीं. उलयतालीं. फकाणां
ीं. कितें जालें, देव जाणा. कुसूम
ळत हांसलें आनी ताणें बागोवन एक
ोच फातर घेवन कुश्टाचेर मोखलो.
मागीर आळ्यांतलें उदक घेवन कुसमाचेर
. उपरांत कुसमान फुरसद केली ना. पर्थून
तलें उदक घेयलें, आनी कुश्टाल्या
रूच पच् करून मारलें. मागीर सगळीं घेऽ
करून हांसूंक लागलीं. विश्राम वासरेर
कडेन सरवळेंतल्यान हें पळयतालो.
ांची तिडक येयली. सगळ्यांत चड तिडक
पुताची. तीं दोगांय थंय आपलो खेळ
त, आनी हो पिसांट तो खेळ पळोवन मन

घेवन हांसता. ताका तेन्ना दिशिल्लें, आपल्या पुतान फुडें सरचें आनी आपले बायलेक ठोऽ करून एक कानसुलार दिवंचें. आपलो पुरशार्थ दाखोवचो. पुणून, आपलो पूतच अर्दवट! ताचेंच अस्तित्व आदीं गोळाक!

तांचे हे असले तरेचे खेळ विश्रामान खूब फावट पळयिल्ले. आनी ताच्या मनांत तांचे विशीं दुबाव किल्लल्लो. पुणून हो दुबाव उकतो करप कसो...? सरळ सरळ सुनेक विचारूया म्हळ्यार सून आयकून ओगी रावतली? आनी सुनेन मांव दुबाव घेता म्हण पुराय गांवभर केल्यार...? तातूंत खरेंपण नासल्यार आख्खो गांव तोंडांत शेण घालतलो... इतलेंच न्ही, मनाक लावन घेवन आपल्या चारित्र्याचेर दुबाव घेता म्हूण घर सोडून वयतां म्हळ्यार? खंयूय वचून जीव दिल्यार...? कोण भोगतलो तें मागीर!

ताका याद जाल्ली, ताणें एक फावट आपले बायलेचेर असोच दुबाव घेयिल्लो. ती मानाय सुब्राया कडेन अशीच चड संवकळ आनी सलगी करता म्हूण! पुणून, तातूंत खरेंपण नासलें. बायलेन तें सामकेंच मनाक लावन घेयिल्लें आनी त्या खेदा सरशीं वचून बांयंत हुडीच मारिल्ली. बोवाळ करून वयर काडली म्हूण वांचली.

ना म्हळ्यार, कुसमालें आनी कुश्टालें हें वागप पळोवन विश्रामान एक फावट सुनेक म्हणिल्लेंय, 'बाय, हेर दादल्यां कडेन बायलांनी सदांच मर्यादेन वागूंक जाय. हेर दादल्यां कडेन चड संवकळ केल्यार लोकांक तोंडां फुट्टात. लोक न्ही नस्तें उलयतात...' हाचेर सुनेन मांवाकडेन मोठ्ठे दोळे करून मांडून पळयिल्लें. तागेले नदरेनच विश्राम कांचवेल्लो. तो फुडलें उलोवंक पावूंक नासलो.

विश्राम भितरले भितर फडफडटालो. हुमकळटालो. उलोवंक तोंड नासलें. एकेक फावट ताका दिस, कुश्टाकच धांवडावन घालचो. पुणून ताका धांवडावन घायल्यार, शेतां--भाटाचो वावर कोण करतलो? पुताक सगळो वावर समजता, हाचो अर्थ, तो त्या वावराचो पेंच तकलेर घेवंक तांकतलो अशें न्ही. ताकाय चतुराय जाय. बरें! कोणूय दुसरो हाडून दवरूंया म्हळ्यार, हें ताचे लार्गीय अशेंच वागल्यार? कितल्या जाणांक म्हूण बदलयतलो? आपल्याच म्हालांत खोट आसल्यार दुसऱ्याक दोश दिवन उपकारचें ना. हें येवजून तो मागीर ओग्गी राव.

तातूंतच ताका एक दीस सून गुरवार म्हण कळ्ळी. हरशीं सून गुरवार म्हण कळटकीर तो उतवाक धरून नाचता आसलो. ते खातिरूच तर, ताणें इतले वटवटे सोसून सून सोदून हाडिल्ली. आपलो वंश वाडटा तें पळोवन कोणाक खोस

भोगची ना? जाल्यार, हांगा उरफाटेंच आसलें. ताचो दुबाव खर आसलो, आनी ताका लागून ताका सुनेच्या पोटांतलें भुरगें कुश्टाचेंच आसूंक जाय अशें दिस. सुनेचें पोट वाडटा तसो ताचे तकले वेलो पेज वाडत गेल्लो, आनी मनाचेर एक निराळेंच चेपण येयिल्लें. एकेक फावट ताका दिस, आपूण येवजितां तें सारकें न्ही. कुसूम इतलें फटींग...? ताचे लागीं हांसलें, खेळ्ळें म्हूण ताका कूड ओपिल्ली आसतलीच अशें न्ही. तें ताका भावा भशेन मानिना कित्या वेल्यान? कुसमाल्या पोटांतलें भुरगें आपल्याच पुताचें. तो आपल्याच वंशाचो कोंब. मागीर, रोखडेंच ताचें येवजूवप बदलतालें. ना, आपूण आपल्या मनाक फटयतां. मनाचें समादान करतां. कुसमान आपल्या पुताक केन्नाच मोगाळ नदरेन पळयिल्लें आपूण पळोवंक ना. उरफाटें, ताका पळयतना एखाद्र्या हळशीक जिवाण्याक पळोवप, ते भाशेन तें ताका पळयतालें. ताका मुखार दिसूंक दिना आसलें. ताचेर ताणशेतालें, केंवरें काडटालें. तें ताका रातीकडेन म्हऱ्यांत घेतालें काय ना, देव जाणा! उरफाटें, कुश्टाकडेन ताचें वागप पळयल्यार, कुड्डो सुदीक सांगूंक तांकतलो, तांचे दोगांयचे संबंध आसात म्हूण! तें भुरगें कुश्टालेंच आसूंक फावो...! हें अशेंच चलत रावल्यार फाल्यां फकत कुश्टालीच संपद हें आमगेल्या हड्ड्यार नाचयतलें. वय वडिलांनी व्हडा कश्टान आनी तरासान जोडिल्लें हें बदीक-भाट. ह्या बदकार-भाटार तेमी आपलो दरकार चलयतले. हरेक मेरे कडेन आनी हद्दे कडेन हक्क दाखयतले. ह्या घटणाच्या हरेक चिऱ्या फाटल्यान आमी रगत आटयलां. त्या घटणार हेरांल्या वंशाचो कोंब वाडवप? फाल्यां हेमी आमगेल्या नांवान पिंड चलयल्यार, वाडी घायल्यार मेल्ले कडेन पावतलो आमकां...?

एक फावट तो अशें जाल्यार, एक फावट तशें येवजितालो. भोवन भोवन हीच येवजण... देखूनच रातीकडेन सुनेक पिडा जातात म्हण कळटकीर ताका व्हडलेंशें कांय दिसूंक नासलें. पुराय उमेदच मेल्ली. सगळो बोवाळ हेर लोकांनीच घाल्लो.

सुनेले गुरवारपणाचे सुवाळे, कापड न्हेसवप, फुलां माळवप, हें सुदीक ताणें लोकलज्जेकच केल्लें. जीव नाशिल्ले हुनसाणेन!

सून भितर तळमळटाली, हुयेली मारताली. किळांचताली. पुणून हाचेर बशिल्लेकडेन ताचो परिणाम जायना आसलो. तो फातर कसो बशिल्लो.

विश्राम सोडून, थंय एकठांय जाल्ल्या हरेक मनशालो जीव कुसमाले तळमळे पळोवं नजो जावन हुमकळटालो. एक फावट बरे भाशेन पोर

सुटल्यार पुरो जाल्लें. रातीकडेन तळमळूंक लागिल्लें कुसूम आतां सांजेचीं साडेपांच वरां मेरेन तळमळटालें.

... निमाणेकडेन सांजेचे संक कुसूम बाळंत जालें, आनी भुरग्यालो रडिल्लो आवाज येयलो.

'वाटी वाजया... वाटी वाजया...' कोणेंतरी बाळंतकुडींतल्यान म्हळें. धनंजया बायल सुनंदा ताकतिकेन भायर येयली, आनी 'बाब जाला... बाब!' म्हण सांगून रांदचे कुडींत गेली.

विश्रामान मनांत म्हळें, बाब जाला...? बाय जाल्यार तरी फाल्यां हुंवाळून कोणाल्याय गळ्यांत बांदू येतालें... आतां हो खुंटो मारून घटणार उबो जातलो... पुताल्या हड्ड्यार नाचतलो...

सुनंदा रांदचे कुडींत टण् ट्ण टण करून नेटान वाटी वाजयताली, पुणून तो आवाज विश्रामाक बरोऽ लागना आशिल्लो.

अप्रूप आज्जी कमरार हात धरून भायर येयली.

'विश्रामा, नातू जाला... वंश उद्धारलो तुगेलो...'

'हूं...! उद्धारलो...!' ताणें म्हळें.

बाळंटेराक येयिल्ल्यो बायलो ल्हव ल्हव फाफसल्यो. बाळंतकुडींत उरल्यो फकत सुनंदा, वैजीण आनी बाळ-बाळंतीण.

वैजिणीन वारीदेंठ कापून वार सुनंदाकडेन दिली. सुनंदान व्हरून ती पावळेंत फोंड काडून तातूंत पंचधान्य आनी एक तांबया पयसो घालून पुरली.

मागीर वैजिणीन भुरग्याक न्हाणोवन, पुसोवन पचांगी बांदली. कुसमाल्या कमराक बरोऽ येट काडलो. ताका बरीऽ कॉफी करून दिवंक सांगली आनी उपरांत सगळें जिस्ताजिस्त जाग्यार घालून, ती कपडे घेवन धुवूंक गेली.

व्हदळ सावन कुसूम भुरग्याकच पळयत आसलें. एके वटेन आपूण आवय जाली म्हूण तें वाऱ्यारूच हुबतालें, जाल्यार दुसरे वटेन, तागेल्या काळजांत एक भिरांत शी पातळिल्ली.

सगळी थंयच्यान वयतकीर कुसमान ल्हवूच कुडींतल्यान मांवाक उलो मारलो.

'मामा, हांगा यो, नातवाक चय...'

विश्रामान मनांत म्हळें, म्हाका आनीक कित्याक आपयता...? तूंच चयन घे बरें करून...!

'मामा, हांगा यो...'

विश्राम खिणभर ओगी रावलो, आनी मागीर कोणेंतरी हाताक धरून व्हेल्ले वरी भितर गेलो.

'मामा, नातवाक चय...'

विश्रामान भुरग्याक पळयलें. तें बिटी बिटी पळयत, हात-पांय नाचयत, उदारें न्हिदिल्लें.

'...चय. हांवें भुरगें तुजे भाशेन जावं म्हण चिंतिल्लें. पुणून हें बापायभशेन जालां. चय दोळे. बापायल्या दोळ्यां भाशेनूच. तोंडवळो तकली चय... कशेंतरीच दिसता. आंगलोट तसोच. म्हाका भिरांत दिसता, हाचे भाशेनू जावचो ना मू हो...?'

विश्रामान बारीक नियाळ्ळें. हय, कुसूम सांगता तें खरेंच!

'... आनी मामा, पोटाचेर एक काळें चव कशें आसा. पयशा येदें...'

'काळें चवन...? तशें चवन म्हगेल्या बापायल्या पोटार आसलें.'

खिणांतच विश्रामाल्या तोंडार हांसो फुल ताचे खोशयेक शीम हद्द उरली ना. तो भा येयलो. आनी व्हडान म्हणूंक लागलो,

'अगो सुनंदा, खंय गेलें? घरांत दोन ड साखर भरून दवरिल्ले आसात. पुराय वाड साखर वाट. फाल्यां कारवारा वचून पेढे घे येतां आनी आख्ख्या गांवाक वांट्टां...'

मागीर पर्थून भितर बाळंत कुडींत येवन लागलो,

'पुता, तुगेली आनी बाळशाली काळजी करून घे हां...'

✲



# मोनेक माया

प्रकाश पर्येंकार

सुर्या अस्तमतेक लकतालो. वांयगणांत सारें मारून, सुकड्याचीं पावलां घरची वाट चलतालीं. खांदार तुवालो, माथ्यार हडगी. हडगेंत साऱ्याची रिकामी पोती. धा-पंदरा मिनटांची वाट चलतकच सुकड्याक विडयेची तलफ मारली. गांवांत वचपी वाट वडा पोंदसून वता. वडा पोंदचे शितळसाणेंत पावल घालिनाफुडें ताका थंय विसव घेवचो अशें दिसलें. सुकड्यान कानाक हात लायलो. 'पाड पडों ह्या शेवकाचें... दोनूच दम माल्लेले... शेणलें पाडगें', तो मनांतल्या मनांत पुटपुटलो. चेड्डेच्या बोल्सांत हात घालून ताणें विडयांचो कट काडलो. विडयांचो कट म्हणपाक तातूंत विडयो तरी खंय आसल्यो ? दोन विडयो ताच्या हाताक लागल्यो. एक विडी काडून ताणें ओंठांत खोयली आनी दुसरी कानाक लायली. विडी पेटोवन तो झुरके मारीत बसलो. दोन तीन झुरक्यांचो धुंवर नाकांतल्यान काडटकच ताका बरें दिसलें.

वायंगणांत वा लाकडा-बडयेक रानांत गेल्ल्या वाटसुऱ्याक ह्या वडाच्या मुळांत बसपाची वान्सा जाता. कोण एकलो दनपारचो पावल्यार दवरण्यार आपलें वजें दवरून मात्सो आड पडटा. बसला थंयच सुकड्याची नदूर आपल्या पांयांचेर पडली. आपले परीन ताणें व्हांवत्या पाटार पांय धुल्ले. पाटाचे देगेक किल्लल्ली बिंबल काडून पांय घांशिल्ले पूण पांय सुकतकच खरबेल्ले तरी धवेच जावन आतां आरशे-बुरशे दिसपाक लागिल्ले.

मातये पाऱ्यांचें दोन कुडिंचें घर, वांयगण आनी काजिचीं चार मुळां सोडल्यार सुकड्याक बापायची जोड अशी कांयच ना. वांयगण तशें व्हडलें न्हय. पिकेक येयल्यार सात-आठ खांडी भाताक मरण ना. पूण जोत, रोपणी, नडणी, राखण, लुवणी आनी मळणी करून, भात घरांत पडटा म्हणसर सुकड्याक नाका पुरो जाता. वांयगणाचें सगळें गवात तुकांच व्हर अशें सांगून अंदू पुती गांवकाराचें जोत फैदा केलें. ताच्याच धिराचेर सुकडो वांयगणांत देंविल्लो.

सुकड्याक स भुरगीं. सवूय चेडवांच. सवें चेडूं जाल्यार सात म्हयने जावन गेल्यात. ह्या बाळंटेराक सोमारग्याक चडूच त्रास सोंसचो पडलो. केळिचे सुकिल्ले कांडये भशेन ताचें आंग आंवळून आयलां. दोळे भितर गेल्यात. पांयांच्यो सुकून वाती जाल्यात. मिर्गार शिंवलेलो पोलको झोळणें कसो गळगळीत जाला. तरी आसतना भुरग्यांचें करुनय हांगा-थंय जळपोन मूठभर घरांत हाडपाची सोमारग्याची जिद्द आजून आवळूंक ना. अंदू तसल्यांनीच तें वांयगणांत देंविल्लें. रोपून जातकच चार दीस जोर येवन हातरूण धरिल्लें.

सुकड्याची विडी सोंपत आयली. निमणे दो[illegible] झुरके नेटान मारून थंयच आशिल्ल्या फातरार ताणें विडयेचें पोंत चिरडलें. सुकडो उठलो. हडगी उकलून माथ्यार घेतली आनी आसलो तसो घरची वाट चलपाक लागलो.

अंदू वेळार सारें मारपाक मेळ्ळें म्हण तो आपल्याचेरूच खोशी जालो. पोरूं सारें मारपाच्या वेळार तो सामकोच पादिशेर जाल्लो सारें हाडपाक ताचेकडेन फुटकी कवडीय नासली. ताका लागून ताणें सारें मारलेंच ना. पूण हाचें ताका बरेंच लुकसाण सोंसचें पडिल्लें एका एका कुणग्यांत ताका दोन-तीन पेंडकांचो फरक जाणवल्लो. माथ्यावयर वचपी गुडयें खां[illegible] मेरेन येवन थारिल्लें. अंदू थाम बरें मातलां... नडप काडपय बरें जालां... सुकड्याचें मन वांयगणांत पावलें. मेर कोसळचिना ही जतनाय घेत मेरान मेर भोंवपाक लागलें. सुकड्याचीं पावलां अचकीत थांबलीं... कसल्या तरी आवाजान ताचें लक्ष ओडून घेतलें. वांयगणांचे

तोल सांबाळून उबो रावचो तसो तो वाटेर
वेळ तसोच उबो रावलो. आवाजाचे दिकेन
लूस घेवपाक लागलो. चोंय वशिंनी नदर
यली. उजव्या अर्दान दोंगुल्ली. दावे वटेन
-शेक पातळिल्लें मळ. हो आवाज आपले
टेंतल्यान येता हें ताणें निश्चीत केलें. दोन
दोंगुल्ले वटेन वचून ताणें अदमास
तो. रडटल्या ल्हान भुरग्याचो आवाज...
जाणीव जातकच ताच्या काळजांत कच्च
त्या भुरग्याक पळोवपाची ताच्या मनांत
कताय वाडली. वाटेकडल्यान चार-पांच
च्या अंतराचेर झिळिच्या मुळांत एक तानुलें
हुंडक्या-हुंडक्यांनी रडटा तें ताणें
लें. कापडाचे फाळयेंत गुठलायल्लें तें
क रडून रडून तांबशेल्लें. सुकड्याच्या
ज्जाक धडधडणी भरली. ताचें आंग
शिरलें. तो तसोच धांवत वाटेर आयलो.
च्या दोनूय पोतांनी ताणें आपली नदर
टेली. ताका कोणूच थायो पडलो ना.
याक अशी झिळकुटांत दवरून ही आवय
गेल्या काय, हो प्रस्न ताचे तकलेंत उसळी
न वयर आयलो. ह्या भुरग्याची आवय
नी तरी खंय? लागींच खंय तरी आडे
क आसपाक जाय, असो विचार मनांत
न तो त्या झिळकुटांनी नदर मारपाक
लो. पूण थंय तर कोणूच नाशिल्लो. परत
ताणें त्या बाळकाक थरथरते नदरेन
ळ्ळें... ह्या बाळकाक कांय घटकां आदींच
दवरलां असो ताणें आपले परीन अदमास
लो. इतल्या आंवांठा भितर कोणतरी
पाक जाय अशें येवजून ताणें नेटान उलो
तो, 'आगो, कोण आसा थंय? भुरगें
...' दोंगुल्ले वटेन ताणें दोन-चार उले
ले पूण ताका परती जाप मेळ्ळी ना.
वटेन तोंड करून एक कुकारो सोडलो... ह्या
य ताका जाप मेळ्ळी ना. आतां मात
डो भियेल्ले वरी जालो. भुरग्याचो ताळो
रडून बशिल्लो. आतां तें भुरगें फुगार
रडटालें. परत ताणें वाटेच्या दोनूय
ी पयस नदर मारली. तशें पळोवंक गेल्यार
टेर वयवाट चड. आपआपल्या वांयंगणांत
शेतकारांक हे वाटे बगर दुसरी वाट ना.
पलतडच्या गांवांनी वचपी एक वाट ह्या
यल्यान वता. पूण ह्या वेळार ह्यो वाटो
वपी कोणूच दिसलो ना... वाटेचे दोनूय
यान मनशांचें भिरें उडत उडत येवचें आनी
या उचांबळीत जाल्ल्या मनाक थातारचें
ुकड्याक हे घटकेक दिसपाक लागलें.
कडो हरशीं धाडशी. आपल्याचेर बेश्टेंच

अपसरण येत म्हण तो भियेतालो. ताच्या दोळ्यां मुखार सायां-मुयां दाटून आयलीं. आतां कितें करचें तेंच ताका कळना जालें. त्या भुरग्याक उखलून घेवपाक ताचें मन फाटीं-फुडें जावपाक लागलें. सुकड्यान आपणाकच थातारलो. तकली थंड करून तो विचार करपाक लागलो. हें भुरगें कोणाचें काय? ह्या बाळकाक अशें उडोवन हेची आवय खंय गेल्या आसतली? ह्या भुरग्याची खबर गांवाक सांगल्यार कशें जायत? वाटेर उबो रावून तो येवजुपाक लागलो. ताका ह्या प्रस्नांच्यो जापो मेळ्ळ्यो नात. तो कांय वेळ तसोच उबो रावलो. परत विचार करपाक लागलो... कोणाच्याच कानार ही गजाल घालिनासतना भायले भायर घरा गेल्यार कशें? मळबांत अचकीत गडगड जावन जोगूल झडचें तशें ताच्या मनांत विचारांचें केण झडलें. ताची तकली जड जाली. पूण तो घटकेभरान सावचीत जालो. ना... असलें पाप म्हाज्या हातींतल्यान घडोंक दिवंचोंना. ह्या भुरग्याक हांगाच सोडून गेल्यार तें कोलो, वागाटी ना जाल्यार कांटोळ्या मुयांचे भकीक पडटलें. आनी तशें जालें जाल्यार म्हाज्या हातीन बाळकाची हत्या केल्ले वरी जातलें...

सुकड्यान परत एकदां सरभोंवतणी नदर मारली. कोण तरी येतलो म्हणपाची आस्त आतां अस्तमत्या सुर्या दांगडा ना नपयत जाल्ली. त्या भुरग्याच्या आंगांत आतां रडपा इतलीय शक्त उरूंक नासली. सोंक-सोंक इतलोच आवाज कानार पडटालो.

सुकडो पाटलो घेवन त्या भुरग्याच्या म्हऱ्यांत गेलो. ताका गुठलायल्लो कापडाचो कुडको ओलो जाल्लो. चेडो काय चेडूं!... सुकड्याच्या मनांतली उत्सुकताय वाडली. चैडो भुरगो आसल्यार देवाचेंच देणें... म्हाकाय चेडो ना. बाविल्लो कळो फुलचो तशें ताचें मन उत्सुकतायेन फुल्लें. दोनाय शेवांक धरून पोटाकडेन मारिल्ली गांठ ताणें अचळय सोडयली. ताची नदर जिवाळेचेर पडली. आनी तो निर्शेलो. मनांत रुजवणा आयिल्ली उत्सुकताय थंयचे थंयच करपून गेली. त्या बाळकाक शुन्य नदरेन पळयत तो कांय वेळ तसोच उबो रावलो. ताची नदर आतां त्या बाळकाचे बोंबलेचेर थिरावली. बोंबली अजून झडूंक नासली. आंगाक धवेंफुल्ल पिटें तशेंच आशिल्लें. आंगाक एके तरेचो सुरमूस वास मारतालो. त्या भुरग्याची अवस्था पळोवन सुकड्याक ते आवयचो राग आयलो. आपल्या हाताक मेळ्ळ्यार केश्टयांक धरून तिका गरगरावन घुंवडायतलों आसलों अशें ताका

दिसपाक लागलें.

ह्या भुरग्याक हांगा सांडूंक उपकरना. चेडूं भुरगें जालें म्हुणोन काय जालें? भुरगें ना तेच्या होंटयेंत तरी घालूंक मेळटलें... सुकड्यान हडगी लागीं ओडली. साऱ्याचे पोतयेची घडी मारून हडगेंत वेवस्थीत दवरली. आपल्या खांद्यावयलो तुवालो ताचे वयर पातळायलो. ते इल्लेशे किटीक हात लावपाक ताका खंयचे खंय दिसपाक लागलें. सुकडो स भुरग्यांचो बापूय. पूण भुरगें चलूंक लागले बगर ताणें आपल्याच खंयच्याच भुरग्याक अपुरबायेन उखलून घेवंक नासलें. दावो हात मानेकडेन आनी उजवो हात कुल्यापोंदा सारीत त्या बाळकाक सुकड्यान अळंग उखल्लें आनी हडगेंत दवरलें. ताणें आनीक वेळ काडलो ना. कितें जाता तें जावं अशें म्हणून हडगी माथ्यार घेवन गांवांत वचपी वाट माड्डुवपाक लागलो.

ही इल्लीशी हडगी भाताच्या पेंडकाच्याकय जड आसा अशें ताका दिसपाक लागलें. जसो जसो गांव लागीं येता तश्यो ताच्या मनाच्यो शिरो ताणशेवपाक लागल्यो. हें भुरगें कोणाचें आसतलें काय? हो प्रस्न ताची फाट सोडिना जालो. ह्या प्रस्नाची जाप ताच्या आवाक्या पलतडची आसली. गांवांतल्या एक-दोन गुरवार बायलांक ताणें दोळ्यांमुखार हाडलीं. गांवची शीम हुपून ताचें मन शेजारच्या गांवांनी गुरवार बायलांचो सोद घेवन आयलें. तरीय कांयच फायदो जालो ना. भुरग्याचो आवय-बापूय सोदचे परस, ह्या भुरग्याचें आतां काय करचें, हो प्रस्न ताका चड सतावपाक लागलो. गांवांत पावल दवरतकच सगळ्यांत पयलीं कोणाच्या कानार ही गजाल घालची? पांडूच्या, वाटुल्याच्या, काय भना गांवकाराच्या? काय नीट घरा वचोन सोमारग्याक सांगल्यार कशें जायत? चेडो भुरगो जाल्यार जावं आसलो... सोमारग्याक सोमजावं येतालें. पूण हें तर चेडूं... ह्या चेडवाक बगतकच सोमारगें म्हाका वगी रावता? घर माथ्यार घेवन सगळो गांव जागयतलें... तेचें म्हूण सारकें. घरांत स चेडवां आसांत. हें सातवें तेका कित्याक तें? तो चलतां चलतां येवजुपाक लागलो.
सोमारग्याच्या उगडासान सुकड्याचें काळीज धडधडूंक लागलें. गांवाक वळसो घालून घराकडेन वचपी आडवाट सोडून ताणें गांवांत वचपाचें थारायलें.

हडगेंत भुरगें सुस्त न्हिदलां. न्हिदलां? काय! सुकड्याच्या मनांत संशयाची पाल चुकचुकली. वेळ काडिनासतना ताणें अळंग हडगी सकयल देंवयली. नाकाकडेन बोट व्हरून तें जिवें आसा हाची ताणें खात्री करून घेतली. पोटकळीय

वयर-सकयल जाता ती पळोवन ताका सू जालें.

ताचे तकलेंत आयिल्ल्या ह्या विचाराक लागून ताकाच हांसपाक आयलें. हडगी उखलून आसली तशी ताणें माथ्यार घेतली.

उंचवट्यार आशिल्लीं एक-दोन घरां ताचे नदरेक पडलीं. मुखावयलें आडवण काडून सुकडो सकयल आयलो. तसो सगळो गांव ताचे नदरेच्या अस्करांत भरलो. गांव नदरेखाला येतकच ताच्या पावलांक वेगळोच नेट आयलो. इतलो वेळ भासपी एकलेपणाची जाणीव पावलाकणकणी पयस जावपाक लागली.

पयस सर्दांत येसोआपा गोरवांक घेवन आड वाटेन वयर सरतालो. पूण ताका उलो मारून आपोवंचो अशें सुकड्याक दिसलें ना. दाव्या अर्दान कानगो खुटांचो भरो माथ्यार घेवन नेटान पांय उखलीत घरची वाट चलतालो. ताकाय थांबोवचो अशें सुकड्याच्या मनांत आयलें ना.

सुकडो गांवांत पावलो. देवळाच्या फुडल्यान आशिल्ले उकते सुवातेर भुरगे आजून क्रिकेट खेळटाले. दोग-तीग बायलां तळयेचें उदक घेवन देवळाक वळसो घालून वयल्या वाड्यार वतालीं. सुकड्यान भना गांवकारागेर वचपाचें निश्चीत केलें. भना गांवकारागेर पावसर आपणाक कोणेंच हडकूं नासल्यार पुरो अशें ताका आतां दिसपाक लागलें. आनी तशेंच जालें. भना गांवकाराच्या घरा मेरेन पावसर ताका कोणेंच हडकिलो ना.

भना गांवचो मुखेल गांवकार. गोरवांक गोठ्यांत बांदून निकतोच येवन तो सोप्यार बशिल्लो.

'खंय गेल्लो हडगी घेवन?' सुकडो आपल्यागेर येता तें पळोवन ताणें सुकड्याक प्रस्न केलो.

'कोण गेल्लो खंय पंढरेक आनी पावलो मणेरेक' अशें म्हणत सुकड्यान हडगी भना गांवकाराच्या फुड्यांत देंवयली.

'आं! हें आनी कोणाचें लचांड?' भना गांवकार अजापलो आनी प्रस्नार्थक नदरेनूच त्या भुरग्याक नियाळपाक लागलो.

'कोणाचें म्हुणोन सांगों? खंयच्या राणग्यान पोट झडयलां कोण जाणा...' कांयश्या तिरस्कारान सुकड्यान जाप दिली.

'पूण हें भुरगें आसलें तरी खंय?'

'सुरंगिच्या मळार वाटेरूच जो काजरो आसा, आनी त्या काजऱ्याचे कुशीक झिळी आसात, त्या झिळिंनी...' सुकड्यान त्या जाग्याचें आपले परीन वर्णन करून सांगलें. तांदळाच्यो कणयो खावपाक घालतकच आसलेंलीं-नासलेलीं कोंबडीं जशीं एकठांय जावंचीं तशींच भना गांवकाराच्या घरचीं सुकड्या भोंवतणी खबर आयकुपाक एकठांय जालीं. खबर सांगता थंय आसा, आडे कुशिचे पांच-पंचवीस लोक जमा जाले. सुकड्याक सुरंगिच्या मळार भुरगें मेळ्ळां ही गजाल गांवभर फांकली. म्हाताऱ्या-कोताऱ्या सयत नेण्ट्या भुरग्यांनीय त्या माणकुल्याक पळोवपाक एकूच गर्दी केली.

भुरगें खंय मेळ्ळें... कशें पळयलें... कशें हाडलें... हीच गजाल परत परत सांगून सुकड्याचें तोंड वळ्ळें... लोक घोळक्या घोळक्यांनी उबे रावन भुरग्याविशीं आपसांत चर्चा करपाक लागले.

'म्हाज्या मता परमाण हें भुरगें घांटयांचें आसपाक जायें.' नामून आपलें मत मांडलें.

'हय रे हय... रस्त्याच्या कामाक घांटी लोक येयल्ले मात खरे', पांडून नामूच्या मताक तेंको दिलो.

'घांटयां गेल्यार आयज आठ-धा दीस तरी जातले. हें भुरगें घांटयांचें न्हू... भुरग्याचें रूप बगल्यार तें आमच्याच लोकांचें म्हुणो कळटा.' आबोल्यान त्या दोगांयचें मत भायर मारीत आपले विचार उकतायले.

'तशें जाल्यार हें भुरगें कोणाचें तर?' भना गांवकारान सगळ्यांचेर नदर भोंवडायत प्रस्न केलो.

'आमच्या गांवांतल्यांचें कांय कोणाचें न्हू...' अड्डूची बायल सुटपाची आसा. वयल्या वाड्यावयल्या शिरीमतीक आजून दीस जावंक नात. झिपऱ्या भावोजीची बायल बाळंटेराक आपले आवयगेर गेल्या...' शेरकुल्यान गांवच्या गुरवार बायलांची वळेरी लोकां मुखार दवरली.

'आंकवार चेडवान पोट बी झडयलां आसतलें', फोंडून मर्दीच फोण्ण घातलें. सगल्याक एकूच हांसो पिकलो. पूण दुसऱ्याच खिणाक हांसपी तोंडां मोनीं जालीं. कांय वेळ शांतता पातळ्ळी... ताचो स्फोट कांतान केलो.

'आमच्या गांवच्या कोणाच्या चेडवान पोट केलां तें आदीं सांगात, मागिरूच आरोप करात. तोंड आसा म्हुणो कायचे काय उलोवं नाकात...' कांता इतलो वेळ ओगी आसलो. कांता तिडकता तो पळोवन फोंडून जाप काडली ना. आंग चोरून ते गर्देंत तो ओग्गी उबो रावलो.

'आतां बेश्टेच एकामेकांचेर पिकार जावं नाकात. ह्या भुरग्याचें काय करचें तें पयलीं येवजात.' भना गांवकारान मुद्द्याच्या प्रस्नाक हात घातला हें पळोवन सुकड्याक सू जालें.

'पयलीं चार गांवांनी चौकशी करुंया. ह्या भुरग्याचो आवय-बापूय मेळ्ळो बरो जालो. ना जाल्यार कोणाक भुरगें ना तेचे हॉटयेंत घालुंया. सुकडो तरी तेका व्हरोन काय करतलो? तेचीं आसात स चेडवां.' इतलो वेळ आंगणाचे पेळे बसून आशिल्ल्या गणपतान आपलें मत मांडले गणपतान मांडिल्लें मत सुकड्या सयत सगळ्यांक पटलें.

'सगळें खरें. पूण आतां ह्या भुरग्याची जबाबदारी कोण घेता?' भना गांवकारान सुकड्याची काकुळट करीत जमिल्ल्यांक प्रस्न केलो. ह्या प्रस्नासरीं सुकड्याक ल्हव-ल्हवशें दिसपाक लागलें. 'ह्या भुरग्याची जबाबदारी आपूण घेतां' अशीं कोणाच्या तरी सभाग्याच्या तोंडांतल्यान उतरां येवंचीं अशें सुकड्याक मनापसून दिसपाक लागलें. सुकड्यान सगळ्यांच्या तोंडार धांवती नदर भोंवडायली. ताका सगळ्यांचीं तोंडां सुतकी कशीं दिसपाक लागलीं. तो निराश जालो. सुकड्याची तशी कोणाकच काकुळट आयली ना. बडबडपी तों आतां ओगी पडिल्लीं. जण एकलो घुटमळत घुटमळत एक एक पावल फाटीं सरपाचो यत्न करतालो. कांय जाण लिपचोरयां सुकड्याक तेळटाले... सुकड्याक लिपचोरयां पळोवपी त नदरो 'तुंवेंच हाडलां, तेन्ना तूंच पोस... आम माथ्यार कित्याक थापता' अशें नकळटां सांगपाचो यत्न करताल्यो. सुकड्यान परत एकदां सगळ्यांचेर नदर भोंवडायली. पूण कों नदरेक नदर भिडयली ना. आतां मात सुकड्याचेर आकांत आयलो. हें भुरगें आपल्य गळ्यांत पडटा अशी ताची खात्री जाली.

ह्या बोवाळांत कोणें तरी शाळेकडल्या शेंवत्याक भुरगें जाय जाल्यार येवन व्हर म्हण रकाद धाडलो. लग्न जावन शेंवत्याक चार-पा वर्सां जाल्लीं. आजून ताचो कुसवो उजोवंक नासलो. धालांच्या मांडार तशेंच दसऱ्याच्या तरंगां मुखार ताणें आपणाक भुरगें जावंचें म्हण गाराणें घालून घेतिल्लें. पूण ताचे इत्सेक आ फळ धरूंक नासलें. 'चेडूं भुरगें जाल्यार नाका...' असो रोखडोच शेंवत्याचो निरोप आयलो. शेंवत्यान धाडिल्लो रकाद आयकून कांय जाणांनी ताच्या कुसव्याची कोमरी किर राग उक्तायलो.

इल्लें-इल्लें करून सगळे कडसले. लोकां बोवाळाक लागून मर्दी मात्शें उठिल्लें तें भुरगें परत सुस्त न्हिदलें.

तिनसांज जायत आयिल्ली. दोंगरा पलतडच्यान आतांच चंद्रीम वयर सरतालो. आपले भोंवतणी एकठांय जाल्लो काळोख आपलो गळो अंदिता आनी आपूण तातूंत घुस्मट्टां अशें सुकड्याक दिसपाक लागलें.

'सुकड्या, व्हर तूं ह्या चेडवाक तुमगेर... फाल्यां चौकशी काडून काय तो मार्ग काडुंया.

ाकारान आपले वयलें वजें अचळय
देंवयलें. ताच्या ह्या उतरांनी
च्या आंगांतली आशिल्ली नाशिल्ली
गेळून उडयली. हडगेंतलें हें भुरगें
लांबट सो लोखणाचो गुळो अशें ताका
लागलें. तो भानार आयलो. वेळ
तना सोप्यावयली हडगी कश्टान ताणें
माथ्यार घेतली. गांवांतलें एक-एक घर
लीत तो हय-न्हयशा चान्याच्या
त घरची वाट चलपाक लागलो.
ारगें!' घरची वाट माड्डयतना ताका
रकान्निचो उगडास आयलो. जाता तें
शें म्हणत, आपले आपणाकूच धीर दीत
र आशिल्ले चिंचे मुळांत तो मात्सो उबो
सोमारगें पडवेरूच बसलां तें ताणें
पालतायलें. माथ्यावयेली हडगी ताणें
ांनी अदिकूच घट्ट धरली.
ो आंगणाचे पेळेकडेन पावलो. इतलो
क दोळे लावन बशिल्लें सोमारगें पिटीक
ून आंगणांत आयलें.
ळ्यांत कसो तो पांय दवर. तुजे दोंके
ालिना जाल्यार बापायच्या कास्ताचें
च आंगणांत आशिल्लो जात्याचो खुंटो
वन तें सुकड्याच्या आंगार राकसूल
्न गेलें. बाबाक भुरगें मेळ्ळां ही गजाल
भुरग्यांनी ताका येवन तेन्नाच सांगिल्ली.
भुरगें चेडो नासून तें चेडूं हें आयकून
चडूच खुबळिल्लें...
म्हाज्या तोंडाक बगता काय? तोंड
लीं चलोंक लाग... पनवत हाडल्या ती
सूंक. आदीं पयलीं आसलें थंय
यो तेका... आसा तेंकांच पोसपाक
ुज्यान... तुजीं भुरगीं केन्ना पोटाक
ार उंडयो खावन नकळो... आंगांत
कपडे केन्ना घालून नकळो...'
चो आवाज चडत आसलो.
यान शेलिचे नाल्ल घळघळोन सकयल
सुकड्याच्या काळजार सोमारग्याचें
उतर पडपाक लागलें. सुकड्यान हूं न्हू
. तो मोनेळ पांगरून थंयच उबो

वाळांत त्या माणकुल्या भुरग्याक जाग
इतलो वेळ सुस्त न्हिदिल्लें तें बाळक
ागलें... आतां सुकड्याचो नाईलाज
का कितें करचें तेंच कळना जालें.
शक्त गळून पडल्या असो ताका भास
डगी उतरून ताणें पेळे कुशीक दवरली.
कल मारीत तो ताका थातारूंक

सोमारग्याचें उसळप, बडबडप, तापप चालूच आशिल्लें. आपल्या घोवाक भुसकावंचो अशें ताका खिणभरूच दिसलें. सुकड्याचीं भुरगीं पडवेर बसून हें सगळें मोन्यांनी पळयतालीं. आपल्या बापाय म्हऱ्यांत वचपाचो तांकां धीर जालो ना. तें भुरगें आतां हुंडक्या-हुंडक्यांनी रडपाक लागिल्लें. सुकडो आपले परीन ताका ओगी करपाचो यत्न करतालो. घडये ताका भूक लागल्या आसतली असो अदमास करून सुकड्यान हळूच आपले किरमुळेचें बोट ताच्या तोंडांत मुंगरिलें. बोट जिबेर तेंकना फुडें आपले आवयचो पानो ओडचो तशें तें सुकड्याचें बोट चोखपाक लागलें. त्या किरमुळेच्या बोटान ताका खीणभरूच थकाय दिली. तें परत आशिल्लें तशें रडपाक लागलें.

ताच्या रडपाचो आवाज सुकड्याचें काळीज पोखरपाक लागलो... वेळ काडिनासतना सुकड्यान त्या बाळकाक अचळय उखलून पोटाकडेन घेतलें... सुकडो आपले परीन ताका थातारपाचो यत्न करतालो. पूण तें चडूच हुयेल मारतालें.

सोमारग्यान हातांतलो जात्याचो खुंटो थंयच उडयलो. आनी माजराच्या पावलांनी तें सुकड्याच्या म्हऱ्यांत आयलें. सुकड्यान आंग काडलें... आपल्या म्हऱ्यांत कोण आयला तें पळोवपाक ताणें वयर नदर करून पळयलें. ताच्या म्हऱ्यांत सोमारगें उबें आशिल्लें. रुद्रअवतार आंगांत संचारून थयथय करून नाचपी सोमारगें.

...सोमारगें वांकलें. एखादे आवयन आपल्या तानुल्याक अळंग उखलून घेवंचें तशें ताणें ते चलयेक मोन्यांनीच आपले वेंगेंत घेतलें. सोमारग्याचे पोटकळेची ऊब लागतांच ताणें रडपाचें कमी केलें... तें थंयच पेळेर बसलें. वेळ काडिनासतना ताणें आपल्या पोलक्याचीं बिड्डीं सोडयलीं... भुरग्याच्या आंगावयल्यान पदर उडयत ताणें ताका पान्याक लायलें...

सोमारग्याच्या सभावांत अचकीत जाल्लो बदल पळोवन सुकड्याच्या मना-काळजांत शितळसाण फांकली... सुकिल्ले खोलपे वरी ताचो जीव ल्हव-ल्हव जालो. भुकेन भुकेल्लें तानुलें बाळक सोमारग्याच्या कुसव्यांत विसावल्लें...

सुकडो उठलो आनी नीट न्हाणये कडेन गेलो. बोल्सांतलें फस्क काडलें. त्या माणकुल्याक न्हावंक घालचे खातीर, तो न्हाणयेतळा उजो पेटोवपाच्या वावराक लागलो...

✻ ✻ ✻

# ताचो नाथ

मंगला शिवदास

''ताच्या लग्नाक वर्स जावचे पयलींच तांचे वावराडेक चली जालें खंय?''

''तें काळेंशें, भजरेंशें, गावड्यांलें चेडूं तांगेर कामाक आशिल्लें, ताका गो?''

''चेडूं खंयचें? तीन तीन भुरग्यांची आवय मुगो ती! पयलीं तें वास्को कोणाल्या तरी वावराक आशिल्लें. थंय ताका एक भुरगो जालो. ताच्या आवय-बापायन रोखडोच तो कोणाक तरी विकलो खंय. थंयसून हाडून ताका रायबंदरा कोणागेर तरी वावराक दवरलें. थंयूय ताणें लफडें केलें. तें लफडें निस्तारून जातकीर कोणें पनवतीन ताका हाडून हांगा दवरलें, जाल्यार हांगाय बी तेंच!''

''आवयस्स! कितें गो बाये सांवार हो! आतां ताचो घोवूच मुगो ह्या लफड्याक जापसालदार?''

''आनीक कोण भायलो येतलो तांच्या फ्लॅटांत, तांचे वावराडे वांगडा शेण खावपाक?''

''काकूट गो बावड्याची! संवसार म्हळ्यार कितें तें सूख धड एक वर्स लेगीत भोगलें ना गो बावड्यान! मोग करून लग्न जाल्लीं खंय तीं!''

''इतलें शिकिल्लें सवरिल्लें भुरगें... मातूय कसो ताका दुबाव आयलो ना काय?''

''नशिबांतले भोग बाबड्याचे! आनीक कितें?''

''दादले खंय खंय वचून कसले कसले दिवे लावन येत कांयच सांगूंक येना गो बाये!''

''दिवे लावंक भायरूच वचूंक म्हूण खंय आसा...?''

''तूं कित्याक गो इतलें भिता? सगळ्यांचे घोव तांच्या घोवासारके हलकट थोडेच आसतात! तरी पळे कसो तायट मानेन, नाक वरशें करून भोंवता तो नालायक हांगा थंय!''

ताचो फ्लॅट ग्राऊंड फ्लोरार आशिल्लो. मुखार भुरग्यांक खेळपाखातीर व्हडली सुवात आशिल्ली. फ्लॅटाची गॅलरी त्या खेळपाच्या ग्राऊंडाक फुडो करून आशिल्ली. सांजेच्या मायत्यार कॉलनींतलीं भुरगीं थंय जमून खेळटालीं. तेन्ना भुरग्यांच्यो आवयो भुरग्यांचेर लक्ष दवरपाचें काम करता आसतनाच खबरी मारपाचें कामूय करताल्यो. तें भितर आसा हें खबर आसुनूय त्यो ताच्या घायार मीठ पोशेवपाखातीर मुद्दामूच उलयताल्यो काय, तें भितर ना अशें समूजन इतल्या मेकळेपणान आनी व्हडल्यान त्यो ह्यो खबरी करताल्यो, हाचो अदमास ताका आयलो ना. तें बेडरुमांत बाज्जेर उदारें पडिल्लें. दोळे बेश्टेच उकते दवरून, पाश्टाक घुंवत आशिल्ल्या पंख्याक पळयत आशिल्लें. ताच्या दोळ्यांतलीं दुकांच

आटिल्लीं. पूण कोणें तरी तापिल्लें लोख
कानांत ओतचें तशीं कॉलनींतल्या बायलां
उतरां ताच्या कानांतल्यान देंवलीं आनी
हुलपावन गेलीं.

कितले उमेदीन घामाकश्टाचो पयसो
करून आपलो संवसार मांडपा खातीर ता
फ्लॅट घेतिल्लो! मनशाक हरामाचो पयसो
पचना म्हणटात. पूण हांगा तर ताणें आप
कश्टांच्या पयशांनी फ्लॅटाची एक एक वी
विकती घेतिल्ली. तरूय तो फ्लॅट ताच्या
पडलो ना. त्या फ्लॅटान हीत सादून दिलें
तागेले वावराडेचें! इतलें शाणें सुरतें आस
अशें कशें फसलें? आनी तें चेडूं ताका
दीदी-दीदी म्हणत हांसत हांसत ताका पे
खावोवन गेलें.

तें मोग करून, सगळ्यांचो विरोध पत्क
लग्न जाल्लें. 'मोग', 'लग्न' ह्यां उतरांचो
लेगीत खबर नाशिल्लो तेन्ना सावन – १
वर्सांचें आशिल्लें तेन्ना सावन तें ताचेर म
करूंक लागिल्लें. हे नेणार पिरायेचेर तें
रुपाक भुलिल्लें म्हळ्यार, तशें त्या दाद
व्हडलें रूप नाशिल्लें. ताचे गिरेस्तकायेक
भुलिल्लें म्हळ्यार, ताच्या आंगार दोन पॅ
आनी दोन शर्ट हाचेवयर तिसरी मुस्ताय
कितलिंशींच वर्सां पळोवंक नाशिल्ली. तो

ःशिल्लो. कलाकार आशिल्लो. आनी
व ताच्यांतले हे कलेचेरूच तें तेन्ना
लें.
व वर्सां ताच्या मोगांत पडिल्लें तें
वे स्तिशेकडेन पावलें आनी तो
वान पावलो तेन्ना तांचें लग्न जावंक
यूय एक व्हडलें अजापूच शें!
ल ह्या काळामजगतीं कितलीं मोडां तांचे
ायिल्लीं आनी गेल्लीं. वतांचे कितले
ानी पावसाचे हुंवार ताणें सोंशिल्ले.
ल आपल्या मोगाचे उबेर आनी बळग्यार
शीत तें अभिमानान जगत आशिल्लें.
ह हीं इतलीं वर्सां तें आनी तो समांतर
्यान आपापले वाटेन चलत आशिल्लीं.
ायनी केन्नाच एकामेकांक मेळनात
त्तें शाळेंत आसतना शिकिल्लें. पूण त्या
ेजिणेन हो समांतर लायनिंचो सभावधर्म
ायल्लो. जिणेच्या एका मोडणार तांच्यो
ायनी अचकीत एकामेकांक मेळ्ळ्यो.
ा लग्नाचे गांठीन सासणाच्यो एकठांय
त्तीर! सगळ्यांचो विरोध आसतनाय
ाच्या बळग्याचेरूच तीं लग्न जाल्लीं.
ं काळजाचें माप, जातूंत ताणें आपल्या
ंसाराचीं सपनां इतलीं वर्सां जतनायेन
ा दवरिल्लीं, तें माप हुमऱ्यार उमथून
ा तें आपल्या नव्या फ्लॅटांत संवसार
भितर सरिल्लें. आनी आयज कितले
च फ्लॅटांत ताच्या संवसाराच्या
सगळे फाशेच परते पडिल्ले!
नपाक मोटेंचशें आशिल्लें. पूण ताची ती
संवसाराचो घश्टो काडपाखातीर
नाशिल्ली. ल्हानपणासावन ताची
लाभाशेन नाजूक हें ताच्या घोवाकूय
शिल्लें. ताचें नांवूय ताच्या नाजुकपणाक
च आशिल्लें – 'मृदुला'. पूण ताचो
नाथ ताका 'मदू' म्हणटालो. तेंवूय
घोवाक 'शिवनाथ' म्हणनासतना
णटालें.
नी ताचो नाथ – दोगांय एकामेकांच्या
ाट न्हावून वतालीं. तो सदां ताचे
चीं फकाणां करतालो. 'मदू, कशें
तुजें? पळय आं, म्हाका वर्साभितर
ाचो दिवो जाय. हांव जाणां, तुजें एक
म्हळ्यार तुका सात-आठ बाटल्यो
घालचें पडटलें. २५ हजारांचो तरी
गीं करून दवरचो पडटलो... पूण
च. आनी तोवूय बी चलोच जाल्लो
नांव लेगीत हांवें येवजून दवरलां –
हांव तुजी सामकी फुलाभाशेन जतनाय घेतलों.'

अशें कितेंय आयकतकीर मदू सामकें खुशालभरीत जावन आपल्या नाथाचे वेंगेंत रिगतालें. म्हणटालें, 'नाथ, तुजो हो इतलो मोग, इतलो आधार आसतना म्हाका कसलोच भंय ना. सगळें तुका म्हाका जाय तशेंच, बरें बरें तेंच घडटलें पळय.''

ताचो नाथ खऱ्यांनीच फुलाभाशेन काय तायटावेल्या फोडाभाशेन म्हणटात तशी ताची जतनाय घेतालो. ताका कसलोच त्रास जावचो न्हय म्हूण लग्न जायनाफुडें ताणें एके वावराडेची सोय केली. रंग ना, रूप ना, आंगलट ना, उंचाय ना, लांबाय ना, रुंदाय ना अशें एक किरपनशें, अजागळशें, भजरेंशें चली-भुरगें. मदूपरस तें चार-पांच वर्सांनी ल्हान आसुंयेत. पूण कामाक मात सामकें वागीण कशें. मदू ताच्या कामार खूश जावन सदांच म्हणटालें, ''शेंवत्या, तुज्या नाड्यारूच हांव म्हजो संवसार करूंक पावतलें गो. नाजाल्यार ना...!''

तें नोकरी करतालें मडगांवां आनी ताणें फ्लॅट घेतिल्लो पणजे! हाकाय कारण आशिल्लो ताचो घोव. तो पणजे प्रतिश्ठेच्या पदाचेर आशिल्लो. ताचो चडसो साहित्यिक वावरूय थंयच चलतालो. पणजे आपली कर्मभूंय, ताच्या घोवान म्हणचें. देखून आपले नाजूक कालेतिची जाणविकाय आसतनाय मृदुलान पणजे फ्लॅट घेवन उडयलो.

दिसपट्टी मडगांवसावन पणजे आनी पणजेसावन मडगांव यो-वच करून संवसार आनी नोकरी सांबाळपाची सरयेवेली सर्कस करतां करतां मृदुलाचो जीव सामको लागीं आयलो. तें दुयेंत पडूंक लागलें. नाथाच्यान ताची ही अवतिकाय पळोवंक जायना जाली. पूण म्हारगायेच्या ह्या काळांत शिर्वीस सोड म्हणपाचो धिरूय ताका जायना जालो. आनी तेन्नाच्या तेन्ना फ्लॅट बदलपूय शक्य नाशिल्लें.

निमाणें नाथानूच हाचेर एक उपाय सोदून कांडलो. थोडो तेंप मृदुलान मडगांवां कुळारा रावचें आनी ते मेरेन पणजेचो फ्लॅट विकून मडगांवाच फ्लॅट घेवपाचो. हय-ना करत करत मदून आपल्या नाथाचे हे येवजणेकूय तेंको दिलो. नाथाचे जेवणा-खाणाचे हाल जावंचे न्हय म्हूण शेंवत्यान सदां सकाळीं येवन नाथाखातीर रांदून दवरून वचचें अशेंय थारायलें. त्या वेळार नाथूय पणजेच नोकरेक गेल्लो आसतलो म्हूण ताणें फ्लॅटाची एक चावी शेंवत्याकडेन दिल्ली, एक आपल्याकडेन आनी एक नाथाकडेन दवरली. दर शेनवारा तें पणजे येतालें. शेनवार-आयतारा शेंवत्याकडल्यान सगळीं कामां करून घेतालें. एका सेमानाचें सामान काडून दवरतालें. नाथाखातीर कितें रांद कितें नाका तें शेंवत्याक सांगतालें आनी सोमारा सकाळचें मडगांवां वतालें. सेमानांतल्यान दोन-तीन फावट ताचो नाथ फावता तेन्ना मडगांवां येतालो. तेन्ना वरांचीं वरां तीं गजाली करीत बसतालीं. ताणें चडूच आग्रो करतकीर तो रातचो मावोड्या रावतालोय. सगळें बरे भाशेन चलतालें.

सगळें बरे भाशेन चल्लां अशें समजुपांत आपणें व्हडली चूक केली हें ताका आयज कळिल्लें. आतांय तें नज आसतना दर दिसा पणजे-मडगांव यो-वच करतालें. पूण भायल्यो म्हशी-रेडकां शेत खावन गेले उपरांत आतां शेताक वंय घालून कितें उपेग आशिल्लो?

अचकीत ताका लॉरेनाची याद जाली. लॉरेना ताच्याकूय ८-१० वर्सांनी तरी ल्हान आशिल्लें. मृदुला शिर्वीस करतना एल्.एल्.बी.य करतालें आनी लॉरेना बी.ए. जावन लॉ करतालें. ताचें लग्न जालें तेन्ना तें एल.एल.बी.च्या निमण्या वर्साक आशिल्लें. एक दीस लॉरेनान ताका विचारिल्लें, ''तूं हिंगा आवयच्या घारा राबता, तिंगा पोणजे तुज्या घोवाचें केशें जाता गो?''

''चेडूं आसा वावराक आनी रांदपाक.'' ताणें जाप दिल्ली.

''चेडूं केदेंशें? धाकटुलें मुगो?''

''धाकटुलें न्हय, आसतलें तीसेक वर्सांचें.''

''आगे मुजे मांय! येद्या व्होडल्या चेडवाक घोवालागीं दोवोरता! जाग्यार आसा मुगो तूं?''

''शॅ, म्हज्या त्या चेडवाक पळयल्यार चार दीस जेवण लेगीत कोणाक चलचेंना. असल्याक म्हजो घोव दाव्या दोळ्यान लेगीत पळोवपाचो ना गो बाये! आनी आमी मोग करून काजार जाल्यांत हें विसरलें दिसता तूं!''

ताणें तेन्ना लॉरेनाक पिशार उडयल्लें. मृदुलान एक व्हडलो सुस्कारो सोडलो. पाख्याक लायिल्लो पंखो घुंवतालो तशें तेंवूय आपल्या चिंतनांनी भिरभिरत आशिल्लें.

तागेल्या ऑफिसांतूय असोच एकदां वावराक आशिल्ल्या चेडवांचोच विशय चलिल्लो. वावराक आसतात तीं चेडवां कुरूप आसपच बरें, सगळीं म्हणटालीं. आपलेंय चेडूं अजागळ, भजरेंशें देखून आपल्याकूय घराकडलो हुस्को बिलकूल ना अशें ताणेंय म्हणिल्लें. तेन्ना स्टाफांतल्या फटकळ तोंडाच्या कुंदान – जें ताच्या घोवाचेच पिरायेचें आशिल्लें आनी ताच्या घोवाक बेस बरें वळखतालें – म्हणिल्लें, ''मृदुला, तूं मात तुज्या घोवाचेर पातयेवन अशें कुळारा रावूं नाका आं. तुज्या घोवाक हांव पयलींसावन वळखतां. ताका वता थंय संद मेळ्ळ्यार बायलांमदीं पांय

घालपाची मात्शी संवंय आसा. तेन्ना ताका रंग रूप बी कांयच लागना.''

सगळ्या स्टाफामुखार आपल्या नाथाचेर मारिल्लो हो हळशीक कॉमेंट आयकून कुंदाचे पिरायेचेंय भान बाळगिनासतना तें ताच्या आंगार गेल्लें. तेन्ना सगळ्यांमुखार तांच्या दोगांयमदीं केदें व्हडलें महाभारत घडिल्लें! आयज कुंदा जैतिवंत जाल्लें. आनी तें? पराभूत जावन कुरुक्षेत्राच्या झुजामळार पडिल्लेवरी बाज्जेर दुकांचे आंवडे गिळीत पडिल्लें.

तांच्या लग्नाक आठएक म्हयने जाल्ले आसूंक जाय. सदचेवरी तें शेनवारा घरा आयलें. तें येतकीर रोखडेंच येवपी शेंवतें त्या दिसा आयलें ना. आयताराय आयलें ना. शेंवत्याचें घर फकत नाथाकूच खबर आशिल्लें. पूण ताका सोदूंक वचपाची तकालसूय ताणें घेतली ना.

''आयलें ना जाल्यार नाका येवं. पळोवया दुसरें चेडूं वावराक!''

''आतां तुज्या जेवणाखाणाचें कशें जातलें?''

''म्हजें हांव पळयन. दुसरें चेडूं मेळसर हॉटेलांत जेवीन. म्हजो हुस्को तूं काडूं नाका.''

नाथाचीं हीं उडटीं उतरां आयकून तें ताचें मुखामळ पळयतूच उरलें. वावराडी ना ही सादीशीच गजाल. पूण व्हडलें अरिश्ट कोंसळिल्ले वरी मृदुला थतरवितर जालें. तांच्या फ्लॅटाक फाव तशें गिरायक मेळसर मडगांवां फ्लॅट घेवपूय जमनाशिल्लें. नाथाचे जेवणाखाणाचे हाल जावंचे न्हय म्हूण आपल्याक त्रास जाता आसतनाय तें परतें दिसपट्टें यो वच करूंक लागलें. अशेच दीस फुडें सरूंक लागले.

एक दीस आपल्या फ्लॅटांतल्यो ल्हान सान वस्तू एकेक करून ना जायत आसात म्हणपाचें ताच्या लक्षांत आयलें. नाथाक विचारलें जाल्यार ताणें म्हणचें, ''आसतली गो खंयूय. गडबडींत तुवेंच हांगची उखलून थंय दवरल्या आसतली. नाय जाल्यार सोदचे पयलीं बोवाळ घालपाची संवंय तुका.''

एक दीस तें भितर सरलें. सदचेवरी बेडरुमांतल्या मेजार पर्स दवरून बाज्जेर बसूंक वच जाल्यार बाज्जेर कुलचांवूच ना. नाथान ओताक बी घालें आसतलें म्हूण गॅलरींत वचून पळेत जाल्यार ना. गुटलावन कोनशाक बी दवरलां आसत काय म्हूण फ्लॅटभर सगळ्याक सोदलें. जाल्यार खंयच ना.

रातचो नाथ भितर सरनाफुडें ताणें पयलो प्रस्न कुलचांवाविशीं विचारलो. नाथ एकदम गडबडिल्ले वरी जालो.

''उडयलें तें कुलचांव हांवें लासून.''

''कितें? लासून उडयलें? इतलें बरें कुलचांव? कित्याक पूण?''

मृदुलाचो आवाज केन्नाच न्हय तो इतलो चडटकीर नाथान हांसपाचो केविलवाणो यत्न करीत म्हळें, ''आगो, फकाणां केलीं तुजीं आनी तुका तें खरें दिसलें? कुलचांवांतलो कापूस खूब घट्ट जाल्लो म्हूण तें उसोवन सारकें करूंक दिलां. आठ दिसांनी मेळटलें.''

मृदुलाक तें खरेंच दिशिल्लें. पूण तें कुलचांव केन्नाच परतें ताच्या फ्लॅटांत पावलें ना.

तांचो एकूच गॅस सिलींडर आशिल्लो. एक दीस शेगडेक लायिल्लो सिलींडर रेग्युलेटरासकट ना जालो, तेन्ना मात ताचो आवरोच उडलो.

''सिलींडर खंय?''

''सिलींडर सोंपिल्लो, तो भरपाक दिला.''

''आठ दिसांपयलीं भरून हाडिल्लो सिलींडर सोंपलो? आनी रेग्युलेटरासकट सिर्लींडर भरूंक दिवपाची ही खंयची नवी रीत? सांग, खंय व्हरून दिला म्हजो सिर्लींडर आनी रेग्युलेटर?'' मृदुलान नाथाक खोमसाक धरून सामको खुनळायलो. नाथ भिल्लेवरी, कांचवेल्लेवरी जालो.

''तो... चुकून थंय दवरलो... तो... चुकून ताणें... थंय व्हेलो.''

''कोणें खंय दवरलो? कोणें खंय व्हेलो?''

ताका कसलोच कित्याचोच ताळमेळ लागना जालो. ताणें मळब-धर्तरी हालोवन उडोवपाइतलो सांवार केलो. आपणाक आतां स्टोव्हाचेर रांदचें पडटलें हे खातीर तो थयथयाट नाशिल्लो, तर ज्या नाथाचेर तें इतलो तेंप पातयेवन राविल्लें, त्या नाथावेलो ताचो विस्वास हालूंक लागिल्लो. जाचेर तें पुराय भरवंसो दवरून राविल्लें, त्याच नाथाचेर आतां पाळत दवरपाची पाळी ताचेर आयिल्ली.

आनी एक दीस... भयंकर अशें हळशिकावणें सत... जाचें केन्ना सपनांत लेगीत ताका सपन पडूंक नाशिल्लें, असलें सत... आनी ताच्या पांयांसकयली भुंयूच हाल्ली. तें कोंसळ्ळें.

विश्वासाच्या जाग्यार इतलो बुरसो दाग? काळजाचेर इतलो आनी येदो व्हडलो घावो? सोसूंक येना, पेलूंक येना इतलो? केन्नाच न पेखपायेदो?

ताचे वावराडेक ताच्या नाथाकडल्यान भुरगें? इतलेंच न्हय तर ताच्या नाथान त्या भुरग्याची जापसालदारकी पत्करची? ताचे वावराडेक फ्लॅट घेवन दिवचो? तोवूय बी तांच्या फ्लॅटाकडल्यान फकत पांच मिनटांचेर वाटेर? आनी फाटलें वर्स देड वर्स पांच मिनटांचे वाटेर कितें चल्लां हाची सुलूस लेगीत ताका केन्नाच लागची न्हय? इतलो... येदो व्हडलो विस्वासघात?

आयकून पयलीं तें जमनीर हातपांय धा[…] व्हडा व्हडान बोब मारीत रडलें. आनी मात[…] सावचीत जातकीर आसा तेच अवस्थेंत धा[…] पांच मिनटांचे वाटेर – जंय एक घाणयारो […] इतिहास ताच्या नाथान तायट मानेन घडो[…] दवरिल्लो थंय!

भितरसावन भुरग्याच्या रडपाचो आवाज […] कानार पडटनाच ताका घुंवळिल्ले भाशेन […] सगळें जगूच आपले भोंवतणीं घुंवता कशें […] दिसलें. खोंपींत रावपी ती वावराडी ताच्या […] नाथान घेवन दिल्ल्या फ्लॅटाभितर आशि[…] आनी सगळें वगडायिल्लें तें गळसल्लेवरी दाराभायर उबें आशिल्लें.

ताणें दारार मारनाफुडें शेंवत्यान मात्शें […] उगडलें. ताका दारांत पळेतकीर दार बंद करपाचो यत्न केलो. दारारूच तांची झटाप[…] जाली. आनी निमाणें शेंवत्यान ताका फुड[…] फ्लॅटाच्या दारार धुकलून उडयलें आनी बु[…] बुरश्या गाळयांचो शिंवोर घालीत दार बंद […] शेंवत्याक येदें व्हडलें धाडस जावंचें! कोण[…] नाड्यार? ताच्या नाथाच्या? तें राग निव[…] बंद दाराचेर खोंटी मारीत रावलें. जिवाच्या आकांतान रडत रावलें. शेजाऱ्यां धांवन अ[…] ताका सांबाळीत, ताचीं दुकां पुशीत एके ब[…] ताका आपल्या फ्लॅटार व्हेलें. आनी ताका […] आशिल्ल्याच गजालिंनी आनीक भर पडल[…] शेंवत्याक नव्या जाल्ल्या भुरग्यावांगडा ता[…] नाथूच थंय रिक्षान घेवन आयिल्लो. ताका […] पयलीं ताच्या नाथानच स्वता आपल्या हा[…] तो फ्लॅट धुल्लो. ताचो नाथ थंय दिसपट्ट[…] येता. जालां तें भुरगें आतां धा म्हयन्यांचें […]

धा म्हयन्यांचें भुरगें! म्हळ्यार हे धा म्ह[…] आनी ताचे पयलिंचे णव म्हयने! मृदुला ह[…] बोटां मेजीत मेजीत एक एक म्हयनो फाटीं […] लागलें. म्हयन्यांचो हिशेब मांडटां मांडटां […] धर्तरी आपले भोंवतणी घुंवताशी ताका दि[…] लागली. मेजिल्ल्या एकेक म्हयन्याचो हिशे[…] ताच्या नाथाच्या विस्वासघाताचो हिशेब दाखयतालो. शेंवतें एक दीस ताच्या फ्लॅटांतल्यान नाच्च जाल्लें, तेन्ना ताका […] गुरवारपणाचे स म्हयने पुराय जाल्ले. ताच[…] आनी ताच्या नाथाच्या लग्नाक दोन म्हयन[…] जाल्ले तेन्नाच ताचे वावराडेक गुरवारपणाच[…] पयलो म्हयनो लागिल्लो. हाचो अर्थ, तांच[…] लग्नाक वर्स जावचे पयलींच ताचे वावराडे[…] ताच्या नाथापासून भुरगें जाल्लें? स म्हय[…] जायसर आपलें वाडिल्लें पोट घेवन शेंवतें […]

फ्लॅटांत वावुरताली आनी येदी व्हडली
...ताचे नदरेंतल्यान सुटची?
...ताा नाथान ताचो केदो व्हडलो
...घात केल्लो!
...न घरांत पावल दवरिनाफुडें तें दुखाविल्ले
...भाशेन ताच्या आंगार धांवलें. ताणें ताका
...रून फांफसून उडयलो. सुरवेक नाथूय
...पा. त-त-प-प-म-म करीत आपणाक
...चो यत्न करूंक लागलो. पूण उपरांत
...रां उतर वाडत वचूंक लागतकीर तो
...च झुडून वचूंक लागलो. ताकाच
...कारी करूंक लागलो.

"...बायलमनीस मुगो? तुवें त्या लफडेबाज
...क फ्लॅटार कशें दवरलें तर? तुवें ताका
...वपाचें न्हय?"

"...का तुवेंच हाडून दवरिल्लें मरे!
...्या लफड्यांचीं दोन भुरगींय आसात खंय
...? हें तुका तेन्ना खबर आशिल्लें?"

"...णां आशिल्लों हांव."

"...कितें? तूं जाणा आशिल्लो, तरूय तुवें
... काळखांत दवरलें आनी ताका म्हज्या
...र हाडून दवरलें, आनीक एक लफडें
...?"

"...आगो, हांवें तें लफडें करूंक ना. जालां तें
म्हजें न्हय. आतांय ताका कोणेंतरी
...ल्लें. हांवें ताका फकत मदत केल्या."

"...मदत? फकत मदतच करपाची आशिल्ली
...र तुवें म्हाका कित्याक सांगलें ना?
... कित्याक विश्वासांत घेतलें ना? म्हजे
...डीं "मदत" कित्याक केली?"

"...वड सुबेज उलोवं नाका" म्हणत शिवनाथ
...ल्लेभाशेन ताच्या कानसुलांचेर मारीत
...

"...ार, जितेंच मारून उडय म्हाका. मागीर
...तेतली मदत – 'सोशल वर्क' करपाक तूं
... जातलो. क्रिकेटींत बॅटसमॅनाक दुखापत
... ताका धांवड्यो काडूंक येना जालें
...कीर रनर दवरतात. धांवड्यो काडूंक!
...न करूंक शकना तें काम करूंक! तशेंच
...ज्याच फ्लॅटांत शेंवत्याक रनर म्हूण
...दवरिल्लें. म्हज्या बाळंतपणाक सात-आठ
...ो रगत घालचें पडटलें आशिल्लें न्हय?
...जार रुपया तरी खर्च करचो पडटलो
...लो न्हय तुका? सगळें वाटायलें मरे
...बाळंतपण करपाक एक्सपर्ट आशिल्ल्या
...क म्हजो रनर म्हूण दवरून?"

...ुडक्या हुडक्यांनी रडलें.

"...गो सायबिणी, कशें समजावं तुका?
...तें भुरगें म्हजें न्हय. शेंवतें एक नंबरची
वेश्या मुगो! तूं जाणा, एक दीस तूं फ्लॅटार
नासतना तें म्हज्या आंगार पडलें..."

"तूं घाळ आसतना ताणें तुजो लाव घेतलो?
सिनेमांत लेगीत केन्ना हांवें पळयलें ना तें तुजे
जिणेंत घडलें? कसली फट मारपाची आसा ती
थाराय पयलीं."

"फट न्हय... ताणें भायर कोणावांगडा शेण
खालां तें हांव नकळो. पूण आमच्या फ्लॅटार तें
कामाक आसतना ताका दीस गेले म्हूण तें आनी
ताची आख्खी फॅमिली म्हाका ब्लॅकमेल
करता."

ताचें एक मन म्हणूंक लागलें, हय, घडये
अशेंय घडलां आसूं येता. नाथ ताचो इतलो घात
करचो ना...

तरी आसतना हे विचार तकलेंतल्यान
फाफडून उडोवन व्हडान आड्डून ताणें नाथाक
विचारलें, "तें भुरगें तुजें न्हय जाल्यार शेंवत्याची
फामील तुका ब्लॅकमेल कित्याक करतली?
आनी तूं तें करून कसो घेता? राव, विचारतां
ताका... व्हर म्हाका ताच्या फ्लॅटार..."

तें नाथाच्या हाताक धरून ओडूंक लागलें
तशें नाथान ताका धुकलून उडयलें. "तुवें कितें
लग्न करून म्हाका विकतो घेतला?
शेंवत्यावांगडाच न्हय, आनीक कितल्याश्याच
बायलांवांगडा म्हजे संबंध आसात. जाणा जावन
घेवन कितें करतलें तूं? म्हाका सोडून वतलें?
आतांच लाग चलूंक!"

अशे तरेचीं झुजां तांच्या फ्लॅटांत दिसपट्टीं
जावंक लागलीं. शिवनाथाची आवय कवळ्यां
रावताली. मांयचो आधार घेवंक तें तिचे म्हऱ्यांत
धांवलें.

"तूं आतां घोवाची कागाळ घेवन म्हजेकडेन
आयलां? लग्न जातना तूं म्हाका विचारून
जाल्लें? तो दादलो! तो एक न्हय, धा बायलो
करूंक शकता! तूं मात ताका आतां लजेर
काडूंक फुडें सरलां."

आपूण कितें आयकतां हाचेर थोडो वेळ ताचो
विश्वासूच बसना जालो आनी एक फुडें उतरूय
उलयनासतना तें थंयसावन परतलें.

नाथाच्या लागिंच्या इश्टांकडेन तें धांवलें.
नाथ जंय प्रतिश्ठेच्या पदार आशिल्लो, थंयच्या
अध्यक्षांक वचून मेळ्ळें. तांणी सगळ्यांनी ताका
खूब धीर दिलो. नाथाच्या एका लागिंच्या इश्टान
तर खूब प्रयत्न केले. तांचो एकवट जावचो
म्हणून तो धडपडलो. आनी नाथान मात
सगळ्यांमुखार 'तो मी नव्हेच' म्हूण कानार हात
दवरलो. आनी सगळ्यांनी ताच्याच उतरांचेर
विस्वास दवरलो.

ताका अजाप दिसतालें – नाथ हड्डें मुखार
काडून तायट मानेन समाजांत वावुरतालो.
माचयेर उबो रावन जगाक शेर्मांव सांगतालो.
आपूण चिखलान रेबेल्लो आसतना भाशणां
दिवन समाजाचो चिखोल धुवपाचें समाजकार्यूय
करतालो...

नाथान हो ताचोच न्हय तर अख्खे बायलांचे
जातिचो अपमान केल्लो. कितें करचें, ताका
समजना जालें. विचार करून करून ताचें माथें
फुटपाचो वेळ आयलो. निमाणें ताणें काळजाचेर
फातर दवरून एक निश्चेव केलो. कोणाकूच
कांयच सांगलें ना. कोणाचोच सल्लो घेतलो ना.
आनी आपल्या नाथा विरुदध, शेंवत्या विरुदध,
शेंवत्याचे फामिली विरुदध पोलीस हेडक्वार्टर्सांत
वचून आय.जी.पी. कडेन कागाळ नोंदयली.

ही गजाल प्रेसांतल्यान सगळ्याक पावली.
नाथ देंवचार कसो खुबळ्ळो.

"तूं म्हजेआड, स्वताच्या घोवाआड
आय.जी.पी. कडेन कागाळ करतलें? खंयची
बायल आपल्या घोवाक अशी पोलिसेंत व्हरता?
बायल तूं? ती गावडीण बरी, पूण तूं न्हय. तूं
म्हाका अशे तरेन बदनाम करता तें पळोवन
म्हजे इश्ट लेगीत आतां तुका १०० टक्के xx
म्हणटात."

"तुजे इश्ट म्हाका १०० नंबरी xx
म्हणटात? कित्याक? म्हजे असवडीं तूंच म्हजे
वावराडे वांगडा नाचलो तशें तुज्या इश्टांच्यो
बायलो घरा नासतना हांव तांचेवांगडा नाचूंक
गेल्लें? हाड त्या तुज्या इश्टांक म्हजे सामकार.
सगळ्या जगामुखार तांच्यो मुस्तायक्यो देंवोवन
हांव १०० नंबरी xx म्हूण तांकां, तुका आनी
सगळ्या जगाकूय खरें करून दाखयतां."

"तूं सुबेज म्हूण खबर आसा म्हज्या सगळ्या
इश्टांक."

"अशें म्हाका म्हणपी तुजे इश्ट तुजेसारकेच
लफडीं करपी आसतले. आनी तांच्यो बायलो
सगळें जाणा जावनूय तांचेवांगडा तांच्यो पतिव्रता
म्हूण मिरयतात आसतल्यो. बाकिच्या
बायलांभाशेन हांव तुजीं लफडीं सोंसचेंना."

"कितें करतलें तूं?"

"हांव वयर मेरेन वतलें. कायदे बदलूंक
लायतलें. हांव घटना बदलूंक लायतलें. बायलांचे
जिणेकडेन चलिल्ले हे दादल्यांचे खेळ थांबोवंक
हांव कितेंय करतलें."

"कांयच करूंक पावचेंना तूं. तुजेसारक्यो
देड्शाण्यो बायलो अशोच बोबो मारीत चार
वणटीं भितरूच काबार जावपाच्यो. तुका निमाणें
हांव इतलेंच सांगतां, तुका तुजो घोव जाय काय
घोवाक ख्यास्त जाल्ली जाय हें तुज्या मनाक
विचार आनी बरे भाशेन ती कागाळ फाटीं घे.

कागाळ फाटीं घेना जाल्यार तुजें म्हजें नातें सोंपलें म्हूण समज.''

ताच्या नाथान म्हळें तेंच खरें जालें. आपल्याक न्याय दिवपी लॉ आनी ऑर्डर नांवाची वेवस्था समाजांत आसा आनी आसतली अशें ताका दिशिल्लें. पूण कायद्याच्या राखणदारांनीच ताचेमुखार आय.पी.सी., क्राइम हाचेसारकीं कायद्याचीं पुस्तकां दवरलीं आनी उरफाटें ताकाच विचारलें, ''सांग, हातुंतलें खंयचें सेक्शन, खंयचो कायदो तुज्या घोवाच्या गुन्यांवाक लावपाचो? आगो पिशा, आमचे इंडियेंत असो कायदोच ना. एकाच दादल्यान एकाच वेळार शंबर बायलांकडेन लेगीत संबंध दवरले जाल्यार ताका ख्यास्त दिवपी कायदो आमचेकडेन ना. हें अशेंच चलत आयलां आनी तें हाचेफुडेंय तशेंच चलतलें. तें तूं बदलूंक शकचेंना. तुवें ताका सोडप होच हाचेर उपाय, दुसरो ना.''

आनीक एका कायद्याच्या राखणदारान ताका विचारलें, ''तुज्या घोवान केलां तातूंत वायट कितें आसा? तातूंत अजाप कसलें? दशरथ राजाक कितल्यो बायलो आशिल्ल्यो? कृष्णाक कितल्यो बायलो आशिल्ल्यो? हें तुका खबर ना?''

मृदुलान जाप दिली, ''द्रौपदीक पांच घोव आशिल्ले हेंवूय खबर आसा म्हाका. पूण आयच्या काळांत अशें घडिल्लें तुमकां, तुमच्या समाजाक, तुमच्या कायद्याक चलत? केन्नाच ना न्हय! पांच घोवांचो प्रस्न सोडाच. पूण लग्न जाल्ले बायलेन परक्या दादल्यावांगडा बेठी इश्टागत लेगीत केली जाल्यार घोवाक ती सोंसना. केन्ना केन्ना हाकाच लागून बायलेक जळून मरची पडटा. हांगाय तो दादलो गुन्यांवकारी थरना. गुन्यांवाचो वांटेकरी जाता, तो बाबडो स्फोट जावंक नाशिल्लो स्टोव्ह! अशा घडणुकांच्या कागाळिंची नोंद तुमचेकडेन आसतलीच. पूण दादले जळून मेल्ल्याची कागाळ केन्ना आयल्या तुमचेकडेन?''

घटनेंतल्या कायद्याची कारवाय करपाची सोडून कायद्याचे राखणदार पुराणांतलीं वांयगीं आयच्या काळांत अशे तरेन खपयतले हाचो ताणें केन्ना सपनांत लेगीत विचार करूंक नाशिल्लो.

अन्यायाक वाचा फोडपी 'झुंजार पत्रकार' म्हूण जांची नामना आशिल्ली, अशा एका दिसाळ्याच्या संपादकान मृदुलाक सांगलें, ''सामाजीक नदरेन तुज्या घोवान केल्लो गुन्यांव भयानक आसलो तरूय तो सामको खाजगी आशिल्ल्या कारणान हांव ह्या अन्यायाक वाचा फोडूंक शकना.''

झुंजार पत्रकारितेनूय अशे तरेन आपली असहायता दाखयतकीर मृदुलाक समजलें, झुंजार पत्रकारांची पत्रकारिता जित्या मनशांखातीर नासता; ती मेल्ल्यांखातीर आसता. मनीस मरतकीर ती चड प्रखरतेन तळपता. एखादे बायलेक दुबावी रितीन मर्ण येतकीर, खून काय आत्मघात, घोवाचे अनैतिकतेचो बळी, खुन्याक शिक्षा जावंकूच जाय, अशा माथाळ्यांनी, संपादकियांनी दिसाळ्यांचे जागे भरतात. फकत मेले उपरांत बायलेवेलो अन्याय पयस करपाखातीर! जितेपणीं ते बायलेन कितें भोगलें आसतलें हाचें कोणाक पडिल्लें आसना हें कोडू सत ताका आपणाल्या अणभवावेल्यान पुराय पटलें.

ताच्या नाथाच्या नांवाचे फाटींफुडें 'व्हड', 'नामनेचो' हीं बिरुदां आशिल्लीं. मंत्र्यांमदीं ताची ऊठ-बस आशिल्ली. आय.जी.पी., एस.पी. ताचे पंगतीक बसपी आशिल्ले. तो मनीस म्हूण कसो हें खबर आसुनूय सगळ्यांनी ताचे अनैतिकतेकूच तेंको दिलो. तो ज्यां प्रतिष्ठीत पदार बशिल्लो, त्या पदावेलो मनीस घाणयारो अशें म्हणपाची कोणाचीच तयारी नाशिल्ली. तो बरो आनी खरो हाकाच सगळ्यांनी तेंको दिलो. तें बरें आनी खरें आसुनूय फटकिरें थारलें. बदनाम जालें. नाथान सगळ्यांच्या फावरान ताची कागाळ थंयचे थंयच चेपून उडयली. नाथ जैतिवंत जालो.

समाजाचेर, बायलांचेर जाता त्या अन्यायाविरुद्ध शिरो ताणसून भाशणां ठोकपी, पेपरांनी बरोवपी, ताच्या नाथाचे नामनेचे इश्टूय नाथाच्या पुरुषार्थाची घुडी आपल्या खांदार घेवन नाचपांत फाटीं उरले नात, आनी न्यायाखातीर झगडूंक उबे राविल्ले ताका १०० नंबरी xx म्हणपाकूय कांचवेले नात. कदीम काळासावन चलत आयिल्ल्या आमच्या पुरुशप्रधान संस्कृतायेंतलो पुरूश जैतिवंत जालो, आनी बायलांचेर अत्याचार करपाचो दादल्यांचो शेंकड्यांनी वर्सांनी चलत आयिल्लो पांयडो तसोच उरलो.

अचकीत ताका आपल्या इश्टिणिंची याद जाली. नाथाच्या लफड्यांविशीं अजून मरेन तें आपल्या कुळारच्या कोणाचकडेन उलोवंक नाशिल्लें. पूण आपल्या कांय लागिंच्या इश्टिणीं कडेन मात तें उलयल्लें. तांणी उक्तायल्ल्यो प्रतिक्रिया ताका आयज बाज्जेर न्हिदिल्लेकडेन येवजूंक लागल्यो.

''तुज्या भावाच्या जाग्यार म्हजो भाव आशिल्लो जाल्यार येन्ना तुजो घोव ह्या संवसारांत आसचोच नाशिल्लो.''

''तुज्या घोवाकडेन एक दीस तूं बरें मोग
वाग. ताका तुजो भोग घेवंक दी आनी तेन्नाच
ताच्या पोटांत चाकू घाल.''

''इतली ताका खाज? कापून उडय ताचें
पुरुषार्थाचें प्रतीक आनी बोंदेर कशें हुमकळाय
तुज्या फ्लॅटाच्या दारार, ज्या दारांतल्यान तूं
माप उमथून भितर सरिल्लें!''

''ताचीं पदां, ताचें व्हडपण चिकटाय ताच
तोंडाक आनी सर भायर. तूं घरांत नासतना
ताणें तुज्या घरांत तुजे वावराडेवांगडा शेण
आनी तूं अजूनय निर्लज्जाभाशेन ताचेवांगडा
त्याच घरांत रावलां? काडून उडय तें गळ्या
मंगळसूत्र! हाचेफुडें तुज्या नांवाफुडें ताचें ना
लावंनाका!''

''मृदुला, तुज्या जाग्यार हांव आशिल्लें जाल्यार एक सेकंद लेगीत ह्या असल्या मनशावांगडा रावचें नाशिल्लें गो.'' एके थंड सभावाचे इश्टिणीची प्रतिक्रिया.

सगळ्यांच्यो सगळ्यो प्रतिक्रिया आयकुनय
आयज इतले दीस तें घोवावांगडाच आशिल्लें
सान पिरायेसावन तें ताच्या नाथावांगडा एक
वेगळ्या भावबंधनांत बांदून आशिल्लें. ते बंध
अशे सोंपेपणी कापून, तोडून उडोवप ताका शक्य नाशिल्लें.

दारावेली बेल वाजूंक लागली तशी ताची तनरी भंगली. आमोरी केन्ना जाली ताका कळुंकूच नाशिल्लें. दिवे लेगीत ताणें लावंक नाशिल्ले. नाथूच आयला हातूंत दुबाव नाशिल्लो. बाज्जेवेलें उठून दार उगडून नाथा
भितर घेवपाची, ताचेर नदर घालपाची लेगीत ताची इत्सा नाशिल्ली.

अचकीत ताका किरण अहलुवालियाची य
जाली. खूब वर्सां पयलिंची गजाल! तेन्ना तें एस्.एस्.सी.क आशिल्लें जावंये. ताणें तेन्ना वर्तमानपत्रांत ती बातमी वाचिल्ली. किरण अहलुवालिया ही भारतीय बायलमनीस आप
घोवावांगडा लंडनांत रावताली. आपल्या घोव
अनैतिक वागप आनी अत्याचार सोंसना जाव
तिणें आपल्या घोवाक जितो लासून मारिल्लो
खूब तेंप लंडनच्या कोर्टांत केस चलताली. लंडनच्या कोर्टान जेन्ना तिका कांयच ख्यास्त दिनासतना सोडिल्ली, तेन्ना थंय जमिल्ल्या सगळ्या बायलांनी कोर्टांतूच तिका उखलून धरून तिचो आनी बायलांचे जातिचोय जयजयकार केल्लो. इतलीं वर्सां जालीं तरी घडणूक ते बायलेच्या नांवासकट ताचे मतींत खंयतरी घट्ट उरिल्ली हेंवूय अजापूचशें!

दारावेली बॅल वाजतच आशिल्ली.

''तूंय कर मगो धा लफडीं! तुजीं सगळीं

डीाफ करून मोन्यांनी तुजेवांगडा हांव सुखान संवसार करतां काय तें ऊय'' अशें म्हणपी नाथाचें तोंड ताका पळोवचेंशें लेगीत नाल्लें.

तें ज्जेवेलें उठलें आनी किचनांत गेलें. पेट्रोलाचो गॅलन भायर डल भरिल्लोच आशिल्लो. भरिल्लो गॅलन एका हातांत आनी फस्क हातांत घेवन तें दाराकडेन धांवलें. एका कोडू निर्धारान! दार नाथाक भितर धेनाबराबर, तो घाळ आसतनाच जें लंडनांत अहलुवालियान केल्लें तेंच करपाक!

पू किचनांतल्यान दारामेरेन धांवता म्हणसर खिळी काडपाक हात पयलींच ताणें अचकीत आपल्या आंगांत हाडिल्ली उश्णी शक्त खंय गळसणून पडली. आनी गर्भगळीत जाल्ले वरी ताच्या तो पेट्रोलाचो गॅलन आनी फस्क सकयल पडलें.

तग होलमलें, किरण अहलुवालिया सारकी बायल चुकून शतकांत दा आनी चुकून लाखांनी बायलांमदीं एकाद्रीच जावंक शकता. तें ता हेर सरसमान बायलांसारकेंच अन्याय सोंसतां सोंसतां मरपीच नीस आशिल्लें. घोवांक चारूय वटांनी लफडीं करूंक मेकळीक आनी मोन्यांनी सगळें सोंशीत एक दीस मोन्यांनी मरून वचपी बायलमनीस.

गळसल्लेवरी जावन तें ल्हवू ल्हवू बेडरुमांत आयलें. दारावेली बॅल अजूनय वाजतच आशिल्ली.

नाथाचें वावराडेकडलें लफडें कळत सावन रातची न्हिदेची गुळी घेतले बगर ताका न्हीद येनाशिल्ली. निर्शेल्ल्या मनान, गळसल्ले अवतिकायेन ताणें मेजावेली गुळयांची बाटली उगडली. थीर नदरेन तें ती बाटली पळयत रावलें. आपूण करतां तें बरें काय वायट हाचो विचार मनांत येवचे पयलींच तें उदकाच्या एका एका घोंटावांगडा एकेक गुळी तोंडांत उडयत रावलें.

दोळे ताणसून, पाश्टाक घुंवता त्या पंख्याक पळयतां पळयतां तें आपुणूय त्या पंख्याभाशेन गरगर घुंवंक लागलें. 'गोल गोल राणी, इतलें इतलें पाणी' करीत भुरग्यांच्या कवंडाळ्यांत ल्हान आसतना घुंवतालें तशेंच!

पाश्टाक घुंवतालो तो पंखो हळूहळू घुंवपाचो थांबलो. दारावेली बॅल हळूहळू वाजपाची थांबली. दृश्य अदृश्य जायत रावलें. शब्द शब्द नि:शब्द जायत गेले. आनी ल्हवू ल्हवू तें उतरांचे पलतडचो मार्ग चलूंक लागलें...

* * *



# हावरट

मिलिंद म्हामल

सुनिलाचा लगीन, त्याकालागान लग्नाच्या मांटवान लोकांनी बरीच गर्दी केल्ली. बरोब्बर अकरा वाजान बारा मिनटांनी मंगलाष्टकां म्हूणान सोपले आनी नवऱ्या-व्होकलेन एकामेकाच्या गळ्यान माळो घातले. लोकांचे अक्षता उडौन जाले तशे लगीनकारानी साकार, लाडु आनी कोलाचे बाटल्यो वाटूंक सुरवांत केली.

रवी, राजू, अनिल आनी मधु हे भूरगें आयज अगदी मजेन आसले. त्यांच्यानी खंयरसून तरी कोलाची एक कास मेळयली आनी मांटवाच्या एका कोनशार बसान एकेक कोला पीत रवले. आपूण अमके बाटले घेतले, अशे मगे एकमेकाक सांगपाचे आसले. त्याकालागान कोण कितके बाटले घ्याता ह्याचा कॉम्पीटीशनच लागला. हा हा म्हुणता त्यांच्यानी एक कास सोपयली.

एकेवाटेन लाडु वाटप सुरूच आसले. मधलेमदीं त्यांच्यानी सरळं लाडवाच्या पांटल्यान हात घालून, एकाएकान चार पाच लाडु जमयले आनी वांटणाऱ्याचे नाकीनव केले. नानांचो येदुळपासून तेंचेर लक्ष आसलो. तिडकीबरोबर तो धावतच गेलो आनी चार गाळी घालीत, भुरग्यांक वडून काडीत, दोघा-तिघांच्या कानपाट्यार मारली. 'घराकडे कायच मेळाना काय रे तुमका? हावटाभाषेन काय करतांत हैयता? वायंच तरी लाज जायी. ते व्हकलकार इल्यात ते काय म्हुणतले? वंचात थंय असो तमासो करतंत, येदुळ जाल्यार येदुळ तशे, बाटल्यांची एक कास सोपयल्यात मरे? वाटीसर रवंल्ल्यात जाल्यार काय मरताल्यात आसल्यात? चलांक लागात हैंसले.' गाळींचो शिंवर घालीत नानान त्यांका धावडान दिले.

सगळ्यांच्या फुड्यान भूरग्यांचो अपमान जाल्लो. व्हकलकारांक काय दिसतांला म्हूणान नानांन आपले भाषेन सगळ्यांक फैलार घेतलले. पूण तो सुद्धा एक तमासो जालो. भूरग्यांच्या आवय बापायक लाज जाली.

लग्नाचो सुवाळो आटोपलो आनी लोक न्हवरकारांगेर जेवपाक गेले. रवी, राजू, अनिल आनी मधू एका सांगेन जेवपाक बसलेले. जेवंक निकतीच सुरवात जाल्ली आनी नानांची स्वारी इली. भूरग्यांक जेयताना बघून नानांचो पारो चढलो, म्हूणपाक लागलो, 'व्हकलकारानी जेवच्या पयली काय करतात हैयता? खंय वयतात जेवन? ते जेवन उठल्या उपरान जेयात मरे, खुब रांधलाला आसा.'

भूरग्यांक राग इलो आनी ते जेवाण सांडू चलत रवले. त्या रातीकडे सगळ्यांक घरा नार पडलो. माटवांन काय जाल्लां ह्या तेंच्य आवयबापायक रुंचाक नासला. नांनाक मनातल्या मनान गाळी घालीतच भूरगे निज

सकाळी उठल्याउपरांन सगळे भुरगे देवळ जमले. आयज वाड्यावयल्या लोकांक न्हवर धोयामेळ्याचा जेवाण आसलां. भूरग्यानी आपल्यामदी कायतरी ठरयलां आनी सगळे- जेवपाक गेले.

नाना माटवान हजर आसलोच! पूण भूरग्यांनी तेचेकडे लक्ष दिवंक ना. त्यांच्यानी सोजी वाढणाऱ्याचे मात खूप हाल केले. ते परत सोजी मागान घेवपाक लागले. नानान आपला फोडणां उडयत म्हटलां, ''खायात पॉटभर, आयज कोण इचारना तुमका, सांज जाल्यार मात गळ्यान बांधतलंय.'

भूरगे पॉटभर जेयले आनी सगळे एकदम उठान गेले. जेवणा आटपून लोक घरा गेले नानांचां काय तरी बिघाडला! सायकलीची कोणीतरी हवा सोडली म्हूण तो गाळी घालुंव

ो त्या चांडाळ चौकडीचाच काम
ा ह्या', असो तेचो समज जालो पूण
ढपाक एकय भूरगो त्याका लागी

ा पयले दोन दिस जाले. तिसऱ्या दिसा
ा घरा सत्यनारायणाची पूजा आसली.
डप्या पूजेक बसलांला. लोक पूजेक
रतीक सुरवात जाली त्यांवा नानान
ले टाळ, त्यांका बरोबर घालुंक येवचें
काढून घेतले. आरती जाली आनी
पुडे वाटपाक सुरवात जाली. पूण नाना
ग्रा गर्दैन सामील जालो आनी म्हूणपाक
'वचात थंय हेंची गर्दी, पुडो घेवपाक
देवचे ना, एक एकटो चार चार पुडे
ॉरांची जातच तसली.'
रा जाणत्या लोकांनीच गर्दी केल्ली.
गळ्यांन फुडे आसलो पूण भूरग्यांक
काय तेणी सोडुंक ना. सगळ्या गजाची
काच आसली. नानान प्रसाद घेतलो
टी वळताना दोघा तिघा भूरग्यांक
म्हणपाक लागलो, 'खंय वयतात फुंडे,
न पुडे घेवपाक लाजय दिसाना ?
ागात हैंसले.'
ंचो परत एकदा अपमान जालो. आता
का राग सहन जावंक ना आनी नानाची
खंयच्या खंय गायब जाली!
न सगळ्याकडेन सायकल सोदली पूण
ी गावांक ना. सायकलीक चावी करून
ायकल जाग्यार नसली. नानान
चोरांच्या नावान गाळींचा पुराण चालू
रवी, राजू, अनिल, मधू वडाकडे
येय आसले. त्यांकां बघून नानांक, ह्या
च आपली सायकल चोरली आसतली,
ी पटली आनी तो वडाकडे जावन
लागलो, 'काल जाल्या काल तशे,
ची हवा सोडल्यात मरे, आयज
पळौन व्हेल्यात, चेडयेच्यानु बरे भाशेन
खंय दवरल्यात तां सांगात, ना
एका एकाचो रोस काढतलंय.'
कायच बोलांक ना, त्यावा नानाक
राग इलो. 'आरे पॉटण्याचानु मी
तुमकां ? सांगात मरे काय तां ?'
तुजी सायकल बघुंक ना.' मधून

ुणी बघला, मी चोरानु...?'
गाळी सवां नाका हां, आमी तुजी
बघुंक ना, वचात थंय तु आमका गाळी
राजून सांगला.
य मी गाळी संवतय, माका शाणपणा

शिकयतात चोरानु, तुमच्या बाबायक सांगात हैता.' – नाना.

'बापुय वैर काढू नकां हा, बरा जावचा ना.' राजून आवाज चढयलो.

नानाक तो आपलो अपमान दिसलो. राजूच्या कानपाट्यार दोन मारीत तेणी म्हुटलां, 'चेडयेचो, माका शाणपाणा शिकयता, सायकल पळौन व्हेल्यात ती व्हेल्यात, चलांक लागात हैंसले. बापायक घेवन येयात, ना जाल्यार एका एकाक हगासर मारतलंय.'

राजू रडत घरा गेलो. बरोबरचे भुरगेय गेले. राजून रडत रडत बापायक नानाची खबर सांगली. राजूच्या बापायक राग इलो, पूण नानाच्यापुढे तो क्यॉंवा बोलांक नसलो. आपल्या झिलाक एकट्यानच मारलो ह्या आयकान तो रागार जालो आनी नानांक जाब इचारपाक तो देवळाकडे गेलो. घराकडे राजूच्या आवयन नानांच्या नावान गाळींचो शिंवर चालूच दवरलो.

राजूच्या बापायक नाना देवळान एकटोच गावलो, इडये फुकीत तो बसलोलो.

'नाना, माजो झिल तुका एकटोच गावलो काय रे, उखलतंय तां मारतय धरून, तुझी सायकल खंयच्या पॉरानी ह्याला कोण जाणा ?' राजूच्या बापायन इचारला खरा, पूण नाना एकदम भडाकलो, इडी थंयच उडैयत तेणी म्हूटला,

'झिलाचे आदोगातके करूंक इलंय, मी सांगतय, सायकल तुझ्याच झिलान चोरली म्हूण.'

'वगीच माज्या झिलाचेर आळ घेवं नाका हां.'

'कित्याक घेवं नाका ? वचात थंय तुजो झिल हुतवाळी कसो आसता, तो दिसना काय रे, बरे भाशेन माजी सायकल खंय दवरल्या तां सांगाक सांग त्याका.' – नाना.

'पूण तेणी दवरूकच ना जाल्यार तो कसो सांगतोलो ?'

'कसो सांगतोलो ? तेचो बापूय सांगात, झिलाचीं कर्मा खबर आसत मरे, वयल्यान माका इचारूंक इलंय ? चलांक लाग हैंसलो, दोन न्हू, चार कानपाट्यार मारतलंय आसलंय, हो काल सकाळचो पोर माका जाब दिता ? ल्हान मोटो कोण आसा काय ना ? ह्या कसा इचारूंक ना त्याका तुं ? सायकल खंय दवरल्या ता सांगाक सांग त्याका, नाजाल्यार बरा जावंचा ना.'

नानाच्या ह्या उतराचेर राजुच्या बापायक फुडें जाप दिवपाक जमली ना आनी तो घरा गेलो. नानाचो सगळो राग मगे झिलाचेर काढलो.

नानाचो दरारोच तसो. त्याका कोण तसो आव्हान दिवपाक शकाना, पूण भूरग्यांक मात तेचो राग येता. त्यादिसा नानांन मासळी बाजारान पंचवीस रुपायाचो निस्त्याक इकत घेतलां आनी रवीकडे घराकडे व्हरान दिवपाक सांगला. पूण रवी मोठो हुषार, त्याका नानाचो राग आसलोच. तो सरळ घरा इलो आनी निस्त्याक आपले आवशीकडेन व्हरान दिला. त्याच्या आवशीन कोणी दिला काय ता इचारूंक ना, आनी मगे सगळ्यांनी ता तळून खाल्ला.

नाना दोनपारा आपल्या घराकडे जेवपाक गेलो पूण शिवराक जेवाण बघून त्याका राग इलो. जेवाण थंयच सांणून तेणी आपले बायलेचेर तिडक काढली. मगेर त्याका कळलां की रवीन निस्त्याक हाडून आपल्या घरा दिवंक ना. तो तसोच रवीगेर गेलो आनी सगळ्यांच्या पुढ्यान रवीक निस्त्याक घराकडे पावौंक ना म्हूणान बेदम मारलो. पूण कोणी कायच म्हूणांक ना. रवीक मगे बापायकडल्यान बरोच मार पडलो.

नाना सद्ध्या गडबडीन आसा, त्याच्या झिलांचा लगीन आसा आनी घरांकडे तेचीच चल्ल्या. लग्नांक भरपूर खर्च करून मोठ्या दबाज्यान लगीन करूचा अशी तेची इच्छा आसा. भूरगी हावरटा सारखी दोन दिस जेवपाक येतंली आनी त्यांच्यानी पॉट फूटासर जेवनी म्हूण त्यांच्यानी दोन साग तानुळ हाडून दवरल्यात. नाना तसो लोकांक सांगतय सुटला. 'दोन साग तानुळ हाडलेले आसत, पॉरांक जेवनी पॉटभर, कितक्यांय जेवन त्यांचा पॉट भरताला हंयतर ?'

लग्नाच्या आदले दिसा नानागेर सगळ्या वाडेकारांक माटो जेवाण आसला. भरपूर लोक आनी वाड्यावयली झाडून सगळीं पॉरां येतलीं म्हूण तेणी धा कुडो तानूळ शिजयलो, शंभर नारळांचा सांबारा केल्लां, त्या खेरीज भाजी, पापड, लोणंचा सगळां आसला.

तिनसाना सगळ्यां आपोवणा धाडला. सगळीं भुरगीं येतंली असो नानाचो अंदाज आसलो. पूण भुरगें माटवान येवंकच ना. पाच पंचवीस जाणते तितकेच हजर आसले. संप केल्यासारखो सगळ्यानी जेवणाचेर बहिष्कार घातलोलो. शेजारचे चार पाच भूरगें तितके सोडून सगळ्यांनी नानांक धडो शिकयलो. नानाचा तोंड बघपासारख्या जाला. काय बोलांचा तां त्याका कळांकच ना. धा कुडो तानळाचा शीत तसाच आसला. भूरगी येतली आनी सगळा शीत सोपयतली, ह्या आशेन माटवाच्या एका कोनशाक हावरटा सारखो तो तेंची वाट बघीत रवलो.

* * *

# मोनीं दुकां

उदय गुडे

'आवय! केन्ना जावपाचें गे? भूक लागली मगे!' पोटाक लागिल्ली भूक सोंसूंक नज जावन रघून आवयचो पदर ओडीत तिका विचारलें. दोगूय भुरग्यांक घेवन नाटक पळयतल्या आबोल्याची नदर रघूचेर थिरावली. रघूच्या पोटाक लागिल्ली भूक ताच्या दोळ्यांत स्पश्ट दिसताली. आबोल्याचें मन चिटमिटलें.

'मात्सो थार धर आं! पयलीं हें नाटक सोंपुंदी. नाटक सोंपना बराबर जेवणावळ पडटली. मागीर जेवंया पोटभर.' असहाय्यपणान रघूचे फाटीवेल्यान हात भोंवडायत आबोल्यान ताका थातारलो.

'शूऽऽ! बोंवाळ कसलो गे? ओगी बसपाक येना जाल्यार नाटकाक कित्याक येतात तर? लोकांक त्रास दिवपाक?' कुशिनच बशिल्ले एके अनवळखी बायलेची धपकावणी आयकून आबोलें कांचवेल्ले भशेन जालें. ताणें मोन्यांनी रघूक मांडयेर घेतलो आनी ताची तकली आपल्या खांदार दवरून तें ताका थापटूंक लागलें.

'आवय...' रघू कितेंतरी उलोवंक सोदतालो.

'आतां ओगी राव आं, लोक तापयतात पळे. साजू पळय कसो ओगी बसला! तशें तुका बसूंक कितें जाता? परत आनी मर्दीं उलयल्यार जांगड पिळटलीं आं...' ल्हव आवाजान आबोल्यान रघूचेर धेंगसो घालो. रघू भूक पोटांत चिड्डून ओगी बसलो. भुकेच्या कळवळ्यांनी दोळ्यांतल्यान देंवपी दुकां बुशकोटाच्या हाताक पुसत तो नाटक पळोवंक लागलो. ताची ती आवतिकाय पळोवन आबोल्याक वायट दिसलें. पूण कितें करतलें? नाटक सोंपपाची वाट पळेलेबगर दुसरो आनी उपाय नाशिल्लो.

आबोल्यान रघूचे दोळे पुसले. चार वर्सांचो पोर तो. ताच्यान भूक सोंसूंक जायनासली. भूक लागतकीर तो आवयचो जीव खातालो. त्या मानान स वर्सां पिरायेचो साजू समजिकायेचो आशिल्लो. कितेंय सांगल्यार तो समजून घेतालो आनी दुसऱ्यांक त्रास दिनासतना आपलीं कामां करून घेतालो. ह्याच आपल्या सभावाप्रमाण पोटाक भूक लागुनूय तो मोन्यांनी नाटक पळयतालो. आबोल्यान लक्तुबायेन साजूचे फाटीवेल्यान हात भोंवडायलो आनी रघूक वेंगांत घेवन ताणें आपली नदर नाटकाचे माचयेवटेन घुंवडायली.

आनीक कितलो वेळ आसा काय नाटक सोंपपाक? आबोलें आपले भितरच येवजितालें. आज आपल्या भुरग्यांक पोटभर जेवपाक मेळटलें, ताका दिसतालें. तेच वांगडा आपूण आपल्या अपुरबायेच्या दोगां भुरग्यांक पोटभर वाडपाक पावना ही खंतय ताचें मन पोखरतालें. घोवाचो कसलोच उपेग नाशिल्लो. सोऱ्याच्या व्यसनान ताका पुराय गिळिल्लो. आपली सगळ जोड तो सोऱ्याक काबार करतालो. ते भायर आबोल्याचे जोडिचेरूय हात मारपाक फाटींफुडें पळयनासलो. सोऱ्याची तलफ येतकीर ताका कसलीच साबुद्द उरनासली आनी हाताक लागता तें घेवन तो गादयेर वतालो. तर्र जावन घरा येतकीर धोडय-बडय तर सदचेंच जाल्लें. आबोलें हागेर तागेर वावर करून कितेंय जोडून हाडटालें तें घोवाची नदर चुकोवन भुरग्यांच्या पानार वाडटा म्हणसर ताका नाका जीव जातालो. बरें, तातूंत ताची जोड ती कितली? जोड पडभर आनी भूक खांडीभर म्हणटात तशें आपले जोडिचेर एकय दीस तें भुरग्यांक पोटभर वाडूंक पावनाशिल्लें. लोकांगेर काम करता थंय कोणेंय उरिल्लें जेवण बी दीत जाल्यार तांतले तातूंत भुरग्यांच्या पोटाक इल्ली थाकाय

ार पूण ती तितले पुरतीच. वाडटीं भुरगीं
तीं भूक दिसानदीस वाडत वताली आनी
ऊपोटार जगप पळोवन आबोल्याली उंडी
याकयल वचनासली. घरांत आशिल्लें
ल भुरग्यांच्या पानार वाडून आपूण
णा घोंटान पोट भरतालें आनी पोटाक
ांदून दीस सारतालें. आपल्या हातान
ां पोटभर वाडप आबोल्याच्या नशिबांत
तें तरी गांवच्या म्हादेवाच्या देवळांतल्या
वां दिसांनी तांकां पोटभर जेविल्ले
कतें तांतले तातूत धादोस जातालें.
ांतल्या म्हादेवाच्या देवळांत सण परबो
ायत्यो जाताल्यो. पूण शिवरात्र,
व जात्रा, अनंत चतुर्दस हे सारक्यो
परबो देवाचे म्हाजन एकठांय येवन
प्रमाणांत मनयताले आनी ते दीस ते
र लोकांक जेवण वाडटाले. ते दीस
न पोटभर जेविल्ले पळोवन आबोलें
ह जातालें आनी तांचे बराबर आपुणय चार
ोवन आपली वर्साची भूक भागयतालें.
दिसा शिवरात्र आशिल्ली. देवळांत दोनूय
जेवणावळी आशिल्ल्यो. ते दीस दोनय
ोटभर जेवपाक मेळटलें म्हण दोनय भुरगे
ांचे परसय आबोलें चड खुशाल
लें. पूण आबोलें वावराक वता तांगेर आज
आशिल्ल्यान, ताका थंय चड काम
. थंयचें सगलें काम सोंपोवन घरा पावता
ताका सांजवेळ जायत आयिल्ली.
यो जेवणावळी उलगून गेल्ल्यो. आबोलें
ालें. ताणें ताईबायगेर साकून येतना
ं जेवणा पान दोगांय जाणांक अर्दें-अर्दें
पूण तितल्यान तांची भूक भागपासारकी
ी. ते आनीक जाय म्हण मागूंक लागले.
ातचे देवळांत वचून पोटभर जेवंया, अशें
न सांगून आबोल्यान दोगांकय थातारून
रात जाली तशें आबोलें रघूक आनी
घेवन देवळांत आयलें. देवळामुखावेल्या
तेदेवेळार नाटक चालू आशिल्लें. नाटक
र जेवणावळ पडपाची आशिल्ल्यान
दोनय भुरग्यांक घेवन नाटक सोंपपाची
यत बशिल्लें.
क पळेतां पळेतां हें सगळें येवजून येवन
ूक धपकायल्ल्याचे खंतिनूय आबोल्याचे
न आयले. तांतलीं दोन दुकांय पोल्यां
सकयल देंवलीं.
य, रडटा कित्याक गे?' साजून
माणकुल्या हातांनी आवयल्या
ीं दुकां पुसत विचारलें.
स्नान दोळ्यांत तिश्टत राविल्लीं हेर
दुकांय घसघशीत सकल देंवलीं.

थोड्या वेळान नाटक सोंपून मुखावेलो पड्डो पडलो तशे नाटकाक बशिल्ले लोक भरऽ भरऽ करून उठले आनी जेवणाची पंगत वाडपाक घाल्ल्या माटवा वटेन धांवपाक लागले. जण एकल्याक माटवांत पावन केन्नाकाय पान धरता अशें जाल्लें. जणएकलो पान धरपाच्या बोवाळांत दुसऱ्यांची पर्वा करिनासतना फुडें फुडें धांवतालो. धांवता आसतना आपूण दुसऱ्याक माड्डितां काय चिड्डितां, काय कोण आपल्याक आपटून पडटा हाचें कोणाकच पडून वचूंक नाशिल्लें. हे गचमुड्डेची आबोल्याक संवंय आशिल्ली. रघूक हांडीर मारून आनी साजूक हाताक धरून तेंवय बी वाट काडीत माटवावटेन धांवपाक लागलें. रोखडेंच तें माटवा दारांत पावलें.

आतां ताचे उजवे वटेन देवूळ तर दावे वटेन अगरसाळ आशिल्ली. मदीं प्राकारांत पंगती वाडपाक लांबचे लांब माटोव घाल्लो. थंयच्यान पंगतीक सुरवात जावन त्यो माटवाच्या दारामेरेन पावताल्यो. आबोलें उबें आशिल्लें थंय माटवा दारांत खुबशीं पानां रिकामीं आशिल्लीं. थंय तांकां विस्कळ बसूंक मेळटालें. पूण माटवाच्या ह्या पोंताक बसल्यार फाटलें जेवण घेवंक अडचण जाता. हेवटेन फाटलें शीत येता म्हणसर तेवटेनच्या लोकांलें जेवन जाल्लें आसता. तांचो मागीर आंवपाक वचपाचो बोवाळ चलता. त्या बोवाळांत वाडपी फाटलें शीत घेवन हेवटेन पावचनात. ते परस रांदपाच्या माटवा म्हऱ्यांत आशिल्ल्या पानार बसल्यार दोन-तीन फावटीं तरी फाटलें फुडलें घेवन जेवंक मेळटा हें ताका अणभवान खबर आशिल्लें. ते खातीर आपले मुखार आशिल्लीं रिकामीं पानां सोडून तें ताकतिकेन माटवाच्या त्या पोंताक वचपाक लागलें.

अगरसाळेच्या दारांत पावनाफुडें ताचीं पावलां आडखळ्ळीं. ताची नदर अगरसाळेंत भोंवन आयली. अगरसाळेचें तें लांब रूंद साल पळोवन ताचे दोळे दिपकावले. लेव हळडुव्या रंगाच्यो वणटी आनी पाख्याक धवोफुल्ल रंग मारिल्ली ती अगरसाळ सालभर घाल्ल्या ट्यूबलायटिंच्या उजवाडांत लखलखताली. जनेलांक बसयल्ले रंगीत डिझायनांचे हारशे आनी सालभर लायिल्लीं रंगयाळीं बनेरां अगरसाळेची सोबा आनिकय वाडयतालीं. जमनीर धव्याफुल्ल संगमरवराचेर केळिचीं पांचवींचार पानां मांडिल्लीं. रघू आनी साजू तर दर खेपे अगरसाळेंत बसून जेवया म्हूण आवयचो जीव खांताले. आबोल्यान अगरसाळेच्या दारावटेन नदर घुंवडायली. अगरसाळेच्या दारांत लोकांनी झुंडी केल्ली. पूण दारार उबे आशिल्ले दोग जाण कारभारी म्हाजनांबगर आनी कोणाकच भितर सोडनाशिल्ले. दारार गर्दी करून भितर वचपाक सोदतल्या हेर लोकांक ते माटवांत मांडिल्ल्या पत्रावळीं वटेन धांवडायताले.

'आवय, आयज तरी आमी भितर बसून जेवया गे!' रघून म्हळें. आबोल्याची नदर आपल्या जुनेराकडेन आनी भुरग्यांल्या कपयो मारिल्ल्या कपड्यांकडेन गेली. अगरसाळेंत बसून जेवप ह्या जल्मांत तरी शक्य ना हाची ताका जाणविकाय जाली. कांयच उलयनासतना ताणें हांडीवेल्या रघूक मात्सो सारको धरलो आनी सडसडीत पावलां मारीत तें रांदपा माटवा लागसार मांडिल्ल्या पत्रावळीं वटेन गेलें. बेगिबेगीन दोन मेकळ्यो पत्रावळी पळोवन हांडीवेल्या रघूक ताणें एके पत्रावळी मुखार बसयलो आनी दुसरे पत्रावळीमुखार आपूण बसलें.

'आवय, साजू खंय गे? इतलो वोगोत आमचेच वांगडा आसलोलो न्हू गे तो?' इतलो वेळ वांगडा आशिल्लो साजू ज्युस्त जेवणावेळार तांचे म्हऱ्यांत ना तें पळोवन कांचवेल्ल्या रघून आवयक विचारलें.

'आसतलो रे हिंगाच खंय तरी. गर्देंत पान मेळ्ळां थिंगा बसला आसतलो. मेळटलो पंगत उठ्ठकीर. तूं जेव पळोवया पोटभर.' आबोल्यान रघूक समजायलो तसो भुकेल्लो रघू बेगीबेगीन जेवंक लागलो. जेवतना मदीं मदीं तो पंगतीवेल्यान नदर भोंवडावन साजू खंय दिसता काय म्हण पळेतालो. फाटलें फुडलें घेवन पोटभर जेवन जातकीर दोगांय पानावेलीं उठलीं. उदकाच्या भाणाम्हऱ्यांत वचून आंवन, रघूक हांडीर घेवन आबोलें मंटपाचे दिकेन वचूंक लागलें. वतां वतां रघूली भिरभिरी नदर साजूक सोदताली. अगरसाळेच्या दारांत पावनाफुडें रघूक साजू दिसलो.

'आवय, होऽ तो पळय साजू.' अगरसाळेच्या दारावटेन बोट दाखयत रघू आड्डलो. आबोल्यान ते वटेन पळयलें. साजू आपल्या खोमसाक तोंड पुशीत अगरसाळेच्या दारांतल्यान भायर येतालो. त्याच वेळार साजूची नदर आपले आवयचेर आनी भावाचेर पडली. ते बराबर खोशयेन उडक्यो मारीत साजू तांचे म्हऱ्यांत आयलो.

'रघो, रघो, आयज हांव अगरसाळेंत बसून जेयलों.'

'तूं भितर कसो गेलो तर?' रघून अजापान विचारलें.

'हांवें मरे आयडिया केली.' साजू रघूक

सांगूंक लागलो. 'दोन मोठ्ठेल्यो बायलो मरे वांगडाच भितूर वयताल्यो. हांव तेंचेमदीं रिगलों आनी भितूर वोचोन येतिश्ट जेयलों. काय बरें दिसता जाणा, भितूर बसोन जेवपाक!'

तें आयकून रघूलो भुरगेमत्सर जागो जालो.

'आवय, तुयें साजूक एकल्याकच कसो भितर धाडलो? म्हाका कित्याक धाडलोना? म्हाकां आत्तांच्या आत्तां भितर व्हरोन वाड.' रघून आवयकडेन हट्ट धरलो.

आबोल्यान रघूक कितलो समजावन पळयलो. फुडले खेपे येता तेन्ना तुकाय बी भितरच बसोवन जेवयतां म्हण फुसलायलो. पूण रघू कसोच आयकूंक तयार नाशिल्लो. ताचो हट्ट चालूच आशिल्लो. 'म्हाका आत्तांचे आत्तां भितर व्हरोन वाड.' करतां करतां रघू रडपाक लागलो. ताणें रडून आकांतं केलो. सगळे लोक तांकां पळोवपाक लागले. आबोल्याक आतां मात रघूचो राग आयलो. बऽरो ल्हान जालो म्हण कितें जालें? इतलो समजायलो तरी हाका समजना म्हळ्यार कितें? रागाभरशीं ताणें रघूल्या जांगडाक एक चिमटो काडलो. ते बराबर रघू चडच रडपाक लागलो.

'तुयें साजूक मात बरोऽ भितर जेवपाक धाडला. आनी म्हाका मात भायर वाडला. बरी न्हू तूं. कुसकी तूं.' रडटां रडटां रघून आवयचेर शीण काडलो. तागेलीं तीं उतरां आयकून आबोल्याक भिरभिरी मारली. ताचो धीर सुटलो. ताणें रघूक हांडीवेलो सकयल देंवयलो आनी 'हांव बन्नू? हांव कुसकी? हांव तुका वायट करतां? तुमचे खातीर हांव हाडांचीं काडां करतां तेचें म्हाका हें पानवळ?' अशें म्हणून ताणें रघूचेर दोनचार थापटां फुलयलीं. रघू किंवाल्यान रडपाक लागलो. साजू कुशीक रावन हें सगळें पळेतालो. भावाली रड आनी आवयलो अवतार पळोवन तो काचाबूल जालो. रघूक आवय मारता तें पळोवन ताचो जीव वयर सकयल जातालो.

'आवय! तेका बेश्टोच कित्याक मारता गे? कारभाऱ्याक सांगून तेका भितर व्हरोन वाड मगे.' साजून आपले भशेन आवयक सोडवाट दाखयली.

'सांगता पळय कसो वेल्यान तोंड घेवन तेका भितर व्हरोन वाड म्हूण. भितर व्हरोन वाडपाक ती कितें तुगेल्या बापायली अगरसाळ? ते म्हाजन आमकां लागीं तरी घेतात? आनी हो पोरांटो म्हण खंयच्या पोटान जेयतलो? आपूण थिंगा वचोन जेयलो तो जेयलो, वयल्यान हेका आनी चाळोवन घालो.'

रघूक थंयच सोडून आबोल्यान आतां साजूचेर आपलो राग काडलो. ताणें साजूच्या कानाक चरचरीत पिंवळ घालो. साजूचो कान सणसणलो. तो किंलाटी मारून रडूंक लागलो. तागेलें रडें आयकून आबोल्याचेर चडूच भार आयलो.

'तुका लागोन जालें हें सगळें. वळवळ लागिल्ल्या पोटाक पोटभर जेवंक मेळटा तें पुरोना? वयल्यान आनी असले थातेमाते जाय?' आबोल्यालीं थापटां आतां साजूच्या पोल्यांर, फाटीर, पांयार मेळत थंय पडूंक लागलीं. खेव आयिल्ले भशेन तें साजूक मारूंक लागलें. तोंडान बडबड तर चालूच आशिल्ली.

'पाड पडिल्लो, घट्टणपाडो. नस्ते लाग करता? चड जाय भितूर बसोन जेवपाक? भितूर वयतलो आसलो जाल्यार तेकाय व्हरपाचो न्हू वांगडा? आपूण एकटोच राजा सो गेलो भितूर. मालकिरयाद खंयचो. आतां हेका कोण थांबयतलो? बापूय तुजो?...' उलयतां उलयतां आबोल्यान रघूल्या बोचकुलाक धरून ताका खस्स करून ओडलो. ते बराबर रघू झिडपून वचून साजूचेर पडलो. दोगय भुरगे चडच नेटान रडूंक लागले.

दोगांय भुरग्यांली रड आनी आबोल्यालो रणखेव पळोवन सगळे लोक तांचे भोंवतणी जमा जाले. तातूंत आबोल्याल्या वाड्यावेल्यो बायलोय आशिल्ल्यो. त्यो आबोल्याक आडावंक लागल्यो. कुसूम आनी सुमन दोगांय भुरग्यांक उबारून घेवन पयस गेलीं तर शेंवतें आनी जानकी आबोल्याक थातारूंक लागलीं.

आवय दोळ्यांआड जातकीर आनी शेजाऱ्यांचो मायेचो हात फाटीवेल्यान भोंवतकीर रघू आनी साजूलें रडप उणें जालें. शेजान्निल्या सुरक्षीत वेंगांत रावन गर्दैतल्यान पिटपिट्या दोळ्यांनी ते आवय दिश्टी पडटा काय म्हण पळोवंक लागले. हे वटेन भुरग्यांलो रडपाचो आवाज कानार पडपाचो थांबतकीर आबोल्यालो रागय मात्सो उणो जालो. तें सावचीत जालें. आपले भोंवतणी जमिल्ली गर्दी पळोवन ताका आपले करणेची लज दिसली. आपणें भुरग्यांक अशे मारूंक जायनाशिल्ले. जें घडलें तातूंत भुरग्यांली कांयच चूक नाशिल्ली. आपणेंच मातशें समजिकायेन वागूंक जाय आशिल्लें अशें ताका दिसलें. भोंवतणचे लोकूय फापसल्ले.

'आबोल्या, त्या भुरग्यांक बाबड्यांक इतले कित्याक झोडले गो तुयेन? असलो कसलो खेव येयलेलो गो तुजेर? राकेस बीन गोमटेर बसलेलो काय कितें गो तुज्या?' जानकेलीं उतरां आबोल्याक मरूंक पुरो जालीं. जड उतरांनी ताणें घडिल्ली सगळी गजाल जानकेक सांगली.

'आगो, पूण साजू तुजो हात सोडून अगरसाळेंत वयता तो तुयेन पळोवंक नासलो?' जानकेन विचारलें.

'पळयलेलो गो! पूण...'

'आं? कितें? पळयलेलो?' जानकेक अजाप जालें. 'आगो, पूण साजू भितर वयता तें तुयें पळयलेलो जाल्यार रघूकय तेचे वांगडा धाडचेलो न्हू? दोगय जाण वांगडा आसतना एकटो भितूर बसोन जेयतगीर दुसऱ्याक तेची नसाय जातलीच न्हू? तुका कितें [illegible] खबर ना?'

'आगो, पूण दोगांकय वांगडा भितूर धाडप आमच्या हातींत आसा गो?' आबोल्यान असहाय्यपणान म्हळें.

'तेंवय खरें तुजें. हांव ना म्हणना. पूण फुडलें सगळें चिंतून साजूक तरी भितर वयता तो आडावचेलो न्हू तुयेन?' जानकेन म्हळें. तीं उतरां आयकून आबोल्यालो जीव मात आकुळपिकूळ जालो. ताका कितें उलोवचें तेंच कळना जालें. दोळे दुकांनी भरले. ताळो अंदल्ले वरी जालो. ओंठ आंवळून आयले. तें भितरले भितर घुसमटूंक लागलें.

आबोल्यालो घुसमटमार जानकेले नदरेंतल्यान सुटलोना. हाचें जालां तरी कितें, तिका कांयच कळना जालें. आपल्या उलोवपांत कितेंय चूक जाली काय, अशें दिसून तिचें मन दुबाविल्ले वरी जालें. आपसूक जानकेलो हात आबोल्याचे फाटीर गेलो. ताका थापटिल्ले वरी करीत जानकेन ताका आपले म्हऱ्यांत ओडलें.

खिणभरच खरो, पूण जानकेल्या त्या आपलेपणाच्या स्पर्शान आबोल्याक खूब आधार मेळ्ळो. ताच्या मनाची अस्वस्थताय उणी जाली ताका मात्सो धीर आयलो. ताणें आंवडो गिळ्ळो आनी जानके वटेन पळेत उलोवपाखातीर तोंड उगडलें. घुसमटिल्ल्या ताळ्यांत जड जाल्लीं उतरां एक एक करून जुळयत तें उलोवंक लागलें.

'कितें सांगूं तुका जानके? आगे, अगरसाळेंत बसून जेवचेली एकट्याली तरी इत्सा भागता जाल्यार भागूं म्हूण साजू भितूय वयता तें पळोवनूय बी ओगीच रावलें गे हांव.' कशेंबशें उलोवन ताणें जानकेवटेन फाट केली आनी भेरेल्ल्या मनान शुन्यांत पावलां उडयत तें चलूंक लागलें. पावला कणकणीं इतलो वेळ दोळ्यांत आटिल्लीं ताचीं मोनीं दुकां मुक्त जावन पावला पोंदचे मातयेंत अरसूंक लागलीं.

* * *



# भगवान

समीर झांट्ये

भगवान सगळ्यांक पावतालो. कश्ट करून जियेतालो. मेळत तें काम करतालो.

दिसपाक भगवान देखणो आशिल्लो. चाळीस-पंचेचाळीसाचे पिरायेचो. खाकी हाफपॅण्ट, एक बुश्कोट घालतालो. खांद्याचेर तोंड पुसपाकं एक टॉवेल उडयतालो. ताचे कडेन एक सायकल आशिल्ली. रावपाक परमनंट घर नाशिल्लें. झोपडपट्टींत एक खोंप आशिल्ली थंय रावतालो. केन्ना केन्ना काम करता म्हणसर वेळ जालो जाल्यार रेल्वे प्लॅटफॉर्माचेरूच न्हिदतालो.

भगवान बेकार केन्ना रावनाशिल्लो. काम नासतालें तेन्ना आपले सायकलीवयल्यान भाडीं मारतालो. बस स्टँडावयल्यान घरा सोडप. रस्त्यावयल्यान रेल्वे स्टेशनाचेर सोडप अशें करतालो. कोणायचो सिलिंडर हाडपाचो आसलो जाल्यार तोय हाडून दितालो. शारांत रावतालो. हेवटेंतल्यान गाडयो येतात, तेवटेंतल्यान बशी येतात. मदींच हॉर्न वाजतात. मदींच सिग्नल पडटात. अशे तरेच्या उबगण हाडपी वातावरणांत सुद्धां भगवान सदां प्रसन्न दिसतालो.

ताच्या जिविताचें एक खाशेलेपण आशिल्लें. कसल्याच कामाखातीर कोणाकूच केन्ना ना म्हूण उतर दिनासलो. कसल्याय प्रस्नाचेर, अडचणिचेर उपाय काडपाची तांक ताच्यांत आशिल्ली.

एक फावट अशेंच जालें. झोपडपट्टीपसून कांय अंतराचेर एका बंगल्यांत एकलो बिराडाक रावतालो. ताची दुसऱ्या एका गांवांत ट्रान्स्फर जाल्ली. तो एकलोच आशिल्लो. सामान चड आशिल्लें. चड म्हळ्यार, तीन आरमारी आशिल्ल्यो. सगळें सामान कशें व्हरचें हाचो ताका प्रस्न पडिल्लो. ताका गाडयो बी कांयच मेळूंक नाशिल्ल्यो. इतले म्हणसर भगवाना विशीं ताका कोणेंतरी सांगलें. त्या मनशान भगवानाक आपोवन घेतलो. भगवान आयलो.

"सायबानूं, कितें काम आसा?"

"हें सामान म्हाका दुसरेकडेन व्हरूंक जाय. तें व्हरपी म्हाका अजून कोण मेळूंक ना. तुज्यान जातलें व्हय?" ताणें विचारलें.

"इतलेंच? काम जालें समजात. आयज सांज मेरेन हांव सामान पावयतां. खंय व्हरपाचें तें?" भगवानान विचारलें.

"तीन आरमारी आसात. हो घे पत्तो. हांगा पावोवंक जाय." मनशान पत्तो दियत म्हळें.

'रोखडोच येतां' म्हूण सांगून भगवान गेलो आनी हातगाडी घेवन आयलो. ताचेर ताणें त्य आरमारी घाल्यो आनी सगळें वेवस्थीत बांदले मागीर हातगाडी धुकलीत धुकलीत रेल्वे स्टेशनामेरेन व्हेली. ट्रेन उबीच आशिल्ली. भगवानान बेगीबेगीन आरमारी सोडयल्यो आनी ट्रेनींत घाल्यो. हातगाडीय बी ट्रेनींत चडयली. आपुणूय चडलो. ट्रेन सुटली आनी कांय वेळान गांवदेवी रेल्वे स्टेशनाचेर पावली. भगवानान आदीं हातगाडी देंवयली. मागीर एक एक करून त्यो तिनूय आरमारी देंवयल्यो. आसल्यो तश्यो बांदल्यो आनी गाडी धुकलीत तो त्या मनशान दिल्ल्या पत्त्यार पावलो. आरमारी देंवयल्यो आ त्या मनशाची वाट पळयत उबो रावलो. इतले म्हणसर तो मनीस थंय आपणाले स्कुटरीन पावलो आनी थंय आपले आदीं भगवानाक पाविल्लो पळोवन ताका अजाप जालें. ताणें भगवानाक म्हळे,

"कितें त्रास बी जावंक नात मूं?"

"ना. कसलो त्रास जावंक ना. बरे भशेन पावलों." भगवानान सांगलें. तेन्ना त्या मनशान आपणाल्या बोल्सांत हात घालो आनी भगवानाक पयशे दिले. पयशे घेवन भगवान घ परतलो.

सगळें मुंबय शार ताका पाठ आशिल्लें. खंय कितें मेळटा तें तो सामको चुकनासतना सांगतालो. व्हडले व्हडले लोक कितेंय अर्जंट जाय जाल्यार ताचेकडल्यानूच हाडून घेताले. एकदां अशेंच जालें.

रेल्वे स्टेशनाचेर ट्रेन लागली. सगळे कुली सामान देंवोवपाक धांवले. भगवानूय गेलो. इतल्यांत ताका कोणेंतरी उलो मारलो --

"हे कुली..."

भगवानान पळेत जाल्यार एक इंग्लीश मनी आशिल्लो. भगवान धांवत गेलो. रातचीं साडे जाल्लीं. भगवानान सामान देंवयलें. तेन्ना त्या इंग्लीश मनशान म्हळें,

"कॅन आय गॅट अ पॅकेट ऑफ सिगरेटस्?"

ताणें रेल्वे स्टेशनाचेर सिगरेट सोदली पूण मेळ्ळी ना. तेन्ना ताणें इंग्लीश मनशाक म्हळें,

"वेट फॉर सम टायम. हियर. आय विल कम." भगवानान तांबडी इंग्लीश मारली आनी तो आपली सायकल घेवन गेलो. सामको सिने टॉकिज कडेन पावलो. तें एकूच अशें थिएटर आशिल्लें जंय रातचो शो आसतालो. ताका लागून थंय सिगरेटीय मेळटाल्यो. ताणें एक पॅ विकतें घेतलें आनी तसोच वेगान सायकल घेव रेल्वे स्टेशनाचेर पावलो. पळेत जाल्यार तो इंग्लीश मनीस सामको बेजार जावन उबो

शितो. भगवान थंय पावलो तेन्ना रागान त्या शा विचारलें,

व्हेअर डिड यू गो?''

भगवानान आपणें हाडिल्लें सिगरेटिचें पाकीट तशेंपुरवतीन ताका दिवपाखातीर फुडें केलें. दायतकूच त्या इंग्लीश मनशाक आपल्या प्रस्नांच्यो जापो आपशींच मेळ्ळ्यो. तेच ताका आपल्या उलोवपाचेंय वायट ताणें तें पॅकेट घेतलें आनी तें फोडून गरेट तोंडांत घालून पेटयली. एका हातान ल्तलें पाकीट काडलें आनी भगवानाक विचारले. आनी भगवानान सांगले तितले ताका दिले. तशेंच ताका बक्षीस म्हुण्णूय रुपया दिले आनी रिक्षा आपोवन तो भगवानय बी सायकलीन गेलो.

ळ्या लोकांक दूद घालपाचें काम भगवान लो. हें काम तो नेमान करतालो. फांतोडेर लों, सगळ्या गिरायकांकडेन वचून तीर बाटल्यो डबे एकठांय करतालो. त्यो बाटल्यो आनी डबे घेवन तो ली वेल्यान डेयरींत वतालो. थंय जाय दूद घेतालो आनी सगळ्यो बाटल्यो घेवन तालो.

आयले उपरांत सगळ्यो बाटल्यो, डबे करतालो आनी तातुंतलो पेलो दोन पेले ढून आपले सरीं आशिल्ल्या बाटल्यांनी लो. आनी लोकांच्या बाटल्यांनी आनी ी तितलें उदक भरतालो. लोकांच्या ा-डब्यांतलें इल्लें इल्लें काडून याकडल्यो वीस ते तीस बाटल्यो तो लो. हें काम जातकच लोकांक दूद वाटूंक ो.

न्नाय कोण न्हय कोण ताका असो मेळटालो ाचेकडेन आनीक दुदाची मागणी करतालो. त्या वीस बाटल्यांनी ती ऑर्डर भागोवन न इल्लें कितें जोडटालो.

वानाच्या गिरायकांक हें सगळें खबर ल्लें. पूण ताचो सभाव, ताची धडपड न कोणेंच केन्ना ते विशीं ताका विचारलें

दीस कोण तरी एक व्हडले स्वामी ज मुंबय आयल्यात अशें पेपरांतल्यान छापून आयलें. भगवानाच्या इश्टांनी ती खबर वाचिल्ली. तांणी ह्या स्वामी महाराजांचे भेटेक वचपाचें थारायलें. भगवानाकूय वांगडा व्हरपाचें थारायलें.

''भगवान! आमी स्वामी महाराजांकडेन वचपाचें थारायलां.'' तांणी म्हळें.

ताचेर भगवान म्हणपाक लागलो,

''म्हजेंय एक काम करात तर. तांकां सांगात, भगवानान तुमचेकडेन आशिर्वाद मागला म्हूण.''

''म्हणजे? तूं येना तर? आमी तुकाच व्हरपाक आयल्यात. सगळे जाण या.'' मित्रांनी म्हळें.

हाचेर भगवानान हांसत म्हळें,

''आरे पिशा, पातकी मनीस केन्ना असल्या पुण्यवंतांसरीं वता व्हय?''

''आरे! अरालें कसलें पातक तुवें केलां? दुदांत उदक भरसुपाचें?''

''ना रे बाबा, तें न्हय... पूण.. तुमकां सांगून कितें करतलों?'' भगवान.

''कोणाच्या घरार दरोडो घातलो?''

''शे! शे!! असलें केन्ना करूंक ना! आनी असले विचार पसून मनांत नात म्हज्या.''

''मागीर? कोणाचो खून बी केला तर?''

भगवानान जीब चाबली. ''म्हजे कोणूच दुस्मान नात. हांव खून कित्याक करतलों?''

''आरे, मागीर अशें कितें केलां तर तुवें?''

''सांगतां. आयज मेरेन कोणाकूच सांगूंक ना हांवें ही गजाल. खूब वर्सां जालीं. आमचें एक त्रिकूट आशिल्लें. आनी आमी तिगूय नोटी छापपाचें काम करताले. शंबरांच्यो, पन्नासांच्यो नोटीच नोटी छापताले. एक दीस कोणें तरी हें पळयलें आनी पुलिसांक चाडी केली. ताका लागून पुलीस आमकां सोदीत सोदीत आयले. आनी आमकां रंगेहाथ धरले. धरले ते धरले. म्हज्या वांगडच्यांचीं हातांचीं बोटांय कातरून उडयलीं. हांव कसो-बसो पुलिसांचो हात हिसकावन पळत पळत हांगा पावलों. आयकली मरे म्हजी कथा?''

भगवानाचे इश्ट तें आयकत उबे राविल्ले. भगवानाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं. ताच्या इश्टांनी ताका असो रडटना पयलेच फावट पळयल्लो...

* * *

ाकार

ाळी

ीर्शी साहित्यांत अणकाराची गरज
आा. एके भारतीय भाशेंतल्या लेखकाक
ातीय लेखक ताचे भाशेंत कितें बरयता,
रता, खंयचे विशय आनी तंत्र हाताळटा
ची आपसूक उमळशीक आसता. अशा
ाकार दोन भासांक जोडपी पूल थारता.
ाखकाक बंगाली लेखकान कितें बरयलां
ाक ताचो हिंदी अणकार इंग्लीशीपरसूय
ान मोख साध्य करता. जाका हिंदी
का इंग्लीशीबगर पर्याय उरना. पूण
ाहित्य फिरंगी भाशेंत अणकारतना
जायत्यो गजाली (nuances)
कारण ती ती भास संबंदीत वाठाराचे
न, लोकवेदाकडेन, आनी म्हत्वाचें
संस्कृतायेकडेन घट्ट दशिल्ली आसता.
ाकार करतना मूळ कृतिचो वास
कृतींत जितलो देंवता, तितली ती
थारता. हांगा अणकारप्याचोय कस
अणकारप्याक अनुसर्जन --
ation करपाची मेकळीक आसता पूण
र न्हय.
राक लागून दोनूय भासो गिरेस्त आनी
ातात. जे भाशेंत अणकार जाला ती,
भाशेपसून अणकार केला, तीय. देरेके
पलें अशें खाशेलेपण, गुणविशेश आनी
ासता. ते दुसरे भाशेंत अणकारतना
ाक दोनूय भासांचो खोल अभ्यास
तितलो अदीक बरो. दोनूय भासांतल्या
ची आनी संस्कृतायांची बेस बरी जाण
सूंक फावो. अणकारप्याक आरतें-परतें
सांनी अणकारीत करपाची तांक
र तो अदीक न्याय दिवंक शकता.
ोंकणींतल्यान इंग्लीशींत बरो अणकार
सात. पूण कोंकणी भाशेचो, तिचे
चो सखोल व्यासंग आनी संवकळ
ान faithful, genuine, loyal आनी
ic अणकार घडना. कोंकणींतल्यान
आनी इंग्लीशींतल्यान कोंकणींत जो
अणकार करूंक शकता तांचें दोनूय
प-घेवप विश्वासू आनी दर्जेदार जावंक

राच्या पुलाचेर दोन तज्ञ
चीय चाल दिसता. कबीराचो अणकार
पयलीं भारतीय कवी वा जाणकार करता. उपरांत इंग्लीश कवी वा ते भाशेचो जाणकार ताचे वांगडा बसून अणकारीत कृती polish करता. जाय थंय चर्चा करून निवळायता. अशे प्रक्रियेंत अणकाराची विश्वासार्हता वाडटा, जे भाशेंत अणकार जाला ती भास घांसून-पुसून नितळ जाता आनी अणकार 'बरो' जाता.

साहित्यांत कवितेचो अणकार करप भोव कठीण. मुदलांत कांय गद्याचोय अणकार करप एकेकदां कठीण आसता. सगल्योच कृती अणकारूं येतात अश्यो निखालूस आसनात. एके भाशेंतलें फूल दुसरे भाशेंत दाखयतना फकत पाकळ्यांचो आंकडो, रंग, देंठाची लांबाय गणितीय नदरेन सम दाखयली म्हूण भागना. मूळ फुलाचो **परमळ** अणकारीत फुलांत येवंक जाय. अणकार beautiful आसल्यार loyal जायना आनी loyal आसल्यार beautiful आसना अशें सदांच म्हणटात. एके बाटलेंतलो चेर दुसरे बाटलेंत रकयतना थोडो चेर हवेंत उबता, थोडो मूळ बाटलेंत उरताच. देखून भास दुसरे भाशेंत रकयतना कितली भास उबून गेल्या आनी कितले मूळ थेंबे तशेच आदले भाशेचे बाटलेंत दसून उरल्यात, हें अणकारप्याचे तांकिचेर, हुशारिचेर पातयेवन उरता. एक गजाल म्हत्वाची -- जी कृती अणकारता त्या लेखकाचें हेर बरप जितलें अणकारप्यान वाचिल्लें आसता तितलो तो तिका समर्थपणान न्याय दिवंक शकता. कारण, जण एकल्या लेखकाची स्वताची अशी शैली, उतरावळ आनी idiom आसता. अणकारप्याक ती गोम बेस बरी होलमूंक जाय.

खबरो एके भाशेंतल्यो दुसरे भाशेंत अणकारप सोंपें. हांगा उतरावळीक वंय आसता. साहित्यकृती अणकारतना जो अणभव लेखक दिता तो परिणामकारक रितीन अणकारीत कृती वाचतल्याक मेळूंकूच जाय. ना जाल्यार तें अपेस थारतलें. पूण एक -- साहित्यकृतिचोय अणकार करतना हालिंसराक man-aided technology चो वापर जावपाक सुरवात जाल्या. हातूंत अणकारप्याचो थोडो वावर वाटावता. कामाक गतीय येता. हे विशीं वावर कसो जाता त्या संदर्भांत डॉ. काशिनाथ महाले हांचेकडेन नमुनेय आसात.

'अणकाराची कला' ह्या विशयाचेर जायतीं पुस्तकां वेगळ्या वेगळ्या भासांनी येत आसात. पूण कला ही आंगांत मुदलांत उपजत आसूंक जाय. ती केळोवपाक आनी ह्या गुणांची पोसवण करपाक हीं पुस्तकां उपकारा येत. हालींसराक अणकाराचें म्हत्व मतींत घेवन अणकार एक सृजनशील कला म्हूण मुखार येत आसा. अणकाराक उर्बा दिवपाक साहित्य अकादमी सारकी संस्था दर वर्सा अणकारीत कृत्तींक पुरस्कार दिता.

कन्नड साहित्यीक डॉ. यु. आर. अनंतमूर्ती हांची 'संस्कार' कादंबरी व्हड कन्नड, इंग्लीश कवी आनी जाणकार ए. के. रामानुजन हांणी इंग्लीशींत व्हेली. कितलीं वर्सां कश्ट घेतले, जाणात? पंचवीस! अणकारीत कृतीक लागुनूच डॉ. अनंतमूर्ती, तांचे कादंबरींतलो संदेश हांची वळख जगाक पटली. 'ययाती' ही वि. स. खांडेकरांची मराठी कादंबरी मूळ भाशेपरसूय कन्नड भाशेंत अदीक खपली हें खरें दिसत? दिलीप चित्रेन संत तुकाराम (Says Tuka) जगभर पावयल्या. मूळ भाशेचो audience अणकारा वरवीं सुमाराभायर वाडटा. मूळ भाशेंतल्या मानधनापरस अदीक येणावळ लेखकाक अणकारीत कृती वरवीं मेळिल्ल्याच्यो जायत्यो पती आसात. अणकाराक लागून आपले उत्फरके आनी उमाळे आपले भाशेच्या वाचप्यांपुरतेच मर्यादीत उरल्यात, हो घुस्मटमार लेखकाक जायना.

भारतीय भासांनी अणकारा वरवीं दिवप-घेवप अदीक प्रमाणांत जावपाची गरज आसा. ह्या यत्नांक नेट हाडून अणकारप्यांक उर्बा दिवपाच्यो खूब कार्यावळी घडोवन हाडूं येतात. केरळीय लेखक आपल्या मलयाळम साहित्याचे चडांत चड हिंदी आनी इंग्लीश भाशेंत अणकार जावचे देखून खटपट करीत आसतात. देखून तांकां लोकप्रियता अदीक मेळटा. अणकावरवीं लेखकाची पुराय वळख दुसऱ्याक ना जावं, निदान ताचें नांव आनी तांक तरी कळटा. राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय पांवड्यार जायत्या बऱ्या लेखकांक आयज कोण वळखना, हाचें कारण म्हळ्यार चडांत चड अणकारांचो उणाव.

हेर भासांतलें साहित्य कोंकणींत थोड्याभोव प्रमाणांत येवपाक लागिल्लें. पूण दर्जेदार, घसघशीत साहित्य कोंकणींत पिकतकच ताचे हेर भासांनी अणकार जावपाक सुरवात जाली. कोंकणी कथांची हिंदी अणकारांची एक anthology कमलेश्वर ह्या नामनेच्या हिंदी लेखकान संपादीत केल्ली. ताची पयली आवृत्ती सोंपल्या अशें खासा लेखकान पणजेंत म्हाका एके मुलाखतींत सांगिल्लें. नवहिंद टायम्स दिसाळ्याचे संपादक श्री. अरुण सिन्हा हांकां साहित्याविशीं विशेश रूच. तांणी ह्यो हिंदी कथा वाचल्यो. भौ. पुंडलीक नायक हांची कथा वाचून ते विशेश भारावन गेले. कोंकणी कथेची तांक कोंकणी नकळ जाल्ल्या इंग्लीश वाचप्यांक कळची हे खातीर आयतारचे पुरवणींत कोंकणी कथांचे अणकार दिवपाचें श्री. सिन्हा हांणी

थारायलें. हेमा नायक हांणी उपाट कश्ट घेवन हें काम नवहिंद टायम्स खातीर म्हज्या कांट्यार बसून करून घेतलें. भौ. चंद्रकांत केणी आनी भौ. पुंडलीक नायक हांणीय कथा वेंचतना मोलादीक मार्गदर्शन केलें.

म्हजे तांकीप्रमाण हांवें हें अणकाराचें काम केलें. सुमार ३० कथा आतांमेरेन उजवाडाक आयल्यात. तातूंत सगल्यांत चड आसात पुंडलीक नायकांच्यो.

शेंकड्यांनी लोकांमेरेन मर्यादीत उरिल्ली कोंकणी कथा हजारांनी वाचप्यांमेरेन पावली. कथालेखकाक आनी अणकारप्याक केदी खोस ही! जायत्या वाचप्यांनी वैयक्तिक पांवड्यार ह्या अणकारांची तोखणाय केली. फिडबॅक दिलो. सुरेश गुंडू आमोणकार, दत्ता दामोदर नायक, डॉ. सुबोध केरकार आनी हेरांनी वेळोवेळ वासपूस केली. उर्बा प्रकाशनाखातीर एन्. शिवदास हांणी 'कथा अणकार' विशयाचेर पेपर वाचन करपाक लायलें. पूण एकंदर कोंकणीच्या मळावेली अनास्था आनी बेपर्वा वृत्ती हांकां लागून हे अणकार चालूच दवरचे अशें मार्गदर्शन मेळ्ळेंना. अणकार आनीक कितले बरे करुंयेत हें बरें-वायट सांगून जाणकारांच्या मार्गदर्शनाची गरज आशिल्ली. प्रेरणा जाय आशिल्ली. आसूं. म्हज्या व्यापाप्रमाण, हेर प्राधान्यांप्रमाण अजुनूय हें काम हांव करतां. मात ताची खोस आनी अणभव उतरां पेल्यानचो.

कोंकणी कथा इंग्लीशींत अणकारपाचो भरींव वावर डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, ॲड्. प्रकाश थळी, रश्मी रथी, विद्या पै, सचिन रायकार आनी हेर जायत्या अणकारप्यांनीय केला. ह्या सगळ्यांच्यो वेंचीक कथा घेवन एक सुंदर anthology काडूं येत. पूण आमकां धंगण ना काय vision ना? हेर भासांतले लेखक गोंयांत येतात तेन्ना वा कोंकणी लेखक भायर हेर गांवांनी वतात तेन्ना आमच्या साहित्याची झलक तांकां दाखोवपाक आदींच अणकारीत जावन उजवाडाक आयिल्ल्या इंग्लीश कथा-अणकारांची anthology उजवाडावपाची गरज़ ना?

कोंकणी कथा आनी हेर साहित्य सगळ्या भासांनी पावंक जाय. साप थोड्यो कथा तमीळ, तेलगू, मलयाळम, कन्नड आनी हेर भासांनी गेल्यात. पूण हे यत्न साप उणे. 'मातृभूमी' सारक्या मल्याळम साहित्यीक नेमाळ्यांत कोंकणी कथा येवंक जाय. साहित्य अकादेमीच्या Indian Literature अंकांचे वेगळ्या वेगळ्या भासांचे विशेशांक आयल्यात. कोंकणीचे बाबतींत मात यत्नूच कित्याक ना काय? कांय कोंकणी कथाबिजां इतलीं सशक्त आनी तांकिवंत आसात की कोणाय प्रतिभावान दिग्दर्शकाच्या हातांत पडल्यार तांचेर टेलिफिल्मां, चित्रपट, एकांकी, नाटकां लेगीत वेगळ्या वेगळ्या भासांनी काडपाचो विचार वेगळ्या वेगळ्या भासांतल्या लेखकांक येत. पूण ते खातीर जाय कोंकणी कथा आनी हेर साहित्य व्हडा प्रमाणांत हेर भासांनी व्हरून उजवाडाक हाडपाची आस्था, हावेस, उजो, इच्छाशक्त.

संवसारांतल्या हेर भासांतल्यो तशेंच देशांतल्या हेर भासांतल्यो आनीक कथा, कादंबऱ्यो, नाटकां, कविता कोंकणींत अणकारीत जावपाक जाय. संस्थांनी खास कार्यशाळा घडोवन हाडूंक जाय. 'अणकार', 'अणकारीत साहित्य' ह्या विशयाचेर नेमाळ्यांनी विशेशांक काडूंक जाय. अणकारीत साहित्याखातीर राज्य पांवड्यार इनामां, पुरस्कार दिवन उर्बा दिवंक जाय.

अणकार एकात्मता सादता. राष्ट्रीय आनी वैश्वीक एकचार सादता. साहित्य हें खंयचेंय राज्य, भास, देश, वाठार हांगासल्ली आस्पत न्हय. तें सगळ्यांचें, सगळ्यांखातीर. देखून ऑक्तावियो पाझ, पाब्लो नेरूदा, सुनील गंगोपाध्याय, प्रेमचंद, कारंथ, एम्. टी. वासुदेवन नायर आमकां परकी दिसनात. गिन्यानाच्या मळार ९० टक्के वांटो अणकारीत साहित्याचो आसता. अणकारीत भारतीय साहित्याचो national pool आसचो ही कल्पना उखलून Times of India न एक अग्रलेख लेगीत बरयल्लो. संस्कृताय सांबाळपाक आनी तिगोवपाक, तशेंच गिरेस्त करपाक अणकार खूब हातभार लायता.

नामनेचो कथाकार आयझॅक बॅशेवीस म्हणटा – A good translator must be a great editor, a psychologist, a judge of human taste, if not, his translation will be a nightmare. तो मुखार फकाणांनी म्हणटा – But why should a man with such rare qualities become a translator? Why shouldn't he be a writer himself?

इश्टांनो, नाटकाचो दिग्दर्शक सगळ्या नटांपरस खूब हुशार आनी बुदवंत आसता. खूब गजाली तो जाणा आसता. तेन्नाच तो नाटक बसोवंक शकता. एक वेळ बरोवप सोंपें, पूण अणकारप कठीण. पूण दोनूय गजालींक आपापलें म्हत्व आसा. तशेंच, लेखकाचे भुमिकेक स्वतंत्रपणान म्हत्व आसता आनी अणकारप्याचेय!

* * *

# हजी व्यायामाची साधना

तेन्द्र ह. दवे

एक आखाड्याचें स्नेहसंमेलन आशिल्लें.
लावणो म्हूण म्हाका आमंत्रण आशिल्लें.
खाड्यांत वचपाचें जालां तेन्ना तेन्ना हांव
डीं जालां आनी वचूंक ना. पुणून हे खेपे
कनुखेल पावणो म्हूण वचपाचें आशिल्लें,
य का स्नेहसंमेलनाच्या निमित्त्यान. म्हूण
श हांवें येता म्हळें.
हे रेच्या संमेलनांनी मुखेल पावण्याचें मुखेल
ळ्यार भाशण दिवप. ते प्रमाण थंय वचून
.भाशणूय केलें. ह्या विशयाचेर
चे म्हजे योग्यतायेचो उल्लेख करून
याच्या वावरा संबंदान आनी व्यायामा
उलयलों. निमाणे म्हजे उपकार
ाक आखाडो चलोवपी एकलो, पैलवान
सपी, मनीस उबो रावलो. तो उलयलो
ल्यान ताणें आपणाली कूड कसयल्ली
जीब कसोवंक नाशिल्ली म्हणपाचें दिसून
व्यायाम ताका येतालो पुणून ताच्या
उलोवप ताका जमना अशें दिसलें. ताणें
खणायेचीं दोन चार उतरां उलोवन म्हळें,
मेलनाक मुखेल पावणो म्हूण एका
कूच हाडचो अशें कांय जाण म्हणटाले...
ामी हांकांच वेंचून काडले. तांणी हांगा
आमकां हांसयले. पुणून तांगेली कूड
आमकां तांची काकूळट दिसली.
ा सावन तांणी व्यायाम केल्लो जाल्यार
हजे सारके घटमूट आनी धश्टपुश्ट
आशिल्ले...'
े संबंदान जायते चुकी-समज
्यात. तांतलो, हांवें केन्ना व्यायाम केलो
यामा आडूच हांव सदां उलयत आयलां,
्यार केन्ना वचूंक ना, कूड घटमूट
या कामांत सदां बेदरकार रावलां, हो

करप म्हाका आवडना हें मान्य करतां.
ा सावन म्हज्यांत हो अवगूण रिगला.
तो वचूंक ना. वचतसोय दिसना. हूम
पोट भरचें हें तत्त्व हांवें तोंडान मान्य
आसत, काळजान तें केन्ना मान्य करूंक
येतकूच हूम येता आनी जोर आतां
अशें दिसता, तेन्ना हांवें हुमेक येवकार
णून दुसरे खंयचेच अवस्तेंत हांवें तिका
येवकारपा सारकी लेखूंक ना.

अशें आसतनाय व्यायामा संबंदान हांवें केन्ना आक्षेप घेवंक ना. व्यायामान कूड सुधारता हें दुसऱ्यांच्यो कुडी पळोवन म्हाका बेस बरें समजलां. आनी हांवेंय व्यायाम करूंक जाय अशें एक न्हय, हजार खेपो म्हाका दिसलां. आपणाली कूड सुधारप ही जण एका मनशाची लागणूक हे विशीं म्हाका केन्नाच दुबाव येवंक ना. हेर कोणाय परस म्हाका ताची चड गरज आसा म्हणपाचें दुसऱ्यांनी भौन भौन सांगूंक नाशिल्लें जाल्यारूय म्हाका तें कळटलें आशिल्लें.

हांव पैलवान न्हय. पैलवान म्हूण मुखार येवपाचे हांवें यत्नूय करूंक नात. पुणून आमचो छगनकाका म्हणटालो, 'तूं लग्न नाका जावं, न्हवऱ्या वांगडा लग्नाक गेला मू?' तसो, हांव पैलवान नाका जावं, पुणून पैलवान हांवें पळेल्यात. ते व्यायाम करतात तेय पळेल्यात. कांय जाणांक वळखतांय बी. म्हजे सारकेल्यान कसले तरेचो व्यायाम करूंक जाय हें गिन्यान तांचे कडल्यान हांवें जोडलां आनी गिन्यान जोडले उपरांत तें चलणुकेंत हाडपाचे यत्नूय केल्यात.

भुरगेपणांत म्हाका व्यायामाचें म्हत्व कळूंक नाशिल्लें. पुणून ताचें म्हत्व खबर आशिल्लो म्हजो बाबा घरांत आशिल्लो. आनी ताणें आखाड्यार वचून व्यायाम कर म्हूण आग्रोय धरिल्लो. ते मुस्तींत सुरतेक चार पांच आखाडे आशिल्ले. तांतल्या एका आखाड्याचो उस्ताद ताचे वळखिचोय आशिल्लो. ताणें मुजरत घरा येवन 'हाका आखाड्यार धाड' म्हूण बाबाक सुचोवणीय केल्ली आनी म्हाका विचारी नासतना बाबान ताका आं म्हळ्ळें.

'फायच्यान तुवें जमनावेच्या आखाड्यार वचप.' बाबान म्हाका म्हळें.

'हो आखाडो खंय आसा तो म्हाका खबर ना.' हांवें म्हळें.

'शेजारचे गंगारामाचे भुरगे वतात, तांचे वांगडा वच.'

'थंय वचून कितें करप?'

'दंड आनी बैठकी काडप.'

'दंड आनी बैठको म्हळ्यार कितें तें हांव नकळ.'

'तें उस्ताद शिकयतलो.'

'कितले मेरेन तें करपाचें?'

'हूम येसर... हूम काडूंक आयली ना जाल्यार नेभळट उरतलो.'

बाबाचे सांगणेक मान दिवन दुसऱ्या दिसा हांव गंगारामाच्या भुरग्यां वांगडा आखाड्यार गेलों.

'आयलो? बरें जालें. यो, बस हांगा' अशें म्हणून उस्तादान म्हाका आपणा म्हऱ्यांत बसयलो. मागीर विचारलें, 'लंगोटी बिंगोटी घेवन आयला काय ना?' 'ना', हांवें म्हळें. 'फायच्यान घेवन यो' अशें म्हणून ताणें म्हाका खोमीस काडूंक लायलें आनी पुडव्याचो कासाटो मारूंक सांगलें. ताणें सांगलें तशें केलें. एकवस्त्री जावन हांव तयार जालों.

'सांग, आतां कितें करतलो म्हणटा?'

'आखाड्यांत सगळ्यांत निमाणें कितें करपाचें आसता?'

'कुस्ती.'

'तशें जाल्यार कुस्ती करतलों म्हणटां.'

म्हजी जाप आयकून उस्तादाक अजाप जालें. 'कुस्ती?... येदे बेगीन ...? कुस्ती सगळ्यांत निमाणी येता...'

'हांव कुस्तीच करतलों.' हांवें हट धरलो.

'सभाग्या, तुजी कूड पळे... हे तरेचे कुडीन तूं कुस्ती करतलो?'

'कशी करची तें शिकयात. म्हणटकूच करतलों...'

'पयलीं दंड बैठको काडून कूड घटमूट करूंक जाय. मागीर कुस्ती येतली...'

'ना, म्हाका कुस्तीच करूंक जाय.'

'बरें... भागय तुजी कुस्तिची उमेद' अशें म्हणून 'आरे नंदू, मात्सो हांगा यो पळोवया' असो उलो मारून ताणें एकल्याक आपयलो.

आमी बशिल्ले थंयच मात्सो मुखार एक लांबोडो-चौखोनी, तीन फूट खोल फोंडारो खणिल्लो. तातूंत म्हजेपरस मात्सो व्हड एक भुरगो खोऱ्यान माती काडटालो. उलो आयकनाफुडें तो खोरें उडोवन उडी मारून धांवत आयलो आनी धांपेत धांपेत 'कितें' म्हणत मुखार उबो रावलो. हूम आनी धुल्लाचे भरसणेन ताचे कातिचो रंग मुदलांतले परस चड

काळो आनी चकचकीत जाल्लो. म्हाका दाखोवन उस्तादान ताका म्हळें, 'हाका मात्शे दावपेंच शिकय.' 'बरें' अशें म्हणून त्या शिश्यारंगी भुरग्यान म्हाका पळेलो. अजापान आनी तिरस्कारान म्हाका वयर सकयल नियाळून म्हळें, 'चल, यो आखाड्यांत'.

हांव आखाड्यांतूच आशिल्लों. आतां ह्या आखाड्यांतल्यान दुसऱ्या खंयच्या आखाड्यांत वचप तें समजूंक नाशिल्ल्यान हांव ताका आनी उस्तादाक पळेत रावलों.

'चल वच, देंव आखाड्यांत; म्हण, जय बजरंग बली की' उस्तादान म्हळें.

'चल, यो' अशें म्हणून त्या भुरग्यान म्हाका आंखाड्यांत ओडून व्हेलो.

'हो आखाडो ?' हांवें ताका विचारलें.

'म्हज्या ह्या उपाट अज्ञानान अजापून दोळे मोटे करून ताणें म्हाका उरफाटो प्रस्न केलो, 'हो आखाडो न्हय जाल्यार दुसरें कितें ?'

फोणाऱ्याक हे लोक आखाडो म्हणटात जातले हाचो म्हाका कसो म्हूण अदमास आसतलो ?

'चल... आसा तयार ?' अशें म्हणून शिश्यारंगी भुरगो मातसो फाटल्यान सरलो आनी दोनूय जांगांचेर दोनूय हातांनी मोट्ट्यान थापट मारून दोन लोखणाच्यो वस्तू आपटतकूच जाता तसलो आवाज काडलो.

हाका तयारी म्हणटात जातले अशें धरून हांवेंय म्हज्या दोनी जांगांचेर तशेंच मोट्यान दोनूय हात मारले. व्हडलो सो आवाज आयलो ना. ताणें उजवो हात कोंपरा कडसून खांदा मेरेन बागयलो आनी वयर सरिल्लो गुळो दाव्या हातान दाबून म्हळें, 'पळेलो हो गुळो ?'

हांवेंय उजवो हात खांदा मेरेन बागोवन थंय ताच्या हातार आयिल्लो तसलो गुळो आयला काय ना तें पळेलें. मास मात्शें वयर सरिल्लें पुणून तें गुळ्या सारकें न्हय, पिकिल्ल्या घोंटा सारकें दिसतालें. तरी आसतना होय तयारेचोच वांटो आसतलो अशें मानून म्हळें, 'पळेलो हो गुळो ?'

तो अकस्मात हांसलो. होय तयारेचोच एक विधी आसतलो अशें मानून हांवूय हांसलों.

'हांसता कितें ?' अशें म्हणून तो आंगार धांवन आयलो आनी हातान म्हज्या बोंचकुलाचेर ताणें मोट्यान एक धसको मारलो. म्हजी तकली धडा पसून वेगळी पडली काय कितें अशें खीणभर दिसलें. झूं झूं करून वारो येवचो आनी फुक्क करून दिवो पालवचो तशें म्हजें गिन्यान अवचीत ना जालें. तें परतें येवचे पयलीं ताणें म्हज्या पांयांत पांय घालो आनी म्हाका आडवो उडयलो. वयर आनी सकयल दोनूय कडेन मार बशिल्ल्यान म्हजी कूड खाला पडली. बोंचकुलार पडिल्ल्या प्रहारानूच म्हजी हांवपणाची सुद्द ना जाल्ली. पुणून पडलों त्याच खिणाक ती परती आयली आनी हांव उबो रावलों.

'आरे ! असो अकस्मात म्हाका मारता कित्याक रे... कितें करूंक सोदता तूं ?' हांवें ताका विचारलें.

'चीत', ताणें जाप दिली.

चीत म्हळ्यार म्हाका 'बातचीत' दिसली. 'त्या कामाक मारामारी करपाची कसली गरज आशिल्ली ?' हांवें ताका विचारलें.

'बातचीत न्हय रे... चीत', ताणें जाप दिली.

'म्हळ्यार ?'

'म्हळ्यार, तुका आडवो उडोवंक सोदतां हांव...'

'अशें ? मागीर, सांगलें ना कित्याक ?'

'सांगपी दुसरे. हांव करून दाखोवपी' अशें म्हणून तो परतो फाटल्यान सरलो, जांगांचेर पर्थून मोट्यान थापटां मारलीं. आनी परतो आंगार धांवन आयलो. पुणून तो म्हाका हात लावंक पावचे पयलींच हांव अचळय आडवो पडलों.

'हें कितें ?' ताणें अजापून विचारलें.

'चीत', हांवें जाप दिली.

'अशें उपकारचें ना... ऊठ, उबो राव.' ताणें म्हळें.

हांव उबो रावलों. तो पर्थून फाटल्यान सरलो आनी परतो धांवन आयलो. हांव पर्थून आडवो पडलों.

'हें कितें करता तूं ?'

'कुस्ती.'

'हिका कुस्ती म्हणिनात... हांवें हात लावचे पयलींच तूं आडवो पडटा तें कितें ?'

'तूं म्हाका चीत करूंक सोदता मू ?'

'हय.'

'मागीर, तुजे इत्सेक मान दिवन हांव पयलींच चीत जातां.'

'हांवें तुका चीत करूंक जाय... तुंवें आपूण जावन चीत जावप न्हय.'

'म्हाका चीत जावपाचेंच आसा जाल्यार तुजे कडल्यान मार खावन, दुखापत करून घेवन चीत जावचे बदला हांवेंच समजून करून चीत जावप बरें, अशें म्हाका दिसता.'

'पुणून ही कुस्ती जायना... म्हाका हातूंत मजा येना...'

'म्हाका येता...'

'हांव तुका दावपेंच शिकोवचों ना.'

'उस्तादान तुका शिकय म्हूण सांगलां... शिकयना जाल्यार म्हाका उस्तादा सरीं वचू[...] तुजे आड कागाळ करची पडटली.'

'म्हाका कांय समजना... तूं दुसऱ्या कड[...] शीक...'

'अशें कशें जातलें ? उस्तादान तुका सांगलां...'

'म्हाका जमपाचें ना. म्हाका सोड तूं...'

'एके अटीर सोडटां... बँ म्हण... आपूण हरलों म्हण...'

'हांव हरलों म्हण मान्य करूं ? तुज्या हा[...] हार खाली म्हणूं ?'

'ना जाल्यार यो परतो... हांव तयार आ[...]

'बरें बाबा... कबूल करतां, हांव हरलों.'

हांव ताका उस्तादा सरीं घेवन गेलों. उस्तादान म्हाका विचारलें, 'केली कुस्ती ?'

'हय... हाका हार पडली...'

'कितेंऽ ?' उस्तादान अजापान त्या भुरग्याकडेन पळोवन विचारलें, 'तुंवें हार खा[...] हाच्या हातान ?'

'हय', ताणें मान सकल घालून जाप दि[...]

'तूं दाव पेंच जाणा ?' उस्तादान म्हाका विचारलें.

'तुमचे कृपेन', हांवें जाप दिली आनी ल[...] मनांत म्हळें, 'हांकां कुडिचे दावपेंच येतात जातले. म्हाका तकलेचे येतात.'

आखाड्यांत जैत जोडून घरा आयलों. ब[...] विचारलें, 'आखाड्यांत वचून आयलो ? कि[...] केलें ?'

'कुस्ती', हांवें जाप दिली.

'कुस्ती ? आरंभाकूच कुस्ती ? कुस्ती ये[...] न्हय, पयलीं दंड बैठको करूंक जाय... फायच्यान दंडबैठको काड...'

दुसऱ्या दिसा आखाड्यार वचून हांवें उस्तादाक म्हळें, 'म्हाका बाबान दंडबैठको [...] म्हूण सांगलां.'

'मागीर, काड. अशेंच जावंक जाय. दाव[...] तुका येतात. दंड बैठकोय येतात जातल्यो...'

'हातांत दांडो घेवन आसनार थंड बरो [...] रावप हेंच मू ? म्हाका येतलें... पुणून हांवें द[...] हाडूंक ना.'

हांव ताचीं फकाणां मारतां अशें उस्ताद[...] पयलीं दिसलें. ताणें म्हज्या तोंडाकडेन पळे[...] तोंडार ताका तशें कांय दिसलें ना. म्हूण ता[...] म्हळें, 'तुका कांयच खबर ना. दुसरे कशे द[...] आनी बैठको काडटात तें पयलीं सारकें पळे[...] मागीर तुका शिकोवंक कोणाकूय सांगतां' अ[...] म्हणून ताणें म्हाका दंड बैठको काडटाले ता[...] सरीं धाडून दिलो.

दंड काडटल्यां मुखार वचून उबो रावलो[...]

शिल्लो खंयचोच मनीस करचो ना तेशें ते करताले. दोनूय हात जमनीक आनी पांयांच्या आंगठ्याचो आधार ओणोव घेताले. मागीर तकली सकल नूय हातां मदले सुवातेंतल्यान ती वयर डटा. हेंच भौन भौन करून हे कितें सादूंक तें म्हाका कळ्ळें ना. अक्कल नाशिल्ले ल्यान ते उठ्ठले तेन्ना विचारतलों अशें बैठको मारताले तांच्या म्हन्यांत वचून पलों. हाका हे लोक बैठक कित्याक तें तेंच पयलीं म्हाका कळ्ळें ना. उबे शिल्ले मनीस बसूं काय नाका हें थारावंक जावन कमराच्या हाडाक आनी ण्याक कितें जाल्ले वरी, सरसमान नाशेन रोखडे बसऽ नासतना उब्या यांच ल्हवू ल्हवू बसपाचो यत्न करताले. हे बसता आसतना तांकां खूब कश्ट जावंक जाय म्हणपाचें तांचीं ताणिल्लीं आनी स्नायू पळोवन दिसतालें. पुणून खूब वन ते ही क्रिया करताले. म्हणटासर बेत सारकें बसपा बदला परत कश्टेवन उबे यत्न करताले. सारके उबे जातकूच विचार बदलतालो आनी बसपूच बरें अशें देसतालें. हाका दंड बैठको काडप त. त्यो काडटल्यांची कूड घटमूट आसूं, न चंचल आसूंक जाय अशें दिसलें. ते काडटात ते थोडो वेळ पळेलें. मागीर हूम सुटली.

सुटट्कूच घरा आयलों. 'कितें, दंड काडल्यो ?' बाबान विचारलें.

, काडल्यो', हांवें जाप दिली. हांव फट नाशिल्लों. फकत कोणें काडल्यो तें नाशिल्लें. बरें, तातूंत सांगपा सारकें तरी नाशिल्लें ? हांवें काडल्यो कितें, दुसऱ्यान काडल्यो कितें, 'हुं करूं, हुं करूं एज ता, शकटनो भार जेम श्वान ताणे' हें वाक्य स्मरून कर्तुत्वाचो अभिमान धरी ना दंड बैठको काडल्यो इतलेंच सांगलें.

तल्यो काडल्यो ?' बाबान विचारलें.

सुटऽ मेरेन.' हांवें जाप दिली.

नाशेन, हांवें व्यायाम करपाक सुरवात मदीं हे साधनेंत बरींच वर्सां विक्षेप . सुमार पंदरा वर्सां उपरांत हांवें ती चलयली. पुणून हातूंत सांगपा सारकें शें कांय घडूंक ना.

* * *

[गुजरातींतल्यान]





# हांव एक बुद्धिजिवी

**मूळ लेखक : शरद जोशी**

**अणकार : प्रभाकर नाडकर्णी**

देशाच्या कठीण प्रस्नांचे सोडवणुकेंत हातभार लावप हें बुद्धिजिवी लोकांलें कर्तव्यच. फुडारी सगळे आपणाल्या दरेका भाशणांतल्यान हेंच सांगत आसतात. स्वता ते ह्या कर्तव्याक पाळो दिनात. पूण आमचे तकलेर मात ही जापसालदारकी घालून मेकळे जातात. प्रस्न होच – बुद्धिजिवी कोणाक म्हणचो ? सगळ्यांली एकूच जाप मेळटली – बुद्धिजिवी हांवूच. हांगासर बशिल्ले सगळेजाण बुदवंत आसात. फुडारी आपणाक फुडारी म्हणून घेवंक शकतात जाल्यार आमी बुद्धिजिवी कित्याक जावंचे न्हय ? फुडाऱ्यांक आपणाक 'फुडारी' म्हणून घेतना लज दिसना जाल्यार आमी आमकां बुद्धिजिवी म्हूण संबोधून घेवंक कसली भीड मुर्वत ?

पूण ह्या देशांतले घोळ कांय कमी नात. त्या मानान बुद्धिजिवी लोक खुबच उणे आसात. जांकां आमी कठीण प्रस्न समजतात तांकां फुडारी प्रस्न म्हण मान्यताय दिनात. तरी पूण हांवें थारायलें, फुडाऱ्याकूच सरळ विचारचें – देशांतले घोळ, ताचे कठीण प्रस्न खंयचे खंयचे ?

एका नेत्याक हांवें विचारलें – ''तुमच्या मत्तान सगळ्यांत व्हडलो प्रस्न खंयचो ?''

ताणें सांगलें, ''सगळ्यांत व्हडलो प्रस्न एकूच. एक फावट जंयच्यान आमी निवडून येतात थंयसरच्यान परतून निवडून येवप काय ना.''

हांवें म्हळें, ''बुद्धिजिवी ह्या नात्यान हांव तुमकां कशे तरेन मजत करूं ?''

ताणें सांगलें, ''बुद्धिजिवी हें नातें कुशीक दवरात. तवनास-बदमाश ह्या नात्यान तुमी खात्रीन म्हाका मजत करूंक शकतले.''

हांवें म्हळें, ''गूंड-बदमाश जावंक म्हाका परथून जल्म घेवंचो पडटलो.''

ताणें म्हळें, ''कांयच अडचण ना. प्रजातंत्राक ह्या देशांत मरण ना. वेंचणुको येत आसतात. केन्नाय येयात. बरें तर. मेळुंया.''

म्हजें हुकमी पान ताणें कापलें. ह्या फुडाऱ्यांल्या म्हत्वाच्या प्रस्नांत हांव कांयच मजत करूंक शकना इतलें कळ्ळें.

हांवें येवजिलें, धीर करून एकाद्र्या ऑफिसराक विचारून येवंया. ज्या अधिकाऱ्याक मेळ्ळों तो पुलीस खात्यांतलो म्हूण समजलें. तो आशिल्लो मात भरवंसो दरवपासारको. हांवें ताका विचारलें, ''पुलिसांले वर्दींत तुमी आमचे सारकेच बुद्धिजिवी बी नात मू ?'' तो व्हडान हांसलो.

ताणें म्हळें, ''बुद्धिजिवी आशिल्लों जाल्यार म्हाका ही नोकरी कोण दितलो आशिल्लो, म्हाराजा ? तुजे सारकें पांयतणां झरयत भोंवचें पडपाचें म्हाका.''

हांवें विचारलें, ''तुमच्या मत्तान आयज ह्या देशांत खंयचे म्हत्वाचे, भेश्टावपची प्रस्न आसात हें कळिल्लें जाल्यार आमचे सारकेल्या बुद्धिजिवींक तुमकां मदत करूंक मेळटली आसली.''

पुलिस अधिकाऱ्यालें म्हणणें आयकून घेतलें. ताच्या मत्तान हालीं लॉ अँड ऑर्डर, म्हळ्यार, कायदो हाताळणेची वेवस्ता कठीण जाल्या. चोरी, वाटमारी, बायलांचेर आगळीक आनीक अशेंच कितें कितें...''

हांवें म्हळें, ''बायलांचेर बलात्कार तुमचे पुलीसवालेय करतात खंय ?''

ताणें म्हळें, ''आरे पापया, तांकां टायम खंय मेळटा ? गुन्यावांचे सोदासोदींतच तांचो सगळो वेळ सरता. मनशाकडेन उसरपत आसल्यारूच तो बायलांचेर आगळीक करतलो न्हय ? गुन्यांव वाडतच आसात. हांव म्हणटां, दीसरात ड्यूटी करून लेगीत बायलांचेर बलात्कार करूंक वेळ काडटात ते पुलीसवाले खरेच बऱ्या नशिबाचे. हांगा एक खीण लेगीत फुरसत ना आनी तूं तर पुलिसांनी केल्ल्या आगळिकांविशीं उलयता. अशे कित्याकितेंय आरोप करप ?''

आमच्या देशांत गुन्यावगिरी खूब म्हळ्यार खुबूच वाडल्या हातूंत दुबाव ना. गुन्यांव करतल्यांकच कळनाशें जालां मुखार तांणी कि करप म्हणपाचें. विसकणीच करची जाल्यार – हत्या करची, बॅंक लुटची, अपहरण करचें काय दुकानांत घुसून रोखड उखलची.

पुलिसवाल्यांकच वेळ मेळना जाल्यार गुन्यांवक कडेनूय सवड ना. आमी जिवे आसात हाचें एक कारण म्हळ्यार आमचो अजून कोणें जीव घेवंक ना. आमची अजून मेरेन हत्या जावंक ना हाचें मुखेल कारण, आमचो खून करतले हेर जनांक मारपांत घुस्पल्यात. आमचें बरें नशीब हेंच सांगता, आमी त्या 'हेर' जनांत सामील नात. जाल्यार हत्या जावंक कितलोसो वेळ लागता ? आनी एक जीव घेतल्याक कोणालें कसलें लुकसान जाता हाचो खंय हुसको पडला ?

हांवें पुलीस अधिकाऱ्याक विचारलें, ''तुमक कसली आवड ? म्हळ्यार, कांय पुलिसांक खून मारामारी थांबोवपाक आवडटा, कांय जाणांक हत्यारां सोदून धर-पकड करप आवडटा.''

ताणें सांगलें, ''खून कित्याक घडटात ताची आमच्या विभागाकडेन कांयच सोरगत ना. पयशांक लागून जे गुन्यांव घडटात ते वित्त-विभागान पळोवन घेवपाचे. पिशेपणाच्या कारणांक लागून जें कितें वायट घडटा, तुमी जाणात, तो मनोवैज्ञानीक शिक्षणाचो विशय. राजनितीक लागून नाका जाल्लो उद्रेक वा धुडबूस वा घटिचार घडटात तातूंत आमी पड हेंय तुमकां खबर आसा. आमचें काम फकत ख जाले उपरांत हत्याऱ्याक सोदून काडप. आतां सांग, हातूंत बुद्धिजिवी कशे तरेन मदत करूं पावतले ?

हांवें म्हळें, ''जाणें कोणें खून केलो तोच ज तुमकां मजत करूंक शकना तर हांव तरी ती कितें करूंक पावतलों ?''

जाल्यारूय, बुद्धिजिवी ह्या नात्यान देशांतल्या स्पश्ट दिसपी घोळांचेर येवजणी कर

…जें र्व्यच आसलें. देखून हांव चिंतूंक
…लते विशिंचो अणभव म्हाका अजिबात ना
…तुमाय खबर आसा. म्हजो खून जावंक ना
…नी वेंय कोणाचो खून करूंक ना. तेन्ना
…क सोदून काडप हो प्रश्नच उप्रासना. जे
…व नियाळून समजूंक पावनात ते दुसऱ्यांक
…ण सोदतले?
…दि आठ आसात. खुनी खंयचेय दिकेन कूस
…शकता. ताका सोदून काडपाक दरेके
…केन्दीन दोन पुलीस धांवडायले जाल्यारूय
…यान्या फाटल्यान सोळा पुलिसवाले
…गत. आनी अशे धांवाधांवीत ते पुलीस
…पाल्या घरा बसचें रावचे न्हय म्हूण तांचे
…टान आनिकूय पुलीस लावचे पडटले तें
…अशे तरेचे धांवपळींतल्यान जीव वाचोवपा
…र्ते पुलिसांनी गुळी घालून एखादल्या खुन्याक
…मारलो जाल्यार ताणें आत्महत्या केली म्हूण
…सांगून ते मेकळे जातात. आमच्या देशांत
…न्या फुडाऱ्यांली हत्या जाता जाल्यार
…खी आत्महत्या जाता. तांकां मारून उडोवंक
…च उसरपत मेळना. तांकां मारून
…यात, तांकां लुचून काबार करपाचें आसता.
…ग्रा गरिबाली हत्या जालीच जाल्यार एक
…उप्रासता. ती म्हळ्यार, जाल्ली ती
…त्या न्हय म्हूण सिद्ध करचें पडटा.
…क मारतलो तरी कोण आनी कित्याक
…तातूंत फायदो तरी कसलो? बरो
…कार आसले बगर ह्या देशांत हत्या
…ची शक्यताय कमीच. खुन्याक पकडपाच्यो
…प्रोश्यो तरा आसात. पुलीस वतात आनी
…चवकशी करचे आदींच आरोप करतात—
…आरे चोरा, हो खून तुवेंच केल्लो?''
…कोणालो खून सायबा?''
…रामू घाडयालो. तो पयरच मेलो.''
…ना सायबा. तो हांव न्हय.''
…आरे xxx, तुवेंच ताका जिवानशीं मारला.''
…रामू घाडयाक? शे शे, तें खरें न्हय सायबा,
…रामू घाडयालो खून केल्लो.''
…अशें म्हणटा? आरे फटिंगा, आमी रामू
…विशीं चवकशी करतात. आनी तूं दामू
…विशीं जाप दिता? एक मिनीट... मात्सो
… आतां परथून सांग. तुवेंच तो रामू
…लो खून केल्लो...''

***

…खून.''
…य.''
…सायबान्, हांव खुनाखुनी केन्नाच करना.
…या भोवस्ताळ्यांनी पडपाची आमकां कांयच गरज ना. केन्नाय कोणालो खून करचोच जाल्यार आमी सुपारी दिवन तो दुसऱ्याकडसून घडोवन हाडटात. स्वता हांव केन्नाच हत्या करिना. आमच्या समाजांत म्हाकाय 'इज्जत' आसा.''

* * *

''आरे, मात्सो राव. डायरेक्ट विचारतां म्हूण माफ कर हां. आतां सांग, त्या रामू घाडयालो खून तुवेंच केल्लो न्हय? कित्याक काय म्हूण विचारतां.''

''ना सायबा. हांव रामू घाडयाक वळखचना जाल्यार हांव ताचो खून कित्याक म्हूण करूं? ताचें नांव आतांच तुमचे कडसून आयकलां इतलेंच. वळख ना देख. आसल्यार हत्या बी करयेत. जागेली वळख लेगीत ना अशाली हत्या करपाची कसली गरज?''

* * *

''आरे गिरेस्ता, त्या रामू घाडयालो कोणें खून केलो तें आमकां सांग पळोवंया.''

''हय सायबा. हांवेंच तो खून केल्लो.''

''आरे, आरे, मदें मदें तुमी उलयनाकात गा. हांव तांकां विचारतां.''

''आयकता मरे, असो लागसार यो. तुका, आरे तुकाच विचारतां. रामू घाडयाक जिवो मारिल्लो तो तूंच न्हय?''

''ना सायबा. हांव ह्या राज्यांतलो न्हय. भायलो हांव. थंयसर एक मर्डर करून हांव ह्या शारांत आयलां. हांगा अजून तरी हांवें कोण्णालें रगत व्हावोवंक ना.''

''बरें बरें. वच तूं.''

* * *

निमाणें सांगपाचें एकूच. एकएकट्याक धरून विचारपाचें म्हळ्यार भोव कळाव जावन वता. देखून पुलीस कोणा एकादल्याक धरता आनी धरून कादयेंत घालता. ताचेर डायरेक्ट आरोप दवरता, खऱ्यांनीच ताणें खून केला म्हूण. आतां एकूच मार्ग उरता – तो म्हळ्यार, आरोपीनच गवाय दिवन सिद्ध करप आपणें खून करूंक ना म्हूण.

समजा स्कुला मुखार कोणा एकल्याली हत्या जाली जाल्यार शाळे मास्तराकच धरून ताका ठाण्यार व्हरचो – चवकशेखातीर. ताचेर परतो परतो आरोप करप, ''मास्तर, हो खून तुवेंच केल्लो.''

''हो नाका जाल्लो आरोप कित्याक काय म्हणटां.'' मास्तरांलें एकच सांगणें.

''स्कुला मुखार खून जालो. म्हणटकच तुमी न्हय जाल्यार आनीक कोणें हत्या केली तर?''

* * *

आनी न्हयकार दितल्यांकडसून कबुली वदोवन घेवप पुलिसांक कठीण नासता. पुलीस ठाण्यांत भरपूर मार खाल्लो गुन्यांवकार अर्दमेल्लो जाल्लो आसता. तो चिंतता, असोच हे म्हजो जीव घेत आसात. ताचेपरस हेर कोणालो खून केल्यार उपकारता आशिल्लें. तो पुलिसांक हात जोडून काकुळटेक येवन सांगता – ''रामू घाडी कोण म्हाकाय खबर ना. ताची हत्या कोणें, केन्ना आनी कित्याक केल्ली तेंय म्हाका खबर ना. जाल्यारूय ताची हत्या हांवेंच केल्या हातूंत इल्लोय दुबाव ना.'' एक फावट हत्या कबूल केली म्हणटकीर ते विशिंची बाकिची म्हायती पुलीस आपशींच दितात.

* * *

बुद्धिजिवी आशिल्ल्यान हांवें हालींच जाल्ले एके हत्येची फोडणिशी करून खोलायेन अभ्यास केलो. खुन्याल्या मनाची ओड, जागेली हत्या जाली ताची आर्थीक तांक आनीक ताचें पुर्विल्लें जियेवप, घराचो भूगोल बी असलेच तरेन कांय सोद करून हांवें त्या गुप्तचर विभागांतल्या अधिकाऱ्या सामकार विवरण सोंपें करून सांगलें.

ताणेंय बी थंडपणान आयकून घेतलें... कांय वेळ ओग्गी रावलो. आनी आपणालेच येवजणेंत गुल्ल जालो. अचकीत ताणें दोळे बारीक करून म्हाका उद्देशून म्हळें – ''म्हाका दिसता'', हो खून तुवेंच केला.''

''सायबा, हांव एक बुद्धिजिवी. हांवें फकत खुनाची विसकणी करून दाखयली इतलेंच.'' हांवें आटेविटे धेत सांगलें.

''आरे म्हज्या भावा, स्वता हत्या केलेबगर तूं इतल्या डिटेलांत कसो म्हूण सांगूंक पावलो?'' उपरान्त मातशें थांबून ताणें आपल्या कडक आवाजांत फर्मायलें,

''चल पुलीस थाण्यांत.''

ताचे उपरान्त कितें घडलें तें कांय सांगपा सारकें नासलें. तो फकत रडगाण्याचो विशय जालो. आतां म्हजें म्हणणें इतलेंच – देशाचे समस्येविशीं म्हज्यान जातालें तितलें हांवें केलें. हे फुडारी बुद्धिजिवी लोकांक उठसूठ कित्याक अपील करतात ताची जाणविकाय तुमकां नित्शीत जातली. तांकां भंय आसता, चुकून खंयचेय अडचणींत तेच सांपडत म्हणपाचो!!

* * *

# मे रेशेची शीम

ाली: आशापुर्णा देवी
: माया अनिल खरंगटे

परतलीं. अपेस घेवनूच. निमाणें खासा तिसऱ्या मजल्यार गेले. तांणी रागान ट्टीपणाकूय एक शीम आसता. आनी जाय छबी. पूण सोयऱ्यांनी भरिल्ल्या रांत तूं पळे जें रीत सोडून वागता ताका सोयऱ्यां-इश्टां मुखार म्हजी अब्रू तुवें ली. आपल्याय तोंडाक काळें लायलें. कार करून सकयल यो.''
मजल्या वेल्या तेर्रासार कूड बांदपाक नासली. तरी लेगीत छबी पासत म्हणून ऱ्याचें पांखें घालून कूड बांदिल्ली. ते ीन दिवो पेटोवंक नासलो. फकत ार घाल्ल्या माटवांतल्या लाखांनी उजवाडाची तिरीप कशी कोण जाणा कुडिच्या दारार उजवाड घालताली. दाराक हात तेंकोवन छबी उबी आसली. टां आनी एके वटेनचो गाल तितलो पूण ताचेवेल्यान तिच्या चेऱ्यावेले भाव ले.
न तशीच हट्टी आसा काय बागवल्या मार्ग नासलो. खासा सतीनाथान वयर पलें आनी ती पयलींवरीच हट्ट धरून ल्यार मात छबीय आपल्या घोवावरीच या अशें म्हणचें पडटलें.
स्थितींत व्हडलोसो फरक दिसलो ना. ाजान छबीन म्हळें, ''दादा, तुवें ंगा येवपाचो त्रास घेतलो? हांवें गलां.''
आसा.'' सतीनाथान रागान म्हळें. क करून घरांतलीं सगलीं जाणां येवन रून गेलीं. तुवें सगळ्यांक 'म्हाका सकयल येवचें ना' म्हूण सांगून ंत. तुजी वयनीय येवन तुका पांय म्हूण आयकलां. तरी लेगीत तूं...?''
वेरो अजून दिसनासलो. ती मात्शी ल्ली जाल्यार घडये तो दिरातलो ती भायरूय येय नासली – रांत कोणें लक्ष्मण रेशा मारून ानी हुंबऱ्या भायर येना फुडें ती ातांत पडपाची आशिल्ली – हे भाशेन!

पूण दार बंद करून हांतरुणाचेर घालून घेवपाकूय तिका मेळनासलें. सांजवेळच्यान तिका आपोवपा पासत कोण न्हय कोण वयर येत आशिल्लो.

—''ए छबी, सकयल जायतो लोक आयला. छबी छबी म्हणून तुका उलो मारतात. यो, मात्शी येवन वच.''

—''ए छबी, तुज्या दादाचो जांवंय कितलो सोबीत दिसता जाणा? पळोवचिना तूं?''

''आत्या, कन्यादानाखातीर तूं कित्याक आयलिना? बाबाक खुब्ब राग आयला. चल बेगीन!''

पूण छबी मातय हालली ना. तिचो अहंकार मातूय कमी जालो ना. ती म्हणटाली, तकली उसळटा. तशें पळोवंक गेल्यार दिसभर तशें कांयच घडूंक नासलें.

सुवेंक सावनूच छबीन लग्नातलें सगळें काम आपल्या आंगार घेतिल्लें. रांदचीकूड, कोठयेकूड, जेवणाकूड, देवाकूड – सगळेच कडेन छबी भोंवरो कशी फिरताली, कशी कोण जाणा. तेन्नाच सांजवेळची ती घडणूक घडली. ते सादे घडणुकेक इतलें म्हत्व दिवन छबीन तकली कित्याक पिकार करून घेतली तें कोणाकच कळ्ळें ना. कन्यादानाच्या वेळार सगळींच तिका सोदतालीं.

''छबी खंय? छबी खंय?''

न्हवऱ्या-व्हंकलेचें गांठवल बांदपाक जाय, हळद, पिंजर छबीन खंय दवरली? व्हंकलेची ओढणी छबीन खंय दवरल्या? वेळार कांयच मेळनासलें.

तरी सगळें मेळ्ळें. लागींच आशिल्लें. पूण म्हऱ्यांत बसून हातांत वस्तू काडून दिवपी कोणय ना जाल्यार थोडो त्रास जायना. आनी, फकत हळद, कवडी, व्हंकलेची ओढणी हांचोच प्रश्न नासलो. लग्नाच्यो सगळ्योच वस्तू छबीकडेन आसल्यो. व्हंकलेचे आवयनच म्हणून कितें कितें पळोवप? ती सोयऱ्यांची सरबराय करपांत घुस्पल्ली.

हें सगळें खबर आसुनय ऐन वेळार छबी नाच जाली. शी! तापोवणी खावन गेल्ल्या घोवाक फुसलावंक गेली. पूण ते पासत होच वेळ मेळिल्लो तिका? तो तर पिसो. लहरी. केन्ना कितें करत सांगूं नज. ताका न्हिदेचें वखद दिवन तिणें सकयल येवपाचें न्हय? न्हवरो-व्हंकल घरांत भितर वतकर जाय जाल्यार तिणें ताट सजोवन सगळे पदार्थ वाडून तिसऱ्या मजल्यार घेवन वचून ताचे मुखार बसून खावंक जेवंक दिवचें, ताची जाय तशी सायबाजात्रा करची, पूण हें कितें?

हें सोंसपाक जायना.

सोयऱ्यांनी भरिल्ल्या ह्या घरांत तूं सगळ्यां मुखार हट्टान घोवा बरोबर वयर कुडींत येवन बसल्या? वेल्यान म्हणटा, 'ते खायनात जाल्यार हांवय खावचीं ना.' शी, शी! दादाचो जांवंय कितलो सोबीत दिसता? आमकां इतली खोस जाल्या. पूण तुवें मात लग्ना वेळार, वराती वेळार एकदांय ताका पळयलो ना. इतलेंच न्हय, पंगती वेळार लेगीत अशी हट्ट घेवन बसल्या? कितलो खोशयेचो खीण हो! इतलें बरें जेवण आसा – नुस्तें, गोडशीं घे म्हूण! तुमी मात दोगांय अन्नाक हात लेगीत लावचिंनात?

भायचेच्या शकून अपशकुनाचो लेगीत विचार करचिंनात? दादा-वयनिचें हांशें करून दाखयतलीं? आपले पेले कोणाचोच विचार करचिंनात?

दादा तुजेपरस वीस वर्सांनी व्हड. बापायवरीच तुका. बापायवरीच तुका व्हड केली. तुजें लग्न केलें. तेन्नाच्यान बारा म्हयने तेराय काळ तो तुका पोसता. तुजे पासत कुडूय बांदून दिल्या. त्याच दादान त्या पिशाक मात्सो तापयलो, मात्सो धुकललो जाल्यार इतलो राग धरूंक जाय? म्हणून ताचेकडेन अशें वागप? तुजेकडेन मातय मनीसपण ना?

इतली उरफाट्या काळजाची छबी कशी दिसता तें पळोवपाकच जाल्ले वरी येदोळच्यान तिच्या दाराकडेन जात्रा भरिल्ली. जायत्या जाणांनी तिका सहानुभुतीय दाखयल्ली. पूण लिपोवन!

जो घरचो धूनी – जाचें घर ताच्या आडपक्षांत

उलयतले जाल्यार लिपोवनच उलोवचें पडटा न्हय ? लोक ल्हवूच उलयतात. ''काकूळट ! धाकटो भावोजी पिसो म्हूण ताणें हे तरेन राग काडप ? दादाक सगळें खबर आशिल्लें तरी आपले धुवेच्या लग्नादिसाच ताणें ताका धुकलप ? भयण बाबडी उपाय नासून आलाशिऱ्याक आयल्या. म्हूण दादाक असो धीर जालो ? भयण बऱ्या नशिबाची आशिल्ली जाल्यार असो वागपाचो धीर दादाक जावचो नासलो.''

पूण हेच लोक सकयल वचून उरफाटें उलयताले. आनी, कित्याक उलोवचे नात ? ते येशू ख्रिस्त वा श्री चैतन्य थोडेच आसले. तांकां राग कित्याक येवचोना ? तांणी काकूळट करतकच छबीन दोळ्यांतल्यान दुकां काडलिंनात. वेल्यान म्हळें, ''म्हाका हें कांयच मान्य ना. तुमी सगळीं जाणां सकयल चलात.''

मागीर ? ह्या सुबेजपणाचो येशू ख्रिस्ताक आनी चैतन्य महाप्रभूंक लेगीत राग येतलो आसलो.

पूण ही सगळी सांजवेळची गजाल ! रातचे, बरे रातीं जेन्ना लोक गेले, फकत घरचे जेवचे आसले आनी सतीनाथ आपल्या जांवयाक पळोवन तोखेताले तेन्ना तांकां अचकीत याद जाली आनी तांणी विचारलें, ''क्षितीश जेवलो ?''

तेन्नाच तांकां घडये याद जाली – क्षितीश. बुरशा बोंथराचेर पुरयो, मिठाय आनी पक्वान्नांची रास घेवन माटवांत जेवपाक बशिल्लो. तें पळोवन तांणी ताका रागान तापोवन धुकलून माटवा भायर घाल्लो.

आपली चूक सतीनाथान मानून घेतली. कितलेय जाल्यार निमाणे तेय हाडामासाचेच मनीस आसले. न्हवरेकार न्हवऱ्याक घेवन माटवांत येवन बशिल्ले. कन्यादान करूंक जाय म्हणून सतीनाथान कांयच खावंक नासलें. धूव दुसऱ्याक दिवपाचो तो खीण, उमेदिच्या आनी काळीज कातरपी अशा दोनूय तरांच्या भावनांनी भरिल्लो खीण – त्याच समयार तांकां क्षितीशाची वीट येवपासारकी करणी कशी सोंसूंक जातली ?

सतीनाथाक तें सोंसलें ना. पूण ही घडणूक क्षितीश इतली मनाक लावन घेत अशें तांकां दिसूंक नासलें. चडूच जाल्यार हांगा थंय हेडून परत हालवेकारां म्हऱ्यांत येवन बसतलो अशें ताका दिशिल्लें. छबी दिसली ना तेन्नाच तांकां ही गजाल कळ्ळी. छबी नाशिल्ल्यान तांकां त्रास जातालो. सगळेकडेन गोंदळ जाल्लो. चारय वटांच्यान छबी छबी अशे उले आयकूंक येवंक लागले.

तेन्नाच कन्यादानाच्या माटवांत व्हडले भावजेन येवन छबी कित्याक दिसना ताचें कारण सांगलें.

''भाई, तुमी भावोजिचो अपमान केला दिसता. ताका धुकलून माटवा भायर धांवडायलो न्हय, म्हणून ती घोवाक घेवन कुडींत वचून बसल्या. तेन्नाच्यान ती सकयल येवंकूच ना. भावोजीन हालवेकारांक बाबा पुता करून थोडें खावंक घेतिल्लें तें सगळें आंगणांत आनी सपणांर शिंपडलां. रागान मोखून मारिल्लेवरी. तो एक पिसो. तुमची भयण पिशी व्हय तर ?''

ह्या प्रस्नान सतीनाथांक त्या वेळार संताप आयिल्लो. पूण ते कन्यादान करूंक बशिल्ले म्हणून कांयच उलोवंक मेळ्ळें ना. आतां मात मन शांत जाल्लें, उदार जाल्लें म्हूण चौकशी करूंक लागले, ''क्षितीश जेवलो ?''

कोणेंच सारकी जाप दिली ना. कोणें तरी सांगलें, सांजवेळच्यान पन्नाशेक जाणांनी तरी वयर वचून छबीक विनयल्लें, लग्न पळोवंक यो, चारचौगांत येवन बस, पंगतीक यो म्हूण. पर्वतावरी निश्चल जावन बशिल्ली. सकयल आयलीच ना.

तिच्या हट्टाची ही गजाल तांणी बायलेच्या तोंडांतल्यान आयकल्ली. आतां छबीन मन व्हड करचें अशी आस्त धरप शक्य नासलें.

रोखडेच ते तिसऱ्या मजल्यार गेले. तांणी म्हळें, ''पळे, हात जोडून तुका आपयतां. चल सकयल. आमचे वांगडा जेवंक यो.''

छबीचो आवाज थरथरतालो ? काय तो सतीनाथाच्या मनाचो भ्रम आसलो ? भ्रमच आसलो तो. छबी स्पश्ट आवाजान सांगताली, ''अशें कित्याक म्हणटा दादा ? सांगलें न्हय, जेवणाची म्हाका वान्साच ना म्हणून. म्हाका जेवण चलचें ना. तकली उसळटा !''

सतीनाथाक तें एकठांय केल्लें, भायर मोखून मारिल्लें अन्न येवजलें. तेन्नाच आनीक एक जाणवलें – पिसो आसूं, लहरी आसूं, कितलोय जालो तरी तो तिचो घोव आसलो.

मायेस्त आवाजान तांणी म्हळें, ''बरें आसा. जेवण वचना जाल्यार हरकत ना. पूण एकदांच येवन पाटार बस. क्षितीशाखातीर वयर ताट धाडटां. ताका जेवोवन यो.''

छबीन तशीच तायट उबी रावन म्हळें, ''ते जेवचे नात दादा !''

आतां मात सोंसपाची शीम सोंपिल्ली. आनी तातूंत अजाप नासलें.

सतीनाथ मागीर रावले नात. सकयल आयले. कोडू आवाजांत तांणी इतलेंच म्हळें, ''बेमान अशेच वागतात.''

तेन्नाच अमल वयर आयलो. निमाणी पंगत वाडपाची जापसालदारकी ताणें घेतिल्ली. पूण एकें सामान्य बायलमनशेच्या हट्टाक लागून

घडयाळिचो कांटो बारा वेल्यान एकार पावि[...]

तो तांचो सोयरो बी कोणूच नासलो. आ[...] फकत शेजारी. ताका इतली व्हड जापसाल[...] आंगार घेवपाची गरज नासली, पूण ताणें ती घेतिल्ली. आतां आनी चड वेळ जाल्यार ता[...] घरचे लोक कितें म्हणटले ?

सपणार सतीनाथाक तो आपटुपाचोच. सतीनाथान पयलीं ताका दोळे मोट्टे करून पळेलो, मागीर रागान म्हळें, ''आं ! तूंच एक उरिल्लो दिसता !'' आनी ते गेले.

शेजारचो भुरगो, सदांच यो-वच करपी. [...] अजाप दिसलें ना. आशाय दिसली ना. अमलाकय कांय आस्त नासली. ताणें सगळें आयकल्लें. अमलाक खात्री नासली तरी ते[...] एक फावट यत्न करून पळोवपाची इत्सा आसली.

छबी तेन्ना ल्हवूच दार धांपताली. घडये [...] सुशेग घेवचो थारायल्लो जातलो तिणें. अम[...] पळोवन तिचे हात थांबले. दार अर्दकुटें बंद[...] उरलें. अमल शेवजूंक लागलो, सट्ट करून पेटोवची. पळोवया तरी तिचो चेरो कसो दि[...] तो. पूण पेटयली ना. ''दिवो लायना ?'' त[...] विचारलें.

छबीन सुकशा आवाजान म्हळें, ''कसलें आसा ?''

''खरें म्हळ्यार गरज ना. पूण तूं कशी भुतावरी दिसता तें –''

छबीन जाप दिली ना. ल्हानपणांतली [...] जागोवपाक त्या हांसपाच्या वाक्यार लेगीत हांसली ना. त्या हयन्हयशा उजवाडांत ती चित्रावरी ओग्गी रावली.

अमलाक छबीचे कुडिंतलें कांय दिसना[...] अर्दकुट्या उकत्या दारांतच ती उबी आस[...] म्हूण कुडींत एक नदर मारपाचो यत्न कर[...] अमलान म्हळें, ''क्षितीश न्हिदल्यात ?'' [...] मात्शेंशें हांसून म्हळें, ''हय''.

''सतीनाथदादान तांकां कितें तरी म्हळें खंय ? पूण छबी, तुवें मात्शें समजून घेति[...] जाल्यार हें प्रकरण इतलें वाडचें नासलें. [...] आयकून कान फुटपाचो वेळ आयलो.''

आतां मात छबी हांसली. परतय अमल[...] भुतावरीच दिसली. तिचें हांसपय भेसूर दि[...] हांसत हांसत तिणें म्हळें, ''म्हज्या निर्लज्जपणाची तुका शी लज दिसली अ[...]

खरेंच फस्काकाडी पेटोवची ? पळोवया निखटे निर्लज्जूच न्हय, तर निश्ठूर छबी करो दिसता तो. काळखान रंगयल्लें छबी[...] वळखपय कुस्तार जाल्लें.

छबीचो दादा फटवल्लो. फाटलो फुडल[...]

सतना तांणी छबीचें लग्न एका
करून दिल्लें. तरीय छबीन केन्नाच
गाळ केली ना. छबीच्या देरान पिशा
आी भावजेक हांगा धाडून दिल्लीं तरी
वायट उतर म्हळ्ळें ना.
पा भिवकुऱ्या सभावाचोय तिणें केन्ना
लो ना. छबी सरळ सादे तरेन वागत
ग्नापयलीं घरचें काम करताली तशी
ता. तेच वांगडा पिशाकय सांबाळटा.
सगळ्या गजालिंचेर पांगरूण घालून
क लिपयता तें अमलाक खबर नासलें
ल सदां येता.
मात्सो नदरेआड गेल्यार फकांडांच्या
उबगता. उलयतां उलयतां अचकीत
म्हणटा, "पळे कितलो वेळ जालो.
खजिन्याची वासपूस केली ना. चल,
. खंयूय साधू बी जावन गेले नात
म्हणटा, "कितलीं वरां जालीं?
आयिल्ल्यान वेळ खंय पावला तो
ना. स्वामी स्वता आपूण रांदचे कुडींत
दनां रिकामीं करनात मू? पळोवया."
टा, "ते पळे दयासिंधू अचकीत तोंड
वतात. आमी हांगा गजाली करतात
शें सोंसत? वतां बाये, नाजाल्यार
ीव रुद्रावतार घेतले."
पिशेपणाचीं कोणेंय फकांडां केलीं वा
लो जाल्यार लेगीत छबीक राग
केन्ना कोणें पळेलो ना. उलयतल्याच्या
ो पोंत धरून ती म्हणटाली, "सांगात
सगळे जाण मेळून सांगात. म्हजें काम
जातलें. जांवयावरी बडदास्त दवरचे
तोणक्या घे वळख' केल्यार उपकार
जेर." सदां हांसत हांसत उलयता.
ज मात घोवाचो मात्सो अपमान
ीच छबी इतली बदल्ली! सतीनाथाची
गटा तेंच खरें धरप? मत्सराग्नीक
शी संद मेळनाफुडें छबी अशी वागता
ाचें पडटलें काय? दादाचे चलयेचें लग्न
टान जालां, तिका इतलो बरो घोव
ती भितरले भितर जळटा काय?
शीं असो विचार लेगीत मनांत हाडूं
छबीच अशें म्हणूंक लायता. तशें
री. हो मत्सर म्हणूं येत? नाय
बी खंय पतीभक्त आशिल्ली?
ची वयनी म्हणटा, "घोव पिसो
चें छबीक मातय दुख्ख ना. कितें
हिचें?" छबीचें तेंच विचित्र मन
जळून गेलां.
तले हे आरते-परते विचार अमलान
उकतायले नात. ताणें फकत इतलेंच म्हळें,
"कितली निश्ठूर तूं छबी?"

छबीन म्हळें, "आज कळ्ळें? पूण तूं
कित्याक आयला तें तरी सांग. जेवंक आपोवंक
आयला?"

अमलान घायाळ नदरेन परत एकदां छबीक
पळयली, मागीर म्हळें, "ना, तुका आपोवपाक
येवपाचो धीर म्हाका ना. दिशिल्लें, क्षितीश बाबूक
उपाशीं दवरून तूं दादाक कितली कठोर ख्यास्त
भोगयता? इतलेंच न्हय, त्या बऱ्या मनशाकय
कोंडून दवरला. तांणी कितले उमेदीन म्हणिल्लें,
'तूंच म्हाका वाड हां! हे दुसरे लोक म्हाका
सारके वाडचे नात.'"

उलोवणें थांबोवन अमल मात्सो हांसलो.
"हय, तांणी 'हे दुसरे लोक' म्हणूंक नासलें.
म्हणिल्लें, 'हे साले!'"

इतल्या वेळच्या उपासान छबीचो ताळो
सुकला? काय इतलो वेळ उद्धटपणान
काडिल्ल्यान तिका पश्चाताप जाता? ना
जाल्यार छबीचो आवाज काय बरो आशिल्लो.
पूण आतां ना.

खरखरीत आवाजांत तिणें म्हळें, "पूण तुवें
जेवण वाडपाची तांणी खंय वाट पळयली?
स्वताच तर —"

"आसुंदी छबी. तुका जेवपाचें ना जाल्यार
जेवंनाका. पूण तांकां उठय. म्हाका म्हजें उतर
पुराय करूंदी."

छबीन पोरण्यो यादी झाडून उडयल्योश्यो
दिसतात. तशीच खुट्ट खुबो कशी उबी रावन
तिणें म्हळें, "ते जेवचे नात."

"छबी, खरेंच चड जालें आतां... खंयचेय
गजालीक एक शीम आसता. आज रागा भरशीं तूं
तांकां जेवंक दिवचिना. फाल्यां वाडचेंच पडटलें
न्हय? तेन्ना मागीर कितें?"

छबी हांसली. खरेंच हांसली. भकासपणान.
आनी म्हळें, "फाल्यांय जेवचे नात ते अमल,
फाल्यां ना, परां ना, केन्नाच ना..."

त्या साद्या उलोवण्यान अमल कित्याक
थरथरलो? छबीचें हांसप पळोवन खरेंच ताका
ती भुतावरी दिसता? म्हणून तर ताणें 'छबीऽ'
म्हणून एकदम किळांच मारली. छबीन त्या
उल्याक जाप दिलिना. मातय हालली ना. आनी
छबीचे ते शांत मुर्ती कडेन पळोवन अमलान
अचकीत खूब दिसां पयलीं करतालो तसलीं —
विसरिल्लीं मुर्खपणां केलीं. छबीचे सामके म्हऱ्यांत
वचून ताणें दाराक धरिल्लो छबीचो हात फोर्सान
दामलो आनी म्हळें, "छबी, दिवो लाय!"

छबीन ल्हवूच हात सोडोवन घेतलो आनी
विचारलें, "कित्या पासत?"

"म्हाका पळोवंक जाय."

"पळोवपा सारकें कितें आसा अमल?"

"छबी, तुजे तुका इतली निरपराध समजूं
नाका. दारांतल्यान पेल्यान सर. म्हाका
पळोवंदी."

तरीकय छबी हालली ना. फकत आवाज
मात्सो निबर केलो. "खरेंच, पळोवपासारकें कांय
ना अमल."

अमलय भूत जाला काय? अमल असो
कित्याक दिसता?

आपूण इतलो वेळ सकयल देंवक नाशिल्ल्यान
लोकांक कितें दिसतलें हें तो विसरलो काय?
ताच्या तरणेपणांतलो इतिहास कितें कोणाक
खबर ना? बऱ्याच वेळान घडये अमलाक
येवजलें जातलें, सकयल्या मजल्यारय एक वेगळें
जग आसा. ताणें विचारलें, "छबी, अशें कशें
जालें?"

छबीन विचित्र आवाजान म्हळें, "पिशाचीं
पिशेपणां. आनीक कितें? 'साल्यांनी म्हाका
जेवंक दिलें ना' अशें म्हणून आपलेच तकलेच
खिळो मारूंक लागले..."

"छबी, तूं फातराचें गो?"

"कोणाक सांगुंनाका अमल, तुका म्हजो
सोपूत! न्हवरो व्हंकल कुडींत आसात. तांची ही
रात पेड्ड्यार करनाका."

"छबी, कशें सोंसता गो तूं हें सगळें?"

"सोंसचें पडटा अमल! शीममेर विसरून कशें
जातलें? तांचे खोशयेच्या वेळार हांव कितें
म्हजें..."

"रातभर तूं अशीच रावतली?"

"ना. न्हिदतलें. न्हीद येता. सकयल पडटा शें
दिसता."

आनी, असभ्य आनी उद्धट छबीन अमल
आसतनाच घड्ड करून दार बंद केलें. खट्ट
असो आवाज जालो. खिळी घाल्याचो! हय,
दार बंद करपा भायर उपाय नाशिल्लो.
सतीनाथाचें म्हणणें तिका पट्टालें. दरेके
गजालीक एक शीम आसता. आसूंकच जाय!

थोडो वेळ त्या थंड काळखांत बसतकच
छबीक परतेंय मानसीक बळगें येतलें. फाल्यां
सकाळीं सकयल वचून सहजतायेन तिका सांगूंक
जमतलें, "काल लग्नाच्या बोवाळांत तुमकां त्रास
दिलोना. पूण आतां दिले बगर कशें रावं? वयर
वचून एक फावट पळोवन येयात. फुडलें सगळें
तुमीच करपाचें!"

* * *

# गुन्यांव कोणाचो ?

मूळ हिन्दी: रामदेवलाल श्रीवास्तव
अणकार: उदय देशप्रभू

अबगातीच तें कॉलेजींतल्यान घरा आयिल्लें. पयलीं पयलीं कोणें ताचेर लक्षूच दिलें ना; कॉलेज बंद आसा जावंये अशें चिंतलें. पूण घरच्यांची नदर ताच्या बाविल्ल्या तोंडार पडली तेन्ना ताका दिसलें, जिवाक बरें नाशिल्ल्यान तें घरा आयलां जावंक जाय. हरिवंशान ताका आपले मुखार बरायलें आनी लक्तुबायेन विचारलें, 'कितें जालां बाय? बरें ना...? चल, दोतोराक दाखोवन येवंया.'

हें आयकून तें भियेल्ले वरी जालें आनी अदिकूच बावलें. हरिवंशूय भियेलो. ताका कांयच समजना जालें. ताच्या माथ्यार हात दवरून ताणें विचारलें, 'सांग बाय, जालां कितें? अशें कित्याक म्हूण बेजारलां तूं?'

आयकून ताच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. हरिवंशाच्या मनांत तरांतरांचे विचार धुंवपाक लागले. चलयेच्या मनांत कितें तरी घुस्पलां आनी आपणाक तें सोडूंक येना, ताका दिसलें. पूण 'कितें जालां?' 'कितें जालां?' म्हूण परतें परतें विचारल्यारूय गजाल वायटार पडूं येता अशें येवजून ताणें विशय बदल्लो. 'कॉलेज कितले दीस बंद उरतली?' हरिवंशान ताका विचारलें.

'कॉलेज' हें उतर आयकना फुडें ताच्या तोंडार अदिकूच भंय दिसूंक लागलो आनी दोळ्यांत एकठाविल्लीं दुकां पोल्यां वयल्यान व्हावंक लागलीं. हरिवंशान म्हऱ्यांत वचून चलयेचीं दुकां पुसलीं. तें ताका एक उमाणें जावन रावलें. 'बाय, कितले दीस रावतलें?' ताणें विचारलें.

हे फावटीं ताचे ओंठ हालले. 'हांवें कॉलेज सोडल्या, सदांखातीर...' ताणें म्हळें.

हरिवंशाक आतां अजाप जालें. 'कितें? कॉलेज सोडल्या?'

'बाबा, म्हाका आतां भायल्या संवसाराचो भंय दिसपाक लागला.'

'भायल्या संवसाराक अशें भियेवंक लागलें जाल्यार मुखार तुजें कशें जावप गो बाय?'

'हांवें फुडाराचीं सपनां पळोवप बंद केलां.'

'सपनां बगर म्हूण जियेवं येता गो?'

आतां ताचे दोळे नेटान व्हावंक लागले. हरिवंशाची माया उबारून आयली. चलयेक वेंगेंत घेवन ताणें विचारलें, 'असलो कसलो कांटो तुज्या काळजांत रोमला आनी तुका तो काडूं येना जाला?'

'कांटो काडपाक कितलेशे जल्म वतले अ तरी तो भायर सरपाचो ना.'

हरिवंश गोंदळ्ळो. 'सौम्या, अशें उमाण्यांन उलोवं नाका. कितें जालां तें सोंपे, सरळ भा सांग. आमकां सगल्यांक तुका दोतोर जाल्लें पळोवपाचें आसा. हांवेंय बी कांय सपनां पळेल्यांत तुजे खातीर. पूण तूं म्हणटा, तूं दो जावंचें ना, कॉलेजीक वचचें ना, कितें हें सग

सौम्या कांयच उलयलें ना. उठलें, आपले कुडींत गेलें आनी भितरल्यान दार धांपून घे कांय वेळान ताच्या रडपाचो आवाज येवंक लागलो. ताका लागून घरांत वादळ शें जालें.

सगळीं येवन ताचे कुडी भायर उबीं रावलं दारार सादोवंक लागलीं. ताका उलो मारूंक लागलीं. भितरल्यान रडप वाडत गेलें. इतल्य नरेन्द्राचो आवाज आयकूंक आयलो. ताच्या हातांत एक दिसाळें आसलें आनी तो मोठ्या नेटान आड्डतालो, 'उजो लायतलों हांव हे कॉलेजीक. मारून उडयतलों त्या चवगांकूय. मागीर येवन तो सोफार बसलो. अजून तो र परतून तेंच उलयतालो. केन्ना मुठी आंवुळटा केन्ना हात वाऱ्यार उबयतालो.

सौम्याचे कुडिच्या दारा भायर एकठांय ज सगळीं आतां नरेन्द्रा भोंवतणीं जमलीं. हरिवं ताका नेटान विचारलें, 'कितें उलयता रे तूं कोणाक मारून उडोवंक सोदता?'

'सगळ्यां उजीर मर्यादं सोडून सौम्याचें रॅगींग करतल्यांक हांव सोडचों ना. मारून उडयतलों तांकां. तांणी फुडार पेड्ड्यार केल सौम्याचो. नाऽच करतलों हांव तांकां.'

सगळीं भियेल्लीं. गोंदळिल्लीं. कोणाक समजलें ना. हरिवंशान परतून मोठ्यान विच 'घडलां कितें, सांगात मरे सारकीं... थंय तें उमाणें जावन रडत बसलां आनी हांगा तूं अ बडबडटा...'

'प्रशासन म्हणटात तें खंयच ना. नेम, क पुस्तकांतूच बंद आसात. देशाची सगळी वेव फकत कांय थोड्याच व्हडल्या मनशां खाती आसा. सामान्य जनते खातीर कायद्याक द नात, राखणे वेवस्ताय अपंगूळ आसा. जिवें रावपाचें आसल्यार आपली राखण आपणेंच करची पडटली. जंगलराज्य हें. दुबळ्यांक रावपाचो अधिकारूय उरूंक ना.' इतलें उल उलयतां ताका सामकें पुरो जालें. हात पांय पातळावन तो सोफार लवंडलो. ताचें तोंड पळेल्यार दिसतालें, कोणें तरी ताचें सगळें र

ा
ुय तें दिसाळें ताणें हातांत घट्ट धरिल्लें.
ान ओडून घेतलें. 'कसलें दिसाळें हें?'
साळें न्हय. हांवें जें कितें सांगलां ताचो
.' अशें म्हणीत ताणें दिसाळ्याचें तें पान
रून तांचे मुखार दवरलें. तें वाचिना फुडें
कली धरून थंयच बसून रावलो. तातूंत
—
ल कॉलेजींत सिनियरांनी रॅगिंगच्या
ा सौम्याक आनी एकल्या फ्रॅशर
र्याक विंगळी केलीं. उपरान्त त्या फ्रॅशराक
विंगळे कुडीकडेन चाळे करपाची सक्ती
ानी सिनियर भोव रुचीन तो खेळ – ती
ळेत रावले. खबर छापून ये मेरेन कोणूच
ासलो.
र संपादकियांत बरयल्लें – रॅगिंगच्या
ल कॉलेजिनी असल्यो विकृत घडणुको
्यो घडत आसतात. कांय दीस बोवाळ
पपरान्त सगली खबर चिड्डून उडयतात.
ागो बंदखणींत आसूंक जाय ते मॅडिकल
चे विद्यार्थी म्हूण मिरयतात.
ाच्या नांवाखाला इतलें सगळें घडटा
ाय प्रशासन भेड्डें जावन न्हिदून रावता.
ेच विद्यार्थी देशाचे खांबे जातले.
जिविताची राखण तांच्या हातांत
ी...?'
शाक आतां दोळ्यांमुखार काळोख दिसूंक
त्याच गुपाट काळखांत ताणें सरभोंवतणीं
दळ अणभवलें. ताका दिसलें, भूंय
ागल्या आनी सगळें आपणाल्या पोटांत
यर सरल्या – अचकीत ताच्या
ार उज्याचीं केणां नाचपाक लागलीं
गां भितर सगळें हुलपून वचूंक लागलां
पाक लागलें.
शाच्या काळजाचे ठोके नेटान पडूंक
ाची कूड हुमेन चिप्प जाली. तो थंयच
लवंडलो आनी बेशुद्ध जावन पडलो.
उदक हाड बेगीन...!' नरेन्द्र आड्डलो.
ाळीं हे घडणुकेक लागून गोंदळून गेल्लीं.
ी बेगीन वचून उदक घेवन आयलें.
हरिवंशाच्या तोंडार उदक मारलें. आनी
न हरिवंशान दोळे उकते केले. 'बाबा,
च हुस्को करूं नाका. आमचेर सगळें
.' नरेन्द्रान बापायक निश्चयी उतरांनी
नी ताका उखलून व्हरून ताणें बाज्जेर

न आठ-धा तरणाटे तांच्या घरांत
ले. ते नरेन्द्रा भोंवतणी उबे रावले.
दार हात दवरून एकल्यान म्हळें, 'तूं
भियेवं नाका. आमचे इंजिनियरिंग कॉलेजींतले
तिनशींय भुरगे तुजे वांगडा आसात. तूं सौम्याक
सांबाळ. ते सिनियर भुरगे कोण कोण, तांचीं नांवां
ताचेकडल्यान काडून घे. आनी बाकी सगळें
आमचेर सोड.'

वांगडच्या तरणाट्यांनी आपणालेंय हेंच मत्त म्हणपाचें नरेन्द्राक जाणोवन दिलें आनी ज्या झेतान ते घरांत भितर सरिल्ले तशेंच भायर सरून गेले.

घरांतलें वातावरण आतां भंयाचें जाल्लें. भायलें दार सदां बंदूच उरपाक लागलें. जनेलांय बी केन्ना केन्नाय उकतीं जावंक लागलीं. सौम्याचे भितर रिगिल्लो भंय कसोच पयस जायनासलो. तें कॉलेजीक वचपाक कशेंच तयार नासलें. कोणाक मेळपाचेंय ताणें सोडून दिल्लें.

हरिवंशाक दिसतालें, सौम्या एकदम पंदरा-वीस वर्सांनी जाणटें जालां. तो आपणाक निरुपयोगी लेखूंक लागिल्लो. तो निवृत्त जावपाक अजून तीन वर्सां आशिल्लीं. पूण ताका दिसतालें, कितल्याश्या वर्सां आदीं तो निवृत्त जाला. ताकाय भायर सरन दिस नासलें. भंय सो दिसतालो. समाजांत ताका नांव आसलें. तो वयल्या पांवड्याचो अधिकारी आशिल्लो. चलो इंजिनियरींग कॉलेजींत आनी चली मॅडिकल कॉलेजींत शिकतालीं! पूण आतां ताका दिसतालें, लोक ताका हांसतात, ताचीं फकांडां करतात.

हरिवंश सकाळचो नेमान पासयेक वतालो. सकाळचो सदां बेगीन उठ्ठालो. सकाळच्या पांचांक कोणें तरी ताका उलो मारलो, 'पासयेक येना हरिवंश?' बायलेन ताचे बाज्जेसरीं येत म्हळें, 'पासयेक वचनात? तेजेन्द्रबाब उलो मारतात.' तेजेन्द्र ताचो पोरणो इश्ट आसलो. हरिवंश कितें तरी उलोवंक सोदतालो पूण ताचो आवाज भितरले भितर शिरकून उरलो. ताणें हातांनीच कुरवो करून 'वचपाचें ना' म्हूण सांगलें. बायलेन जनेलांतल्यानूच तेजेन्द्राक सांगलें, 'रातीं खूब वेळान न्हिदिल्ले. आतांच मातसो दोळो लागला. न्हिदून आसात...' 'बरें... बरें...' म्हणीत तेजेन्द्र परतलो.

हरिवंशाक ऑफिसांत वचपाचीय उमेद नासली. ताणें रजे खातीर अर्ज धाडून दिलो. दिसूयभर तो बाज्जेर पडून रावलो. कुडींतल्यान लेगीत भायर पावल घालें ना. सांजची च्या घेवन बायल ताचे सरीं आयली तेन्ना ताणें विचारलें,

'नरेन्द्राचे इश्ट कितें सांगताले?'

'सामकी तिडक मारिल्ली तांकां. बदलो घेतले म्हणटाले...'

'तशें करून कितें जातलें? नव्यो आडखळी उब्यो जातल्यो... नरेन्द्राक समजाय तूं मातशें.'

बायलेन कांय जाप दिली ना. फकत एक हुस्कार सोडलो. हरिवंशान तिका परतून विचारलें, 'सौम्या कशें आसा?'

'पयलीं भशेनूच कुडींत ओगी पडून आसा. ताका कॉलेजींत घालूंक कितलो खर्च जालो, कितलें डोनेशन दिवचें पडलें... सगळें उदकांत गेलें. कॉलेजिचें नांवूच घेनाफुडें तें पिंपळाच्या पाना वरी थरथरता. कोण म्हूण कोणाक समजायतलो? सगळींच शेणिल्ले वरी जाल्यांत.'

कांय वेळान बायल उठून भायर गेली. तेन्ना नरेन्द्र आपलें बॅग घेवन कुडींत भितर सरलो. 'बाबा, हांव वतां.' ताणें म्हळें.

'वता रे? आयक पुता. आमी जाल्लें सगळें विसरून गेल्लीं बरीं... एक सांग, सौम्याक खंयचेय दुसरे कॉलेजींत ॲडमिशन मेळत?'

'पळोवंया. तें सगळें आमचेर सोड तूं. तूं फकत तुजे तुकाच सांबाळ.' इतलें म्हणून नरेन्द्र भायर सरलो.

हरिवंश येवजूंक लागलो. सौम्या वांगडा जें कितें घडलां ताका खंय तरी आपुणूय जापसालदार आसां अशें ताका दिसपाक लागलें. चलो, चली हांचे भितर भेद करून ताणें सौम्याक कांय प्रमाणांत दुबळें करून दवरिल्लें. हरिवंशाक अपराध्या वरी दिसपाक लागलें.

अशे तरेन म्हयनो उलगून गेलो. वादळ मातशें थंडावल्लें. पूण सौम्याचे मनस्थितींत कांय फरक पडूंक नासलो. सगळ्यांक होच हुस्को आशिल्लो. नरेन्द्रूय हालीं घरा येवंक नासलो. ताची कांय खबरूय नासली.

आनी एक दीस अचकीत दिसाळ्यांतले एके खबरेचेर हरिवंशाची नदर पडली. ती वाचून तो थंयचे थंय घट्ट जालो. खबरेचो माथाळो आसलो – 'मॅडिकल कॉलेजिच्या चार विद्यार्थ्यांची गुळयो घालून हत्या.' सकयल विस्तारान खबर दिल्ली.

'आठ तारखेक रातच्या धा वरांचेर दोगां दोगां भोंयें घाल्ल्या मनशांनी त्या विद्यार्थ्यांच्या रुमांच्या दारांर वांगडाच सादयलें. दारां उकतीं जायना फुडें तांचेर गुळयांचो शिंवर जालो. सगळ्यांच्या हातांत विदेशी पिस्तुलां आसलीं. पिस्तुलांक सायलन्सर बसयल्लो आसलो. पुलीस तपास चालू आसा. खबर छापी मेरेन कोणूच हाताक लागूंक ना.'

हरिवंशान दिसाळें दोडून गादये पोंदा दवरलें आनी मोन्यांनी दारा वटेन पळेत रावलो. ताका आनीक एका व्हडल्या संकश्टाची सुलूस लागिल्ली जावये. नरेन्द्र आनी ताच्या वांगड्यांचीं तोंडां परतीं परतीं ताच्या दोळ्यां मुखार येतालीं.

** * **

# बुचूल

शंकर रामाणी

सदांभशेन न्हिदेंतल्यान म्हाका फांत्यार जाग येता.
मागीर हांव भायल्या दरवट्याची खिळी काडटां.

फाटलीं दोनेक वर्सां ह्याच वेळार पिंगशा पांखाट्याचीं दोन सोबीत
सुकणीं, पयलीं सावन संवकळ आशिल्लेवरी नेमान येतालीं:
पयलीं व्हारांदार आनी धिटायेन हुमरों हुपून
सालांत दारा लागसारच्या म्हज्या मेजा सामकार
पावल्यो मारीत... हांगा-थंय पळेत... चोंचींत चोंच घालून चिंवचिंवतालीं,
आपले भितर फुतफुततालीं... खिणांत कदेलार बशिल्ले कडेन
म्हजेर म्होंवाळ नदर भोंवडायतालीं... पर्थून पावल्यो मारतालीं... आनी
पुरो जातकीर ल्हवूच हुमऱ्या वेल्यान व्हारांदार वचून पांखाटे फुलोवन
खंयचे अज्ञात दिकेक उडून वतालीं कोण जाणा!!
इतलें खरें: सुकण्यांच्या दर्शनान हांव भायर-भितर सुखावतालों;
खोश्शेचें ल्हानशेंच ल्हार काळजा देगेर फुट्टालें! दीस बरो वतालो!

हालींच घरांत पोशिल्लें एक माजर गाबणें जावन व्हियेलें.
ताका एक बुकलो जालो. आमी सगळ्यांनी ताका नांव दवरलें: बुचूल.
तो जात्याच गोऱ्या-तांबश्या आंगाचो. आंगार मदीं मदीं काळसार पटे.
पुटपुटीत. कांय दिसां भितर 'म्यांव म्यांव' करीत घरभर फिरूंक लागलो.
सगळ्यांचोच लाडको. ताचे तांखणायेक शीम-मेर उरलिना.
म्हयन्या भितर कदेला वेल्यान मेजार चडून बसूंक-न्हिदूंक लागलो.
कांय दीस गेले तशे मेजा वेलीं म्हजीं पुस्तकां आडवीं-
तिडवीं करून तीं पिंजपा कडेन पावलीं. बुचूल सगळ्यांचेच अपुर्बायेचो!
करतां करतां तो वाळेस, नावाडगो जालो. हांव ताचेर रागार जातालों;
तिडकतालों. पुणून घरांतलीं बाकिचीं म्हाका किकोत करूंक लागलीं.

सुकणीं शिट्टूक. शाणीं. तांचे नदरेंत बुचूलाचे लाड लिकलिकताले.
तीं सादूर जालीं. एक दीस ताणी ताका जिबली चाटीत घरांत भोंवतना पळेलो.
आनी कितेंय विपरीत घडचे आदींच ताकतिकेन सालांतच पांखाटे फुलोवन
व्हारांदारसून जीव मुठींत घेवन उडून गेलीं... केन्नाच आयलीं नात!

खंयचीं कोण सुकणीं! पुणून सुतक लागिल्लेवरी हांव उदासलां
आनी बुचूल तांचेर अवचीत घुरी घालून एकाच घांसान मट्ट करूंक वखवखला.

मुक्तक

# फासिझ्म

## नागेश करमली



पयलेच फावट
ते आयले ते
मायभुंयेच्या मोगान
सामके पेटत,
नारे गाजयत :
देश महान !
लोक महान !!
आमी महान !!!
सगळ्यांनी तांचो
जयजयकार केलो !
तांणी म्हळें :
देशाखातीर घाम गळयात !
देशाखातीर रगत वारयात !
परतय तांचो
जयजयकार जालो;
लोकांनी म्हळें :
हाकाच म्हणटात देशभक्ती !
हाकाच म्हणटात खरी शक्ती !
कांय दिसांनी
मागीर ते
आपणाल्या धर्माचे धर्मबांधव
सोदीत आयले;
तांणी म्हळें :
आमचोच धर्म खरो !
आमचोच धर्म बरो !
परतय तांचो
जयजयकार जालो...
पूण, बरेचशे लोक
काचाबूल जावन
दारां धांपून
आपापल्या घरांनीच रावले,
मोन्यांनीच प्रार्थना
करीत रावले :
देवा आतां खऱ्यांनी
तूंच आमकां सांबाळ
ह्या देशांत
आमकांय थाकाय दी !
आमचो ग्रास आमकां दी !
उप्रांत
कांय दिसांनी
ते परतय आयले,

हे खेपे
आपल्या पोशांनी
ते देवांच्यो रासभर
मुर्त्यो घेवन आयले;
तांणी हुकूम सोडलो :
फकत ह्याच
देवांक पुजात,
ह्याच-देवांचीं
देवळां बांदात
हेच देव
आमचे राष्ट्रदेव;
ह्या देवांक मानिनात
तांकां देशाचे
दुस्मान लेखात !
तांकां तन्नाक म्हारग करात !!
अन्नाक म्हारग करात !!!
देवांच्या नांवान
परतय जयजयकार जालो...
भंयाभीत,
दारां धांपून घरांतच
मोन्यांनी
प्रार्थना करपी मात
देवाक होरायत तशेच रावले
संकटांतले निवार म्हणूंक लागले !
कांय दिसांनी
ते कांय पुस्तकां
घेवन आयले;
तांणी म्हळें :
देशभश्ट्यांनी रचिल्लो
तो आदलो
इतिहास पिंजून आतां
भायर मारात;
ह्या पुस्तकांनीच
आमचो खरो
इतिहास आसा,
तोच वाचात
तोच आमचो
खरो इतिहास म्हणात !
मागीर आयले
तांचे बावटे हुबोवपी
संत, महंत आनी बावा;

ह्ला:
सव्यांक समान हक्क
सव्यांक समान अधिकार
हें सगळें फट...
सकें फट,
संसार-निर्मणी
मांतच
असमानकायेचेर
धारिल्ली आसा;
रीं ल्हान झोंपां,
ड रूख आसात
तेच हांगा गरीब जाय
रिस्त आसतलेच,
सचेच,
केच्या वावराक
गाम तर
सूंकच जाय!
जा जात आसतलीच,
सचीच;
ळी जात, सकली जात
णी जात, अर्दशाणी जात
नी सामकीच
ा सायबा म्हणपीय जात...
सगळें
दल्यांनीच सांगलां,
चें मानात.
च देश तरतलो;
कोण हाका
रोध करतलो
देशाचो दुस्मान
रतलो!
कोण तरी
काडूंक वेताले...
म्हळें:



आतां तुमगेले
जयजयकार बियजयकार
नाकात.
कोणाचें कितेंय
उलोवपय नाका...
तुमचे खातीर
उलोवपाचें आनी
चिंतपाचें काम
आजपासून फकत
आमी आनी आमीच
करतले.
कारण,
परंपरेनच ती जापसालकी
आमचेर सोंपयल्या!
देशाची ही संस्कृताय!!
सगळ्यांची ती व्हडविकाय!!!
लोक वोग्गी!
भौस वोग्गी!!
सामको चिप्प!!!
तरीपूण
विरोधांत कांय हात
वयर सरलेच;
ते तांणी सारके
मेजले!
फुडल्या कांय दिसांमदें,
त्या हातांमदले
कांय हात गोमट्यांसयत
खंय तरी गळून पडले,
नाच्च जाले;
कशे, कितें?
कोणाक केन्नाच कळ्ळें ना.
कोणाकय विचारपाकय
काळीजच जालें ना...
कारण,
दर एकाक
आपापली गोमटी
आनी हातच पयलीं
शाबूत राखपाचे आसले!



सगळें पळोवन
आनी अणभवून,
रावंक नजो जावन
एक दीस म्हाका
आपशींच म्हणूंक आयलें:
हो देश महान
खऱ्यांनीच जाला
आतां ल्हान...
ही जनता महान
खऱ्यांनीच जाल्या आतां
सामकी सान...
इतलेंच,
आनीक कांयच ना;
म्हजेलागीं ना शस्त्र
ना अस्त्र;
तरीपूण
ते म्हाका सोदीत आयलेच.
तांणी म्हळें:
तुजेर देशद्रोहाचो
आरोप आसा;
तुज्या उतरांनी
तुंवें देशाचो अपमान केला,
देशांतले जनतेचो
अपमान केला;
देशाक ल्हान केला,
जनता ल्हान जाल्या.
म्हाका तांणी
उलोवंकच दिलें ना;
असहमती खातीर
हात वयर काडूंकच
दिलो ना...
ते पयलींच
दोनीय हात
बेडयांनी अडकले.
तेय परिस्थितींत
म्हाका उतर फुटलें:
आरे देवा,
देशाक आतां
तूंच सांबाळ!
तांणी म्हाका दटायलो,
म्हळें:
देशाक सांबाळ?
राव, आतां आमीच
तुका सांबाळटले हां!
आनी ते उप्रांत
खूब दीस
म्हजो ताळो कोणेच आयकलो ना!



# तीन कविता

रमेश भगवंत वेलुस्कार

## झुजां मळांचेर आमी

झुजां मळांचेर आमी
झुजां मळांचेर आमी
निमणे मनशांकूच मारतात
थंयसरल्या अधिकाऱ्यांकडे आसता
मान्यता पत्र
मनशांक मारपाचें...

रामायणांत जाल्ल्या युद्धांत
मेले मनीसूच
रामाक लेगीत हें मनीसखेत्र
थांबोवंक जमलें ना...

कृष्णाक युद्ध पालोवंक जालें ना
ही मरणखेळय
वळवळत आसता
मनशांच्या रंद्रांनी केणलेल्या
ल्हुवल्हुवपी कंडथळांनी

सगळ्या महायुद्धांनी
आमी चडांत चड जीव हानी
जावंची हाचोच हिशोब
वाडटे कळेंत केल्लो दिसता...

आमची विज्ञानफिशालकाय
चडांत चड विनाशकारी
आयुधां, निर्माण करपाखातीर
पणाक लायल्या आमी...

मनशां मनशांमदीं
मोग किल्लून येवंचो
हे खातीर
मनशान केल्ले प्रयोग
सदांच योगभ्रश्ट
जायत रावल्यात.

युद्धांत जाल्ल्या व्हड नरसंहाराचें जैत
जैतिवंत रंद्रारंद्रांतल्यान मनयतात

मनीसपणाचें पेणें
तोंड घेवन खंय तरी वयता...

आनी घोर अंधकारांत
करुणा
एक टिमटिमपी पण्टी घेवन
मनीसपणाक
सोदीत भोंवता...

## एक पूर्णविराम

एक पूर्णविराम
खरें म्हटल्यार कितलो विराम ?
आमचें उतर म्हटल्यार
आमचो आत्मविस्वास
ह्या आत्मविस्वासाचो कस
हो कस कोणें थारावप
आनी आत्मविस्वासाक
विराम आसता काय ?
आनी मागीर पूर्णविराम ...?

उतरांत आत्मविस्वास आसता
काय तो लोकांत आसता ?
काय तो लोकांच्या आत्मविस्वासांत ?

आमकां विस्वास दंवरचो पडटा...
लोकांमदीं
काय आमचेमदीं...
काय आमचेमदीं
एक व्हडलो पूर्ण विराम आसता...!

आमी उलोवपाकूच
पूर्णविराम दिल्यार
आमच्या प्रकटीकरणाक
चड ओड आनी तेज
येवं येतलें...
आनी पूर्णविरामाचें
महत्वूय गुणीत जायत वयतलें...



## शाळेचे प्रार्थनासभेंत

शाळेचे प्रार्थनासभेंत
बाईन काणी सांगली
पोन्री पोन्री काणी
हजार वर्सां पयलीं
जशी आदिमहानायकान
सांगलेली...
कासवाची
आनी सोंशाची...
जातूंत कासव जैतिवंत जाता
आनी हुशार सोंसो
शिटूक सोंसो हारून वेता...

बाईन म्हटलें
कोणाक प्रश्न आसा ...?

एक भुरगो उबो रावलो
म्हटलें बाईन... सांग... कितें ?
भुरग्यान म्हटलें
बाई... काणी पोन्री
खूब वर्सां सांगलेली
इल्लें इल्लें सार
वगडायत रावतली
देखून... बाई...
आमकां कांयच मेळ्ळें ना...

अब्बा... बाई बडबडली...
बाई... हे काणयेंत
कासवाचो कितें प्रोग्रेस जाल्लो दिसना
दुसरो भुरगो...
बाई... कासव जिकलो खरो
पूण तातूंत ताची
कांयच हिकमत वा
हुशारकाय दिसना
तिसरो भुरगो...
स्वताचें पाड घालपाखातीर
आयचे हुशार लोक अशे न्हिदनात

बाईचो राग
घुरघुरूंक लागलेलो

आनी एक भुरगो
बाई... ही काणी इंडेपेंडेन्स व्हगडायता

ार तापलो
ली कर्माची काणी सांगता ?

ा बसलेल्या भुरग्यान म्हटलें
णी कसलो संदेश दिता ?
ाचो काय पारतंत्र्याचो
म सुटपाक लागलो
श्न विचारूंक नासलेल्या
रग्यान म्हटलें...
जैत स्वतंत्र न्हय
ाचेर अवलंबून
काणी
च्या परतंत्राची

भुरगो
उबो रावनासलो
लागलो
ी काणी सांगपाची
यकुपाची

ान लेगीत प्रस्न केलो...
णी तुवें सांगली हें तुजें जैत
णी आमी आयकली हें आमचें जैत ?

णी कातवा
नातवा
तिच्यांत
येतात
ाल्ले फतवा...

# तीर्थक्षेत्र वसुधैवकुटुंब

**प्रकाश पाडगांवकार**

हे वण्टीर हुमकळायल्लो
तीर्थक्षेत्राचो पुरातन फोटो
आदीमायेच्या उत्सवाक जमिल्ले
चिक्कार गर्देचो

त्या मूळ जाग्यार
जावन संस्कृती उत्थानाची फांतोड
एकेक मनीस किल्लून
उमळिल्लो मनशा-मनशांचो खजिनो
आनी उबें राविल्लें हें तीर्थक्षेत्र
देवळांत स्थापून आदीमायेची म्हूर्त

तेन्नाच्यान मनशांक लागल्या तान
नतमस्तक जावपाची
आदीमायेच्या पांयांकडेन
तिचे वरवीं जोडूंक नातें
परमशक्त रचणारालागीं

ह्या पुरातन फोटोंतले
लाखांनी लोक अठरापगड जातिंचे
केन्नातरीच मरून जाले काबार
तरी आयजय तसोच गर्देचो ओघ
फसफसत आसा

अठरा पगड जातिंच्या लोकांचो
व्हांवयत तांच्या सांगातान जातीकातिंची
तांच्या रगतांत भिनिल्ली
उंचउणाक विचारांची समजणी

हे आदीमायेक गवाय दवरून
झडटात हांगा ह्या तीर्थक्षेत्रार
अध्यात्मीक सत्संग, प्रवचनां
सत्पुरुषांची, सिद्धपुरुषांची
सगळ्यांचें बरें जावंचें म्हूण



जाता म्हाका अजाप ह्या
सत्पुरुषांचें, सिद्धपुरुषांचें
जे अठरा पगड जातिंचीं
बुरशीं आभुषणां ना जावंची म्हूण
कांयच करनात, कांयच उलयनात

पुणून गायतात व्हडपण
मनीस जातिच्या एकवटाचें
त्या सर्वशक्तिमान सर्वेश्वराक
वचचें म्हूण शरण
आनी एकरुपचें म्हूण
ताचे तंद्रेंत लीन जावन खालतीकायेन
कसलोच वेगळेचार दवरिनासतना

म्हजो दिश्टावो :
ह्या तीथेक्षेत्रार येतलो जल्माक
नवो अवतार
नव्या काळाच्या
नव-विचारी सिद्धपुरुषाचो
जो ह्या अठरापगड जातिंच्या
उंचउणाक आभुषणांक
आपल्या तेजान विरगळावन
भायर मारतलो
आनी पातळायतलो
नवो सिद्धांत
मनीस जातिच्या कल्याणाचो :
एक धर्म : मनीस धर्म
एक जात : मनीस जात

मागीर हांव
ह्याच तीर्थक्षेत्राचो, चिक्कार गर्देचो
आधुनिक नवो फोटो काडून
नव्या पिळग्यांच्या घराघरांनी
हुमकळायतलों
शीर्षक दिवन
''तीर्थक्षेत्र वसुधैवकुटुम्ब''.

# घर : एक चिंतन

**परेश नरेंद्र कामत**

कोणेंच घर नासून जावचें न्हय बेघर.
कुडिंतल्या काळजावरी दरेकल्याचें आसूंक जाय घर.
घरांत घोळूंक जाय घराबो :
फोर सिटर गाडयेवरी.
घर आसूंक जायना कार्रेरीभशेन जॅम पॅक.

घर फुलपाक जाय
जायेवरी टवटवीत; स्वच्छंद...
आनी घरांतल्या घराब्याचो घमघम
फांकपाक जाय घराभायर
चान्न्याची पसय कसो.

म्हाकाय दिसता : म्हजेंय आसचें ल्हानशें एक घर.
आपलें अशें – काळीज-कळवळ्याचें.
आवयच्या कुसव्यावरी
दोळ्यांतल्या उदकावरी
मातयेचे ओलसाणिचें...
नितळ-निवळ, निश्कलंक, निश्पाप
प्रसन्न मुखामळाचें – हारशावरी आरपार.

घर जाय :
जशी दाट दाट दुदावयली साय
घरांत जाय :
शांत, न्हिदेच्या कांठावयल्यान रातची
व्हांवत रावपी सवस्थकायेची सनातन थाकाय.
घरांत उजळपाक जाय :
मळबखोल प्रतिभेची गर्भकूड
घरांत झळकपाक जाय :
महाकाय पृथ्वीचो तळ
घरांत खेळपाक जाय :
उजवाडाची वावझड
घर हांसपाक जाय :
सान भुरग्याचें मन-म्हांवाळ हांशें...

खंयच्याच घरांतल्या घराब्याचो जावंक जायना घुस्मटमार
खंयच्याच घराचो जावचो न्हय गोरवांचो गोठो
घराचेर कोणूच केन्ना निर्शेवन जावंक जायना बेजार
घरांतलो कोणूच कोणाचेर जावंक फावना रागार-फुगार
खंयचेंच घर आसचें न्हय दिसपाक अरवळ, अबुद्दी, उखलापें...
सत्व व्हगडावन घरांतलो कोणूच जावंक जायना खोजो
खंयच्याच घरांत कोणूच केन्ना हुंडकेवपाक जायना
दुखी जावन
– कोणाचेंच घर जावंक जायना
साडे-बत्तीस बोडकांची कुबट-कुसकी, किलशेल्ली,
कपलफुटकी भंगसाळ...



## ...युटरा !
## ... उपकार कर

### ... रमेश पवार

...म्हज्या शेजाऱ्यागेर
...मीडिया कम्प्यूटर हाडला
...यल आनी तांगेलो चलो
...र लिटरेट जाल्यांत
...शिकिल्ले शेजारीय
...तीर इल्लिटरेट कशे !

...टरावेलीं विंडोज
... ज़ायत सावन
...शेजाऱ्यांवटेनचीं विंडोज
...ंच बंद केल्यांत.
...चीं भुरगीं सांजवेळचीं
...ंनी खेळटात
...तांगेलो चलो
...टरावेल्यो गेमी खेळटा
... एकसुरोच... पिसो कसो !
...कडल्यान काणी आयकले शिवाय
...शिल्लो पोर आतां
...टरावेल्यो गेमी खेळटां खेळटांच
... लागता... मागीर
...क्ट गादी
...ची मांडी ना मर्दी !

आदीं घोव-बायल दोगांय
तिनसानचीं व्होल्तेरांत बसतालीं
ऑफिसाच्या प्रवासांतली
दरेक गजाल शॅर करतालीं
भितरली तशी भायली.
आतां... दोगांयच्योय दोन फायली !
दोनूय फायलींक पासवर्डूय वेगळे वेगळे
कोणाली खबर कोणाक ना.

तोवूय आतां शेजाऱ्यांकडेन
व्हडलोसो उलयना.
दुसऱ्यांची वळख करून घेना
आनी आपलीय करून दिना
ताची वळख आतां
ताच्या बायोडेटासकट
वेबसायटिचेर मेळटा
डब्ल्यू डब्ल्यू डब्ल्यू डॉट...

कॉलनींतलो एक शेजारी
कम्प्यूटराक लागून पयस गेला
मनाचे फ्लॉपिचेर ताणें
व्हडलें 'ग' कॉपी केलां !
जिणेक ताचे वायरस जावन
'हार्ट डिस्क' करप्ट जाल्या !

कम्प्यूटरा ! तूं योच !
पूण इतलें मात करूं नाका
भुरग्यांलें भुरगेपण गिळूं नाका
काणयेंतल्या कोल्यांक मारूं नाका
शेजाऱ्यांच्या सांगातांत फुलूं दी वाठार
घोव बायलेक बसय गजालिंच्या पाटार

शेजाऱ्यागेरच्या कम्प्यूटरा !
नात्यांच्यो गांठी सोडोवं नाका
मनशांमदीं दुराय वाडोवं नाका
आतां एकच उपकार कर
जें जें तुवें केलां इरेज
तितलेंय परतून फीड कर.

## सपन

### सुनिता सुभाष शाह

सपन एक फुलांचें
सपन म्हजें गंधाचें
मोरपांखी दोळ्यांत म्हज्या
सपन मोर रंग्रांचें
सपन एक मळबाचें
निळ्या-निळ्या दोळ्यांचें
मध्यान रातीं जाता जागें
सपन म्हजें चंद्राचें...!

## घण

### सुफला रुद्राजी गायतोंडे

टाकयेचे घण फातरार बसतकूच
ताका कितलें दुखता जावंये
हाचो विचार हांवें केलो
तेन्ना होलमलें
म्हज्या काळजार उतरांचे घण पडटकूच
ताका दुखता, त्रास जातात
तशेंच जाता जावंये फातराक
आनी फातराचीच देख घेवन
हांवें म्हजें काळीज निबर केलें ताचे वरी
तें आतां निबरूच आसा
आनी सासणाचें निबरूच उरतलें
उतरांच्या घणाची दूख
जाणवची न्हय म्हूण.

# तुमकां कितें जाय ?

पी. जी. कामत

संस्कृत ?
  नाका, ती भट्टांली भास.
लाटिन ?
  नाका, ती काथलिक भास.
अरबी ?
  नाका, ती नायत्यांली भास.
पुर्तुगाली ?
  नाका, ती जुल्मी फिरंग्यांली भास.
मराठी ?
  नाका, ती डोंगरी भास, हिलमन जिंगो.
कन्नड ?
  नाका, ती परकी भास.
हिंदी ?
  नाका, ती आर्य भास.
कोंकणी ?
  नाका, ती आमकां आसां.
  गोड, गोड म्होंवाळ भास.
  आमची मम्मी-भास.
  तिची तुस्त केल्या लोहियान !
  आयकलां तुमी ?
  इतली मोवाळ म्होंवाळ भास
  लोकांत खंयीच ना.
  ती आमचे लागीं आसा
  ती तुमी आमकां कशी दितले ?
  ती आमी तुमकां दिवुंची ना.
  आमी विकती घेवुंची ना.
'ना, आमी ती विकिनात गा,
शिकयतात; यो, शीक, वाच, बरय.'
    'ना, आमी ती शिकची ना.
    शिकल्यार तिची रांग गेली
    वाचल्यार तिची धाटि गेली
    बरयल्यार तिचें आपलेंपण गेलें
    देखून आमी ती
    शिकूं ना, वाचूं ना, बरोवं ना.
    ती आमी राखून दवरतले
    कोरंड्यांत, पोरणे जायां कदि
    देवाऱ्यांत दवरतले.
    पणजेंत आस कितें तें आफीस
        आरकिवस !
    हां, थांगा गोपित दवरन राखतले.
ती आतां पावल्या दिल्लीचे आटवे वळेरेंत !
आहा ! आनी जाय कितें आमकां ?
आमचें जीण सार्थक जालां.
आमी कितले भाग्यवन्त !
वज्राभाशेन थळथळेता आमचें नशीब !

* * *

'तावळ तुमकां कोण कांय नाका ?'
'म्हूण ना रे सायबा !
जाय आमकां.
कितें तें तिचें नांव ?
ती दिल्ली सुलतानाची भास
गोंयचे गोवर्णदोराली भास
गजटाची भास, बजटाची भास
आदवोगादाली भास
इसकोळाची भास
कोळेजाची भास (की कालिजाची ?)
अणवर्सिटी भास
भैंस चैंसराली भास
देखून तीच आमकां जाय
तिचान आमचें पोट भरत
तिचान आमकां मुगति मेळत.
    सात लाख गोंयकार आमी
    पालखी तिची नाचयतले
    कोंकणीची पुजा करतले
    इंग्लीशीक नाचोवन भोंवतले
    डॅम ब्लडी फूल ! ब्यूटीफूल !
    डॅम ब्लडी फूल ! ब्यूटीफूल !

कोंकणी लिंगटी मैनारटी
करैलांत
कोरनाटकांत
म्हरासटरांत
देखून थांगा थांगा आमकां
इंगलीश मेळता सस्ता
ती मेळपाची अथारटी आमकां
दिल्ली सुलतान दिता !
हजारान हजार परबीं ताका.
    जाय जाय तीच आमकां
    आनी कोण कांय नाका
    पगडी जाय ? दितां.
    कॅपिटेशन ? दितां.
    ब्लॅक जाय ? दितां, दितां.
    कशीय पुणै राख सायबा,
    शरण येतां तुका.

## जेन

**नाआडारकार**

[१]
ां डये जनेल म्हळ्यार
ताक एक वणटीक
ात जनेल
या पणटी..

[२]
ाघालूं येता मळबाक फास्की
ती, जाय तशी
तारूं येता रंग
तो-
ानेल उकतें आसल्यार पुरो.

[३]
न्ना काळजाक आयिल्लो ओतो
ब्खाचो, जावं सुखाचो
ाआड वचूंक फावना
व ल्हवूच जनेल उघडटां.

[४]
नाशिल्लीं घरां
ात
उघडटांच दारां
ात.

[५]
या तोंडांत यशोदेक
अख्खें ब्रह्मांड
जशें
जनेलांत दिसता.





## वाट

**राजश्री म. सैल**

काळजाच्या केण्णाची अशी सोदता
वाट
उजवाडाचो वादळ हुंवार
हो काळजाचो भरतेभार
अथांग दुकां तळ्यांत कसो लागना थाव
जिवीत सुटलें
मर्ण खुटलें
मदले मदीं ही तळमळ
अशी ही काळोख भोंवरी
खंयच्या अज्ञाताची सुंवारी
म्हज्या मर्णाची ही मर्ण
सांवळी दोन दोळ्यांच्या
दोळ्यांतली बावली.

## गझल

**पूर्णानंद च्यारी**

हाय ते म्हगेलें सूख पोखरून गेले
दोळ्यांतल्या दुकांचेंय आचमन करून गेले.

आदार पालवांचीं बातांच मारलीं तांणी
पोशेवन म्हाकाच खांकनवळांत पेरून गेले.

गायत रावलों हांव आपुलपणाचीं गितां
धुंदींत रंगतना स्वरूच चोरून गेले.

बेणल्यो वाटेंतल्यो काटयाळ्यो झिली त्यो
काटायत म्हाकाच खुर्सार मारून गेले.

दिली जांकां घटायेची बाराखडी अळंग
कपळार तेच दुर्दैवा श्री चिरून गेले.

## मांडावळ

**अमिता गावणेकार**

कोट्यांनी जल्म
येदो व्हडलो प्रवास
कितें पळोवपाक
करपाक लायलो?
दिसता तें सगळें
शिंयांतल्या दंवावरी
सुर्याचीं किरणां स्पश्ट जायनाफुडें
खंयचे खंय नाच्च.
नखेत्रां भोंवतणी
गिऱ्यांची भुरावळ तशी
अस्तित्वा भोंवतणी
दिसता ती
मायेची मांडावळ.



# अहल्या

पी. एन्. शिवानन्द शेणै

अहल्या
फातर जावन
न्हंयचे देगेर
पडल्या.
अहल्या
न्हंयचे देगेर पडल्या.
येता श्रीराम आनी
आपडतना पांयांनी
फातर
कापड परततरी
स्त्री जावन
उडता उबता.
अहल्या उडता उबता.
अहल्या
न्हंयचे देगेर
स्त्री जावन राबता.
ही अहल्या
फातर जावन
जन्म वायट करता.
स्वता इष्टान न्हय.
देवाले पापान
बामणाले शापान
अहल्या फातर जाता
देवाले पापान
बामणाले शापान.
अहल्या
देवा खातीर
बामणा खातीर
फातर जाता.
फातर जावन
जन्म सगट वायट करता.





अहल्या परतून स्त्री जाता.
जाल्यार हांव सांगतां
स्त्री जन्म अशी ना करुंक न्हय.
फातर जावन न्हय
परतून जन्म घेवन न्हय
स्त्री जन्म
दिवो सरी उजवाड दिवूंक
स्त्री जन्म
तूप सरी लासून सरूंक
स्त्री जन्म
चांगपणाचें
चांदिणें जावूंक
आतां आतां
एकेक घरांत
अहल्या
फातर जावन
आसा कित्या ?
स्वता हितान (वे)?

# मोगाचो विलोदी रंग

मनोज नरेंद्र कामत

गळिल्लीं दुकां
मॅग्निफाय करच्या नादांत
हाता तळव्यार
ल्हवपीक धरलीं,
गोठेल्ले नाद तुजे
कानांच्या कडा-कडांनी घुमले,
सादले

तुजो म्हौंवो स्पर्श
आंग-आंग शिरशिरावन
थरथरावन गेलो

ओंठांक लायिल्ले ओंठ
अती गोडसाणेन आयज
कोडू जाल्यात
देखून,
ह्या एका-एका दुकाच्या गर्भांत
आसपी हुनसाण
खर जायत रावल्या
पूण, ही कोडू-हुनसाण आयली खंयच्यान?

मॅग्निफायींग लेन्स मोखून
तुज्या दोळ्यां-खोलायेंत रिगलों
तेन्ना तुजीं सपनां हांवें रंगयलीं,
मोग-विरहाचे खीण
पिंतारले गाड रंगांनी

ह्या दुकांतलें वज्र थीक
खंयच शेणचें न्हय म्हूण
मुदयेर फिट्ट बसोवचो यत्न चल्ला.



## ंदिर

**गांवकार**

ल्या अंतर्नदर
दिसता

तडचें

..
.!
गावल्या
र्णि
रपार
तिची शक्त

डींत
सार!

ल्या अंतर्नदर!
ंक नजो
नें चिंतप
परी दिसता
सार

सता!

# पावसा

**शशिकांत पुनाजी**

पावसा,
मीया हंयसर रावतय
माजे वयर आनकी एकटो रावता
तूका हंयसर
पाश्टावैरसून पावळेक
घसरगूंडेर खेळाक
गावचा नाय...
सगळे बिजिकाव्यात
पोल्लो काडून बसतले
म्हणान तूया हंयसून जा
तडक आमच्या घरा
फुटलाल्या कौलाच्या बुराकासून
निरोप दि आजयेक
जपान ठेयल्लो काजी-बियो
चुलीन उडोवंक
नातर पणसाच्या घोटयाचां
सामारा करूंक
आज्याचे कूडीन
खूटयेर फटकूर आसतली
ती कामरांक घेवन
घुस्पट मारून न्हिंद
आठवन करून दि आवशिक
तेन्या-ताळकूळ्याची भाजी घालूंक
बापायक सांग माळ्यार चडाक
मूडयेत नासणें-हुडीद आसतले
आजयेक हातीच्या तळतरार
बरी भाकर भाजूंक सांग
जाया जाल्यार भिंड्यालाचा
मुठलां मागान घे
येटास भूस मारून जा...
पूण जाता-जाता
म्हाजोय निरोप दी!



# मुदसांव

**आर. रामनाथ**

हें पळय:
तूं अचकीत मात येवं नाका
उपकार करून
येवचे पयलीं कळय मात्शें
सगळेवटेन बऱ्याक पडटलें...

तूं येवचे पयलीं
हांव म्हजें सगळें घर झाडून घेतां
वण्टीक शेड काडटां
जमीन शेणान सारयतां
आंगणूय पेट्टां
तूं येता त्या दिसा
दारांत रांगोळी घालतां
तोरण बांदतां
तूं येतकीर
तुज्या हातांत एक तांबडो गुलाब दिवन
तुका हांसत हांसत येवकार दितां
तुजी थाकाय पयस करपाक
माटांतलें थंड उदक तुका पिवपाक दितां
तुका कितेंय गोड मात दिवपाक म्हाका शक्य
जावचें ना...

तूं म्हाका व्हरपाक येतकीर
म्हाका तुजेवांगडा वचचोच पडटलो
नावूय म्हटल्यार हांव हांगा साप्प विटलांच
म्हाका मुदसांव जाय.
तुजेवांगडा वतकीर
म्हाका जाय तशें मुदसांव मेळटलेंच...

म्हाका मुदसांव जायच!

# कोणें घडयलें

**रोहिदास बाबुराव शिरोडकार**

धतरि मायेचें फिरप
राती दिसांचें उलगप
उमाशेची काळखी रात
पुनवेची चान्या रात
घडयली तरी कोणें

मळबाक नेटोवपी नक्षत्रां
चंद्र सुर्याच्या उजवाडाची यात्रा
घडयली तरी कोणें

सृश्टिच्या आदाराचेर सोदार सोद लावपी मनीस
सृश्टिचीं अनंत रुपां भोगपी हो मनीस
घडयलो तरी कोणें
घडयलो तरी कोणें.





# किण्ण दोळयांनी

**सु. म. तडकोड**

उनाड भुरग्यावरी
उजवाड कसो आत्र्यापयऱ्यान छळटा,
तिगय तिगय तिगयिल्लो काळोख
खदळून उडयता हो उजवाड तनामनांत...

कोण म्हणटा कालच आषाढ आयिल्लो
कोण म्हणटा आयच्यान श्रावणाचें बोट लागलेंशें
दिसता आसमंताक

तेन्ना खळखळून उठ्ठात खीण असंख्य
काळखाच्या पावसाधारांतले,
तनामनांत...

हालीं आंगार आंगां दिसतात
उजवाडाची झड पडटकच,
श्शी! कितलें घाण बुट्टाण शरीर हें.
अंतिम व्याख्याच नाशिल्ली नीत-अनीत
रिगत वेता तनामनांत...

हांव हें किण्ण दोळ्यांनी नियाळटां
आनी काळजाक समर्पित जावंक
मजत करपी देवाक शरण वचूंक लागतां
अर्दकुटो नवस केल्लेवरी आत्मो तळमळटा
तनामनांत...

# पारजतां

**नयना आडारकार**

(१)

माड धोलतालो
तेन्ना रेंदेर कांतार म्हणटालो
काय रेंदेर गायतालो
म्हूण माड धोलतालो ?

(२)

वसंताक आयला
भार
रुखारुखान
आपणायला
परमळाचो ताल

(३)

मळब तांबशें
सांज पिशी
हांसता कशी
आपणाशींच

(४)

आज हांव
दिवलेंतली वात जावन जळटां
वात जळटा तितलें
जिवीत म्हजें परजळटा.

(५)

रातराणये सांग म्हाका
कसलो तुका शाप हो
सकाळ जायनाफुडें
खंय उडून वता वास गो ?

ृदिव्य

मालकार

व्यांनी
ान
रंगयलां
ेन
ळोवंक ना असो
वळखी, तेजगर्भित
ळेला

ंक
ग आसात
रंगरंगयाळें सपन
क
ोंवाळ, मनीसकायेचो
, सुगंध आसा
गंधसुगंधीत सपन
क
हुलोप आसा
चे तिरफांटे करपी
शस्त्रांचोय
आसा
जळट्या होमखणाचेंय सपन

या ह्या
खांबो समर्थपणान
तलो हाचो
ासा
राय करूंक
नदिव्यांतल्यान
पडत
दिगंतांत
ाडीत रावच्यो पडत

परसय
हे वाटेर जातले

वन पचोवपाचें
सचें
लो म्हूण
ावन मारचो न्हय
पथपत्या सुर्याक
ची पडल्यार
न्हय
इतलो व्हड

दर्या लेगीत
पार करचो पडुंयेता
ते खातीर
आत्मविस्वास आसचो
चित्त थाऱ्यार आसचें

त्या अथांग कुबेर
दर्या रायाची सेवा करूंक
कांय दीस ताचे वांगडा
ताचो शिश्य जावन रावचो
ताका गुरू मानून
ताचेकडसून बऱ्या कर्तुपांचे धडे घेवचे
ताच्या शांत सभावाच्या
गुपिताची हळूहळू
जाणवीक करून घेवची

ताचो क्रोधाग्नी चाळवता
तेन्ना तो म्हाभयंकर
उग्ररूप धारण करता
म्हणटा म्हणसर
एकाच वांगडा मेळत तें
गिळून उडयता.
हें गर्भगुपीत शिकूंक
ल्हान भुरग्यावरी सदांच
हट्ट धरचो
हें सगळें आत्मसात करूंक
तुका ताच्या पायांच्यो
खडावो जावन पावला-पावलाक
झरचें पडटलें
ताच्या कुबेर धनाचो मोह
जावचो न्हय हाची चत्राय दवरची



गुरुदक्षणांच्या रुपान
गुरू कितें मागत
ताचो अंदाज करुंनज
गुरू द्रोणान एकलव्याकडेन
ताच्या हाताचो आंगठो मागलो
कदाचित परिक्षा पळोवंक
तुजेकडेन तुजी गोवंटी मागत
फाट-फुडलो विचार
करिनासतना सरळ सहज
अर्पण करूंक अनमनची न्हय

आयज मेरेन कोणेंच
जिकूंक ना इतलें व्हड राज्य
तुका स्वताच्या म्हालवजार
जिकचें आसा
गरीब दुबळ्यांचीं
शिरां कापून न्हय
कोणाच्या घरादारांचेर
नांगरय फिरोवन न्हय

गरीब दुबळ्यांचो आदार जावन
साध्यांचें साध्य जावन
निर्बळांचें बळ जावन
वचत ते शिमेर तुज्याच
जैताची घुडी नदरेक पडची
मेळत ताच्या तोंडांतल्यान
तुज्याच शौर्याचीं
शौर्यगितां आयकूंक येवंचीं.
रणभुंयेर रणविरा वरी
झुजतना तुका पळोवन
म्हजे दोळे दिपून वचचे
तूं हात घालीत थंय
भांगर मेळचें
तुजे न्यायनितिची तागडी
उजू आनी देव भिरांतेची आसची
तुजे न्याय देवतेच्या मुखार
अन्यायान सदांच शरण येवचें
तुजें राज इंद्रराज आसचें

तुज्या येवकाराक हांव
फुलांचे असंख्य मळे फुलयन
सगळ्यो वाटो फुलांनी शिंपीन.



# जोगी

आनंद वर्टी

आले मंतर कोले मंतर
फुक् जावं फुक् जावं
अंतर बिंतर जालें निरंतर
फुक् जावं फुक् जावं

हात हालयत आयलो जोगी
खाड तागेलें वेंतभर
कपलार भस्म जटा माथ्यार
फांतोटे येवन जालो हजर
बडी हालयत म्हणटा तोंडान
'फुक् जावं फुक् जावं'
ताचे फाटल्यान लागलो गांव

'कसलें जिणें हें दारिद्र्याचें
दीन दुबळे तुमी कशे
खिणांत तुमकां करतां गिरेस्त
मणांनी येतले हातांत पयशे'
बडी हालयत म्हणटा तोंडान
'फुक् जावं फुक् जावं'
लोकांक सुटली सामकी हाव

'दुयेंस तुमचें काडटां खिणांत
सगळ्यांक मेळटली भलायकी
तुपाच्यो आतां न्हंयो व्हांवतल्यो
कित्याक खातात भाकरी सुकी'
बडी हालयत म्हणटा तोंडान
'फुक् जावं फुक् जावं'
लोकांनी सांगलें हांगाच राव

'फुकेसवाय शिकप जातलें
बांदून दितलों तुमकां घरां
वेवसाय दितलों बेकार लोकांक
विलायते वतलीं तुमचीं पोरां'
बडी हालयत म्हणटा तोंडान
'फुक् जावं फुक् जावं
जगांत गाजतलें तुमचें नांव'

जोगीन बांदलो मठ तागेलो
गांवांत जालो तोच मोठो
ताचें उतर मोडटलेल्यांक
बसूंक लागलो फाटीर सोटो
बडी हालयत म्हणटा तोंडान
'फुक् जावं फुक् जावं'
लोकांक कळ्ळो ताचो सभाव

मठांत आयले सोयरेधायरे
सदां सुवाळे पक्वान्न
लोक पुणून जीब चाटत
लागले दशेक अन्नान्न
बडी हालयत म्हणटा तोंडान
'फुक् जावं फुक् जावं'
लोकांनी वळखलो तागेलो डाव

एका फांत्यार लोकांनी सांगलें
'आमच्या जिवार मारता ताव
पुरो तुगेलीं तंत्रां-मंत्रां
रंकाचो तूं जालो राव
बडी हालयत म्हणटा तोंडान
फुक् जावं फुक् जावं
फटकिरोच तूं आसच्या फाव'

आयलो तसोच गेलो खंयतरी
जोगीलें तोंडय दिसलें ना
सदासर्वकाळ सगळ्या लोकांक
भूल घालप घडलें ना
बडी हालयत म्हणटालो तोंडान
'फुक् जावं फुक् जावं'
लोकांनी केलो आपलो बचाव

अंतर मंतर कोले मंतर
फुक् जावं फुक् जावं
काणी देखदिणी जोगीली वळखात
चोर कोण आनी कोण साव.



# नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया

मुखेल कचेरी: ए/५, ग्रीन पार्क, नवी दिल्ली – ११० ०१६

## वाचपाचो छंद जिणेचो आनंद

| ...ाचें नांव | बरोवपी / अणकारपी | मोल |
| --- | --- | --- |
| **...रू बाल पुस्तकालय – भुरग्यां साहित्य** | | |
| ...उ | हाइड्रोसे आलुवा / माया सरदेसाय | ९.५० |
| ...स्ट | बच्चेंद्री पाल / मुकेश थळी | १०.०० |
| ...ंत भोंवडी | मेलानी सेक्वेरा / जयमाला दणायत | १०.०० |
| ...चड बुदवंत | गीता अय्यंगार / प्रकाश थळी | १२.०० |
| ... जीवसृश्ट | हरिंदर धनुआ मोतिहार / दिनेश आर. मणेरकार | १४.०० |
| **...कप्रिय विज्ञान** | | |
| ...-सारीक दुयेंसां | अनिल अग्रवाल / डॉ. भिकाजी घाणेकार | ३०.०० |
| ... अन्न आनी तुमी | के. टी. अचय्या / नारायण देसाय | ३०.०० |
| **...ंतर भारतीय पुस्तकमाला** | | |
| ...र्म म्हळ्यार कितें? | महात्मा गांधी / रवीन्द्र केळेकार | २८.०० |
| ...लीन कोंकणी लघुकथा | पुंडलीक नारायण नायक | ४५.०० |
| **...तंत्रतायेचीं पन्नास वर्सां** | | |
| ...णी | पुरुषोत्तम काकोडकार | १०.०० |
| ... दोन दिसांचीं | चंद्रकांत केणी | १०.५० |

**एनबीटी बुक क्लबाचे आजीव वांगडी जायात आनी २०% सवलतींत पुस्तकां मेळयात. एकदांच रू. ५०/- भरून आजीव वांगडी जावं येता.**

अदीक म्हायतीखातीर बरयात
संपर्क: क्षेत्रीय व्यवस्थापक

नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया
महापालिका उर्दू शाळा, बाबुला टँक क्रॉस लेन
जे. जे. हॉस्पीटला मुखार, मुंबय ४०० ००९
फोन: ३७२०४४२